# हूलपोवणी

**ल. सि जाधव**

**अणकार : उषा राणे**





सहित
प्रकाशन

Hulpovani

L. S. Jadhav

सहित : ३१

हूलपोवणी

ल. सि. जाधव

अणकार : उषा राणे



पयली आवृत्ती : ५ जुलै २०१८

मुखपृष्ठ आनी रेखाचित्रां : शिरीश घाटे

मांडणी : अंबिका ग्राफिक्स (९८२२५३०३३)

उजवाडावपी : सहित प्रकाशन

किशोर अर्जुन,

विकास नगर, करमळी,

तिसवाडी, गोवा.

संपर्क : ८३२९२ ५६५५६

Email : edit.sahit@gmail.com

छापपी : एस. ए. प्रिन्टर, पुणे,

मोल : रु. २००/-





महात्मा जोतीबा फुले,
महर्शी विठ्ठल रामजी शिंदे,
राजर्शी शाहू महाराज,
डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर
आनी
शाहीर आण्णाभाऊ साठे
हांच्या स्मृतीस लागून





I strove with none, for none was worth my strife.
Nature, I loved and next to nature, Art;
I warmed both hands before the fire of life

**- W. S. Landor**



१.

तो आदी मदी येतालो. पूण सातत्य बाळगून. ताच्या येण्याक चुकून अशे म्हणूक जावचे ना. मात आयलो की सावध करतालो. केन्ना केन्ना आयुश्याचो चड-उतार; लेखाजोखा पळयतालो. खजील जावपा सारखे  आसले, जाल्यार थोडो वेळ रावतालो. द्वंद्वाचें मूळ सोदतालो. खरे-खोटे जातालें. यथाशक्य खळबळीचे शुद्धीकरण कल्न मागीर उठून वतालो. चडशें आलबेल आसत जाल्यार कितलेशेच दीस मेरेन तोंडय दाखय नाशिल्लो.
द्वंद्व अंतर्बाहय आनी मनाचे. खूब अफाट आसा हो पसारो.
इतली वर्सा जगून आमी अजूनय भिवकुरेच आसात. कसलीच उकल सारकी जायना. कारणा सोदत जाल्यार अगम्यतेच्या खोल खोल गर्तेंत घुंवत रावचे अशी परिस्थिती. सदा उदेवपी सूर्य उर्देतेचे प्रचंड प्रवेश द्वार उघडता, आनी धतरिवयले सगळे सजीव आपले खेळ मांडतात. सूर्याच्या उर्जेंत सृश्टी आपली नैमित्तीक निर्मिती, अभिसरण प्रक्रिया साकसून घेवंक लागता. नवे जीव अंकूरतात, पोन्ने जरठ जांवक लागतात, परिक्रमा पूर्ण करचे खातीर.
पूण कळना कित्या खातीर हो सगळो अट्टाहास! जो वेवहार आसा तोय संगतवार ना. यथास्थित ना. सुरळीत आसून विस्कळीत, आभासाचे चक्र आनी सत्यावे आभास.

फकत मरण कळेचे जगणे, अटळ सातत्यान मरण परंपरा जपत जीणेचो अन्वयार्थ लावचो, इतलेच मनशाच्या हातात आसता. स्पश्ट साधन सामग्री वांचून हे सगळे करत रावचे मागीर जणेकाचे नवे नवे सिद्धांत, धर्मतत्वां, चिवट, चिकट जीवन शैली. द्वंद्व ,युद्ध, ह्या आयुधांनी ही वाटचाल करत रावची. आनी हांगाच माज्या अगम्य मना भोवतणी वट्ट घुटमळत आसा. अंतर्बाह्य द्वंद्वात, हांव म्हज्या जिणेचो सोद -बोद उलगडयत आसा. सातत्यान यत्न करत आसा. कोऽहं प्रशन पडले पसून, जगप हे सगळे प्रवाहप्रतित आसा. ते आपल्याक बदलपा येना, वळोवपा येना. एका अर्थान असहाय आसा सगळे. एकूणच हे सगळे अत्यंत काटेकोर आनी आनी नियोजनबद्ध की विस्कळीत, कमालीचे अव्यवस्थित? कांयच बोध जायना. संगती लागना. दोन अधीक दोन चार हे जर खरे आसत जाल्यार कितल्याय व्हड संखेक शुन्यान गुणले जाल्यार जाप शुन्यच कित्याक येवप? मागीर प्रचंड व्हड संखेचे किते जाता? जिवितभर शील सांभाळले आनी अखेर खंय तरी एखाद्या खिणाच्या अनैकतेचो ताका स्पर्श जालो जाल्यार, ते सगळे शील शून्यच काय किते?

हे शुन्य महोदय अजबच. पूण तितलेच निश्टूर आनी सत्यवादीय आसात. खंयच्याय संखेंक शुन्यान भागचे म्हणले की, उरप पीं वळींळवशव लू नशी जाप अनंत अशी आसता. शून्यान कित्यातल्यान बाद जावनये. कित्यात अधीक जावनये. मागीर शुन्याक इतले म्हत्व कित्याक प्राप्त जावचे? एखाद्या अंकाच्या पयली शून्य आयले जाल्यार नगण्य, आनी अंका फूडे आयले तर त्या अंकाचे मोल आपले दरेक गोला बराबर ते वाडयता. सहस्त्र, दशसहस्त्र, लक्ष, दशलक्ष, कोटी, दशकोटी, खर्व, निखर्व, पद्, महापद्...

हे असले प्रस्न माका सातत्यान सतयतात, जगण्यातले द्वंद्व मनशाक सुखाच्या दिकेक खात्रेन कित्याक व्हरनात? भलेपणाक निरंतर संघर्शाचोच शाप कित्याक आसता? उत्तमाचीच परिक्षा अंतापर्यंत कित्याक, भांगरानच अग्नीपरिक्षा कित्याक दिवची? भ्रश्टाचाराक, अनैकतेक अनिर्बंद आनी निश्चिंत जगपाची सूटका कोणे बहाल केल्ली आसा? बोरीबाभळीन उदंड आयुश्य उपभोगचे आनी चंदनान मात आपल्या माथ्यार कुराड मारुन घेत रावचे. अखेर पर्यंत आयूश्य झरोवचे खातीर, हो खंयचो न्याय? पतीव्रतेच्या गळ्यात फातर आनी गणिकेन मात रत्नजडीत हार गळ्यात झेतान मिरयत रावचे. ही खंयची न्याय वेवस्था?

हांव असो डोळे धापून शांतचित्त बसलो की, तो येता, म्हज्याबरोबर चिंतनात वाटो घेता, इतलेच नी तर तो म्हज्या सर्वस्वाचो ताबो घेता, मन, मेंदू काबीज करता. मागीर हांव अस्वस्थ जावन खोल खोल दरेत कोसळता. आदीम काळोख म्हज्या दोळ्यांत आरपार घूसता. सगळे काळेकुट्ट जावन वता. मन ब्रह्मांडात हुडू लागता, भयाण कृष्णविवरात

घोटाळू लागता. परत कोऽहं चो सोद. जाप मेळना. हातूतल्यान भायर सरप कठीण जावन बसता. कित्याखातीर हो अट्टाहास? अशे दिसू लागता.
आता माका म्हजे एकटेपण भयानक दिसू लागतां. खूब खूब उंच वा खूबखूब खोल असो हांव हूबत आसा त्रिशंकू भशेन. घनघोर गच्च आदीम काळखात आमी गळ्यापर्यंत बुडून गेल्ले आसात. भयाण शांततेत हुंकाराचो सोद घेत आसात. हांगा उजवाडाक अजून कोंब आयिल्लो ना. हांव शांतचित्त डोळे धापून जणू ध्यानस्थ. म्हज्या ह्या विशुद्धावस्थेत तोय एकरुप जायत आसा. आमी अद्वेत जालात.
हे सगळे अनंत आसा. अनाकलनीय आसा. अबोध आसा. इतलेच कळून येता. अशे कितले पटी जावप? आमी ह्या भयाण शुन्यातल्यान सून्न जावन परतवप हाका गणती ना. परत कोऽहं निरुत्तर.
पाप-पूण्य तर साक्षेप. कितेंय धावन आयलें जाल्यार भयभीत जातालो. तो मात कायम म्हऱ्यात रावतालो. ताच्या साक्षेनच तर चलिल्लें हे आयुश्य. ताचो भय आसलोच, मागीर निसरपी पाय सावरताले, समतोल जातालो, पूण तरीय केन्ना केन्ना ल्हेवटेपणां अनावर आसतालीं. प्रबळ आसताली. तेन्ना तो सावध करतालो, हे सगळे टॉलस्टॉयल्या 'पाहोम 'काणे सारखे आशिल्ले. सोस आवरुंक न येवपी. ल्हेवटेपणां इतली ताकदवान आसताली की, तिजेफुडे शरणागती वांचून मार्गच उरनासलो. पाप केन्ना केन्ना इतलें शिटूक आसतालें की, केन्ना तें हुलकावणी दिवन, हळूच आमचे मनात येवन वस्ती करताले हें कळ सुद्धा नासले. ताका लागून मागीर खजील जावचे. अपराधी जावचे. अशे वेळार तो मुजरत येतालो. मागीर आमी मेळून हीं जळमटां साफ करुक लागताले. मन निवळ जातालें.
मन निवळ जालें की, तें गर्तेत परत भरकटतालें, खूब खूब फाटी उरफाटे दिकेन धावताले. किते सोदचे? अद्भूत, आदीमानवाचीं पावलां खंय लिपून आसात? इव ॲडम आनी तांचे सफरचंद, मनू आनी ताचें नूस्तें, जगबुडी जाले नंतर नुस्त्यान मनूक थारो दिलो, तो दर्या, ती उंच दोंगुल्ली, हाचो सोद कसो घेवचो? सर्गाची दिका दाखोवपी इजिप्तांतले उंच उंच पिरेमिड, ते स्फिन्क्स, त्यो ममी, मिश्र, बाबिलोनी, सिंधू आदी संस्कृतीचीं मूळ रुपां, अवशेश, ते प्रचंड डायनासोर आनी तांचो विध्वंस, जलचर प्राणी, ल्हावाचें पांगुन्ने कुशीक सारुन भायर पडिल्ली भूंय, नव्या पानांफुलांक, जीवजीवाणूंक जन्म दिवपाक आसुशिल्ली जमनीची कूस, मळबांत नव्यानच आयिल्ली पयली वयली कुपां, तांचे नवे भरकटप, गडगड, जोगलांचो झगमगाट, तापिल्ल्या नव्या भूंयेर पडिल्लो पयल्या पावसाचो थेंब, ते जमनीचें शिरशिरप, थेंबाक आपलेभीतर जिरोवन घेवप; कितले अद्भूत हें सगळे! पावस हो वीर्यवानच. धतरिर तोच सगळ्या रुपांची बिजां रोयता. मृदगंध दरवळता आसम तभर. मागीर नाजूक सानुलीं रुपां घेवन सृश्टी विविध रुपांन कोंबेवक लागता. धतरिचेर

सूर्य जी अनंत उर्जा हांतुळता आनी ताचेर उजवाड फाकसियता, हें विस्मयजनकच. हें सगळें दिसचें, पळवपाक येवचें म्हण विधात्यान जी दोळ्यांची रचना निर्माण केला तिचे मोठेपण विशद करुंक अजून उतरां जन्मली नात.
विचार करता करता जाणवता कितले पयसमेरेन आयलात आमी? सुरवातेच्यो त्यो निर्मणिच्यो सावल्यो खंयच उपलब्ध नात.
हांव यत्न करत आसा अतीताचो सोद घवपाचो. जे संवेदनाच्या आवाक्यात, कक्षेत आसा, ते यथाशक्य उतरबद्ध करुं येतले; पूण जें अतीत आसा, अतींद्रीय आसा, त्या खातीर शब्दातीत वाक्यरचना खंयच्यान हाडची? अजूनय आमी अपूर्णच.
परत तो हळूच आयिल्लो आसतालो, म्हणतालो, पयली आपलो सोद घे, आपलीच रचना अभ्यासून घे. थंय कांय गुपितां मेळतात काय पळय, आपलेच गूढ पयली सोद, किते आसात हे क्रोमोझोम्स, डी.एन्.ए. गुणसुत्रां, जीन्स, सेल्स; तांचो सोद (धांडोळो) घे, अभ्यास कर. खूब अद्भूत अशे हाताक लागतले. जाडायेतलयान सूक्ष्मतायेकडेन वचपाक येतले. रक्ताच्या एका थेंबांतल्यान सूयेच्या तोकार साठोवपी रक्तात पाच दशलक्ष तांबडयो पेशी आसतात. हें अत्यंत सूक्ष्मदर्शक दुर्बिणीतल्यानच दिसूंक शकता. या अजापाचो सोद कसो लावशी? हया चमत्काराची उकल तुका जायत? अशा प्रस्नाचो मारो तो करतालो.
मागीर हांव म्हजे भीतर भीतर देंवंक लागता. दोळे बंद. ध्यानस्थ, माका भगवान बुद्धाची याद येता. बोधीसत्व गौतम सम्यक संबोधिउपरांत बुद्ध जातात ती.
आमी तर भोगचे पडपी दुःखाची आनी कश्टाची कारणां सोदपी सामान्य वाटसरु, निदान बोधीसत्व तरी आमकां कळचे ह्या खातीर धडपडपी अनुयायी. अजून आमच्यांतली मुळावी भिरांतय पयसांवक शकनात. ही आमची अवस्था. परंपरेन आखून दिल्ले जीवन जगपी प्रवाह प्रतीत आमी. रिती-रिवाजाक बांदून दवरिल्ले आयुश्य जगपी, गुलामगिरेत पीचत रावपी अशे आमी सर्वसामान्य. ह्या गुढाचो, हया अगम्यतेचो सोद आमी कसो घेतले? पूण हया उमळशिके खातीर अस्वस्थ मनाची अवस्था आमचेकडेन कित्याक? हे मात कळना. हजारांनी वर्साची ही आनुवंशिकता तर नासत?
आता सूर्यास्ताचे क्षितिज तर दोळ्यांच्या आवाक्यांत स्पश्ट दिसत आसा. सांजवेळच्यो आपल्योच सावल्यो कितल्यो पयस सांडिल्ल्यो आसात. तांका फकत आता काळखांत विरुन वचचें आसा. पूण तरीय माका अजून बोधीसत्वाचो तो प्रचंड पिपळा रुख-बोधीरुख स्पश्ट दिसत आसा. या अजस्त्र बोधीवृक्षाचे निदान एक तरी पीपळपान आमचे हाताक लागतलें काय? शिशीर रुतू तर केन्नाच सरुन गेला. भोवतालची विसंगती अस्वस्थ करता. कोणे लादली ही व्यवस्था? एकूणच हया विस्कळीत व्यवस्थेक लागून आमी कितले हकनाक भोगले, अकारण बळी गेले. सृश्टीच्या मूलभूत समान हक्काक

पुसून आमी वंचीत जाले. कांयच कारण नासतना. लांच्छनास्पद जीवन जगूक भाग पडपी ही व्येवस्था कशी, कोणे निर्माण केली? निमूट पणान सगळे सोसचे तरी कशे? ह्या प्रतिगामी संस्कृतीचे गोडवे गावचे तरी कशे?

पुरोगामी प्रतिगामीच्या संघर्शात, वादात आमी विवेक तर सांडोवन बसले नात मू? अधोगतीच्या दिकेन तर व्हांवत वचत नात मू? पुरोगामित्वाक विरोध कित्याक जावचो? हांव विचार करता.

सामके हाल्लींच्या काळात, मनशान आपल्या आचार प्रक्रियेत केल्लो बदल आनी नव्या जीवनशैलीचो स्वीकार ताच्या प्रगत मेंदवातंल्या विकृतिचोच नवो अविश्कार तर नी मू? आज आमी संस्कृती, जीवनमूल्ल्यां, नीतितत्वां सपशेल जळोवन उडयिल्लीं आसात. संतकाळ सरलो. शुद्धाचरण हें गांवडळ म्हण ताका कोनशांत उडोवन दिलें. नव्या भ्रश्टाचाराच्या युगाक आता सुरवात जाला. कर्क-रोगा प्रमाण प्रचंड प्रसारवेगान ताणे सगळो आसमंत आज काबीज केल्लो आसा. बंदुकीच्या फारातल्यान, स्फोटकांतल्यान एका खिणात चडतर शेकड्यांनी लोक मरत, पूण ह्या सूक्ष्म पाताळयंत्री भ्रश्टाचारान कितली कुटुंबा, कितली घरा, शारां एकाच पावटी उध्वस्त जातली हे सांगूक येना. व्याभीचार, बलात्कार हत्या, छळ, अमानूश कृत्यां, लाखांचे अपहार, कोट्यावधीचे घोटाळे ही नवी रुपां आज मनशान आपणायल्लीं आसात. बार, पब संस्कृतींतल्यान तरणाट्यांनी बेधूंद अविश्कार धारण केल्लो आसा. नीतिमूल्ल्यां, सत्यमेव जयते, पावित्र्य, सुंदरता, मांगल्य ही सगळी मूल्ल्यां आज भ्रश्ट आचरणाच्या पायांतळा बेमालूम मस्तियली वतात. अशुभाचो काळोख सगळे वटेन फाफसवंक लागला. कवीवर्य विंदान आपल्या मनाक, आता फातोर जा, कानात शिसें ओतून घे, दोळ्यांक आता बंदिस्त करुन उडय, आनी आपल्याच आत्म्याक आता सूळार चडय. अशें ह्याच खातीर म्हणिल्लें आसा काय कितें? होच कोऽहं काय?

आता हांव बधीर जाला, सून्न जाला सगळेंच कशें नैराश्येन काळवटून गेला. अशा वेळार तूं येवचो कित्याक थांबलो? सोडय नी ही गुठली? मेंदवातल्या आनी काळजांतल्या गाठीन कूड आता विद्ध जावन वतली. विधात्यान मनशाक बुद्ध दिली पूण विवेकाची सक्ती कित्याक केली ना? सारासार विवेक हो ऐच्छिक कित्याक दवरलो? इतले अनिर्बंध ताका कित्याक सोडले? दया, माया, प्रेम, हांचोच ताणे त्याग कित्याक केलो? आपल्या अस्तीत्वा खातीर ताणे आख्खो आसमंत प्रदूशीत कित्याक केलो? ताणे भाशा निर्माण केली, उतरांक जन्म दिलो, सगळे नवे सोद आपल्या सूखा खातीर सातत्यान लायले, पूण तांतूतय आपसुवार्थच भरून दवरलो.संस्कृती, धर्माचो उदय, उदरगत जाली पूण तांतूतय आत्मकेंद्रितपण आनी हेरांचो दुस्वास हेच तंत्र ताणे आपणायले, ताका लागून काळजांतले प्रेमच हुबून गेलें, आनी बाकी उरले तें धर्माचें कर्मठ लटांबर, धर्माची कप्पेबंद स्वार्थी रचना.

ह्या पार्श्वभूंयेर विस्तीर्ण मळबाकडेन आनी दरीखोरी, दोंगर सुळ्या कडेन पळयलें की, खरेंच दुस्वास जाता, स्वछंदी शेवणी आनी निर्लोभी पशू-प्राण्यांचो. समैान जगचें जितलें बळगें दिला तितलेंच ताणी पाळला. म्हणच तांचे जिणे सैमीक आनी मेकळें जालें. मनीस बुद्धीच्या दुरुपयोगान, साठिल्ल्या उदकाच्या कोंडाप्रमाण सडत चल्ला. पशु-पक्षान मात व्हांवत्या उदका प्रमाण, मेकळ्या वाऱ्या सारखे जगणे आपणावन सैमाकडेन आपलें नातें अबाधीत दवरलें. मनशान बुद्धीच्या जोरार आपल्याच विनाशाची स्फोटकां आपल्या कुडी भोवतणी गुठलोवन आपलो आनी भोवतणाचोय नाश अटळ करुन दवरला. विनाशाचें हें तारु अखेर खंय वचून आदळतलें कोण जाणा?
हया सगळ्यांतल्यान मनशाक केन्ना उपरती येतली काय? तो पश्चातापदग्ध जावन आत्म चिंतन करीत? निर्विघ्नतेच्या दिकेन वाटचाल करचो विचार तो करीत? 'सर्वेऽपि सुखिनः सन्तू' हें फकत ब्रीदच उरतले काय? प्रार्थनेत तर आमी सकळांचे कल्याणच चिततात. निरामय, मंगलमय, शुभंभवतु अशें जीवन जावचें अशी अपेक्षा करतात. कळकळ, दया, करुणा, प्रेम, सलोखो, बंधुभाव, आत्मीयता ह्या भावनांनी ही सृश्टी केन्ना तरी भरभरुन व्हांवू लागत काय? धर्तरेवयले दु;ख, यातना वेदना हें मुळासकट निपटून वचत काय? चोयवटेन कल्याण आनी आनंद, परमोच्च आनंदात भिजून मनीस तृप्त जायत काय? कितले प्रस्न तयार जातात मनात, उतरांचो सोद कसो आनी खंय घेवचो?
तो आता म्हऱ्यांत येवन केन्ना बसलो ते कळ्ळेच ना. ताणे म्हज्या हातात कांट्याच्या देठांसयत फूल दिले. तीक्ष्ण कांट्याच्या खांदेरय तें सूंदर फूल झेतान धोलताले. खंयच्यान तरी एक फुलपाको हलवार हूडत आयलो, आनी फूलाच्या नाजूक पाकळेर ताणे आपली पावलां दवरली. फडफडतालो फूलपाखो म्होवाखातीर, मागीर फूलपाखो हूडून गेलो .मात पाकळ्यांच्या त्या नाजूक मवाळ कडांचेर आपल्या पावलांचो चरो उमटावन गेलो. ह्या चऱ्यान त्या सुकुमार पाकळ्यांक इजा तर जाली नासली मू? तांच्या ह्या नाजूक वेणांचे किते? मन आर्द्र जालें, या फुलांचो आनी काट्यांचो अर्थ सोद, अशें तो माका सांगूक लागलो. 'जीवो जीवस्य जीवनम् 'हाचोय किते उलगडो जाता काय पळय, अशें म्हणून तो अंतर्धान पावलो, हांव सून्न जालो. एका अनामीक भोंवऱ्यात आमी गरगरत आसात अशें दिसूंक लागले. कित्याक हो गुंतो सुटना? एकूणच मनाचो हो कसलो गोंदळ, सुटावो कित्याक जायना?
आख्या धतरीर अशें कितें अव्याहत चालू आसा. आपली भूक भागोवचे खातीर दूसरो जीव आपल्या पोटात रिचवप ही कसली वेवस्था. पूण हाका जाप ना. हें अशेंच चलतलें अशें, आमी म्हणतात. जगप तर अटळ आसता. व्हड नुस्तें ल्हान नुस्त्याक खाता, सर्प बेब्याक खाता, आपले पोट भरचे खातीर गीद सर्पाक हळूच उखलता, बकरे, मेंढरे, सोशे, हांका कोले भालू फस्त करतात. गाय-बकरी, बैल हांका वाग शींव पिंदून खातात. दरेक जीव जगचे

खातीर अशेंच कितें तरी करीत आसता. हें सगळें क्रूर आसा. निश्ठूर आसा, पूण अव्याहत चालू आसा. हांव हें जीवन जगता, तें जगताना माकाय होच सृश्टीचो नेम लागू जाता. हांव जर ह्या सृश्टीचो, ब्रह्मांडाचो अंश आसा, तर माकाय अशीच आयुश्यभर तडफड भोगची पडतली हें उघडच आसा. जीवनाचे वास्तव हें इतलें भयानक आसता, आनी ताका आमी सामकार गेले शिवाय गत्यंतर ना.

सृश्टी तशी विचित्रच. ती निश्चित नेमांत आमी बांदूक शकनात.पळोवक शकनात. गायच्या हुटी भोवतणी चिकटल्ली किट्ट हूटीतले गोड दूद पिना. पूण हूटीतले रक्त मात पीत आसता. ही विधात्याचीच रचना. शिवराक जेवणार सगळेच जगू शकनात. जाल्यार हत्या ही जगण्याची अपरिहार्य कृती आसत जाल्यार ती कोण आडयतलो? मनशानय हजारों लाखो वर्सा हेंच केलें. होच सृश्टीचो नेम पाळलो. दुसऱ्याची पिळवणूक करुन, शोशण करुन आपूणच अनभिशिक्त रावप मनशाक रुचता. सैमानच हो सगळो खेळ मांडिल्लो आसा. कदाचीत पूर्व नियोजीत. सृश्टीमान्य, बरे वायट तोच झुलयत दवरता.

'चातुर्वण्यम् मया सृश्टम् 'ह्या निर्मिती प्रथेलागून जन्मान हांव दलीतच कित्याक? दलीत म्हण शोशीत, अपमानीत आनी याचक म्हणूनच जगप हे माका क्रमप्राप्त आसा? म्हज्या वाडवडलांक तर पिड्यान्‌पिड्यो अत्यंत निश्टूर, हीन, लांच्छनास्पद, नीच जगणे नशिबात आयले, ते ह्या प्रथेक लागूनच नी? माका आज इतले चटके सोसचे पडले ना जायत, पूण अजूनय हांव ह्या घाण्यात भड्डत वताच नी? आसू, पूण बदल संभवतात. आशावाद हळूच फुलता, इतले खरे? नक्कीच बदल जायत आसा. हेय बदलून वतले, कदाचीत पूरायेन.

नासत मागेले जीन्स अलौकीक, अद्वितीय, पूण सर्वसामान्य आसलो तरी म्हज्यो जाणिवो तरल आसात. संवेदना नक्कीच सामान्य नात हाची जाणवीकाय माका खरपणान जाता. म्हजी विचार सरणी कृतीप्रवण आसा.भावनीक विश्व उत्तमप्रतीचे आसा. ज्ञानदेवाच्यो ओवयो माका तृप्त करतात. तुकारामांची गाथा म्हज्या अंत:करणाक थेट भीडता. महाकवी ग्रेस हांच्या कवितेच्यो ओळी माका अस्वस्थ करतात. कितल्योशोच कादंबरी ,काणी वाचताना म्हज्या दोळ्यांतल्यान घळाघळा दूकां व्हांवतात. कोणाल्या वेदनेन, करुणेन हांव आक्रंदून वता. कळवळता. कोणाच्या खर खोल दू;खान आकंठ गदगदून वता. कोणाचोय विश्वासघात म्हज्या काळजांत सलत रावता. हांव शुश्क ना हे हांव म्हजे भाग्य समजता. खंबीर पणान आनी अभिमानान जगचेखातीर हें इतले इंधन आयुश्याक पुरोशें आसा. आयुश्याच्या ह्या सांजवेळार कृतार्थ आनी तृप्त मनान निरोप घेवकय!

हांव इतलो विचारमग्न कित्याक जालो? खंयच्या घोलीत हांव अगतीक जालो. या सगळ्या विचारांचो म्हज्या आयुश्या कडेन कितलो लागीचो संबंध आसा. वास्तव जगताना, ह्या सगळ्या गजालीनीं माका कितले घेरावन दवरले, कितले जखडून दवरले. आयुश्याचो सगळो पट ह्या विचारान व्यापून उडयल्लो आसा. ह्या सगळ्यांच्या पार्श्वभूयेर हांव

म्हजोच सोद घेत आसा. आसत सादे जगप, पूण ते नक्कीच भावूक आसले, हळवे आसले, सहृदय आशिल्लें. जिणेकडेन इमान राखपी आशिल्लें. आयुश्या कडेन केन्नाच प्रतारणा केली ना. जें वाटयाक आयलें तें भोगत आयलो, प्रामाणिक पणान.

म्हज्यो जाय त्यो शिमो माका ज्ञात आसात. अद्वितीय अशें कांय आपल्यात केन्नाच नाशिल्ले, हे माका पूरायेन खबर आसा. जाय ते जाणां मदी एक, इतली आपली सुवात माका परिचित आसली. ताका लागून कोणाकडेन स्पर्धा नाशिल्ली, दुस्वास नासलो, साधें सरळ जीवन. निखळ सामान्य व्यक्तित्वाचे.

माका आयुश्यांत वेगळे कांय करुक आयले ना, अलौकिकता मुळातच केन्ना आपल्यात नाशिल्ली, ताका लागून म्हजी तांक माका खबर आशिल्ली. आपल्यातले भलेपण हांगा मांडचें आसा. जशें जगलो तशें. दैवाधीनय आसत जगणे. दैवाक बावगोवपाचें सामर्थ्य आपल्यात नाशिल्लेंच. ताका लागून गुणदोशां सकट चलत रावलो. कमीपणां आशिल्ली, त्रुटी आशिल्ल्यो, पूण त्यो जाणीव पूर्वक केन्नाच नाशिल्ल्यो. स्वभाव हळवो, लजेस्त, भिडेस्त, ताका लागून कोणा कडेन भीडप ना, आनी हें बुजरेपण हांव आयुश्यभर पयस करुक शकलो ना.

***







२.

वर्गांत सदांच फाटल्या बाकार बसप, एखाद्या कार्यावळीत संतपणान फाटल्या लायनीत बसून कार्यावळ पळोवप माका सदाच मानवताले. उजवाडाचो झोत माका केन्नाच मानवलो ना. तेका लागून झोतात रावप, चर्चेत आसप, म्हज्या कुडीक केन्ना रुचलेंच ना. मूळावे शाळे पसून महाविद्यालया मेरेन एक हूशार विद्यार्थी म्हणून हांव गणलो वतालो. बुद्धीमत्ता म्हज्यात आशिल्ली, मात ती माकाच सारखी कळ्ळी नाशिल्ली. हांव एक हुशार विद्यार्थी आशिल्लो हाचीय माका सारकी जाणवीकाय जाय नाशिल्ली. बुजरेपणान माका सामको घेराव घातिल्लो. शालेय जीवनात अथपसून इथपर्यंत शिक्षणात पयल्याच नंबरार आशिल्लो. ते खातीर वेगळे अशे यत्न करचे पडले नात. आकलनक्षमता अत्यंत तरल आशिल्ली. शिकयिल्ले सोपेपणान कळताले. समजूपाक कठीण अशें कांय नासतालें. भाशा, गणित हे म्हजे आवडीचे विशय आसले. तशे हेर विशय बी पयसल्ले दिसनासले. हुशार विद्यार्थ्याचो मान, सन्मान आनी खाशेली वागणूक मेळताली. हांव सदांच सुखावन वतालो. आयजय हुशारीचें हे खाशेले पण जाणवता. पूण आयुश्यभर बुजरेपणान मात फाट सोडली ना. बेधडक वागप माका जमलेच ना. हो स्वभाव माका सातत्यान फाटी ओडत रावलो. आसा थंयच बरे, आसा

तातूतच समाधान मानपाची वृत्ती बळावत गेली. खरें तर ह्या बुजरेपणानच आपलो धडधडीत पराभव केलो काय?? अशेंच आज दिसता. हें भिवकुरेपण आमी आयुश्यभर कित्याक जतन करत रावले? तें आता लिपोवन दवरपात कितें अर्थ आसा? ताचें उदात्तीकरण कशें जातलें?

आमी आयुश्यांत कितेच धड मनासारखें करुक शकले नात. चुणचुणीत आनी तरतरीत पणान खंयच वागू शकले नात. वेवहारीक चातुर्य आमच्यात केन्नाच नाशिल्लें. गर्देत भरसून गेलो. वेगळेपणान उठून दिसलो ना. आयुश्यभर कळपांतलोच एक म्हण जगत रावलो कारकुनी प्रवृत्तीत धन्यता पोशयत, शेखी मिरयत आयुश्य काडलें. शेवटा शेवटाक प्रमोटी ऑफीसर जालो, तरी बुजत बुजत काम करपी म्हणच वळखलो गेलो .बँकेत आशिल्लो

तेन्ना वरिश्ट ए.जी.एम. आयले की, नम्र कारकुना प्रमाण उठून उबो रावपी ऑफीसर हांवच आशिल्लो. हाची एक सल सातत्यान मनात दसत उरता आमी वेगळे अशे कांयच करुक शकले नात हाची खंत आसता.

आयुश्याच्या ह्या सांजवेळार, हांव स्वत:क एका पराभूत नदरेतल्यान पळयत आसा, खिन्न पणान, उदासीनतेन. अर्थात प्राप्त आयुश्या बद्दल आता कांय तक्रार ना. कैफियत ना, तरीय या कातर वेळार पराभूत विचारांचे काहूर थैमान घालत आसा .अंतरात 'कोऽहं 'चो सोद अजूनय चालूच आसा. कितले हताश, उदास, आनी बाबडे रंग मावळतेच्या क्षितिजार उमटत आसात! रविंद्रनाथ टागोरांन आयुश्याच्या सांजवेळार जगाचो निरोप घेतना आपल्या बरे मागप्यांक म्हणलें, हांव आता हें जग सोडून वता, ह्यो चाव्यो हांव हांगा दवरता, वतना माका कसलीच हूरहूर वा दु;ख दिसना. इतलें मात खरें की, हें जग खऱ्यानीच खूब सुंदर आसा. रविंद्रनाथांचे कृतार्थ जीवनच हे उद्गार काडूंक शकतात. सर्वसामान्यांक हें कशें शक्य आसा? असामान्यांचो सूर्यास्तय भूलावणो आसता, मनोहर आसता. आसू, हांव जन्मलो पारतंत्र्यांत. १६ जुलै १९४५ दिसा. आता वयाची सासस्ट वर्सा सरली. कितले भराभर हुडून गेली ही वर्सा. आता उमेद तर सरुन गेली. फाटी वळून पळयत जाल्यार नैराश्यच पातळिल्ले दिसून येता. आयुश्यांत घसघशीत अशें कांय करुंक जमलेंच ना. आतां उरलांत जिणेची हताश, केवीलवाणी, दुबळीं वर्सा, आदार सोदपीं. वावटळींत पत्रो हुबून वचचो तशें आयुश्याचें भरकटप जाला. एका अर्थान निरर्थक जीण. या प्रचंड आनी प्रदीर्घ कालौघात आमकां, आमचे ओळखीचो असो एक सादो दिवोय सोदूंक जमलें ना. दर्याच्या असीम उदकांत क्षुद्र थेंबान कांय नी करुन विलीन जावन वचचें, तशी जीण जगले आमी. नगण्य. फकत आमी आनी आमचे भोंवतणचो कळप घेवन पोटाचो फोंड भरचे खातीर रानांन रान हेडत रावले. अखेर मेरेन वाट बिकटच आशिल्ली. कर्मठ रुढी-परंपरेच्या

आनी जाचक व्यवस्थेच्या काटेरी मार्गावयल्यान हुलपत धांवत वचप इतलेच हातांत उरिल्लें.

खरें तर आमी आगतीकच. खंयच्याय तरी अनामीक व्यवस्थेचे हकनाक बळीच. बोतरां जाल्ली ही समाज वेवस्था अलंकृत पणान मिरयेत वचचें. फटींगपणान. आमी अबोल आसतात, मोनेभेड्डे. कांयच करुंक शकनात या विरोधांत. मागीर अवडंबर कित्याक?

***



३.

निसर्गान आपले भितर खंयतरी एक मनःचक्षूचो खूब सूंदर कॅमेरो बसोवन दवरिल्लो आसा. माका ल्हानपणापसूनच्यो कितल्यो तरी चित्रफिती अजून स्पश्ट दिसतात. हायस्कूल पसून घरा मेंरेनचो रस्तो, खरे म्हणल्यार पायवाट. दोनय वटेन झाडांझोपांतल्यान वचपी. घरा पसून साधारण अर्देक मैलभर पयस आसत. ते वेळार सुवात मेळत थंय कोडलिंबाच्या झाडांनी दाटयेन वसती केल्ली. शाराच्या हद्दे भायर स्वतंत्र लेआवट करन आनी प्लॉटाची, अंतर्गत रस्त्याची आखणी करुन नगरपालिकेन मांगा-म्हाराची वस्ती वसयल्ली. आनी या नव्या वसतेक बुधवार पेठ हें नामकरण केल्ले. वसतेत नगरपालिकेचे पेत्रोलाचे दिवे अंतरा अंतरार आशिल्ले. रानांवनांत खंयय सकाळचे विधी साकसूवपी मनीस, नगरपालिकेन नव्यान बांदिल्ल्या शौचालयांत वचपाक भिडेताले. फुडे फुडे सवय जायत गेली, आनी हो नवो पायंडो आंगवळणी पडलो. आमच्या मातंग वस्तेच्या कुशीन हिप्परग्याच्या एकरुख तळयाचो एक सदाबहार पाट व्हावतालो. कॅनॉलच तो. सतत उदकान तुडूंब भरिल्लो आसतालो. तो वाकडो तिकडो, आडव्हो, तिरको कसोय उत्तर दिकेन व्हांवतालो. पाटबंधारे विभागान शेता खातीर खणिल्लो हो कॅनॉल ताच्या मोण्णा नुसार आडवो नळ म्हण वळखलो वतालो.

गंगा, सिंधू न्हयींच्या विपूल उदकाच्या उपलब्धतेक लागून आर्यांनी, द्रविडांनी ह्या न्हयचे देगेर वसणूक केल्ली. तांका हिंदू संस्कृती, आर्य संस्कृती अशा नांवांनी संबोधलें वतालें. आमी ह्या उदकाळ वाठाराचें रावपी. आमकांय जणू आमी आडवो नळ संस्कृती जतन करपी अशेंच दिसतालें. १९५०-५५ तो काळ.

हो आडवो नळ हिप्परग्याच्या एकरुख तळ्या कडल्यान वचून डोणगांवा मेरेन, सुमार पंदरा कोस व्हांवतालो. आडव्या नळाच्या दोनय वटेन गच्च झाडां आशिल्ली सगळी झाडां जणू हातात हात घालून दोनय वटेन कॅनॉला भोवतणी उदकाच्या येवकाराक सज्ज आसल्या सारखी दिसताली.या नळाच्या कडेक कितलीशींच तरेकवार झाडां आशिल्ली. चींच, शिरीश, आंबो, लिंब, जांबळ, बेल, कवठ, उंबर ,अशोक, कदंब, ओंवळ, शेल्टां, रिठे, आदी मोठमोठाले रुख कायमचेच वस्तेक आशिल्ले. चिंचेचो चिगूर आनी कवठाच्या झाडांची कवठां भुरग्यांक मनसोक्त खांवक मेळताली. कवठ फोडून खावचें पडतालें तुरट गोड असो वेगळोच सुवाद. शेल्टांची बोरायेदी फळां अंटासारखी चिकट चिकट पूण गोड लागताली. शेल्टांची आटली वेगळी काडून भायर उडोवपाक येनासली. एका चिंचेच्या झाडालगत एक ल्हानशे गूंज पत्त्याचें झाड आशिल्लें. आमी सदांच ताची पानां बुडूून खातालें. गूंज पत्त्याची ही पानां खूबच गोड, मधूर लागताली. तोंडाक सुगंध येतालो .अनाहूत आयिल्ली बाभळी बोरी गजऱ्याची काट्याची झोपां, असंख्य नांवां नाशिल्ली वाली, एंडे झाडां, ,नरगुंडी, हड्डो, पळस, तुळस कितल्याशांच्च असंख्य झाडाझोपांनी हो आडवो नळ सदांकाळ पांचवोचार आनी समृद्ध आसतालो. आशिकुशींची शेतांय बारामाय पिकांनी पांचव्या चारांनी डंवरलेली आसताली. कोकणाइतलो नासलो तरी हो नळ वाठार आमकां सदांच निसर्गरम्य, रमणीय मात नक्कीच आसलो. व्हांवत्या उदकाच्या कुशीक अगणीत तणा बरोबर तरेकवार पाणवनस्पत, चुरचुरीची झोपां, चुबू काटे, सराटा, निवडूंग, अशा नानाविध हिरवळीन नळ सदैव सतेज आसतालो, बांदाच्या कडेन जाय ते सुवातेर लज्जेची ल्हान ल्हान झोपां आसताली, पानां कडेन हात व्हेलो की, लज्जेन धांपताली. आमकां हो खेळ खूब आवडतालो.

ह्या कॅनॉलातल्यान एखाद्या झऱ्या भशेन निवळ उदक सदांच व्हांवत आसतालें. तांतूत सदां बुडप, पेंवप, हो आमचो सगळ्यांचो एक सामको आनंदाचो आनी सुखाचो अणभव आशिल्लो. आडव्या नळा लगतची आमची मातंग वसती खाण्या-पिण्याक पोटभर अन्नाक मोताद आसताली. पूण ह्या उदंड उदकान आमी गिरेस्त गंगापुत्रच आशिल्ले. कॅनॉलातलें भरपूर नुस्तें, कुल्ल्यो, सहज मेळताले पोशांन वा झोळी करुन नुस्तें धरप, तशेंच नळाच्या कडेक बांदातल्या भिणात आख्खो हात घालून कुल्ली धरुन भायर काडप हो आमचो छंदच आशिल्लो.

आमी भुरगी पंगडान या आडव्या नळाच्या कडेन चार-चार, पाच-पाच मैल रमत गमत झाडांच्या गर्द सावळेत भोंवत आसताले. आडव्या नळाच्या कडेन जंय थंय कोबवाचीं शेतां आसताली .थंय हमखास गोडा घाणो आसतालो. कोबवा कांडा माडयत आमी गोडा कायली कडेन वताले. कोणय कारभारी मागीर आमकां 'आरे भुरग्यांनो, बसा हांगा 'अशे सांगून अगत्यान कोबवाचो ताजो ताजो रोस लिंबू पिळून पेलो पेलो भर पिवंक दिताले, आनी मागीर कोबवाचीं वर्जी काडून मूळ आनी तुरी कापून हातात कोबवाचे करवेय खावंक दिताले. कोणाच्याय बद्दल इतलें आपलेपण कांय नी कन्न दिसतालें. इतलो सुकाळ आशिल्लो. गरम रोस गोडाच्या धेपी खातीर तयार जावच्या स्थितीत आयिल्लो आसत तर केन्ना केन्ना मालक व्हड मनान आमकां काकय बी पिवपाक दितालो, मनमूराद.

या आडव्या नळाच्या आशिकुशीक दुसरें एक सुंदर घनदाट शिंदिचें जंगल आशिल्लें. पडीक रानातय शिंदीची झाडां दाटेन वाडताली. नाल्लाच्या जातीचें हें झाड उंच उंच वाडतालें. शिंदिचें झाड म्हणल्यार गरिबालो कल्पवृक्ष! सरळसोट झाड उंच उंच वाडतालें. ह्या झाडाच्या मुळार, खांद्याच्या सकयले वटेन मेस्तान खापां घालून ताका मडकी बांदिल्ली आसताली. तातूत शिंदिचो रोस साठवतालो. शिंदिच्या रोसाचो वेवसाय करपी मोची जमातिचें मनीस आपापली झाडां सांभाळताले. शिंदी रानांच्यो खांद्र्यो, पानां मातंगाच्या अलिखित मालकेच्योच आशिल्ल्यो. काट्यांची पानां मारुन तांचे भोरे बांदप आनी वस्तेर हाडून तीं सुकोवचें खातीर पातळावन उडोवप. उपरांत तीं एकएक करुन एका बडेन बडोवप. मागीर या पानांचे कांटे वतात. बडयिल्ली पानां चिरुन तांची मुंडी बांदून बऱ्यो सान्नी तयार करप. त्यो खाशेले तरेन गुतून मंगळार बाजारांत मातंग लोक विकूक घेवन वताले. या वेवसायानय बऱ्याच मातंग कुटुंबाचें पोट भरतालें. आडव्या नळाच्या कडेक कांय सुवातेर केकताड, घायपात प्रचंड प्रमाणांत वाडताली. या केकताडाचीय अलिखित मालकी मांगाचीच मानली वताली. खूब मातंगाची घरां या घायपात, केकताडाच्या कश्टाच्या कामांतल्यान सूत, दोरी, वाक, नाड्यो तयार करुन तीं विकून जगताली. घरांतली भुरगीं हातांत फिरक्यो घेवन केकताडाचो दोर फिरयत फिरयत फाटी वताले. केकताडाचें सूंब वळून दोर, सोल तयार जाताले. हो एक बिनभांडवलाचो धंदो. खंय वाद ना, तंटो ना, सगळे निमूट पणान अव्याहत चलताले. चैत्र सोपलो की, वैशाखांत या शिंदिच्या झाडांक आंकऱ्यो येताल्यो. ह्यो आंकऱ्यो रुचीक, जणू खारीकच! त्यो खाजराच्या झाडा सारख्योच आसताल्ल्यो. ताकालागून खारकेचीच ताका गोडी. जोशाल्यो बायलो त्यो आंकऱ्यो पांटल्यांत एकठांय करुन गांव भर 'शिंदोळयो घ्या, शिंदोळयो घ्या 'म्हणून विकत फिरताल्यो. हे शिवाय खैराची आनी सरसाची झाडां ह्या आडव्या नळार

आशिल्ली. ह्या झाडाच्या खांदेर एके तरेचो तांबडो चिकट द्रव पाझरतालो. कांयजण ह्या पाझरद्रवाच्यो बड्यो मोडून घरा हाडताले, बड्यांवयलो तो द्रव खड्डून एकठांय करताले. हीच ती लाख. ही लाख विकूनय कांयजण आपले पोट भरताले.

शिंदिच्या रानांत भरपूर सर्प आसताले, धामण, नाग, हांचो तांतूत प्रामुख्यान आसपाव आसतालो. आडव्या नळांतल्या उदकांत इरळा जातीचो बिनविखारी सर्प सदांच पोंवताना दिसतालो. नळाच्या कडेक खूब बेबे, सड्डे आसताले. ताकालागून ह्या सरपटपी जीवांची ही आवडती वस्तीच जाल्ली.सर्पांचो मात आमकां खूब भंय दिसतालो.

शिंदी रानांच्या सरभोंवतणच्या झोपांत कड्डया धव्या रंगाच्या सोशांची वस्ती आशिल्ली. शिकारेची मनशां सोशाच्या शिकारेक येताली. शिकारी एका वटेन शिकारीचो सापळो लावन दुसरे वटेन हां हां, हूं हूं असो आवाज काडून झाडां झोपांतल्यान, शिंदि रानांतल्यान सोशे हुसकोवन उठयताले, आनी तांका सापळ्याच्या दिकेन धांवडायताले. मागीर बापडे ते भिवकुरे सोशे त्या सापळ्यांत शिरकताले. मागीर हे शिकारी सांपळ्यांतले सोशे कानाक धरुन उखलताले, आनी बाजारांत व्हरुन विकताले .केन्ना केन्ना शागुती करुन खाताले. एक दोन सोशाचे रगत एका तपल्यात एकठांय करुन तें शिजयताले. खतखतोवन तें थंड करताले. मागीर त्या गोठेल्ल्या रगताची कापां करुन ते शिकारी बेठेच खाताले. ह्या पदार्थाक शिकारी लोक रक्ती म्हणताले.

ह्या कॅनॉलावयल्या प्रचंड झाडांक लागून नानाविध शेवणी थंय वसती करुन आशिल्ली. शिकारी फकत सोशाचीच शिकार करी नासले, तर थंयच्या तितर शेवण्यांची, होल्यांची आनी किराचीय ते चडशी शिकार करताले. ही शिकार अत्यंत क्रूर आशिल्ली. शेंतांतल्या जोळाची काडणी जाली, खळ सरले की, मेकळी रानां वतान न्हावन वताली. शेंतांतल्या खळाच्या सुवातेर हे शिकारी जाळ पातळावन मातशे पयस बसताले. तांचे कडचे होले, पारवे त्या जाळार दाणे खांवक सोडताले. ह्या होल्या पारव्यांचे दोळे हे विक्षिप्त शिकारी सूयेन तोपून कुड्डे करताले. ते कारणान ही कुड्डी शेवणी थंयच्यान हुडूक शकनासली. मळबांतल्या शेवण्यांची भिरी दिस्त ह्या बशिल्ल्या शेवण्या म्हऱ्यांत दाणो खांवक देंवताली. हें जाळ खाशेल्या तरेन विणिल्लें आशिल्ल्यान जाळ्यांत हया शेवण्याचें पांय आपसूकच शिरकून शेवणीं हुडूंक शकनासली. शेवणी जाळ्यांत शिरकलीं की, हे लोक तीं शिरकल्लीं शेवणीं निश्टूर पणान पुंजावन, तीं बाजारांत व्हरुन विकताले. जायते पावटी हें तांचे खाणय आसतालें. आर मारिल्ल्या मनशाक पारव्याच्या तेलान मालीश केल्यार ताका ताचो बरो गूण येता. होल्याच्या रगतान हड्डयार मालीश केल्यार दमो बरो जाता असो

समज आशिल्लो. ताका लागून पारवे, होले हांका बरें मोल मेळताले. पांजऱ्यात कीर दवरुन आंगणात पांजरो लावपाची आवड अनेक घरांत आशिल्ली. ते मुळे किराकय बरी मागणी आसताली. हे कीर हुबेहूब मनशाच्या उलवण्याची नक्कल करताले. घरांतल्या मनशांची नांवां घेवप, आयिल्ल्यां सोयऱ्यांक 'यो बस 'म्हणप अशें या किराक शिकयल्लें आसतालें. पांजऱ्यांतल्या किराक खावपाक दाळंबाचे दाणे, पेराची फोड, हरव्यो मिरसांगो, चिंचो उडयताले. भीतर एका वाटेत ताका पीवपाक उदकय दवरताले. किराक राघू, मिठ्ठू मिया अशेंय म्हणताले. एकूणच ही जगपाची रीत आनी जगपाची मजा औरच आशिल्ली.

चिरबील, बडी घेवन आमीय आडव्या नळार शेवणी मारत फिरताले.शेवण्यांक चिरबिलान नेम धरुन फातर मारप हो भुरग्यांचो छंद आसलो. पूण माका तो अजिबात आवड नासलो भारद्वाज, साळूंकी, चिमण्यो, टिटवी, मेस्त, सुगरण, धावीक, रातवो, बकीं, मोर, रोहीत, खंडो, कोगूळ, कावळे, घोणी, गीद अशा नानाविध शेवण्यांनी हीं झाडां फूलून वताली. पाचव्याचार किरांच्या भिरयांनी चिंचेची झाडां भारुन वताली. पिंपळाच्या उंच उंच खांद्यार घोणी-गिदांनी वसती केल्ली. वसंत रुतूंत उंच उंच झाडार काडी बडी पुंजावन कावळे, घोणी, गीद खांद्याच्या बेचकेत घोटेर बांदतालीं. पडके बांयीत सूगरणय चूट्टांचो सुंदर घोटेर विणताली. बांयीत एखादो बाभळिचो खांदो बावगल्लो आसतालो. या खांदेर सुरक्षिततेचो अंदाज घेवन सुगरणी घोंटेर बांदताली या घोटेरा मेरेन सोंपेपणान पावंक जायनाशिल्लें. मदीच एखाद्या झाडाच्या खांदेर काळेकिट्ट डोमकावळे चोर नदरेन चोंय वटेन तेळत बशिल्ले आसताले. कांय कावळे नेम धरुन शिटचे खातीर खंयच्याय झाडाच्या सावलेंत लिपून बशिल्ले आसताले? झाडांची मुळां खोडां अगडबंब आसतालीं. कवठ पींपळ वड ह्या झाडांच्या धोलींत घुगमांचे वास्तव्य आसतालेंच. कायम वसणूकेक आशिल्ल्या वरी. एखाद्या धोलीत बसून धुगूम दोळे लावन पळयताले. घुगमाचे बटबटीत दोळे भयानक दिसताले. मदीच ते घुगमू खांदे हुडोवन जणू खिजयिल्ल्या भशेन करताले. मान हालयताले, आवय घुगमाचें दर्शन अशूभ मानी. टिटवी भोंवतणच्यान हुडत गेल्यार, आवय थू थू करी, आनी आयज कानार कितें तरी वायट पडतालें म्हणून दीसभर धास्तेत रावताली. दीसभर स्वतःक उरफाटे तांगोवन घेतिल्ली घुगूम वडाच्या झाडावयल्यान रातीन भायर पडताली. उंच पीपळ आनी दाट वडाच्या झाडार असंख्य वटवाघळां काळ्यो सत्र्यो तांगयल्ल्या भशेन दिसताल्यो. आडव्या नळाच्या कडेक रातीन केन्ना केन्ना काजुले लिकलिकताले. मजा येताली. रातीन आमी काजूले धरुन बाटलेंत जमयताले.

आमच्या मातंग वस्तेच्या घरा लागासरल्यान हो आडवो नळ फूडें व्हांवत वतालो. सकाळी हे वटेन ते वटेन भोंवतना नळाच्या वाटेर रुपेरी लखलखती लाळ

सांडत गेल्ली दिसताली. देखून आंकां थंयच्यान सर्पच गेलो काय कितें अशें दिसतालें. आमी भिताले. पूण उपरांत कळटाले की ती गोगलगायीची लाळ म्हण. केन्ना केन्ना पळयताना लिबलिबीत गोगलगाय पांयाखाला चिड्डल्ली वताली. अळशीक दिसतालें. पलतडच्या शेतांत मोरांचे मोठे थवे आसताले. अत्यंत मनरिजवणे आनी सुंदर पांखाटें फूलोवन ते अदी मदी नाचत रावताले. पांखाटे नाशिल्ले लांडोर मोराच्या वटेन लगट करत फिरताल्यो. मोराच्या केक्यान आख्खो आसमंत दुमदुमून वतालो. केक्याचे पडसादय भोंवतणी उमटताले. मोराच्या या केकावलीन वातावरण वेगळेंच जाताले. हांव जाय तीं मोरां पांखा पुंजोवन पुस्तकांत दवरतालो. तेजेन पेपर सोंपो वता अशें दिसतालें. मोरा फांक तासन्तास नियाळत बसप हांतूंतय एक खाशेली मजाच आशिल्ली.

आडव्या नळाच्या दोनय वटेन झाडांची प्रचंड दाटी तर आशिल्लीच, पूण या सगळ्या झाडांची सोबीतकाय अवर्णनीय! चैत्रांत झाडांक नवी कोमरी फुटताली, आनी तरेकवार फुलां फुलतालीं. कॅनॉला वयल्यान व्हांवत येवपी मंद वाऱ्या वांगडा या असंख्य शिरिश झाडांच्या फुलांचो गंध आख्या वस्ती भर दरवळतालो. तेचबराबर शिरिशाच्या लांबलचक सुकिल्ल्या सांगाच्या चाळांचो आवाज जणू एक मधूर संगीतच भासतालो! खूब बरें दिसतालें. त्या दिसांनी. अजस्त्र पींपळ, चैत्रांत नव्या तन्न्या पानांन फुलू लागताले. पींपळाची तन्नी पानां हळवार तेलकट रंग धारण करताली, पानांनी पींपळ भारुन वतालो. वाऱ्या वांगडा या गर्द पांचव्या पानांचो सळसळ आवाज जातालो. आख्खो आसमंत या सुरेल लयबद्ध पर्णरवान व्याप्त जातालो. मन प्रसन्न जातालें.

कोडलिंबाचीं झाडां फुलताली, फुलोऱ्यान झाड रथ कशे दिसताले.पाडव्याक हो फुलोरो गोडाबरोबर चेचोवन आवय प्रसाद म्हण खांवंक दिताली. वडाच्या झाडाक बोरा येदी तांबडीगुंज फळां येताली. पींपळारय अशी फळां येताली. हीं फळां आयली की, माकोड खंयच्यान येताले कोण जाणा. पूण फळां खांवंक आयिल्लो माकडाचो पंगड आमी पसून खूब पावटी पळयला. खूबच मजा आशिल्ली.

हो आडवो नळ आमकां जणू आनंदवनच आशिल्लो.

वसंत ऋतू उलटून गेलो की, कोडलिंबाच्या झाडांच्यो लिंबोळ्यो झडूंक लागताल्यो, आमी भुरगीं पिशव्यो, चिरगुटां घेवन त्यों पुंजोवपाक धांवताले. ह्यो लिंबोळ्यो म्हणल्यार ल्हान आंबेच. लिंबोळयो पिळून तांतूतली इल्लीशी कोय सटकन्न भायर काडपाचो खेळ आमी खेळताले. दीसभर लिंबोळ्यो पुंजयत भोंवत वचचें पयस पयस. त्यो पुंजायिल्ल्यो लिंबोळ्यो विकून चार पैशे आपसूक मेळताले.

नळाच्या कडेक जंयथंय रुईची मोटवीं झोपां आयिल्लीं आसतालीं. मोठमोठे पानांची झाडां वखदी वनस्पत म्हण उपेगाक येताली. पान तोडलें की, देठा कडेन दुदा सारखो धवो धीक पाझरतालो .पायांक कांटो मोडलो आनी तो भायर सरना जाल्यार आमी रातीन न्हिदता आसताना पांयांक हो रुईटिचो धवो धीक लावन वयल्यान बोतर बांदून न्हिदताले. आनी खऱ्यांनीच सकाळी तो काटो सळकन भायर आयिल्लो आसतालो. रुईटिच्या पानांची माळ शेंदूर फाशिल्ल्या मारुतीकय दर शेनवारा चडयिल्ली दिसताली. कांय कडेन कांटेकुंवर, धोतरो, कणेरी झाडां नळाच्या कडेक जंय थंय दिसताली. फातरपालो तर पावला पावलार मेळतालो. खंय खरचटलें, घाय जालो की आमी हमखास तो फातरपालो चेंचून ताचो रोस त्या घायार लायताले. एक दोन दिसांत जखम ठणठणीत बरी जाताली. सामकी दुर्मिळ पूण एक दोन सुवातेर गुंजीची झाडां आशिल्ली. आमी भुरगीं त्या झाडां सकल पडिल्ल्यो गुंजो एकठांय करताली. तांबड्योभडक गुंजो. ताचेर ल्हवूच दिल्लो काळो टिबको. एखाद्या चित्रकारान रंगकाम करचें तशें. कितल्यो तरी गुंजो आमी पुंजायताले. भांगरांचे वजन तोलपी ह्यो गुंजो आंमकां अपूरबायेच्यो दिसताल्यो. कण्हेरीच्या झाडांची मुळां विखारी आसतालीं. जाचान त्रस्त जाल्ली सासूरवाशीण कण्हेरीची मुळां गुपचूप खाताली आनी मागीर घरांत कल्लेव जातालो.

***



४.

सोलापूर 'गिरणगांव 'म्हण प्रसिद्ध आशिल्ले. फांतोडेरच गिरण्यांचे भोंगे सुरु जाताले. एकाफाटोफाट एक भोंगे आड्डूक लागले की, सोलापूर जागे जाताले. कामगारांचे गांव सकाळच्या पाळे खातीर जागे जाताले. एकच गडबड सुरु जाताली. दरेक घरांत कोण ना कोण गिरणीत कामांक आसताले. सोलापूरात या काळात सुमार सात गिरण्यो आशिल्ल्यो. गिरणी कामगारां खातीर चाळीय बांदिल्ल्यो. कामगारांची थंय रावपाची तरतूद जाताली. सामक्या उणे दरांत घरां भाड्यांक मेळताली. काडादी चाळ, साठे चाळ, पोन्नी मील चाळ, लक्ष्मी विशणू चाळ, मुरारजी चाळ, अशा अनेक नांवांनी चाळी आशिल्ल्यो. या गिरण्यांच्या धंद्याक लागून सोलापूर तेजीत आशिल्ले. लोक खावन पिवन सुखी आशिल्ले.

मातंग वस्तेतय बरेच कामगार रावताले. आमच्या घरा शेजारा तशो चडशो खोपीच आशिल्ल्यो. कांय मातेर्ची आनी पत्र्यांची घरांय आशिल्ली. आमचेंय घर माते पत्र्यांचेच आशिल्लें. म्हज्या घरांत म्हजो बापूय, आवय, हांव म्हजे दोन भाव, आनी एक भयण इतलीं जणां रावतालीं. बापूय नगरपालिकेत शिपाय म्हणून काम करतालो. तरी बापायक सिद्राम जाधव मास्तर म्हणच वळखताले. पयलीं कांय दीस ते एका शाळेत मास्तरय

आशिल्ले. आवयचें नांव समाबाई. अत्यंत गरीब आनी कश्टाळू, काटक. एकलीच आख्ख्या घराचो भार व्हांवोपी, सतत कामांत मग्न. हांव नगरपालिकेच्या अकरा नंबर शाळेत शिकूंक आशिल्लो. त्रेप्पन्न चोपन्नाचें वर्स. या वर्सातच म्हजो धाकलो भाव भागवत जल्मलो. फुडे चार वर्सांनी दुसरो भाव भास्कर जल्मलो. फाटीवयली भयण गोदा मात शाळेंत वचनाशिल्ली. व्हडल्यो दोन भयणी घोवागेर नांदताल्यो. एक लागीच वडाळ्याक शकुंतला आनी दुसरी याच मातंग वस्तेत वयल्या आळीत रावताली. तीय गिरणीत कामाक आशिल्ली. दोन माम, एक बाबू माम, दुसरो गोविंदमाम. असो हो गोतावळो.

आमच्या घराच्या सामके मुखार म्हजे बापोले रावताले. तांतूतलो एक केरु रामचंद्र जाधव, हे डॉ. बाबा सायब आंबेडकरांचे अत्यंत निश्टावंत कार्यकर्ते, आनी अनुयायी आशिल्ले. बाबासायबां कडेन तांचो दाट परिचय आसलो. तांचेर तांची नितांत श्रद्धा आशिल्ली. म्हणून आमकां तांचो खूब आदर आशिल्लो. बाकी वस्तेत या ना त्या नात्यान जायते सोयरे रावतालेच. म्हज्या भुरगे पणांतल्या इश्टांत एन्.टी.रास्ते, शाम जाधव, सिद्राम वायदंडे, सुभाश लोंढे, मल्हारी पाटोळे, वसंत रेवण, अजित हे आशिल्ले. वसंत, रेवण, अजीत हांका आमी सगळेजाण वश्या रेवण्या आज्या असोच उलो मारताले.

म्हजी आजी केराआई पोन्ने मिल्लांत सान्न मारपांचे काम करताली.१९५३-५४ चो तो तेप. मील मॅनेजर मालकांचे बंगले आनी भोंवतणचो वाठार ती झाडताली. ते उपरांत कामगारांच्या जेवणाचो हॉल झाडताली. तिका खूब काम आसतालें. हांव केन्ना केन्ना आजेकडेन भाकरी बांदून घेवन वतालो. एका फाळक्यांत बांदिल्लें जेवण. तिचें कश्ट पळोवन कितेंशेंच जातालें. दनपरां चारा उपरांत ती घरा येताली .येताना ती पोटलेत कितें कितें खाणाचे जीनस हाडताली. आमी आजेकडेन मुद्दम वताले. मागीर आजी आमकां खावपाक भाजी, भाकरी लोणचें दिताली. सदां नवनवे आनी वेगवेगळे जीनस ती खंयच्यान हाडताली हें कळनासलें. म्हजो बापूय माका आजेकडेन वचपाक मनाय करतालो. तो सांगतालो की, अरे, आजी हाडता ते खावपाचे जीनस म्हणल्यार हेर कामगारांनी उडयिल्ले उश्टे अन्न, तें कित्याक खाता? मागीर आमकां हिरमुशिल्ल्या भशेन जाताले. पूण तरीय त्या अन्नाचो आदर दिसतालो. कित्येक पावटी त्या दशमीन आमच्या पोटाचो उजो शमयिल्लो.

आजेचो तो लाचार मुखडो दोळे मुखार आयलो की, आयजय मन अस्वस्थ जाता. हांव शाळेतय वचनाशिल्लो तेन्ना दिवाळेक पोस्त मागूक आजेन माका गिरणींतल्या मॅनेजरागेर व्हेल्ले. बंगलो प्रशस्त आशिल्लो. पोन्नो, ब्रटिश काळांतलो. खोल्यां भोंवतणी सुंदर जाळेचो व्हरांडो आशिल्लो.

माका व्हरांड्यात बसयले, आजेन बंगल्याचो वाठार झाडलो आनी, वाट पळयत आमी वरांड्यार बसले. खूब वेळान कोण तरी हॅटवालो मनीस भायर आयलो. ताणे भीतर कळयले. मागीर एका मॅडमीन आजेच्या झोळेत दिवाळेचे काय जीनस हाडून वयल्यानच ओतले. आजेन दिवाळेचे पोस्त मागले. मॅडमीन आजेल्या आनी मागेल्याय हातार एक एक रुपय उडयलो. आजेन हॅटवाल्या सायबाक आनी मॅडमीक हो माजो नातू-धुयेलो चेडो, म्हण माका दाखयलें. पूण सायबान माजेकडेन चडशें लक्षय दिले ना. मागीर आमी भायर सरले. आजेन माका त्या झोळेतली एक न्हेवरी खांवक दिली. सामकी कुरकुरीत आनी गोड न्हेवरी. माका खूब खूब आवडली. आनी एकाची आस्त धरुन हांवे आजेकडेन पळयले. पूण आजेन दोळे वटारुन न्हयकार दाखयलो.

मांगवाड्यांतय दिवाळी आनी हेर परबो मनयताले. घरोघर सांजवेळार दिवो तरी लायलो वतालो. फातोडेर हून उदकान आनी वासाच्या शाबवान न्हाण जाताले. न्हीद मोडताली. भाव भयणीकडेन फांताडेरच न्हावंक येतालो.म्हजे दोनय मामा आवय कडेन न्हावंक येताले. गड वेसाच्या निर्वाशाच्या दुकानांतले नवे कपडे आमकां परबेक मेळताले. न्हाणां उपरांत ओवाळणी जाताली. पिठाचे उंडे ओवाळून विरुद्ध दिकेन उडयताले. पिटाचे दिवे ओवाळून कुशीक दवरताले. मागीर कुकूम लावन परत ओवाळप. ओवाळटाना, 'इडा पिडा टळू दी, बळीचे राज्य येंवदी, गाय वासरान गोठो भरुंदी' अशें म्हणताले. दिवाळी तीन चार दिसांचीच आसताली. आवय आंगण सदा सारोवन ताचेर शेणाच्यो कांय बांय आकृत्यो काडताली. शेणान ती काय गवळणी, पेंदो, आनी कृष्णाच्यो मूर्ती करुन आंगणांत मांडताली. सदां नव्यो नव्यो. दिवाळेत घरांत गोड धोड करताले. न्हेवऱ्यो, शेवयो, ह्यो मुजरत आसताल्यो .फुलबाज्यो, रंगीत काड्यांच्यो पेट्यो, टिकल्यो, तुडतुडे, फातरार मारचे बार, लक्ष्मी तोटे, अशे मेजकेच फटाके आसताले. कोणय एखादो चौकात सुतळी बॉंब मारताले. भाउबीजेन दिवाळी सरताली. भयण भावाक ओवाळताली, आनी भाव भयणीक ओवाळणी घालतालो.

दिवाळी जाले नंतर तुळशींचें लग्न. सटीचो म्हयनो. खंडोबाची बाळकां, हांगाची दर आयताराची यात्रा. ताच्या फुडल्या म्हयन्यांत मकर संक्रांत, हब्बूच्यो बड्यो, आनी गड्डा यात्रा. अशो परबो जाताल्यो. नंतर होळी, संसार पाडवो जालो की, वर्षा रुतूंत श्रावण म्हयनो हिरवळीचें नवचैतन्य घेवन आनी परबांची खैरात घेवन दाखल जातालो. अशें वर्सभर हे सणसूद चलताले. गरीब आसलो तरी मांगवाडो हरेक परबांत उमेदीन वाटेकार जातालो.

ही मातंग वस्ती सोलापूरांतली सगळ्यांत व्हड आशिल्ली. हेरकडेन वीस पंचवीस घरांच्यो मातंग वस्त्यो आशिल्ल्यो. शें-पाचशें घरांचो मांगरांचो हुंबरो हांगा आशिल्लो. खरें तर खोपी, खोपट्यो, पत्र्यांचीं कुडांची, अशीच घरां जंय थंय आशिल्ली. मागीर

घरांक हुंबरे खंयच्यान येतले? कांय गिरणी कामगार, कांय बोरां, फळां, ढाळे विकपी तर कांय रद्देचो धंदो करपी आनी उरिल्ले दोरखंड आनी सान्नीचो धंदो करपी आशिल्ले. चडशे हातावयल्या पोटाचे. सांज जाली की, हे लोक वस्तेर परतताले. मागीर वस्तेर चुली पेटताल्यो. भोंवतणच्या किट्ट काळखांत पेटिल्ल्या चुलीचो जाळ उठून दिसतालो. चुलीचेर शागोती रटारटा शिजताली. सगळेवटेन आले, कोतंबरीत शिजपी एक सारख्या मटणाचो वास दरवळतालो. बेगीनच जेवणां जाताली. याच वेळार कांय भिकारी नेमान 'भाकर वाडाऽऽऽ माय 'म्हण सदां येताले. वस्तेर वीजेचे दिवे अजून आयले नाशिल्ले. नगरपालीकेचे केरोसिनाचे दिवे मंद उजवाड दिताले. घरांघरांत चिमणेचो, चुकून खंय तरी लाटणाचो उजवाड दिसतालो. तसो चंद्राचो लखलखीत उजवाड वस्तेवयली रात उजळ करतालो. चंद्राच्या लख्ख उजवाडांत वस्तीभर धुंवाळपाक मजा येताली. आंगणांत कोणी काणी सांगताले, आमी आयकत बसताले.

भीक मागप्यांली तोंडा काळखांत सारखी दिसनाशिल्ली हांव पाचवेंत आसतानाची याद, सामकी खोल काळजात रुतिल्ली, सदां भशेन जेवणाची वेळ, दारांत एक माज्याच वयाचो भुरगो भाकरी मागूक आयिल्लो. आवयन भाकरेचो तुकडो दिवपाक माका सांगलें. हांव तुकडो घेवन ताच्या झोळेंत उडोवंक गेलो. पळयल्यार तो माज्याच वर्गांतलो म्हजो इश्टच आसलो. श्रावण गोपाळ सुरवसे. ताका पळोवन हांव खूबच कश्टी जालो. माका खूब वायट दिसलें. ताची दयाय आयली. ताणेय माका वळखलें. लाचार हासून तो मुखार गेलो. वर्गांत ताका मजेकडेन पळोवपाचो धीर जायनासलो, हो श्रावण सुरवसे नंतर खंय गेलो कोणाक खबर? मदल्या काळांत ताजी केन्नाच भेटय जाली ना .आजय तो माका मेळचो अशें दिसता.

वस्तेत एक इस्मायल नांवाचो इसम सदां सांजेर तोपभर गरम गरम मटण विकूंक येतालो. एक दोन पैशाक, एखाद्या आण्याक ताच्या थारयल्ल्या मापाप्रमाण रस्सा मटण विकतालो. घरच्या परस वेगळीच रुच आशिल्ल्यान ताचें मटण रोखडेंच खपतालें. तो आयलो की, घेतल्यांची झुंबड पडताली. मुरशद नांवाचो फकीर सदां सकाळी पीठ विकपाक येतालो. जोळा-गंवाचे मिक्स पीठ आसतालें. कमी दरात मेळताले. माजी आवय बी केन्ना केन्ना हें पीठ विकत घेताली.

ते गिमाळ्याचे दीस आसले. गिमाळ्याच्या दिसांनी लागसरल्या शेतांत गिमांळी सांगो काडणेक आयिल्ल्यो आसताल्यो. घराकडल्यान सादारण पांच स मैलार हीं मुशिभिकणांची शेतां आसताली. वस्तेत कोणय एखादो कारभारी 'सांगो विचूंक या 'म्हण बायलांक रकाद दिवन वतालो. मागीर मांग वस्तेतल्यो बायलो सकाळीच रान माडयत शेतांत हजर जाताल्यो. सांगाचे शेत कसलें उपरांत भुंयमुगाची झोपां

उमटून वयर येताली. ताच्या मुळांक लगडिल्ल्यो सांगो आपापल्या चोब्यांत एकठांय कन्न खळ्यार ताचे घुते घालचे. बायलो दीसभर सांगो विचत, तोडत, एकठांय करत आपापल्यो राशी घालताल्यो. सांज जायत आयली की, मालक ताचे वाटे घालतालो. वट्ट आट घुते करताले. तांतूतले केन्ना देड तर केन्ना दोन घुते सांगो विंचतल्या बायलांक मेळताल्यो. सुमार चोबोभर जाताल्यो त्यो सांगो. मागीर तो चोबो घेवन बायलो घरा येताल्यो.

म्हज्यो भयणी शकुंतला आनी गोदा ह्यो दोगीय सामकें थारोवन हो सांगाचो तेप करताली. फांतोडेर उठून भाकरी आनी दाळ वा शेंगदाण्या चटणी अशें कांयबांय फाळक्यात बांदून त्यो पाच स मैल हेर बायलां वांगडा चलत वताल्यो. आनी सांजेर चोबे चोबे भरुन सांगो घेवन येताल्यो. घरांत आवय चुलीर भाकरी भाजून जर्मनच्या तोपांत कसली तरी भाजी शिजोवन दवरताली. केन्ना वायंगी, केन्ना मस्का सांगो, केन्ना दाळीचो रोस आसतालो. आवयचें रांदप जाता पसून आमी आंगणांत मांजरी वा गोदडी उडोवन लोळत रावताले. धाकलो भागवत खेळत आसतालो. वस्तीभर चंद्राचो लख्ख उजवाड पडिल्लो आसतालो. आडव्या नळावयल्यान थंडगार वारें सदांच व्हांवतालें. शुक्लपक्षांत तर रातीन चंद्र अमाप उजवाड दितालो. माका चंद्राच्या उजवाडांत वस्तेत खेळूंक खूब खूब आवडतालें. हे वेळार दोगय भयणी सांगाची बुटी घेवन आयिल्ल्यो आसताल्यो. हाडिल्ल्यो कांय सांगो आवय तव्यार भाजून दिताली. भाजिल्ल्यो त्यो गरम गरम सांगो आमी आंगणांत बसून खाताले. मागीर किते? मजाच मजा! त्या लख्ख चान्न्याच्या उजवाडांत गरम गरम सांगो खावप हो आनंद अद्वितीय! केन्ना पाच स मिरसांगो तळून त्यो पाटयार वाटून वा चेचोवन तांतूत लसूण आनी थोडे मीठ उडोवन आवय तो खरडो सांगा बरोबर खावंक दिताली. या आनंदान आमी बेफाम जाताले. पुरो जावन आयिल्ल्यो भयणी आमचे मुखार येवन बसताल्यो. गरम सांगाच्या खमंग वासान तांगेलो सगळो शीण विरुन वतालो. दीस भराच्या शिणान भाकरे तुकडो खावन त्यो केन्ना न्हिदून पडताल्यो हेच कळनाशिल्लें.

संथ व्हांवते उदकाभशेन वस्ती शांत पणान जगताली. थारावीक धा पाच घरांतली भूरगींच शाळेंत वताली. कांबळे, लोंढे, वायदंडे, जाधव, रास्ते, शिंदे, बनसोडे ही मातंगार्ची आडनांवा. हांचीच भूरगीं नगरपालिकेच्या अकरा नंबर शाळेंत दाखल जाताली. कांय शिकताली, कांय शाळा अर्दकुटी सोडून दिताली, बरीचशीं भूरगी शाळेची सोपणांय चडनाशिल्ली. फकत धुंवाळताली वा कामधाम करत आवय बापाय बरोबर आसताली. हांव मात नित्यनेमान शाळेत वतालो. सुभाश लोंढे, सिद्राम वायदंडे, शाम जाधव, नामदेव रास्ते हे तेन्नाचे शाळेतले दोस्त. आमी सगळे जाण मेळूनच शाळेत वताले. भुरग्यांची मराठी शाळा नंबर अकरा ही त्या काळार एक प्रसिद्ध शाळा

आशिल्ली. शाळेतले शिक्षकय सामकें ध्येयवादी आशिल्ले. कांय दलीत शिक्षकय आशिल्ले. खाडेकर, गोडबोले, कुलकर्णी, मुळे मंगळूरकर हे दलितेतर शिक्षक, तर लोखंडे मॅडम, परकाळे, तळमोहिते, सरवदे, कुचेकर अशी दलीत शिक्षक मंडळी आमकां भाग्यानच लाभिल्ली. खतीब नांवाचे एक मुस्लीम शिक्षक आशिल्ले. पूर्ण गांधीवादी. ते. शाळेत आमकां 'ईश्वर अल्ला तेरो नाम, सबको सन्मती दे भगवान' हे गाणे हमखास शिकयताले. नगरपालिकेची ही आमची शाळा अत्यंत सुबक इमारतींत भरताली. ही इमारत आकारान अर्दआयताकृती आशिल्ली. आनी फुडें सुंदर देखणे मैदान आशिल्लें. इमारतीच्या भोंवतणी घटमूट कंपावंड वॉल. ताका लागून शाळा रम्य आनी सुरक्षित दिसताली. शाळेच्या इमारतीचेर देखदिणे नळे धातिल्ले .नळ्याच्या पागोळेर चिमण्यो सतत चिवचिवत आसताल्यो. त्यो थंय आपले घोटेरय बांदताल्यो. सगळेंच खूब सुंदर आशिल्लें. शिक्षकय मनासावन शिकयताले. ताका लागून शिक्षणाची गोडीय वाडली. हांव केन्नाच नपास जालो ना. सतत पयल्या नंबरान फुडलो वर्ग गाठचो हें जणू थारिल्लेंच आसतालें.

बापूय दर वर्सा यादी नुसार नवी पुस्तकां चोपड्यो हाडून दितालो. रातीन चिमणेच्या उजवाडात हांव सगळी पुस्तकां सकयल वयर करुन पळयत बसतालो. नवी पुस्तकां नव्या इश्टा भशेन दिसताली. नव्या पुस्तकाचो वास माका खूब आवडतालो. नव्या पुस्तकांत तोंड खुपसून तो वास हांव घेत रावतालो. नव्या पुस्तकाचो वास एक आगळीच नशा यादींत दवरतालो. ते धुंदेतच हांव न्हिदून वतालो. नव्या पुस्तकाचो गंध माका आयजय स्पश्ट जाणवता. असो गंध हुंगत रावपाचो माका नादच लागिल्लो.
पयली ते तिसरी मेंरेनची परिक्षा शाळेतच जाताली. चौथेक मात बोर्डाची परिक्षा आसताली. दुसरे शाळेत परिक्षेचे नंबर येताले. थंय वचून आपल्या नंबरार बसून पेपर बरोवप, हो एक वेगळोच अणभव आशिल्लो. फुडे सातवेचीय परिक्षा बोर्डाचीच आसताली.

हांव सटवेत आसताना आमचे वर्ग शिक्षक श्री. परकाळे गुरुजी हाणी वर्गात पुस्तकां वाचपाचो नवो उपक्रम राबयिल्लो. भुरग्यांक टारझन, पंचतंत्र, विक्रम-बेताळ, सिंहासन बत्तीशी, राजा भोज कथा, आदी बाल वाङ्मय वाचूक दिताले. माका पुस्तकां वाचूक खूब आवडताले. हापापिल्या प्रमाण हांव पुस्तक घेतालो. माजी वाचनाची आवड पळोवन गुरुजीन माका एक पावटी भिल्लवीर कलिंग हें पुस्तक चक्क घरा वाचपाक दिले. माका खूब आनंद जालो. तशें तें पयलेंच पुस्तक, सदां घरां हांव तें पुस्तक चिमणेच्या उजवाडांत वाचतालो. त्या पुस्तकान माका अक्षरशः झपाटून उडयलें. पुस्तकच इतलें चित्तवेधक आशिल्लें. आनी हांवें तें पुस्तक तीन चार दिसांत पुराय वाचून काडलें.

कलिंग देशाच्या शूर भिल्ल वीराची ती जीवन कथा आशिल्ली. कलिंगाच्या पराक्रमाची अत्यंत रसभरीत काणी आशिल्ली. दुसऱ्या तिसऱ्या शेंकड्यांत शक, हूणांच्यो रानटी टोळ्यो गांवार धाड घालून आनी हत्याकांड करुन गांवा आनी देवळां लुटून व्हरताले. ह्यो टोळ्यो खैबर खिंडीच्या मार्गान भारतांत येताल्यो. अतिशय क्रूर लोक. एका भिल्ल वीरान तांचे बरोबर केल्ल्या युद्धाचें चित्रण या पुस्तकांत अत्यंत समर्थपणान आयिल्लें आसा. भिल्ल वीराच्या एकतर्फी युद्धाचें चित्रण मनाक भयभीत करता. अहिंसक बुद्ध अनुयायांचो हे शक, हूण टोळेतले लोक अमानुश पणान छळ करताले. बाणांनी, भात्यांनी तांच्या आंगार, माथ्यार निश्टूर पणान घाय करताले, तांका ओडत व्हरताले, रक्त बंबाळ बुद्ध अनुयायी मात कसलोच प्रतिकार करीनासले. कलिंग भिल्ल एका वस्तेतल्या खोपींत रावतालो. खोपी मुखार व्हड पिंपळा रुख आशिल्लो. ताचेर बसून तो टोळधाडीची वाट पळयतालो. क्षितिजार ताका धुल्लाचे लोट दिसले. जणू धुल्लाची वणतच! पयसुल्ल्यान रानटी लोकांच्या बोबींचो कर्कश आवाजय आयकूं येतालो. भिल्ल वीर कलिंगाक शक, हूणांची सुलूस लागली. बौद्ध आनुयायांक ते जखमी करीत बांदून ओडीत हाडताले. रस्तो निर्जन आशिल्लो. ही टोळी लागी लागी येताली. वीर कलिंग भिल्ल आंगणांतल्या पींपळा रुखाच्या घनदाट पानांच्या खांदेर लिपून बशिल्लो. रानटी टोळी लागी पाविल्ली. बौद्ध अनुयायी अधीकच घायाळ जाल्ले. तांका धड सरळ चलपाकय येना आशिल्लें. कलिंग भिल्लाच्यान हें पळोवपाक जालें ना. रानटी टोळी लागी येताच तो एकदम बाणांचो मारो करता. टोळेंतले बरेंच योद्धे घायाळ जातात. या अचानक हल्ल्यान ते भांबेतात. पन्नासेक जणांची ती टोळी आसता. कलिंग भिल्ल तर एकलोच, टोळतले सेनिक सादूर जातात. ते बाणांच्या दिकेचो वेध घेतात. आनी तांच्या लक्षांत येता की, पीपळा रुखावयल्यानच हो हल्लो जाल्लो आसा. पींपळाच्या पानांत तांका सळसळ जाणवता. त्या अगडबंब पींपळा रुखाक ती टोळी घेराव घालता. आनी मागीर बाणां भाल्यांचो मारो त्या दिकेन ते करुंक लागतात. भिल्लवीर कलिंग घायाळ जावन सकल कोसळता. ताका मागीर त्या रानटी टोळेचो मुखेली घोड्या फाटल्यान बांदता. आनी घोडो धांवडयत ताका घस्टयत व्हरतात. पश्चिमेकडेन सुसाट धांवत नाच जातात.

त्या पुस्तकांतले हें असलें चित्रमय वर्णन इतलें वेधक आशिल्लें की, हांव त्या भुरगेंपणांतय तो थरार प्रत्यक्ष अणभवतालो. त्या काणेतलो जणू तो भिल्ल कलिंग हांवच आसा अशें समजून समरस जावन वतालो. आजय त्या पुस्तकांतले प्रसंग जशेच्या तशे दोळ्या मुखार उबे तावतात.

या पुस्तकान माका खूब कितें शिकयलें. सुमार शंबर पानांचे हें पुस्तक अशिल्लें. तांतूतली भाशाच इतली चित्तवेधक आनी ओघळती आशिल्ली की, ताका लागून

भिल्लवीर कलिंगाची ती काणी प्रत्यक्ष दोळ्या मुखार स्पशट उबी रावताली. म्हजें बालमन पुस्तक वाचताना काचाबूल जालें. तें पुस्तक हांवे तीन चार बसकेंतच वाचून हातावेगळें केलें. तेन्नाच्यान खंयचेय पुस्तक हांव अत्यंत एकाग्र जावन तांतूतल्या आशया कडेन, मजकुरा कडेन पुरायेन समरस जावन वाचतालो. शाळेची पुस्तकां वाचतानाय माका ती सवय जडिल्ली. वाचलें की, जणू एकपाठी सारखे सगळे ध्यानांत रांवक लागले. खरें तर ह्या पुस्तकान माका एकाग्र जांवक शिकयलें. जें माका फुडें आयुश्यभर उपेगाचेंच थारलें.

सोलापूरांतल्या किल्ल्या कडेन एक वाचनालय आसा. रजेत हांव त्या वाचनालयांत वतालो. वाचनालयांत खूब विभाग आशिल्ले. वृत्तपत्र, बालवाङमय, म्हयनाळी, सप्ताळीं आदी फुकट वाचपाक पळोवपाक मेळताली. मागीर सदांच सांजवेळार हांव एक तास भर तरी वाचनांलयात वाचपां खातीर वतालो. माका ती सवयच लागून गेल्ली. पुस्तक विभागांत पुस्तकां घरां व्हरताना हांयें पळयलें. खबर काडली तेन्ना कळ्ळें की, सभासद जाल्यार हांवय पुस्तक घरां घेवन वचूंक शकता. मागीर बापाय कडेन हट्ट धरलो. आनी वाचनालयाचो सभासद जालो. हांगा मागीर 'पंचतंत्र', 'सिंहासन बत्तीशी', बेताळाच्यो काणयो', 'टारझन कथामाला', ह.ना. आपट्यांच्यो 'स्फुट गोश्टी 'अशें विविध साहित्य वाचूंक लागलो. ते वेळार प्रसिद्ध आशिल्लें 'चांदोबा 'हें म्हयनाळेंय माका वाचूंक मेळतालें. चांदोबांतल्यो कथा आनी म्हायती वाचून मन समृद्ध जातालें. वेगळ्या अद्‌भूत जगाची वळख जाताली.

वाचनाच्या आवडीन अशें मूळ धरलें, आनी ती आनीकय वाढत गेली.माका म्हज्या गरीब आनी हालाखीच्या परिस्थितीचें केन्नाच वायट दिसलें ना. तेंच आपलें प्राप्त जीवन दिसतालें. सगळेच वटेन एकसारखें जगणे. ताका लागून आपल्याच वाट्याक कांय वेगळें, कश्टप्रद आयिल्लें आसा अशी भावना केन्नाच जाली ना. ह्या जिणेच्या त्रासाची केन्ना तक्रार करची, अशेंय दिसलें ना. सगळें तशें आलबेल आशिल्लें. भूकेन केन्ना त्रस्त केलें, वा अन्नान हुलकावणी दिली अशें केन्नाच जाले ना. सदांच पोटभर खावपाक मेळत गेलें. हेर खंयच्योय गरजो केन्ना खर दिसल्यो नात. आंगावयलो सोडून आपल्याक आनी एक वेगळो कपड्याचो जोड ना, वा पायांत अकरावी मेरेन जोते ना, हाचीय जाणीव वा खंत केन्नाच जाली ना. हांव शाळेंत एक हूशार विद्यार्थी आशिल्लो हें माका सातवे मेरेन कळ्ळेंय ना. फकत शिकतालो. फरक इतलोच जाणवतालो की, गुरुजी माका हेर भुरग्यां सारखे केन्नाच बडयनासलें.

तिसरेत माका तीन रुपया स्कॅालरशीप मेळ्ळी. नंतर चौथी ते सातवे मेरेन णव रुपया स्कॉलरशीप मेळ्ळी. ह्या पैशांतल्यान हांव माका, बापायक आनी आवयक कपडे घेतालो. दरवर्सा म्हजे वर्सुकी परिक्षेचे मार्क नेमान सत्तर टक्क्याच्या वयर आसताले.

गणितात तर शंबरांतले शंबर. फुर्डे हायस्कूलांत गेले नंतर आटवी ते अकरावी मेरेन माका स्पेशल दोनशे चाळीस रुपयाची बी.सी.स्कॉलरशीप मेळत गेली. डिस्टिंक्शनात येवपी भुरग्यांक अशी स्कॉलरशीप मेळताली .ह्या शिवाय चंडक हायस्कूलची, सगळ्या विभागांत पयलो येवपी भुरग्या खातीर आशिल्ली स्पेशल स्कॉलरशीप पस्तीस रुपया, तीय माकाच मेळताली. ह्या सगळ्या भरगच्च रकमेंतल्यान घरांतल्यो आडखळीं पयस जाताल्यो. शिवाय वर्सभराचे कपडे लत्तेय जाताले.

माका त्या काळांतली आनी एक वर्सुकी घडणूक याद जाता. परिक्षा जाली की, गिमाळ्याची रजा म्हयनो भर आसताली. या म्हयनो भराच्या रजेंत हांव म्हजो मामा गोविंद हांचे बराबर सूत दोरेच्या कामाक वतालो. हांव तसो ल्हानच, बालकामगारच, हांव आंकडी धरचे काम करतालो. लांबलचक सुताच्यो चार पदरी दोरयो वळताले. एका गाडेन ताका पीळ दिलो वतालो. एकलो गाडो फिरयतालो. हो गाडो चरख्या सारखो उबो गाडो आसतालो. दोग जाण सुताचे दोन दोन भागांत पीळ घेत येताले, मागीर तांतूत कलबूत उडोवन तो चार पदरी दोर पीळ दीत रस्सी राजू तयार जातालो. हांव ह्या रस्सी राजवा खातीर धरची जी लोखंडा आंकडी आसता ती धरचें काम करतालो. पीळ वळपसून आंकडी ओडून धरची पडता. मंगळार बाजारांतल्या एका लिंबाच्या झाडा सकल सूत वळपाचें काम आमी करताले. या कामांत हेर सावलेंत आसताले हांव मात वतांत आंकडी धरुन उबो आसतालो, दीसभर. सांजेर या कामाचें माका १० आणे मेळताले. ते हांव सदां आवयक दितालो. अशें म्हयनोभर काम हांये, पाचवे धन्न आटवे मेरेन दर गिमाळ्याच्या रजेंत केले. आपूण कश्ट करता हाचेय वेगळे पण माका त्या वयात कळनासलें. म्हजे सारखी मांगवाड्यांतली हेर भुरगींय ही कामां करताली.

आनी एक : भुरगेपणाचो वाठार, बालवांगड्यांचो आनामीक कळवळो खोल मेरेन रुजत आसता. मराठी मुळावे शाळेंत आसतना मागेलो सामको जीवलग इश्ट राम आबुटे हाजी आनी माजी दाट इश्टागत आशिल्ली.रामाल्या घरा हांव अभ्यासाक वतालो. रामाली धाकली भयण सुशिला, भाव सुनील, अनील हेवय मागेले इश्ट आशिल्ले. रामाक आमी सगळे दादा म्हणताले. आप्पा म्हणल्यार लक्ष्मण नरसू आबुटे हांचो बापूय डॉ.बाबासायबांचे निश्टावंत कार्यकर्ते आनी राजकीय, सामाजीक मळावयले नामवंत फुडारीय आशिल्ले. तांचीच धूव सुशिला ताई आबुटे ह्यो आज सोलापूर महानगरपालिकेच्या महापौर पदार विराजमान जाल्ल्यो आसात.

✻✻✻



५.

मांगवाडो आनी म्हारवाडो हांच्या मर्दी एक व्हड मैदान आशिल्लें. त्या मैदानातल्या पांय वाटेवयल्यान म्हारवाडयांतल्या शाळेंत सदां वचचें पडतालें.म्हारवाड्यांतली कांय मेजकीच घरां बलांटून वचचें. मध्यार शाळा आशिल्ली. शाळेक लागून बाळीवेसी कडेन वचपी हमरस्तो आशिल्लो. त्या रस्त्याच्या कडेक आजय जशाच्या तशी आशिल्ली तरटी नाको म्हणून वळखूवपी वेश्या वस्ती आशिल्ली. तेका लागून भुरग्यांक भीड जाताली.

मातंग वस्तेंतलें आमचें घर मर्दी कांय घरां सोडून सारकें भंगी कॉलनीक लागून आशिल्लें. वस्तेक लागून नगरपालिकेन भंगी जमातीच्या सफाई कामगारां खातीर बरी पक्की घरां बांदून दिल्ली. हे कामगार शारांतल्या संडासाची सफाय करताले. भंगी कॉलनी तशी पोन्नीच आशिल्ली. थंय मेहबूब, आमीन, युसूफ, रजाक, अब्दुल, इस्मयल, हे भंगी ठळक पणान वळखले वताले. सकाळी ते कामाक वताले, आनी दनपरा काम करुन येताले. मागीर घासून घासून तासभर लागून न्हाताले. हाताची, पांयाची बोटां घासपांत ते गूल्ल जाताले. न्हावपाक ते खूबच वेळ घेताले. नगरपालिकेन या भंगी कॉलनी खातीर चोवीस तास उदकाचो नळ दिल्लो.

त्या वेळार हांव सातवेंत आशिल्लो. अब्बास नांवाचो, भंगी गल्लेंतलो आमच्या शेजारचो एक भुरगो माज्या वर्गात आशिल्लो. ताची माजी दाट दोस्ती आशिल्ली. आमी दोगय मेळून भोंवताले. आवयबापायक तें मानवनासलें. ते माजेर रागार जातालें. भंग्या वांगडा भोंवता आनी दोस्ती करता म्हण. पूण माका तांचे रागार जावचे कारण कळनासलें. एक पावटी बापायन माका ताचे बराबर पळयले, घरा आयले नंतर माका बरोच बडयलो, नालायका, भंग्याच्या पोरा बरोबर कित्याक भोंवता? तुका सांगूनय कशें कळना? शाळा सोडून भंग्याचें तरी काम कर अशें म्हणून ताणे माका तापयलो. मागीर मागीर अब्बासाची आनी म्हजी दोस्ती तुटली. अब्बास नंतर शाळेतय येना जालो.

भंग्यांची घरां सामकी बरी आशिल्ली. तीं सदांच चुन्यान सारयिल्ली आसताली. चलयो मात बुरख्यांत आसताल्यो. केन्नाय दिसल्योच तर, इतल्यो गोऱ्यो आनी सुंदर! अशा घरांत ह्यो चलयो कशो जल्मल्यो? हाचेंच नवल दिसतालें. भंगी गल्लेच्या भोंवतणी मांगाची भुरगीं फिरताली. पंजे मोहरमाची परब ते अत्यंत उमेदीन मनयताले. पंजे बशिल्ले आसले की, एका फोंडा भोवतणी गोल फिरत 'धुल्ला धुल्ला, हैदोस धुल्ला' या धुनीर बेधूंद नाचताले.आमी भुरगींय थंय उमेदीन भोंवतणी नाचताली. उदबत्ती, उद आनी कापूर हांच्या वासान वाठार सामको धूसर आनी गंधाळ जातालो. ताका लागून एक वेगळीच अनभूती येताली. नाचतल्यामदी एखाद्याच्या आंगात वारें येतालें, तो वस्तेचें आनी वस्तेंतल्या लोकांचे भविश्य सांगतालो. लोक भीवन भीवन आयकताले. केन्ना केन्ना पंजे बसयिल्ल्या आंगणांत उज्याची कांडा पेटयताले. आनी तांतूतल्यान हे भार आयिल्ले पीर धुंवाळत, हुडयो मारीत, 'अल्ला,अल्ला 'म्हणत धांवतेर सुट्टाले. हे पळयताना ते वेळार आमकां चमत्कारीक दिसताले. भंग्यांची घरां आट धा च आशिल्ली. मातंग वस्ती मात खूब व्हड आशिल्ली. शें पाचशें घरां. संखेन मांग लोक चड आशिल्ले. ताका लागून भंगी समाज हो मातंग समाजाच्या कायम अधीन, आनी वचकून आसतालो. मांगां कडेन झगडपाचें तांच्यात धैर्य नाशिल्लें. सतत एका दबावा खाला ते रावताले. 'नमस्ते साब, रामराम ओ' अशें म्हणत ते खंयच्याय मांगाक तकली बावगोवन मान दिताले. मात मेहबूब नांवाचो एक भंगी शिशट आनी मगरुर आशिल्लो. नगरपालिकेत तो मुकादम म्हणून कामाक आशिल्ल्यान ताका आपूण मातसो वयल्या दर्जाचो अशें दिसतालें.

मेहबूबालें घर शेवटाचें. आडव्या नळाक सामकें तेकून. ताच्या देल्ला वयल्यान नगरपालिकेचो रस्तो वतालो. लोक याच रस्त्या वयल्यान यो -वच करताले. मेहबूब मुकादमाक तें खपनासलें. ताका मांग ही ताच्या जातीच्याय सकल्ली जात अशें दिसतालें मोठे विचित्र आशिल्ले हें. जातीची ही उच्चनीचता खंच्यान मनात रुजिल्ली

कोणाक खबर? मेहबूब मुकादम मांगाचो भश्टपणय पाळतालो. हें मात अतीच आशिल्ले. 'साले धेडा लोक, भौत मस्ती करते है. औरतां पे बुरी नजर रखते है. एक तो गंदी जात है, और दूसरों को जानबूजकर तकलीफ देते है.' अशें म्हणून तो आमचे कडेन पळयत गाळी घालतालो. केन्ना पळोवन पळोवन थुंकतालो .बऱ्याच पावटी ताचे बरोबर झगडींय जाताली. मागीर मांगय ताका गाळयो घालताले. अशें सदांच चलतालें.

मेहबूब मुकादमान दारांत एक सुणे पोशिल्लें, सुणेय मेंगेच, दारावयल्यान येतल्या वतल्यांचेर तें केन्ना भोक तर नासलेंच, उलट शेपडी फाटल्यान घालून कोनशांत लिपून बसतालें. आमचें कांय लोक येतना - वतना त्या पेटयाक ओगीच 'हाड 'म्हणताले, केन्ना- केन्ना मोठ मोठ्यान 'हाड 'म्हणताले, ताका लागून मेहबूब मुकादम तिडतालो, तो सायकली वयल्यान वतना तवनास भुरगींय ताच्या फाटल्यान 'हाड हाड 'म्हणून आड्डताली. तेन्ना तर तो खूबच तिडतालो. देखून मांगाविशीं ताच्या मनांत कमालींची दुस्मानकाय निर्माण जाल्ली.

एक पावट मेहबूब मुकादम खूब सोरो पिवन आयलो, आनी सायकल कशीबशी सांबाळत, लवंडत मांगांक गाळ्चो घालीत फुडे गेलो. कांय तवनास पोरां चिडलीं. ताच्या आंगार धांवून गेली .'भडव्या, तू गू भरपी भंगी, तुजी जात तर सगळ्यांत सकयल्ली, साल्या इतली शिपारत कित्याक दाखयता? म्हण मेहबूबाक खुबळोवंक लागले. तोय मदी मदी 'मादर चोद धेडा, मरे हुये ढोरा खानेवाले, तू सब मेरे पैरों के नीचे हो 'अशें जोर जोरान म्हणू लागलो. हो सगळो प्रकार पळोवन कांय जाण्टेले मुखार येवन झगडीं सोडोवपाक लागले. मेहबूब मुकादमाक समजायलें, पूण तो 'धेडा 'वाचून कांय उलयच नाशिल्लो.

ही सगळी तवनास पोरां मागीर नाक्यार एकठांय जाली. ताणी थारायलें की, वस्तेतल्या मेंबरांकडेन वचून, तांका मेहबूबाचो बंदोबस्त करुक सांगचें. बाळकृष्ण जाधव नांवाचें वेंचून आयिल्ले समितिचे मेंबर आशिल्ले. मुन्सिपालटीचे सभासद, ते वेळार फुडाऱ्यांक मेंबर म्हणताले. जमिल्लीं भुरगीं ताच्या घरा गेली. हांवय तांच्यात आशिल्लो. सगळी गजाल ताका सविस्तर सांगली. भुरग्यांक सारखें सांगपाक येनाशिल्लें, म्हण ताणी माका 'तूं सारखें उलयता तूं सांग.' म्हण माका फुडें केलो. मागीर हांये सविस्तर प्रकार सांगलो. मेंबर विचार करुं लागलो. थोड्या वेळान 'बरें आसा' अशें म्हणून, 'मुकादमाचो बरोच बंदोबस्त करता' अशें आश्वासन दिलें. मागीर आमी सगळीं भुरगीं आपापल्या घरां परतलीं.

सुमार पंदरा दीस गेले. परत मेहबूब मुकादम मांगवाड्याच्या दिकेन गाळ्चो घालूं लागलो. मांगवाड्यांत मुन्सिपालटेन वीस संडास बांदिल्ले. मेंबर बाळकृष्ण जाधवान

हे संडास निवळ करची ऑर्डर मेहबूब मुकादमाक दिली. भलायकी अधिकाऱ्यान मेहबूबाक त्या सुवातेर रोखडेच कामार रुजू जावपाक बजायिल्ले. आता मेहबूबाची गोची आनी पंचायत जाली. या मांगांचेच आता संडास धुवचें, साफ करचे, माजेर कसली ही वेळ आयली? म्हण तो खूब दु:खी कश्टी जालो. मांगय मागीर मुद्दम मुकादमाल्या घरा वयल्यान टमरेल घेवन संडासाक वचूंक लागले. मुकादमाक वतना 'सलाम मुकादम साब, क्या दिवटी पर गये नै 'म्हण हिणसावक लागले. मेहबूब मुकादम मेताकूटीक आयलो. ताची जणू वाचाच बसली. उपरांत मेहबूब मुकादमान मांगाबद्दल केन्नाच गैर उद्गार काडले नात. ताणे जणू कायमचेंच मौन आपणायल्लें. मांगातलें हें बेरकी पण औरच.

मांगवाड्याच्या पश्चिमेक बाळे मसनट आशिल्ली. मसनट पोन्नी तर आशिल्लीच, पूण खूब विस्तीर्ण आशिल्ली. तरेक वार व्हड झाडां आनी वालीन मसनटीचो वाठार थंड शीतळ आसतालो. मसनटीच्या चोंयवटेन चंदनाचें बनच आशिल्लें. इतले चंदनाचें रुख कोणे रोयिल्लें कोणाक खबर? मसनटी वयल्या रुखांत प्रामुख्यान वड, पींपळ, लीब, आनी रुंबड आशिल्ले. एका रुंबडाच्या झाडासकल कोणे तरी दत्ताचे ल्हानशें देऊळ बांदिल्लें. चोंयवटेन फरशी बसयिल्ली. फरशी गुळगुळीत आनी विस्कळीत जाल्ली. जंय थंय वयर उटिल्ली, हांगा चार भणंग गांजेकस येवन सदांच बसताले. गांजो मळताले, चिलीम पेटयताले, दीसभर गांजाच्या धुंदेत तर्रऽऽ आसताले. हातात त्रिशूळ आनी कमंडलू घेतिल्लो 'अल्लख निरंजन' म्हणपी कोण तरी एक बैरागीय हांगा येवन बसतालो. ताणे आंगाक गोबर फाशिल्लो आसतालो.

ही मसनट मांगवाड्या पसून फकत दोनेक फर्लांगार आशिल्ल्यान मसनटीत जळतल्या मड्याचो उर्ग दर्प वाऱ्या बरोबर सतत मांगवाडयांत येतालो. वासान मळमळिल्या भशेनं जाताले. पूण हें सदाचेंच आशिल्लें. माजी एक मावशी, तिजें नांव गितामावशी. या मसनटीच्या बाजूनच रावताली. तिज्या दारा वयल्यानच मर्डी वताली. ही कशी आनी कित्याक हांगा रावता हेच आमकां समजानासलें. मावशे कडेन पाच-स म्हशी आनी हेर जनांवरां आशिल्ली .ती दुदाचोय धंदो करताली. गितामावशी विधवा आशिल्ली. तिजी सूनय विधवा आशिल्ली. त्यो दोगीच थंय रावताल्यो. कशो रावताल्यो देवाक खबर?

मावशी आनी तिजी सून सदां म्हशीच्या शेणापसून शेण्यो थापताल्यो. त्यो आरत्यो परत्यो करप, शेण मळप आनी परत शेण्यो थापप हेंच तांचे काम चलतालें. मसनटींत मर्डी लासपाक लागपी जळोव, शेण्यो या मावशे कडल्यानच विकत्यो घेताले. मरणाक लागपी कांय सामानय मावशी विकपाक दवरताली. ऐन वेळार मावशेकडेन हें सामान मेळतालें, देखून लोकांची गैरसोय जायनासली. मड्याक दिस्त कितलो

जळोव वा शेण्यो लागतल्यो तें तीं अचूक सांगताली. या धंद्यात तिका भरपूर बेगमी मेळताली. लाकूड शेण्या बरोबर चंदनाची थोडीभव लाकडांय ती विकताली. कांय व्हड आसामी चंदनाच्या लाकडांन मडीं जळयताले. चंदनाचे हें दहनय लोक लक्तूबायेन पळयताले.

आमकां घरां रांदपाक शेण्यो लागताल्यो. पूण म्हजी आवय गितामावशे कडल्यान केन्नाच शेण्यो विकत घेनाशिल्ली. मावशेलें घर, तो वाठार आनी धंदो आवयक खूबच अळशीक दिसतालो. देखून आवय मावशेक केन्ना घरा वा परबे आसणेकय, ती भयण आसून सुद्धा आपय नाशिल्ली.

ल्हान पणात हांव फिरत फिरत या मावशेगेर वतालो. मावशी माका वयले वयर करताली. माका म्हाऱ्यांत घेवन माथ्यावयल्यान, फाटीवयल्यान हात फिरयताली. आपल्या भयणीलें पोर शिकता हाचे तिका खूब कौतूक आशिल्ले. ती माका खांवंक दिताली, पूण माका थंय खांवंक वीट येतालो. गीता मावशी माका खूब पोन्न्यो काणयो सांगताली. म्हज्या आज्याल्यो यादीं हटकून सांगताली लक्ष्, तुजो आजो, बाबू मांग ह्या जाग्यावयली लांकडा मारतालो. मागेली मांय माका बाबू मांगाची खडेंगाट करतुबां सांगताली. मोठमोठे लांकडांचे लोळगे तुजो आजो काय नी कन्न खांद्यार उखलून हाडतालो. सदां खंडीभर लांकडां हो एकलो भाद्दर फोडतालो. खंडीभर लाकडां म्हणल्यार कळ्ळे तुका लक्षू? हांवें 'ना' म्हणले, मागीर मावशेन खुलासो केलो, एक खंडी म्हणल्यार वीस मण लाकूड, आनी एक मण म्हणल्यार चाळीस किलो लाकूड, आता घाल हिशेब आज्याल्या कामाचो. तरीय माका सारकें कळ्ळें नाशिल्लें. मावशी फुडे सांगताली, 'पूण बाळा, मसनटीर मात ताणे केन्ना लाकडां कमी पडूंक दिली नात. केन्ना केन्ना धामीच्या काळांत तीन तीन, चार चार मडीं एकाच पावटी येताली, मागीर या मड्यां खातीर लागपी लाकूड हो एकलो मनीस पुरयतालो. आतां लाकडां म्हारग जालात, कोण लाकडाची ऑर्डर दिनात. शेण्यारच भागयतात. तुजो आजो मरुन खूब वर्सा जाली तुज्या जल्मां पयलींच मेल्लो तो.'

म्हजों बापूय बी पैलवान आनी आंगापांगान आडदांड आशिल्लो. हांव मात काटकुळो आनी गिड्डो. माका पळोवन मांगवाड्यांतले लोक, बाबू मांगाचो कसलो रे तूं नातू? हात् तुज्या! म्हण माका हिणसायताले. दसऱ्याच्या दिसा आवय एक व्हडली कुराड पूजेक दवरताली. ती आज्यालीच आशिल्ली. ती जाग्यावयल्यान हालोवपय माका शक्य नाशिल्लें. हांव चांदोबा म्हयनाळें वाचतालो, तेन्ना तांतूतल्या राक्षसांच्या आनी अगडबंब मनशांच्या चित्रांत हांव म्हज्या आज्याक सोदतालो.

गीता मावशी फुडें सांगताली, त्या काळार लोक खावन पिवन सुखी आशिल्ले. बाजारांत तूप कशें दिले, म्हण दर विचारल्यार, साजूक तूपाचो निसतो वास घेवन

पळयनाशिल्ले, तर पोसो पोसो भर तूप हातात घेवन, तें ढोसून तूप कशें आसा म्हण पळयताले. परबे आसणेक बडेक भांगर बांदून मनीस गांवांत भोवंडी मारुन येताले. पूण कोणाक कसलोच भंय नाशिल्लो.मनीस उतराक जागताले, शब्दाक मान दिताले, मिर्शी घाण दवरुन उदारीचे पैशे परते करीन, अशें म्हणताले. पूण कोण काणाचो विश्वासघात करिनासलें.

मावशेचें पुराण आयकूवन हांव बेजारुन वतालो. मावशेक तें कळताले, 'वच बाबा आता' म्हण ती माका निरोप दिताली. पूण 'येतेर राव बाबा' अशें मुद्दम सांगताली. आमी रावता त्या घराच्या मुखार एक व्हडलें आंगण आशिल्लें. आंगणाच्या बाजून कांय घरां आशिल्ली. म्हज्या मामाचो एक पूत, शिरपो, मसनटी वयली तिसऱ्या दिसा मड्याची सारी भरुन घरा घेवन येतालो. ती एका लोखंडा पाटल्यात घालून ताचेर उदक ओतून ती घोळयतालो. सकल उरिल्ल्या गोबराच्या अंशात ॲसीडाचे थेंब फापुडतालो. ॲसीड उडयलें की, धप्प कन्न धूंवर येतालो. मागीर परत घोळयत रावप. अशें करत करत तासाभरान तातूंत भांगराचे कण दिसू लागताले. सर्दी हें काम चार पांच तास चलतालें. सांज जायत अयली की, एकठांय केल्ले भांगराचें कण पुडेंत बांदून सराफ गल्लेत व्हरुन विकतालो. सदां बऱ्या पैकी पैशे मेळताले. या धंद्यार शिरपो, ताची बायल, आवय बापूय हांची गुजरण जाताली.

सर्दीच्या या कामान शिरप्याच्या दोळ्याक खुरपो जालो. ॲसीडाचो धूंवर दोळ्यांत वतालो, तेन्ना दोळे जाम चुरचुरताले. सदांचेच हें काम. मागीर दोळे कशें सुरक्षित उरतले? फुडें ताका पुसट दिसूं लागले. मागीर मागीर तर ताका सामकेंच दिसना जालें. तो चक्क कुड्डो जालो. आनी घरात कोनशाक पडून रावलो. घरच्यांक ताचे हे अशें पडून रावप आडगळीचें दिसतालें. शिरप्याच्या बायलेन ताका एस.टी.स्टँडांर भीक मागूंक बसोवचें थारायलें. ते प्रमाण ती सदां सकाळी ताचो हात धरुन ताका स्टँडांर घेवन वताली. शिरप्याली बायल शेंवते, शिरप्यालो धंदो फुडें चलोवंक लागली. शिरप्यालें भांगर घोळोवचें काम बायलेन फुडें चालू दवरलें.

शिरप्याल्या बापायक पिसो कोंडो म्हणताले. पिसो कोंडो तर महाडेंजर मनीस म्हण प्रसिद्ध. दिसूक काळो कुळकुळीत, राठ, पिंजिल्ल्या केसा भशेन. लांबरुंद, भेदक दोळ्याचो, राकट आशिल्लो. उलयतल्या कडेन तो दोळे लावन पळयतालो. पळोवपी भिताले. येडो कोंडो खूब कमी उलयतालो, एखाद दुसरें उतर, हरशी सामको मोनो वेवहार. येडो कोंडो मसनटीर पुरतल्या मड्याखातीर फोंड खणपाचें काम करतालो. अशा फोंडाखातीर ताका तासा दोन तासा पयलीच वर्दी येताली. एका फोंडाक ताका पाच रुपया मेळताले. ल्हान भुरग्याच्या फोंडाक तीन रुपया थारिल्ले आसताले. दफनाचे फोंड खणपाची रचना खाशेली आसताली, एक वेगळी कलाच ती, उब्या अग्गड फोंडात

भितर एक दिवळी करप आनी मडें मांडी घालून बशिल्ल्या अवस्थेंत पुरप. आख्खें खणप चोख. ताका खंय फोंड घेवचो हें सारकें खबर आसतालें. कारण देड दोन एकर मसनटीच्या जाग्यार सदांच हें खोदकाम चलतालें. ताका लागून फोंडात पुरिल्लें पयलींचे मडें वयर येवनये हाची जतनाय घेवची पडताली. कितलें जोखमीचें काम काम हें? दरेक कामांत कसलें तरी कसब लागता हेंच खरें. आनी हें कसब येडया कोंडया कडेन नक्कीच आशिल्लें. सदां खांद्र्यार खोरें, कुदळ आनी हातांत पांटलो घेवन तो सकाळी मसनटीर वतालो, आनी सांजेर सूर्य अस्तमले नंतर परततालो. दीसभर नी तर, आयुश्यभर ताचो वावर मसनटीरच आशिल्लो. हेर जगाची ताका वळखच नाशिल्ली. केन्ना केन्ना येडो कोंडो फटिंगपण करतालो. चडकन्न लिंगायत लोकांत मडें पुरपाची रीत आशिल्ली. वा मडें जळोवची जांची ऐपत नासताली ते गरीब लोक मडें पुरपच पसंत करताले. वास्तवीक पळयल्यार मड्याचो फोंड खणून जालो की, आपल्या कश्टाचे पैशे घेवन येड्या कोंड्यान वचूंक जाय. पूण तो मडें पुरपाची सगळी क्रिया सरता पसून थंयच रावतालो. ताका खबर आशिल्लें की, लिंगायत लोकांत बायलेंचे मडें पूरतना तिज्या तोंडात एकतरी भांगराचो मणी घालतात. मागीरच माती उडयतात. सवायशीण बायलेचें मडें आसत तर मड्याच्या पायांत रुप्याचीं जोडवीं तशींच दवरतात. वा एक दोन मण्यांचे मंगळसूत्रय कांय मोठे गिरेस्त लोक गळ्यांत तशेंच दवरतात. अलंकारा सयत मडें पूरतात. अशी भांगरा संद दिसली की, मागीर रातीन देड दोनाकच येडो कोंडो मसनटीर एकटोच वतालो. तें पुरिल्लें मडें परत उस्तून काडतालो, मड्याच्या आंगावयले भांगर वा तोंडातलो भांगरा मणी, जोडवीं अलंकार आसत तर तें काडून घेवन परत तें मडें मातेत जशेंच्या तशें पूरुन येडो कोंडो घरा येतालो. ताका अशा स्थितींत परततना पळयलें की, येडो कोंडो कितलो भयानक दिसतालो, वस्तेंतल्या पेट्यांल्या भोंकपाचो एकच कल्लेव उठतालो. येडो कोंडो मात शांत पणान चलत वतालो, हात पांय तोंड धूंवप बी कांयना, तसोच मांजरी उडोवन आंगणांत पडतालो. सकाळ जाली की, सदां भशेन दिनक्रम चालू.

तें भांगर विकपाक मात तो सराफ कट्ट्यार स्वत: केन्ना वचनाशिल्लो. हें काम तो बायलेचेर सोपयतालो. अशा रितीन ते भुताटकेच्या वंशाचें घर, खावन पीवन सदां सुखी आशिल्लें. हो येडो कोंडो म्हजो बापोल मामच. शिरपो म्हज्या आवयक आत्तु म्हणतालो ही अशी आंतकुटेंतली सोयरीं धायरीं.

येड्या कोंड्याचें मरण मात भयानक जालें. आपली आखी जीण जाणे मसनटीर घालयली त्या मसनटीनच येडा कोंडयाक आपल्या पदरांत घेतलें.जायते दीस येडो कोंडो दीस रात हांगाच रावतालो. मड्याच्या तिसऱ्या दिसा लोक पिंडाक उंडी दाखवचें खातीर सुपांत, मड्याच्या आवडीचें जीनस आनी निवेद्य, च्या बटर, पानसुपारी घेवन

येताले. जंय मडें पुरला वा लासला थंय मागीर दीस धरिल्ल्या सोयऱ्यान पूजा करुन सुपांतलें जीनस मांडचे, हळद कुकूम करचो, उदबत्ती लावची हे सगळें रडत करचें. कुशीक बायलो बोबो मारत रडट्र्त. झाडार वा लाशिल्ल्या सुवातेच्या आडसराक आशिल्ले कावळे हें सदां पळयताले. पूजा सासकून नमस्कार करुन संबधीत इसम कुशीक वचून बसतालो. सगळे जाण दवरिल्ल्या वाडेक कावळो केन्ना आफुडता म्हण उमळशिकेन वाट पळयत थोडे पयस बसताले. कावळे केन्ना रोखडेंच झडप घालताले, तर केन्ना केन्ना वाडेकडेन ढुंकून पळयनाशिल्ले. केन्ना केन्ना तर एकय कावळो येनाशिल्लो. मागीर लोक 'वायस, वायस 'म्हणून आड्डून कावळ्याची मनधरणी करताले. खंयच्यान तरी एखादो कावळो आयलो की, 'पळया, पळया आयलो 'म्हणत लोकांक जणू मड्याचो आत्मोच थंय आयलो अशें दिसतालें. कोणी म्हण, 'अनमन नाका वाडेक तोंड लाया 'मयत इसमाची कसलीतरी इत्सा आसूंक फाव अशें लोक मानीत. ती इत्सा पूर्ण करु म्हण आश्वासन दीताले. 'हुसको करु नाका आमी तुच्या भुरग्यांक सांभाळू, अमक्यांचे लग्न करु, तमक्याक पदरांत घेवू' अशो नाना तरेच्यो इत्सा उलोवन दाखयताले. लोक ताटकळिल्ले आसताले. मागीर कसो बसो एखादो कावळो हुडून वाडे लागी येतालो. लोक स्तब्ध जाताले. 'एऽऽ कोण आड्डू नाकात, गप्प बसा 'म्हणताले. कावळो खंयचो जीनस पयलीं आफुडता म्हण दोळ्यांन प्राण हाडून पळयताले. जो जीनस कावळो आफुडता ताचेर लोक चर्चा करताले. मागीर समाधान मानून परत वचूंक लागताले. कावळ्यान वाडी रोखडीच व्हेली काय, लोक म्हणताले, 'कांय फाटीफुडें केलें ना बाबान. बरो आशिल्लो तो पयलीं पसून. ताची काय इत्सा उल्ली ना. समाधानान गेलो, बरें जालें.'

सगळे लोक उठून गेले नंतर येडो कोंडो बेगबेगीन फुडे सरतालो. आनी कावळ्याक धांवडांवन घालतालो. मागीर थंयचे सगळे जीनस एका बोतरांत एकठांय करतालो. फुटक्या कपांतलो च्या एका घोंटांत रिचयतालो. आनी मागीर पयस झाडासकल बसून ते जीनस पोटभर खातालो. येडा कोंडो जणू प्रेतात्माच जातालो.

असो येडो कोंड्याचो उदरनिर्वाह चलतालो. फुडें फुडें येड्या कोंड्याचें तोंड, आंग सुजूं लागलें. तेका महारोग जालो. बोटां वाकडीं जावंक लागलीं. कांय बोटांचीं पेरां गळून पडूंक लागलीं. येड्या कोंड्याची दशा सामकी दयनीय जाली. मागीर मात तो चड दीस जगलो ना. खरें तर येडो कोंडो मागेलो बापोल माम. आमी केन्नाच ताजेकडेन सारकें उलयले नात, ताजे कडेन कसलोच संबंध दवरलो ना. तो आमचे कडेन तिऱ्हाईता भशेन पळयतालो. आमचे कडेकन तर केन्नाच तागेले उलोवणये नाशिल्लें.

ते शिंयाचें दीस आसले. कडक शीं पडिल्लें. महारोगाक लागून ताका तीं चड जाणवनाशिल्ली जायत. पूण तरी तो थोडोभव कडकडतालो. ते दिसा वस्तेत एक

सामको म्हातारो- शिवानाना रार्तीच मेल्लो. सकाळी वस्तेंतले लोक एक कडेन जाल्ले. हलग्यांचो कडकडाट जालो. मरणाची तयारी जाली, आनी शिवानानाचें मरण मसनटीर वाजत गाजत आयलें. मसनटीर भीतर सरताच, पळयल्यार कितें, येडो कोंडो रातींच लाशिल्या एका मड्या कडेन भाजून मन्न पडिल्लो. मड्याच्या उज्या कडेन तो राती धग घेत बशिल्लो आसूंक जाय. आनी झेम येवन तो मड्याच्या उज्यांत जळ्ळो आसतलो, अशें दिसतालें. येडो कोंडो अशे तरेन भयानक स्थितींत सोपिल्लो. आयिल्ल्या लोकांनी शिवानानाच्या मड्या बरोबर येड्या कोंड्याचेंय विधिवत दहन केलें. लोक खऱ्यांनीच समजूतदार आसतात. आमी येड्या कोंड्याचे सोयरे आसूनय तिऱ्हाईता भशेन पयसुल्ल्यानच ताजो अंत्यविधी पळयत रावले. ताजो अंत्यविधी जाता आसतना झाडार सरभोंवतणी खूब कावळे जमिल्ले. अकस्मात इतले कावळे खंयच्यान आयले कोणाक खबर? कावळ्यांक आपुलकी कळता काय कोणाक खबर? एका कावळ्या कडेन पळोवन लोकान म्हणलें 'तो पळया, तोच तो येडो कोंडो' लोक बाबडे सादें आसतात.

शिवानानाच्या मरणाक वाजयिल्ले वाजंत्री शिवा नानाच्या पूता कडेन रोखडेंच पैशे मागताले, कांय लोक चिडले. वाजंत्र्यांक म्हणू लागले, 'आरे अशे भियेतात कित्याक? पैशे खंय पळून वतात? दितलो तो.' वाजोवपी मात हट्टाक पेटिल्ले. शिवानानाल्या पुतान तांका वीस रुपया काडून दिले. तांतूतलो एक वाजोवपी भिवा, हलगीचेंय भाडें मागूक लागलो. लोकांनी विचारलें, 'हलगीचें भाडे कसलें रे '? भिवान सांगलें, 'माजे कडेन हलगी ना, माका हलगी वाजोवंक आपयलें. हांये मराप्पा पोतराजा कडल्यान हलगी भाडयाक हाडली, तिचें तीन रुपया भाडें कोणे दिवचें? लोक निरुत्तर जाले. कोणे तरी म्हणलें, 'दिवन उडया भाडयाचें तीन रुपया वोगीच कित्याक वाडवचें?' भिवा आपल्या वाट्याचे पाच रुपया आनी भाड्याचे तीन रुपया घेवन मसनटीवयल्यान खोशेंन भायर सरलो.

येडो कोंडो मामाच्या घृणास्पद जगण्या मरण्याचें रुप कळूनय म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयली नात. आपूण कसो इतलो मुर्दाड जालो? पूण येडो कोंडो एक विकृतीच आशिल्ली. देखून ताचे बद्दल कसलीच खंत दिसनाशिल्ली. पूण अशें आसलें तरी, येडो कोंडो मामान म्हज्या अंत:करणात खोल खंय तरी दंश मात केल्लो हें नक्की. देखून हांव घायाळ, व्याकूळ जाल्लो.

मड्याचे विधी, हलगीचें भाडें, येड्या कोंड्याचें अशें तरेन जाल्लें मरण, ह्या सगळ्या गजालीन हांव भीतरल्यान खूबच अस्वस्थ जालो. कितें ही मनशां, कितें ही वेवस्था? कसलें हे जिणें? आयुश्य सरतानाय स्वास्थ्य ना. भयानक रिती-रिवाजांत आमी कायमचेंच भड्डिलें गेल्ले आसात. ही प्रथा, ही वेवस्था अशीच फुडें फुडें चलत

उरतली काय? हो खंयच्या वेवस्थेचो असो परिणाम आसत? खंयच्या नियतीचो खेळ आसत? म्हज्या मनांतलें द्वंद्व चडच तीव्र जातालें. तिडो सुटना 'तो 'आतां खंय गेला? हालींसरा कसो येना? जाब सोदपाच्या म्हज्या प्रक्रियेत ताणे औदासीन कित्याक आपणायला? म्हज्या चींतनात तो आतां कित्याक वांटो घेना? म्हजो हांवच 'कोऽहं 'सोदचो असो तर ताचो आग्रो ना मू? हांव निखर्टेंच सुकें तत्वज्ञान मनांत घोळयत आसता. जाब सांपडच ना.

मांगवाड्यांतल्या दरेक मनशाच्या आयुश्याच्यो एकएक अस्वस्थ कादंबऱ्योच आशिल्ल्यो. शब्दबद्ध जायनाशिल्ल्यो. कोण कसो जल्मता, कोण कसो जगता, कोण कसो अमानुश वागता, कोण कसों छळता, कोण कसो आयुश्यभर गुलाम जाता, कोण कसो जर्जर सडून मरता, जगण्यांतली असहायता, अगतिकता, सल, जगण्यांतल्यो वेदना, जगण्यांतले संघर्श, जटिलता, सोसूंक लागपी झळ, कितल्या विचित्र गुस्पा गोंदळीन जीवन व्यापिल्लें आसा? जीवनाच्या या भयानक रितींचें, हालअपेस्टांचे निसर्गाक, नियतीक कितें देणे घेणे? हांव मात कोऽहं चो सोद घेवपांतच व्यस्त आसा.

***



६.

मातंग वस्तेंतली घरां, नगरपालिकेन १९४० सालां स्वतंत्र लेआवट करुन प्लॉट आंखून मातंगाकच विकिल्लीं. सदर प्लॉट विकतना प्लॉटाचो उपेग वा उपभोग मातंग समाजा वांचून हेर कोणाकय वा अन्य खंयच्याय जाती-जमातीक घेवंक येवचो ना, अशी स्पश्ट अट आशिल्ली. या प्लॉटाची विक्री वा हस्तांतरण करप बंधनकारक आशिल्ले. माका या अटीचे नवल आनी लक्तुबाय दिसताली. ही अट कितल्या कल्पकतेन कोण्या अधिकाऱ्यान घातिल्ली कोणाक खबर? या गरिबांच्या प्लॉटाचो उपेग तांकाच घेवंक येवचो, आनी हेर प्रस्थापितांनी आपल्या गिरेस्तिच्या जोरार हरिजनांचे प्लॉट विकत घेवन परत हरिजनांक विस्थापित करनये या खातीरच ही अट घालून प्लॉट सुरक्षित केल्ले. गांवकुसा भायल्या सुमार वीस एकर जमिनीत दोन फायनल प्लॉट आशिल्ले. एक सतरा नंबर सकल्ल्या आळीचो प्लॉट, आनी दुसरो अठरा नंबर वयल्या आळीचो. हे प्लॉट टाऊन प्लॅनिंगाच्या नेमानुसार आशिल्ले. ताका लागून वस्तेंतलीं घरां चौकान आंखिल्ल्यां भशेन शिस्तबद्ध आनी एका सरळ रेशेंत आशिल्लीं. दरेक फायनल प्लॉटाच्या मदले सुवातेर बऱ्या पैकी मेकळें मैदान आशिल्लें. या मेकळ्या मैदाना भोंवतणी चौकानांत प्लॉटाची आखणी आशिल्ली. शिवाय दरेक प्लॉटाच्या मूखार आंगण, फाटल्यान

परसदार आनी रस्तो आशिल्लो. रस्तेय चौकानी, एकमेकांक जोडून चौक करपी अशे आशिल्ले. घरांची गिचमिडी दाटी अजिबात नाशिल्ली. सामकारां सामकारांच्या घरांनी आनी मदल्या मेकळ्या मैदानां लागून सगळे एकमेकांच्या नदरेच्या टप्यांत आसात अशें दिसताले. म्हण सगळेजाण एकमेकांकडेन मेळून मिसळून रावतल्या सारखेंच आशिल्ले. भोवतेक घरां मातेचीं, कूडांची, भेंडवांची आनी ताचेर पत्रे घातिल्ली अशी आशिल्ली. कांय प्लॉटार खोपीं आशिल्ल्यो.लोदीपुऱ्यांतल्यान ह्यो झोपड्यो वा कोपीं; (खोपीचो आटो) विकत मेळताल्यो.लोद्यांच्यो चारचार बायलो कोप उखलून, चलत हाडून त्या प्लॉटार दवरताल्यो. ती कोप मागीर चार मनीस आपोवन मर्दी रोयिल्ल्या आड्यार बसयताले. नवी कोप जणू भांगराळ्या काड्यांनी सजयिल्ली आसा काय किर्ते अशीं दिसताली. सूर्याच्या वतांत तीं चकचकताली. मागीर ती जसजशी पोन्नी जाताली, तसतशी ती वतान आनी धुंवरान काळपट, कुजकट जायत वताली. एक कोप दोनेक वर्सां तरी कांय नी कन्न तिगताली.

केन्ना केन्ना घरांतल्या चिमणेच्या उजवाडान वा पणतेन ना जाल्यार खोपींतल्या चूलींतल्या उज्याच्या किटीन खोपींक उजो लागतालो. खोप खिणाभितर उज्याच्या लोटान जळून वताली. उज्याचें लोट उंच उंच मळबांत फाकताले. वस्तेंत धांवा धांव जाताली. बादली वा दोडीन उजो पालोवपाचो निश्फळ यत्न केलो वतालो. कोण तरी उजो पालोवपी बंबाक फोन करताले.खोपींक जितले झपाट्यान उजो लागतालो, तितल्याच झापाट्यान तो न्हिवनय वतालो. कोपीच्या शिगरांत तिगपाचो असो कितलोसो जीव असतलो? खोप जळून खाक जाताली. मागीर उजो पालोवपी गाड्यो भेसूर आवाज काडीत आनी सतत घांट वाजयत उज्याच्या सुवातेर दाखल जाताल्यो. तो मरेन सगळें सोपिल्लें आसतालें. पंचनामो जातालो, इतलेंच काम उजो पालोवपी बंबाच्या कर्मचाऱ्यांक आसतालें. गाड्यो परत वताल्यो. लोकांची पांगापांग जाताली. जाचें घर जळ्ळा तो माथ्याक हात लावन, बापडो जावन, लोकांच्या आदारा खातीर लाचार पणान बशिल्लो आसतालो. जणू ही खोप ताजें सर्वस्वच आशिल्ली. आतां आयुश्यांत किर्ते उरला? अशा अविर्भावांत तो लोकां कडेन पळयत रावतालो. कोणय आदार दितालो, नगरपालिकेचो मेंबर येतालो. धीर दीत सांत्वना करुन वतालो. अशें प्रसंग वरचे वयर घडताले.

आमचें घर मात मातेचें आनी पत्र्यांचे आशिल्लें घराच्या दोन खोल्यांचेर मातेच्या पाऱ्यांची कुंबी आशिल्ली. वादळान पत्रे हूडून वचनये म्हणून पत्र्यार जंय थंय फातर दवरिल्ले. माका रातीन घरांत न्हिदताना पत्र्यावयलो फातोर आंगार पडत काय म्हण सतत भिरांत दिसताली. पूण अशें केन्ना जालें ना. पूण हांव मात सदां न्हिदताना भंयेच्या दबावा खालाच न्हिदतालो. म्हज्या सुप्त मनांत ही भंय आयुश्यभर साथ करीत आशिल्ली काय किर्ते कोण जाणा?

पावसाळ्यांत तर हालच जाताले. फुटक्या पत्र्यांचे घर पावसाळ्यांत वचत थंय गळतालें. गळच्या जाग्यार दवरपां इतलीं आयदनांय घरांत नासताली. गळतल्या थेंबाचो टपटप आवाज सतत जायत रावतालो, आनी आंगार त्या थेंबाचे उदाक हूडताले. मेळत थंय त्या धा बाय धा च्या खोलेत आमी मुरकटून कशें तरी रातभर न्हिदताले. हातूंत बापड्या आवयचे मात हाल जाताले.

आमच्या घराच्या मुखार प्रशस्त आंगण आशिल्लें. आंगणात आवयन बरी वंय बांदून निरगुडी आनी मेथेचीं झाडां रोयिल्लीं. जांबळांचेय एक झाड आसलें. दाराच्या सामकें मुखार एक हेंऽ व्हडलें इंग्लीश चिंचेचें झाड नेटान उबें आसलें. हें झाड इतलें मोठें आनी उंच आसलें की, ताची विशालकाय पयसल्लयानय जाणवताली. सरभोंवतणी थंडगार सावली पडताली. कोनशांत कांय सुवातेर आवयन पटाडी, घोसाळीं, कारातीं अशा भाजी पाल्यांच्यो वालींय लायिल्ल्यो. एक अत्यंत दुर्मिळ झाडांचो रोपो आवयक खंयच्यान मेळिल्लो कोणाक खबर, त्या वनस्पतीचें नांव 'कांडरु 'अशें आशिल्लें. बोटांची पेरां आसचीं तशें लांबचें लांब कांडयाचें हें कांडरुचें झाड आशिल्लें. झाड कसलें, वालच ती. चुकून खंयतरी मर्दी पानां आसताली. सांद्या दूक, शिरां दूक हाचेर हुकमी इलाज करपी म्हणून कांडरु झाड प्रसिद्ध आसलें. शिवाय नासूर आनी नाकशारय कांडरुचो लेप करुन लायलो की, तें पेकताले. ही वाल दुर्मिळ तर आशिल्लीच, पूण हेर खंयूच ती पळवण्यांत आयली नासली. खंयच्यान खंयच्यान लोक येताले, तांका ह्या कांडरु वालीची म्हायती कशी मेळताली कोण जाणा! आयुर्वेदांतली ही गुणकारी वाल, आयिल्ले लोक बरे पैशे दिवन देड दोन वेत कांडरु घेवन वताले, तेमुळे आमची मेळकतय बरी जाताली.

चिंचेच्या प्रचंड झाडाच्या सावलेंत दीसभर भुरगीं खेळताली. व्हडलीं मनशां विसाव्याक बसताली. कोणी पांच स जाण जमून पत्त्याचो डाव मांडताले, कोणी आशिकुशीक नुसतेंच बसून तर, कोणी उबें रावन पत्त्याचे डाव शांतपणान पळयत रावताले. घर पश्चिममुखी आशिल्लें. पूर्व-पश्चिम दरवाज्याचें. तुळस पश्चिमेकच आशिल्ली. तुळशीक सदां उदक घालताले, आनी पूजाय नेमान केली वताली. देखून आंगणांत प्रसन्न दिसतालें.

भर दनपारां केन्ना केन्ना गोरखनाथांचे भिक्षेकरी-डवरी, कानफाटे आपले कोंका हें तंतू वाद्य घेवन पदां म्हणत वाजयत येताले. मजबूत कळकीच्या हातभर पट्टेक नाल्लाची कट्टी तंबोऱ्या सारखी घुसोवन ताचेर तारो जोडिल्ल्यो आसताल्यो. घोड्याचे लांबसडक केंस दुसऱ्या कळकीच्या पट्टेर बांदून ताची घासणी करताले. घासणेक सकल चाळ बांदिल्ले आसताले, हें वाद्य खांद्याक तेकोवन ताचेर घोड्याच्या केंसाची घासणी व्हायोलिना सारखी फिरोवन या तंतू वाद्यांतल्यान एक सुंदर टणक असो आवाज

काडताले. खांद्यार तेकयिल्ल्या कोंकां वयल्या तारेर हें कलाकार हाताची बोटां फिरोवन अप्रतिम सूर निर्माण करताले. त्याच प्रमाण तें लोकगितांय गायताले. एका धृपदाचो ताचेर ठसक्यांत ताल बांदिल्लो आसतालो. मदी काणी, मागीर तो तालातलो ठेको परत परत वाजोवन हे डवरी पदांतली काणी हळूहळू फुडें व्हरताले. पदांचो ताल, ठेको, आनी सूर अप्रतिम आसताले. ते प्रामुख्यान पारंपारीक लोकगितांच गायताले. सामकें तल्लीन जावन. पदांतल्या कथेशी तन्मय जावन. अत्यंत सुंदर वातावरण निर्मिती जाताली. ते जीं कथा गायताले, त्या कथेंतलें वास्तव जशेंच्या तशें दोळ्या मुखार उबें रावताले. गिताच्या प्रत्येक धृपदाक घुंगरु बांदिल्ली घोळणी त्याच तंतूवाद्यार अत्यंत कलात्मक रितीन वाजोवन ते ताल धरताले.

आंगणांतल्या झाडांच्या सावलेंत भर दनपारां बायो-बाबडयो आनी कांय वयस्कर लोक विसाव्याक आयिल्ले आसताले. हे आयिल्ले डवरी जोशी तेवय मागीर सावलेंत बसकण मारताले. पदां गायताले. झाडाच्या सावलेंत ते चांगुणाची काणी पदांत रंगोवन गायताले. चिलया बाळाची कथा आशिल्लें पद गायताले. हीं गितां ते अत्यंत बहारदार पणान रंगयताले. तें आयकूवचें खातीर जमिल्ले बायलो-दादले अक्षरश: कळवळून वताले. चिलया बाळाक कापून चांगुणा ताची शागुती, आयिल्ल्या सोयऱ्याक जेवणात वाडता, आनी आपलें वचन पाळता. काणेंतल्या या प्रसंगार बायलांचे दोळे दुकांनी अक्षरश: डबडबून वताले. नाकाक पदर लावन दुकां पुसत तीं हुंदक्यांनी रडतालीं. या डवरी जोशींचो सुरेल ताळो, आनी कोंका वाद्याचो अतिशय सुरेल नाद हांचो मेळ इतलो अप्रतिम की, त्या सुरावटीच्या तालात लोक रंगून वताले.

याच भर दनपारां जोयशांच्यो बायलो 'शिंदोळ्यो, शिंदोळ्यो 'म्हणून वतांत आड्त आड्त हांगा हमखास येताल्यो. वतांत फिरुन फिरुन त्यो आमच्या आंगणांतल्या चिंचे झाडांच्या सावलेंत विसव घेताल्यों. केन्ना माथ्यावयली पाटी सकल दवरुन त्यो थंयच शिंदोळ्याची विक्री मांडताल्यो. तेच बराबर विजापूर वेशींतल्यो मुस्लीम अम्मा, भाजिल्ल्या मटनाचे चुनचुने, कपड्यांत गुठलायिल्ल्या चोब्यांत 'चुनचुने घे चुनचुने' अशें म्हणत विकूंक आयिल्ल्यो आसताल्यो. त्योय मागीर झाडाच्या सावलेंत चूनचूने विकपाचें दुकान थाटून बसताल्यो. अशा या गोतावळ्यान आमचें आंगण फुलून वतालें. वयल्यान चिंचेचें अगडबंब झाड, हें सगळें लक्तूबायेन पळयतालें.

वसंत रुतूंत आंगणांतल्या जांबळांच्या झाडांक फुलां येताली. झाड फुलान बावगोवन वतालें. वर्शा रुतूंच्या सूरवातेक जांबळां धरतालीं. जांबळांची टपटप सुरु जाताली. ऐन वसंतात आंगणांतलें इंग्लीश चिंचेचे झाडय फुलपाक लागताले. पंदरेक दिसान पांचव्यो तन्न्यो चिंचो दिसूंक सुरवात जाताली. जून उजवाडलो की, तांबड्या-पांचव्या इंग्लीश चिंचांनी झाड लवंडून वतालें. आंगणांतल्या या झाडार मागीर शेवण्यांची जणू जात्राच

भरताली. किरांचे थवेच्या थवे जमताले आनी वस्तेक हांगाच रावताले. देखून उंचार घोणीं निर्धास्त पणान घोंटेर बांदतालीं, चिमण्यो, कावळेय हक्कान खांद्या-खांद्यार वस्ती करुन हांगाच रावताले. भटक्या जमातीन रानांत येवन वस्ती केल्ल्या सारखें.
म्हज्या आवयन एक कोकें लायिल्लो उंच कोंडो करुन दवरिल्लो. ती स्वत: झाडाच्यो चिंचो काडताली. एका पिशवेंत त्यो चिंचो भरुन दवरताली.शाळेमुखार चिंचारे, चिंचो विकपी लोक आवयकडेन येताले. जमयिल्ल्यो चिंचो कांय रकमेक विकत घेवन चताले. वस्तेंतलीं भुरगीं पडिल्ल्यो चिंचो पुंजायतालीं. शेवण्यांनी उश्टायिल्ल्यो चिंचो टपकन्न सकल पडताल्यो त्यों खावपाक भुरगीं झाडा सकल घुटमळताली. ह्यो चिंचो खूब प्रमाणांत जाताल्यो, सुमार तीन चार म्हयने भार आसतालो. आमकां चिंचो विकून कांय पैशे हमखास मेळताले. ह्यो चिंचो विकून आवयन अर्द अर्द तोळ्याच्यो दोन भांगराच्यो मुद्र्यो केल्ल्यो. आमकां अपुर्बाय दिसताली. अशी आई काटकसरी आशिल्ली.
झाड खूब पोन्ने आशिल्लें. ताची पिराय देवाक खबर, कितले गिमाळे पावसाळे ताणे सोसलात तें झाडच जाणा. पुराय वस्ती या झाडाक जणू देव मानताले. श्रावणांत कित्येक झोपाळे या झाडाक बांदताले. भुरगीं बाळां उंच उंच झोके घेतालीं. पिंगा खेळतालीं. झोक्याचीं सर्तय लागताली. हांव तर झोक्यांचो मालकच आशिल्लो. झोपाळ्यार बसून अडून रावतालो.
मे जुनाक केन्ना केन्ना व्हडलो झडमोडो येतालो. चक्रिवादळां मळबांत धुल्लाचो गोल पीळ धरतालीं. अर्द तास भर वावटळ सगळी वस्ती धूवन काडताली. पन्हाळी पत्रे, सुकूंक घातिल्ले कपडे तशेंच हेर कांय हगूर वस्तू मळबांत उंच हूडताना दिसताल्यो. आमच्या दारांतले झाड मात बळकट आशिल्लें. तें वादळ वाऱ्याक भिनाशिल्लें. वादळा कडेन सर्व शक्तीनिशी चार हात करताले. ताच्या मुळापसून खांद्यां मेरेन बळ एकवटून तें झूंज दितालें.वादळांत झाडांचो अतिशय भयानक आनी सूंसूं आवाज जायी. त्या आवाजान आमी भिवन वतालीं.
अशीं कित्तेक वर्सा गेलीं. झाड आपल्या जाग्यार पांय रोवन दमदार पणान उबेंच आशिल्लें. एका वर्सा एक भयानक वादळ परत नेम धरुन आमच्या दिकेन आयलें. आख्खो आसमंत धुल्लान माखून गेलो. मूखाल्लें कांय दिसना; वादळवारो इतलो भयानक आनी वेगवान आशिल्लो की, मनीस हूबून वतात कांय कितें अशें दिसतालें. चार पावलांय चलूंक येनाशिल्लें. इतल्या ताकतीन वारें व्हांवतालें. वेळ देंवत्या वताची आसली, अवकाळी पावसाच्या दिसांत आयिल्लें हें वादळ, वीसेक मिनटां तिगलें. आंगणांतल्या या झाडान सदां भशेन संपूर्ण शक्तीनिर्शी या वादळाक झूंज दिली. पूण दुर्देव अशें की, ह्या वेळार मात तें झाड त्या वादळा मुखार तग धरुं शकलें ना. त्या राक्षसी वाऱ्याच्या तडाख्यान अखेर झाडान आपलो जीव सोडलो. दारांतल्या आंगणांतच

प्रचंड कडकडाट करत झाड अखेर उन्मळून पडलें. भयानक दृश्य आशिल्लें तें. झाड इतलें शाणे की, आसपासच्या खोपींक वा एखाद्या घराकय सादो तडोय येवंक दिलो ना. भोवतणच्यो खोपी केन्नाच वादळाच्या भकीक पडिल्ल्यो.
आपलो आक्राळ विक्राळ देह उडयत आमच्या घरा मुखाल्ल्या आंगणांत मृतवत कोसळून झाड शांतशांत निपचित पडलें. झाडार वस्ती केल्ल्या अनेक शेवण्यांची घरां कस्पटां समान उधळून, विस्कटून गेल्लीं. झाड म्हजे कडेन जणू दीनवाणे पळयत जीव सोडता काय? अशेंच माका दिसतालें! उन्मळून पडिल्लें तें झाड पळोवन आवय तर हवालदील जाली. घरांतल्या खंयच्याय वडील मनशांचें मरण जालें अशेंच आमकां दिसलें. आनी एक मरणाची अवकळा आंगणभर व्यापून उरली.
म्हज्या दोळ्या मुखार झाडाची जणू जीवनगाथा तरु लागली. दोळे दुकांनी भरुन आयले. खोडा कडेन वचून हांये झाडाक वेंग मारली, आवयल्या दोळ्यांतय आंबाडे भरिल्ले, तिकाय दाटून आयिल्ले. तिणे स्वत:क आनी माकाय सावरले. चरुंक गेल्लीं शेवणी सांजवेळार झाडाकडेन परतूं लागिल्लीं.चिमणी, कावळे, घोणी, कीर हांची वस्ती तर आतां भकास जाल्ली, हीं सगळी कुटुंबा बेघर जाल्ली. आतां तांका दुसरो आसरो सोदूंक जाय. कितल्या शेवण्यांचे संसार या झाडान फुलयिल्ले? सगळें आतां भकास जालें.
दारांत आतां लख्ख जीवघेणे वत पडतालें. घरावयली सावली कायमची हूडून गेल्ली. हाचे फुडें दारांत, आंगणांत वत थैमान घालतलें. इतलें दीस थंडगार सांवलेत आयुश्य घालयलें, आतां त्या प्रचंड झाडाच्या सावले विना कोण आनी खंय चांगुणा, चिलया बाळाची कथा गायतलो? एक झोको असो कायमचो मळबांतच गेल्लो... परत न येवचे खातीर.
कांय दिसा नंतर त्या झाडाची विल्हेवाट लायली गेली. झाड मारचें काम पुराय जालें. बैलगाडेंतल्यान झाडांची लाकडां, लोळगे, जणू अस्थीविसर्जन करची, तशीं वखारींत धाडलीं. त्या लाकूड फाट्यांचेय बरेंच पैशे मेळ्ळें. झाडाचो असो अंत जालो. आंगण निवळ झाडून घेतलें. आंगणांत आतां उजवाडच उजवाड आशिल्लो. आरपार दोळ्यांत घुसपी. पयलीं झाड रातचें चान्न्याचो एक कणय सकल आंगणांत गळूं दिनाशिल्लें. पूनवेंतय झाडां सकल दाट काळोख पडिल्लो आसतालो. आतो रातीन, चंद्राचे जणू दूदच सांडला अशें दिसतालें. झाड गेलें तरी, कितें तरी आमकां दिवनच गेलें. आतां सदां रातीन चान्न्याचो अनमोल खजिनो आमकां दर्शना खातीर उक्तो जाल्लो. दर पूनवेक चांदीचो लख्ख उजवाड आंगणभर पातळूक लागलो.

***



७.

पंदरेक दिसांत पावस येतलो. रोहिणी नक्षत्राची सुलूस, मळबांत आयिल्ल्या मोडान लागिल्ली. पावसाचें मिर्गा नक्षत्र, गडगडाट, जोगलांचो कडकडाट, केन्ना केन्ना गारांचो वर्शाव आनी धो धो पावस, अशें रोहिणी आपलें रुप दाखयतालें. रोहिणी पडल्यो की, या वर्सा पावसाळो फावोसो आसतलो अशें लोकांक दिसतालें.

आवयन घराची डागडूजी काडिल्ली. पावसाळ्यांत घर खूब गळतालें.वण्टीत शेळ येताली. नळ्यांतल्यान उदक मदल्या वण्टीत झिरपताले. गळक्या पत्र्यांतल्यान पावसाचें उदक टपटप जातालें. देखून आवयन घराची डागडूजी काडिल्ली. या वर्सा पत्र्यार मातेचो थर दिवचो असो आवयलो विचार आशिल्लो. वस्तेंतले लोक म्हणत 'समाबाइ लयं इगतखोर, शिटूक, येळच्या येळार कामं उरकून घेण्यात पटाईत.' तेका लागून घराच्या कामाचें स्वागतच जालें. आवयन बापायकडेन चर्चा केली. आमचे शेजारच्या भिवऱ्या मांगाक तें काम दिलें. ताणे खंयच्यान तरी माती हाडली. आडव्या नळाच्या उदकान ताचो चिखोल करुन तो पायान बरो मस्तीयलो. खोऱ्यान तो चिखोल सकल वयर केलो. मागीर चिखलाच्यो मोठमोठाल्यो विटो करुन आंगणांत ओळीन सुकोवंक दवरल्यो. दोन दिसांनी विटो परतियल्यो. परत दोन दिसांन ताणे चिखोल

मस्तीयलो आनी घरा वयले सगळे पत्रे सकल काडून दवरले. कांय पत्र्यांची चाळणच जाल्ली. अजून तीन पत्रे लागतलें अशें ताणे सांगले. बापायन मंगळार बाजारांतल्यान पोन्नेच पूण घटमूट तीन पत्रे हाडले. मागीर पत्र्याची आलट पालट करुन बापायच्या मदतीन भिवऱ्या मांगान घरार पत्रे दाळून घेतले. पत्र्या सकल आडसर सरकियलो, आनी मागीर मदल्या वण्टीर भिवऱ्या मांगान नवीनच पाखें घातलें. पांखें घालताना पत्र्याचें तुकडे विटां सकल दवरले. आनी पाखें घटमूट केलें. हेर वण्टीची बी डागडूजी केली. दुरुस्तीचें काम पुराय जालें. भिवऱ्या मांगाची मजूरी दिली. पोन्नेच घर आतां नवें दिसूंक लागलें. घरांत आमचोच आवाज आमकां नवो, खणखणीत लागू लागलो. मातशें उलयलें की, आवाज पाजळिल्ल्या भशेन नवो जाणवतालो. सगळें काम जालें. आवयन हळडुवी-मुलतानी माती हाडून घर रंगोवन घेतलें. जमिन शेणान सारोवन आंगणांतय शेणाचो शिंतोडो घातलो. आंगणांत घराच्या वण्टीक लागून एक सुंदर सोपो बांदिल्लो. तोय शेणान सारयलो. आतां आमचें घर सगळ्यांत उजळ जाल्लें. सावकाराच्या घरा सारकें.

आमचें घर पळोवन वस्तेंतल्या शेजार पाजारच्या मांगानीय घराच्या डागडूजीचो घाट घातलो. कोणे खोपीं शींवन घेतल्यो. कोणे लोदीं लोकांक नव्या खोपींची ऑर्डर दिली, कोणे भिवऱ्या मांगाक आमचेंय घर अशेंच करुन दी म्हण गळ घातली. भिवऱ्याचो भाव वाडलो दरवर्सा भिवऱ्या मांगाक अशें काम मेळटालें.

पावसाळो चार दिसार आयिल्लो. सदांच पावस सामको वेळेर पडता अशें नासता. पूण आवय म्हणताली, सात तारखेक मीर्ग लागताच. म्हण आमी पावसाची खोटी वाट पळयताले.

म्हजो बापूय सदां सांजेर नव्या सोप्यार मांजरी घालून थोडो वेळ निवांत बसतालो. आंगणांतल्यान येवपी वचपी 'रामराम मास्तर 'म्हण बापायक नमस्कार करताले. काळोख पडूं लागलो की, बापूय घरांतली चिलीम, छापी, काडतालो, कनवटेक खोयिल्ली गांजाची पुडी काडून उदकाची वाटी घेतालो, आनी पयली तळहातार गांजो घेवन तांतूलो कचरो, काडयो वेंचून उडयतालो. विंचून जालें की तळहाता वयल्या गांज्याच्या पाल्यांत थोडें उदाक उडोवन उजव्या आंगठ्यान तो गांजो मळतालो. मळून मळून गांजो सकल वयर करतालो. मागीर दोनय हाताच्या मर्दी तो घेवन दाबून तांतूतले उदाक गाळून उडयतालो. तेगेली एक दोन नित्याची दोस्त मंडळी या वेळार आयिल्ली आसताली. गांजेकस दोस्त मंडळी तीं, एक आकुसा, आनी दुसरो इसवान. सिद्राम जाधव मास्तरा बरोबर आपूण सदां गांजो ओडता, हाचो तांका अभिमान आशिल्लो. बापूय तसो कोणाक लागी करिनासलो. मात या तिगांची दाट इश्टागत आशिल्ली. गांजो मळून जालो की, मागीर नाल्लाच्या सुंबाची वात करताले.

ती हळूच पेटयताले. फुंकून फुंकून ती वात तांबडी भडक जाताली. जणू कोळशांचो इंगाळोच. मागीर चिलमीतलो एक खडो भायर काडचो तो वोगीच पुसलोसो करचो, चिलिम बोतरान पुसून घेवची, आनी पयलीं भितर खडो उडोवचो. मागीर तो मळिल्लो गांजो धुकलचो. चिलमीत गांजो दाबून भरचो. त्यानंतर तो वातीचो तांबडो इंगाळो हळूच ताचेर दवरचो, आंगठ्यान धुकलत तो भीतर चेपचो. जळिल्ल्या सारखे दाखोवन आंगठ्यार फूंक मारची. वातीचो तो जळतो इंगाळो तांका कसो हुलपना देव जाणा. ही सगळी प्रक्रिया जाली की, चिलिमी सकल छापी ओली करुन फाफडून गुटलोवची. हाताच्या बोटाची खाशेली रचना करुन 'जय भोले शंकर 'असो जयघोश करचो. हेरांनी मागीर 'रामराम 'म्हणून चिलिम ओडतल्यांक साथ दिवप. चिलिमीचो एक प्रदीर्घ दम मारचो, सुरवातेक चुक-चुक-चुक करुन शेवटाक एक व्हडलो दम घेवचो, आनी नाका तोंडात भरिल्ल्या धुंवरान उलयत चिलिम दुसऱ्याक दम मारचे खातीर दिवची. अशी आळीपाळेन चिलिम ओडप चलताले. हें सगळें हांव शांत पणान पळयत रावतालो. गांजो ओडले नंतर बापायले दोळे तांबडे गूंज जाताले, तारवटताले, गांज्याच्या धुंदेतच ते उलयताले. ते वेळार तांचो आवाज घोगरो येतालो. केन्ना केन्ना गांज्याचो धुंवरट भपकारो आमच्या तोंडार ते सोडताले. कारण या भपकाऱ्यान खोकली येना अशी समजूत आशिल्ली.
गांजो ओडून जालो की, पाचेक मिनटां शांत रावताले. जणू मदलो विसावोच. मागीर आकुसा शर्टाच्या भितरल्या बंडेतली बाटली हळूच काडतालो. तो मरेन आवयन तीन ग्लास कट्ट्यार हाडून दवरिल्ले आसताले. बाटलेचे बूच काडून ती पयल्याच धारेची आसा अशें तिचें वर्णन करत आकुसा ग्लासांत सोरो ओततालो. मागीर दरेकलो आपापलो ग्लास उकलून. तातूत बोट बुडोवन देवाकडेन फापुडताले आनी परत एकमेकांक 'राम राम' म्हणून ग्लास एका दमात रितो करताले. आमच्या आवयक हो सगळो मामलो खबर आसतालो. चुलीर रटरट शिजपी शागुती आपल्या अस्तित्वाचो दरवळ चोंयवटेन पातळताली. किलो देड किलो मटण. अळणी मटणाचें पांच स तुकडे एका ताटलेंत दायीन काडून बापायच्या त्या उगड्या बारार आवय हाडून दवरताली. ते उपशिल्ले अळणी मटणाचें तुकडे पिवपी आवडीन उखलून रुचीन चाबून चाबून खायत, तांका लागिल्ल्या समाधीचो अत्यानंद घेताले. दोन तीन पेग जाले नंतर ते बडबडू लागताले, आकुसा आनी इसवनाथ मागीर उठून बापायक 'राम राम' कन्न हालत, धोलत, लकत, आपापल्या घरा कडेन वताले. आता बापूय एकटोच बशिल्लो, फुल्ल जाल्लो ताका मागीर चडच बडबड सुट्टाली. आमच्या घरा शेजरा कोंडा आनी पुतळा ह्यो दोन विधवा रावताल्यो. त्यो बोरां, ढाळे, पेरां हंगामा नुसार फळां विकून गुजराण करताल्यो. तशो त्यो तरनाट्योच आशिल्ल्यो. देखून अदी मदी कोणी अण्णा, मामा,

अशे सोयरे तांचेकडेन येवन वताले. हें बापायक अजिबात आवडनाशिल्ले. बापूय मागीर सर्व तयारी निर्शी झगडपाच्या पवित्र्यांत देंवतालो, वस्तेंतल्या कोले वयल्यान त्या दोगांकय सामक्यो वायट वायट गाळ्यो घालतालो. भुरशें भुरशें उलयतालो. माका ते बिलकूल आवडनाशिल्लें. अशा वेळार बापूय भानारच नासतालो. या प्रकरणान माका शरमेल्ल्या सारखें जाताले. बापूय इतल्यो वायट गाळ्यो घालतालो की, त्यो आयकूवन ओंकूक आयिल्ल्या भशेन जातालें. गाळयांत सगळया अवयवांचो उल्लेख तो स्पश्ट पणान करतालो. माका त्यो गाळ्यो कळ्ळ्यो. वळखीच्यो जाल्यो. म्हज्या शब्द कोशांत ताणी आपापलें स्थान मांडून दवरले. पूण माका मात त्यो गाळ्यो केन्नाच उच्चारुंक आयल्यो नात. दुसऱ्याक गाळ्यो दिवप तर सोडाच, पूण बापायल्यो खंयच्यो गाळयो फामाद आशिल्ल्यो त्योंय हांव तोंडान उच्चारुन सांगूक शकलो ना. त्यो बाबड्यो गाळ्यो म्हज्या मना भीतरच रावन रावन मरुन गेल्यो.

कोंडा आनी पुतळाचो कार्यक्रम जालो की, बापूय मागीर आवयकडेन येतालो. कितें तरी उणे दुणे उलयतालो, मागीर आवय भडकताली. त्या दोगांयचेय मागीर तुंबळ वागयुद्ध जातालें. आमकां हें सगळें सदांचेंच जाल्ले.आनी ते मुळे, आमी वैतागून गेल्ले. पूण उदकाचो नळ अकस्मात बंद जावचो तशें एकाएकी तेंचे झगडें थांबताले. हो कसलो प्रकार? हेच माका कळनाशिल्लें. मागीर आवय ताटां मांडताली. ताटां म्हणल्यार जर्मनच्या ताटलेंत मटण वाडून, हातार दोन तीन भाकरी दिताली. उदकाचो तांब्यो बाजून भन्न दवरिल्लो आसतालो. जोडीक दोन तीन कांदे. बापूय एका मुठेत कांदो फोडतालो. दोनी हातांनी तळव्यांत कांदो धरुन पिळतालो. कांद्यातलें उदक टपटप गळताले. अशें केल्ल्यान कांद्याची तीखसाण कमी जाता अशें मानत. ताटलेंत भाकरी चुरुन वयल्यान मीठ उडोवन केन्ना केन्ना ओगीच चिमटी भर चटणी उडोवन धुंदेत यथेच्छ ताव मारतालो. असो हो जेवणाचो थाट. मटण नासलें की, त्या दिसा झगड्याचो वेगळोच विशय आसतालो. 'असलें पचक जेवण घाल पेटयाक 'म्हणून बापूय ताट धुकळतालो. 'पचक जेवण घालून माका मारुन उडोवचें आसा?' अशेंय वयल्यान म्हणतालो. तो मेरेन इस्मायल आपल्या सायकलीर भोगाण्यांत मटण घेवन आड्डत विकपाक आयिल्लो आसतालो. रोखडोच बापूय ताका आपोवन ताटात चार दायी मटण वाडून घेतालो. पैशे दिवन ताका धाडतालो. तेन्नाच ताचे पोट शांत जातालें.

बापूय धुंदेत आसलो की, वस्तेक केन्नाच बरें म्हण नाशिल्लो. ताका किते किते भोगचें पडिल्लें, आनी कसलें वायट अणभव आयिल्लें तें, तेजे तेकाच खबर. पूण बापूय सतत वस्तेक दोश दितालो. मांगाक ते, 'मांग आनी भलतीच खबर सांग' अशें कुत्सीत पणान म्हणताले. 'गांवावयल्यान वुवांळून उडोवन दिल्लो मांगवाडो 'अशींय तो वस्तेची

अवहेलना करतालो. आयुश्यांत तेका नक्कीच कसलोय तरी वायट अणभव आयिल्लो आसूंक फाव. देखूनच ही कोडसाण ताच्या मनांत कायम आशिल्ली.

आमी आवय-बापाय कडल्यान आयकल्ली एक घडणूक. ही मांग वस्ती तेन्ना मुरारजी पेठेंत आशिल्ली. थंयच्यान तीं हालोवन बुधवार पेठेंत वसयली.मुरारजी पेठेंतल्या मांग वस्तेतली ही गजाल. या मांग वस्तेंत एक पावटी डॉ.बाबासायब आंबेडकर भेटेक आयिल्ले. म्हार वस्ते लागीच पोन्न्या तक्या कडेन बाबासायबांची एक जंगी सभा जाल्ली. 'महाड चवदार 'तळ्याच्या उदकाच्या आंदोलनाचें ते दीस आसूयेत. या खातीर डॉ. बाबासायबांच्यो खूब कडेन सभो जातात्यो, तातलीच ही एक सभा. ते वेळार डॉ. बाबासायबांचो भव्य सत्कारय केल्लो. ते वळार कांय मातंगानी बाबासायबांचो मांग वस्तेंत सत्कार करचो अशें थारयिल्लें. कांय म्हालगड्यांनी मांग वस्तेत वचून बाबासाबांची प्रत्यक्ष भेट घेवन तशी विनवणीय केल्ली. भेट घेतिल्ल्या म्हालगड्यां मर्दी म्हजो बापूय, सिद्राम बाबाजी जाधव, म्हजो बापोलो केरु रामचंद्र जाधव, तशेंच हेर मातंग लोकांत रावत मास्तर, सौदागर कसबे, गुंडी महादू बनसोडे, रामा काळे, हे मुखेल मनीस आशिल्ले. बाबासायबांनी सत्काराचें आपोवणे स्वीकारलें, आनी येवचें कबूल केलें. सत्कार सांजेर आशिल्लो. थारिल्या प्रमाण डॉ. बाबासायब मातंग वस्तेंत आयले. पूण चडशे लोक जमले नात. ते वेळार म्हजो बापूय, तांचो इश्ट परिवार आनी कांय सवाशीण बायलोंच स्वागताक उब्यो आशिल्ल्यो. सवाशिणी बायलांनी बाबासायबांक वुंवाळलें. हारतुरें घातले. इतल्यांत अचानक खंयच्यान कोणाक खबर, घरार आनी आजूबाजून फातर पडूं लागले. कोणतरी असंतुश्ट मंडळी फातर मारताली. मांगा-म्हारांत इतली तेढ, इतलें वैर कित्याक हें कळनासलें. प्रस्थापित चातुर्वर्ण्यांचो घट्ट पीळ सोपें पणान सुटपाचो नाशिल्लो. फातर उडोवप चालूच आशिल्लें. प्रसंग कठीण आशिल्लो. स्वागत समितीच्या या मंडळीनी प्रसंगाचे गांभीर्य ओळखून डॉ. बाबासायबांच्या भोंवतणी गोल कडें केलें. आनी बाबासायबांक भितर सुरक्षित बसोवन दवरलें. या पांच स जणांनी जणू बाबासायबांचेर छत्रच उबारिल्लें. तेमी बाबासायबांच्या केसांकय धक्को लागूं दिलो ना. फातर उडोवपी मंडळी कोण आशिल्ली कोणाक खबर. पूण या संरक्षणान एक गंभीर प्रसंग मात टळ्ळो. म्हजो बापूय, बापोले आनी हेर मंडळी डॉ. बाबासायबांचे अनन्यसाधारण भक्त आशिल्ले. डॉ. बाबासायबांक या मंडळीच्या प्रेमान खूब बरें दिसलें. बाबासायबांनी तांका धन्यवाद दिले. सत्काराची सभा मात जाली ना. मात्र डॉ. बाबासायब आंबेडकरांनी या घटनेचो वृत्तांत तांच्या एका अंकांत प्रकाशीत केलो. या वृत्तान बाबासायबांच्या या भक्त मंडळींक खूब खूब बरें दिसलें. कदाचित या घटनेन आमच्या बापायर, बापोल्यार ही मंडळी तिडिल्ली आसतली, ते वेळार या पांच स जाणांक समाजान वाळींत उडयल्लें. समाजान जणू आमचेर

बहिश्कारच घातिल्लो. ताका लागून समाजाबरोबरचें आमचे सगळे संबंध, वेवहार पूर्णपणान सरिल्लें. बापायक ते वेळार खूब त्रास जालो. प्रचंड मनस्ताप भोगचो पडलो. समाजाशिवाय जगप मुश्किील जालें. रोटीबेटी वेवहारांतय अडचण आयली. इतलेंच न्ही तर बापायली मास्तरकीची नोकरीय गेली. बेकारेत घर कशें चलोवचें? बापायक कळना जालें. खूब हालाखीचें दीस आयले. सुमार दोन वर्सा अशा दळिद्र्यान पिचिल्ल्या, मनान खचिल्ल्या! अवस्थेंत दीस काडचें पडलें. ते नंतर मात दीस पालटले. समाजाक उपरती जाली. आमी करतात तें चुकीचें आसा, अन्यायाचें आसा, हाचो तांका पश्चाताप जालो. समाजान आमचे वयलो बहिश्कार फाटी घेतलो. बापायक मुनिसिपालटेंत शिपाय म्हणून नोकरेक घेतलें. तेन्ना खंय दीस बदल्ले. पूण बापायच्या मनांत समाजाविर्शी अढी कायम उरली. तांका भोगच्यो पडिल्ल्यो यातना आनी त्रास हाका लागून मांगाविर्शिचे मत हें अशें कोडसार जालें.

हें सांगताना आवय बोटां मोडून 'कुणी कुणी तरास दिला तीं मानसं मला म्हाइत हायती, त्यांचा रफू सफू झाला.' अशें म्हणताली. फुडें अशेंय म्हणताली, 'आमच्या डोळ्यांसमोरच तीं सगळी माणसे हातपाय सडून आन तडपडा व्हवून मेली, इथच फेड आसती.'

तर ही अशी आवय बापायची व्यथा आशिल्ली.

घराच्या देखरेखी कडेन बापायलें चडशें लक्ष नाशिल्लें. म्हयन्याचो पगार आवय कडेन दिलो की, ताचे काम सरले. मागीर सगळी जबाबदारी आवयनच उखलची. चडउणे आवयनच पळोवचें. कितें लागले बिगले तर आवयन चिर्चो वीक, शेणयो वीक, करुन खर्चाचो ताळमेळ घालचो. देवादयेन शीकपण चडशें नाशिल्लें. देखून तेजेर खर्चाचो प्रस्न नाशिल्लो. परब आसण आयली जाल्यार मात खर्च करचो पडतालो. सत्यनारायण पूजा, संक्रात, होळी, आनी दिवाळी ह्या शिवाय चडशो परबो नासताल्यो. कशेबशे सण मनयताले. श्रावणांत मात शनवार आनी सोमार उपास करचो पडतालो. श्रावण पाळचो पडतालो. तेन्ना म्हयनो भर घरांत शागोती नासताली. आमचे सारख्या दलितांक श्रावण म्हयनो खूब जड वतालो.

आवयले आनी एक खाशेले पण आशिल्ले. पोन्न्या वस्तूंचो संग्रह करची अजब सवय आवयक आशिल्ली. घरकामाक लागपी सगळ्यो वस्तू आमच्या मातोश्रीच्या गांठीक आशिल्ल्यो. व्हड पारय आसूं, व्हड दावल आसू, वा कुराड आसू. अशो वस्तू लग्न कार्याक उपेगी पडतात. या वस्तूंत ल्हान व्हड आयदनां, तपलें, भोगाणे, धापणे, काशाच्यो थाळ्यो, विटांचो साचो, शेवयांचो दातो, निसण, ताडपत्री, सोल, दोरी, मेज-मापाचो टेप, दाभण, खोरें कुदळ, चाव्यांचो घोस, करोंजीचें, शेवयांचे, चकलेचे दाते, बुक्को शेंदूर, दातवण, तपकीर, बिब्बे, अर्दी सुपारी कितें कितें म्हण सांगचें?

सगळें सगळें आवयल्या संग्रहाक आशिल्लें. सत्यनारायणाची पोथी तांबड्या बासनांत बांदून दवरिल्ली आसताली. बापूय पोथी वाचून पैशे कमयतालो. या सत्यनारायणाच्या पोथेची पानां आतां वापरुन वापरुन सूट्रन जीर्ण जाल्लीं. कोणी कोणी फकत पोथी घेवन वताले, आनी दुसरे दिसा सत्यनारायणाच्या प्रसादा बरोबर एक नाल्ल आनी सव्वा रुपय दक्षिणा म्हण हाडून दिताले.

इतलेंच न्ही, उगयताना आयिल्ले केंस, शागोतींतली खावन उरिल्ली हाडां, नळी हेवय घराच्या वयर पत्र्यार एका जाग्यार साठोवन दवरिल्लें आसतालें. चांबराच्यो बायलो म ोठी पोती घेवन हाडां विंचूक येताल्यो. त्यो बायलो हो केसांचो गुठलो आनी हाडां थोडे पैशे दिवन घेवन वताल्यो. वस्तेंत रद्दी वाले आनी भंगार वालेय आड्डत भोंवताले. आवय दर दसऱ्याक धुणे काडताली. बोतरा फाळके पसून ते लोखंडाच्या खोरें पारयी पसून सगळें सगळें उदकान धुवन पुसून काडताली.एकट्याले एकान पळोवन सगळी वस्ती दसऱ्याच्या धुण्यात गर्क आसताली.आडवो नळ दिमतीक आशिल्लोच.

वस्तेंत ते वेळार चडशें रोग नाशिल्ले. चुकून कांय रोगाची धाम येताली, दोळे येवप, खरुज जावप, वा खोकली, कोल खोकली अशें कांय रोग येताले आनी थारावीक तेपां नंतर वतालेय. नगरपालिकेचो दवाखानो काळ्या मशिदीच्या कुशीक आशिल्लो. पोन्नो, दवाखान्याच्या स्थापने पसून लिमये नांवाचे डॉक्टर हो दवाखानो सांभाळतालो. सामको गोरो, सडसडीत बांध्याचों आनी घाऱ्या दोळ्यांचो डॉक्टर नुसतें पेशंटाक पळोवन चिटेर वखदां खड्डून दितालो. तो चिटेर कितें बरयतालो ते केन्नाच कळनाशिल्ले. कंपावंडर वा पट्टी बांदपी हें डॉक्टराचे अक्षर कशें वाचताले हें एक कुवाडेंच आशिल्लें. दवाखान्यांत मोजक्याच वखदांचो साठो आसतालो.

१९५५ वर्सा, एकपटी देवीची धाम आयली. माका आनी म्हज्या धाकट्या भयणीक, दोगांकय एकाच वेळार देवी आयल्यो. फोडांनी आमी फुलून गेले. आमी आट-धा वर्साचे आसत. आवयन आमकां वेगळ्या हांतुळणार न्हिदयलें.तिणे खंयच्यान फुलां हाडली कोण जाणा? फुलांच्या शेजेर आमकां विवस्त्र न्हिदचें पडताले. आंगभर नुरतें फोडच फोड आयिल्ले. फोड दुकताले, पिकताले, फुटताले आनी मागीर चिकचिकीत जखम जाताली. देवीच्या जखमेक वखदां नाशिल्लीं. 'हो देवीचो कोप आसा, हाका खंयचें वखद?' अशें म्हणताले. फोडाक घरांतल्या देव्हाऱ्यातलो आंगारो लायताले. आंगार तेल लावन ताचेर हळद कुकूम उडयताले. फुटिल्ल्या फोडार हळद कुकूम पडलो की, आंगभर जळजळताले. हो असलो गांवठी इलाज. सकाळ सांज धूप धूपारो आसतालो. भश्टपणाची सारखी काळजी घेतली की, देवी रुश्ट जायना, अशी समजण आशिल्ली. आट धा दिसां नंतर फोडाची जखम हळूहळू खवली धरताली? दोनेक दिसांन खवली गळून पडताली. पूण ताचो माव मात कायम आसतालो. तोंडार,

पोल्यार देवीचे माव स्पश्ट दिसताले गोरो गोमटो चेरो विद्रूप जावन वतालो. कांय भुरग्यांक कुर्डेपणय येतालें.
आता पावसाळो आयलो की, धो धो कोसळतल्या पावसान सगळी वस्ती निवळ घूवन वताली. मांगवाडो देंवतेर आशिल्ल्यान चडावा वयलें, म्हार वाड्यांवयलें आनी वडार गल्लेंतलें पावसाचें उदाक गटार भरुन व्हांवत येतालें आनी तें थेट मातंग वस्तेंत पावतालें. उदकाक वाट करुन दिवची पडताली. पावसाळ्यांत कांय घरां कोसळताली, वण्टीक शेळ येताली, आनी शेळ आयिल्ल्यान एखाद्या घराची वणत पडताली. कोणय म्हातारे कोतारे तांतूत शिरकताले. अशे जालें की, लोक बोंबाबोंब करत माती उपसूंक लागताले. मार्तेत शिरकल्ल्या मनशांक तशें चडशे लागिल्लें नासताले. पूण ओगीच गोंदळ जातालो. वस्तेंतलीं घरां कोसळून कोणच मेल्ले नात. मुळांतच हीं घरां मोटवीं. देखून घर कोसळपाचो प्रस्नच उद्‌भवनासलो.
आडवो नळ पावसाळ्यांत तर तुडूंब भरुन व्हांवतलो. कांय फोंडकुलां उदकान भरुन सतत तुंबून उरताले. बेब्यांचो सामुहिक आवाज सतत घुमतालो. पावसाच्या उदकान कांय भिणांतल्यान सर्पय भायर येताले. बरेच सुवातेर विच्चूय दिसताले, तांका मारचें नवें काम सुरु जाताले.
अकरा नंबर शाळेची अशीच एक पावसाळ्यांतली याद, सोलापुरांत चडसो पावस पडना. खंयचें तरी नक्षत्र एकाएकी शाराक झोडपून काडताले, मागीर सगळे कडेन उदकच उदक, चिकोल, दलदल. गटार परत नव्यान धूवन वताले. सम्राट चौक ते पांजरपोळ चौक हो एकसुरो डांबरा रस्तो, तोय पावसान धूवन काळो कुळकुळीत जातालो. दोन तीन दीस मळबांत मोडां मुक्कामाक रावतालीं. देखून सूर्य दर्शन जायनाशिल्लें. दीसभर सतत काळवटून आयिल्ल्या सारकें आसतालें. चडशें हें आशाड म्हयन्यांतच जातालें. श्रावणांत मागीर वत-पावसाचो खेळ सुरु जातालो. पावसाच्यो धारो झडताल्यो.
पयलींच सगळे कडेन पांचवेचार तण हांतुळिल्लें, मागीर श्रावणांत ताचेर हळडुव्या वताचो शिंतोडो पडतालो. कितलें सुखद आनी रम्य दिसतालें! अदून मदून पूर्वेक इंद्रधोनूचो सप्तरंगी अर्दगोल येतालो. वड्डराल्या वस्तेक तोन्न बांदिल्ल्या भशेन.
एका आशाढांत असोच सांजेर पावस कोसळतालो, धुवांधार, चोंयवटेन काळोखच काळोख. मोडां इतलीं सकल आयिल्लीं की, वयर चडून तांका हात लावचो अशें दिसतालें. हांव तेन्ना वर्गात आशिल्लो. वर्ग गळक्या नळ्याचो आशिल्लो देखून सगळीं भुरगीं एका कोनशात जमिल्लीं. शाळा सुटूंक वेळ आशिलो. भायर पावस धो धो कोसळतालो. या पावसांत भुरगीं घरां कशी पावतली, होच प्रस्न आशिल्लो. हांव कुलकर्णी मास्तरा म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो. इतल्यांत वर्गाच्या दारांत एक बायल

सागाची खोल माथ्यार घेवन धो धो पावसांत भिजत आयली. तिज्या हातांत एक पोन्नी सत्रीय आशिल्ली. मास्तारान 'कोण जाय? अशें तिका विचाल्लें. मजा म्हणल्यार तीं म्हजी आवयच आशिल्ली! तें जाडें भरडें म्हेळें कापड, आनी पांय अनवाणे. माथ्यार ती सागाची खोल, तिका पळोवन माका कशें तरीच जालें. आवयन अशें येंवंक नाका आशिल्लें, अशें दिसलें. त्या वयांत वर्गींच तो माका अपमान कसो जालो. आवयक पळोवन कुलकर्णी सरांन माका, 'चल रे जाधव, तुजीं आई आली बघ 'अशें म्हणून माका वचपाची परवानगी दिली. हांव पुस्तकाची पिशवी खांद्याक लावन भायर आयलो, भायर आयले बराबर आवयचेर जाम तिडकलो, तूं अशा अवस्थेंत आयलीच कित्याक, म्हणून सगळ्यांक कितें दिसलें आसतलें? अशें म्हणून तिजेर तापलो. म्हजें अशें तापप आवयक आवडलें ना. तिणे सांगलें, 'अरे लक्षू, म्हजो जीव रावना जालो, शाळा सुटची वेळ जाली, आनी हो दुधारी पावस पडूं लागलो, पुता, म्हजो जीव कसो थारतलो? म्हणून आयलें. मागीर हांव गप्प बसलो. सत्री उघडली, तीं तीन कडेन पिंदिल्ली, आनी थिगळां लायिल्ली आशिल्ली. कसोबसो घरा पावलो. घरा पावल्या नंतर पावसय थांबलो. हटवादी पावस.

वस्तेंत चार पांच नामवंत वयस्कर पोतराज आशिल्ले. तांची भुरगींय पोतराज परंपरा सांभाळटाली. तशेंच हलगी वाजोवपी बरीच घरां मांगवाड्यार आशिल्ली. कोणाच्याय मरणाक अपसूकच जमताले. केन्ना आपखोशेन पैशे घेनास्तना हलगी वाजयताले. आशाढांत हलगी वाजोवपाचें काम जोरांत आसतालें, चार पैशे चड मेळटाले.

आमच्या शेजारचो लंगडो शामू मेल्ले जनावर ओडून व्हरचे काम करतालो. वस्तेक लागून आशिल्ल्या मेकळ्या मळार तो जनावर कापतालो. आनी तातल्या मांसांचे वाटे करुन वस्तेंत विकतालो. एक आण्याक एक वाटो, मेल्ल्या जानावराच्या कातीकय बरो भाव मेळटालो. गायचीं वा बैलाची कात हलग्यो करुंक वापरताले. लंगडो शामू जनावराची सोलिल्ली कात मराप्पा पोतराजाक विकतालो. मराप्पा पोतराजालें घर आमच्या घरा लागूनच आशिल्लें. मेल्ल्या जानावराच्या कातीक मराप्पा चुनो फासून तें सुकोवंक दवरतालो. एक दोन दिसांन तें परत उदकांत भिजोवन चिरो वा खाणके फातरान तीं कात घासतालो. या फातरान घासून घासून कातीं वयले केंस काडून उडयतालो. हें काम चालू आसलें की, खर घाण दर्प चोयवटेन फाकतालो. आतां शेजारच आसो आशिल्लो तर आमचो नाइलाजच. कात घासपाचें काम एकदोन दीस चलताले, कातीचो बरो पदर तयार जातालो, मागीर तें हलगी मडोवंक उपेगांत हाडताले.

कासारा कडल्यान मराप्पा लोखंडाचे गोल कडें तयार करुन हाडतालो.हलगेच्या मापाची कातडी त्या कड्यार ताणून बसयतालो. कातडेचीच एक दोरी कापून दाभणान

शिवन ती दोरी कड्या भोंवतणी घट्ट ओडून बांदतालो आनी कातडेक बरो ताण दितालो. अशा तयार जातल्या हलगेचो नाका जाल्लो वांटो कात्रेन कापून उडयतालो. एका जानावराच्या कातडेत साधारण दोन ते तीन हलग्यो तयार जाताल्यो. कातडेच्या दोरेचें सूत दाभणांत गुतून हलगी घट्ट शिवन घेतलो. ही जाली ओली हलगी. अशो हलग्यो वतांत सात आट दीस सुकोवंक दवरताले. नंतर उज्यारय त्यो शेकयताले. मागीर हलगी कडक जाली की, विकूंक तयार. पंदरा दिसांतल्यान दोन तीन हलग्यो तरी मराप्पा पोतराज सहज तयार करतालो. एक हलगी आट ते धा रुपयाक तो विकतालो. बरी कमाय मेळताली. पयस पयसल्ले मांग मराप्पा कडेन हलगे खातीर मुजरत येताले. हलगे बरोबर तो बेताच्यो बडयोय करतालो. मराप्पाच्या हलगेचो ताल, खणखणीत आवाज कांय औरच आशिल्लो. हलगी पुराय तयार जाय मेरेन आमच्या घरांत मात तो जीवघेणो वास आमकां सोसचो पडतालो.
वयले आळीत आनंद देवकुळे, संदीपान कांबळे, लक्ष्मण भिसे, हें पोतदार रावताले. तर सकल्ल्या आळीत, मराप्पा पाटोळे, मुरला भिसे, मनुहार डोलारे, अशें नामांकीत पोतदार आशिल्ले. आंगा भोवतण आबरान बांदून, तोंडाक शेंदूर फासून, पांयात कडें आनी चाळ घालून पोतराज नाचताले. तांचो नाच बीभत्स आसतालो. हातांत आईचो चाबूक. आपल्या आंगा भोवतणी ताचो चपकारो मारुन घेताले, आनी आक्राळ विक्राळ नाचताले. मरिआईची धूपारती म्हणताले, ती तांका पाठ आसताली. लिंबाचो पालो, लिंबू ,नाल्ल, धंय, दूद, हांचो सर्रास वापर जातालो. सवायशिणी माथ्यार भरिल्ली उदकाची दोड, चरवी घेवन, कपलार कुकमाचो मळवट भरुन मिरवणूकेंत थाटांत मरिआईच्या दर्शनाक वताल्यो.
आशाढांत म्हयनो भर सदां सवायशिणी घेवन देवीक नैवेद्य दाखोवपाचे काम पोतराज करताले. हलगी, सनय, या वाद्यांची धांदल आसताली. हां हां म्हणता आशाढांतलो तो अखेरचो शुक्रार येतालो हो शुक्रार म्हणल्यार पोतराजालो सामको धामधुमीचो दीस. आख्खी मांग वस्ती या दिसांत व्यस्त आसताली. घरोन घर लिंबू, नाल्ल, नैवेद्य, लिंबाचो पालो आनी तांब्यो भर उदाक घेवन मरिआईच्या दर्शनाक वचपाची गडबड आसताली. मांगांची ही वर्सुकी परबच आसताली. खंय तरी एखाद्या घरांत, नव्या पोतदाराचो संकल्प सोडताले, ताका गुरु, पोतराजाची दीक्षा दिताले. आशाढांतल्या अखेरच्या शुक्राराक मरिआईक वाजत गाजत वचून, दर्शन घेवन, आशाढ म्हयनो मनयलो वतालो. सगळे पोतराज सकाळीच आबरान नेसून तयार जाताले.
तो दीस आशाढांतलो अखेरचो शुक्रार आशिल्लो. मिरवणूके खातीर सकाळीच पोतराज तयार जाल्ले. वस्तेतल्यो बायलो नटून थटून नैवेद्य नाल्लां सयत कोळशांत वा दोडीत उदाक भरुन त्यो माथ्यार घेवन सवायशिणी म्हणून सज्ज जाल्ल्यो. हो

एक मांगवाड्यांतलो आनंदोत्सवच. मरिआईच्या कोपापसून वस्तीवाडें वाचूंक जाय, बायलां भुरगीं वाचूंक जाय म्हण आंगवण करताले. आख्खी वस्ती पोतराजा बरोबर मरिआईच्या पायार उदक घालचे खातीर उतावीळ जाल्ली.
सदचे प्रमाण हांव, वश्या, आज्या पंगडान वताले. सकाळचें अकरा वाजिल्ले. लक्ष्मण पोतराजान, 'चला, चला तडव जातलो 'म्हणून हाकारो दिलो. नागामामा आनी सटवा मोहित्यांन सनईचें सूर केन्नाच लायिल्ले. भिवा आनी पांड्यान आपापल्यो हलग्यो जळवार धरुन कटकटीत करुन घेतिल्ल्यो.नागामाम सनय उंच धरुन 'चला, चला 'असो आवाज सनईतल्यान काडतालो. आपलो पोलो फुगोवन गोविंद सुऱ्यान लांबलचक सूर कायमचोच तोंडांत धरिल्लो. आख्खो पोतराजांचो सुवाळो दर्शनाक सुटिल्लो. सगळ्या मांगवाडयाक उधाण आयिल्लें. शंभर डफडी एकच घाई.
पोतराजांची मिरवणूक सुरु जाली, सवाशिणी हळूहळू फुडें सरकूं लागल्यो. लोक रस्त्यांत दोनय वटेन रावन मिरवणूक पळयताले. लक्ष्मण पोतराजान दांतात लिंबू धरलो. तो तसोच धरुन रस्त्यार धांवत सुटलो. मरीमाय देवीच्या मिरवणूकिचें वातावरण रोखडेंच तयार जालें. वाजंत्री सगळ्यांत फुडें. मदीं पोतराज नाचत, हातांत चाबूक धरुन, तांबडें भडक शेंदराच्या दोळ्यांतल्यान विचित्र पण दाखयत, दोळे वटारुन हांगा थंय पळयत वचूं लागले. मदींच लिंबू दांतांत धरुन चिरुन उडयताले. हातांतलो लिंबाचो पालो गबागबा खाताले. तांका आमट वा कोडू कशें लागना कांय? हें एक कुवाडेंच आशिल्लें.
आता मिरवणूकीन जोर धरिल्लो. टिळक चौकांतल्या आईच्या दिकेन पोतराजांची मिरवणूक चलली. पूजेचो पयलो मान भांडेगल्लेंतल्या लक्ष्मी आईलो. थंय लिंबलोण, नाल्ल ओंपून, निवेद्य दाखोवन सवाशिणी तुळजापूर वेशी वयल्या मरिआईच्या भेटेक वताल्यो. ताचें नंतर त्यो देगाव रस्त्या कडल्या मरी आवय कडेन वाजत गाजत वताल्यो. एका पाठोपाठ एक सवाशिणी माथ्यार दोड कोळसो घेवन फुडें फुडें सरकताल्यो. पोतराजाच्या सुवाळ्यांत आपोआप रंग भरतालो. सनय आड्डून 'फुडें चला, फुडें चला 'असो उंच आवाज काडत सांगत आसताली. पोतराजी सूर तालांचो नुसतो गोंदळ आसतालो.
जसजशे पोतराज फुडें फुडें वताले तसतशें कांय बायलांच्या आंगात येताले. त्यो केस मेकळें सोडून बेभान जावन नाचताल्यो. तांचो पदर निसरतालो, ताचेंय तांका भान नासतालें. त्यो बेधूंद जावन नाचताल्यो, कांय बांय बडबडताल्यो. 'माका शांत कर 'म्हणताल्यो. पोतराज आंगात आयिल्ल्या बायलांक हड्याककेन धरुन शांत करताले, आंगारे लायताले आनी हातांत लिंबू दिवन त्या सवायणींक संतयताले. सगळोच गांवठी आनी रानटी प्रकार. वर्सान वर्स चलत आयिल्लो. आमी आपले निमूट पणान

मिरवणूकींत सार्मल जाताले. पावलार पावल दवरत फुडें चलत आशिल्लें मांग.
आशाढांत पोतराजांच्यो सवाशिणी आनी मिरवणूको मुखेल पणान तीन ते चार जातीं खातीर आसताल्यो. एक वडार समाजाची, दुसरी मांग समाजाची आनी तिसरी लोद्यांची. सगळ्यांत मानकरी सवाशिणी मिरवणूक आसताली. तीं मांगाची. कारण पोतराजांचो मान मांगांचोच आशिल्लो. मागेली आवय मात या मांग मिरवणूकेंत सामील जायनाशिल्ली. ती एका ताटांत धंय-शीत, निवेद्य, लिंबू-नाल्ल घेवन, ताचेर कपडो धांपून, तशेंच लिंबाच्या पाल्याचो खांदो दवरन, एका हातांत उदकाचो तांबो घेवन एकटीच या तीनय आईच्या मंदिरांत वचून निवेद्य दाखयताली. नाल्ल फोडून प्रसाद घेवन घरा येताली.
या मिरवणूकेंत नवलाय अशीं कांयच नाशिल्ली. तोच तोच पोतराजी हावभाव आनी तोंडात लिंबू धरुन हांगच्यान थंय धांवत सुटप. पोतराजाचो काजळ घातिल्लो आनी बटबटीत दोळ्यांचो चेरो तांबडया शेंदरान भयानक मात दिसतालो
भांडी गल्लेंतलें मरीआईचें देवूळ लागी आयलें. ते बराबर वाजंत्र्यांचो एकच बोवाळ सुरु जालो डफड्यांची, सनयेची ताळतंत्र नाशिल्ली एकच लगबग सुरु जाली. मानकरी पोतराज मराप्पान कोणाच्या तरी हातांत सांभाळूंक दिल्लें कूकड हातांत घेतलें. तांबड्यां गूंज शेकराचें कूकड आशिल्लें नें. मराप्पा पोतराजान तें कुकड हांगच्यान थंय आनी थंच्यान हांगा दोन तीन पटी फिरयत, पांयांतलो चाळ ठेक्यांत नाचयत नाचकाम केलें. आनी तो देवी कडेन येवन उबो रावलो. 'लक्ष्मुआईचं, मरिआईचं चांगभलं 'म्हणून मोठ्यान आड्डलो. त्या बरोबर सगळे मातंग बांधव आनी सवाशिणी भयण्यांनी एकच हलकल्लोळ केलो. 'मरिआईचं चांगभलं, लक्ष्मुआईचं चांगभलं 'असो एकच आवाज उठयलो. त्या आवाजाच्या जल्लोशांत मराप्पा पोतराजान कुकडाची मानगुटी दांतांत धरुन कचकन् एकाच झटक्यांत तुटयली. ताच्या तोंडार आनी चोंयवटेन रक्ताच्यो चिळक्यो हुडल्यो. ताबडतोब तेणे कुकडाचे रगत एका दमात घटाघटा पिवन उडयलें. ताचें तोंड, मिशो, कपल आनी केसय रगतान माखले. तो आतां आक्राळ विक्राळ दिसूं लागलो. सवाशिर्णीय भयभीत जाल्यो. हो सगळो उग्र आनी क्रूर प्रकार लोक भीवन भीवन पळयताले. माका भीतर खंय तरी अस्वस्थ दिसतालें. आपूणय याच मांगाचो वारस काय? असो प्रस्न पडतालो. मन उद्विग्न जातालें.
कोंब्यांचें धड फडफडूं लागलें. धाड धाड हुडूं लागलें. एक दोन मिनटांतच तें थंड जालें. मागीर सगळ्यांची निवेद्य-नाल्ल, लिंबलोण देवीक अर्पण करची धांदल जाली. एक लक्ष्मीआई आतां शांत जाल्ली. आता तुळजापूर वेशींतली एक, आनी देगाव रोड हौसे वस्तेंतली अखेरची मरीआई अशीच शांत करची. मागीरच मांग वस्तेक देव सुखी दवरतलो. वर्सभर पोटभर खावूक भाकरे तुकडो दितलो. निदान भिकणां तरी.

अखेर सांजवेळ जाली. अशा रितीन आशाडांतल्या शुक्राराचो हो सुवाळो जणूं परिपूर्ण जालो. सगळी मंडळी थकून भागून परत मांगवाड्यां कडेन चलूं लागली. येताना मराप्पा, लक्ष्मण, मसा, मुरला हे पोतराज तशेंच वाजंत्री एका थारावीक सुवातेर थांबले. सगळ्यांनी मेळून गिलासांतले तीर्थ घेतलें. कमी जाली म्हण काय, किर्ते? म्हणून आनीक एक एक गिलास हाणलो. दीस भराचो आईचो शीण आता देंवलो. आनी ही मंडळी लवंडत लकत वस्तेंत परतलीं. मराप्पान, बळी दिल्लो कोंबो शिजोवंक दवरलो. आनी एक दोन कुकडां मारली आनी चुलीर शिजोवंक दवरली. तोवेर आशाडांतली रात बरीच रंगल्ली .कुकडाचो प्रसाद गरम गरम भाकरे बरोबर या असूर दैवतांनी पोटांत यथेच्छ कोंबलो. आमचे हे पोतराज देव शांत शांत जाले. तेंका आतां आंगावेले आबरान कपडे देंवोवचेंय भान उरलें ना.

थकून भागून बाबडे मरी आईच्या सुवादीन जाले. आशाड सरलो.





८.

श्रावणांत सगळेकडेन पांचवेंचार वातावरण आसतालें. आडव्या नळाचो वाठार तर नव्या हिरवळीन सजून नटून थटूनच स्वागताक सज्ज आसतालो. श्रावण हो परबांचो म्हयनो. वस्तेंतल्यो ल्हान ल्हान चलयो दर मंगळारा आडव्या नळार वचून चिखलाच्यो गौळणी, चिखलाचे बैल, चिखलाचीं सुंदर सुंदर घरां, किल्ल्यांच्यो ल्हान ल्हान प्रतिकृत्यो, वाड्यांच्यो प्रतिकृत्यो तयार करताल्यो. एका मणेर तीं मांडून तांका फुलां, कार्टे, पानां हेजेन सजोवन गूळावो परब मनयताल्यो. पंगडान चलयो ती मणय माथ्यार घेवन, केल्ल्यो प्रतिकृत्यो सुंदर सुंदर पदां म्हणत घरां येताल्यो. त्या चलयांचें एक पद, अर्दकुटें जायना पूण अजून माका साद जाता......

आवं तुम्ही राम लक्षीमन। सिताला वं नेता कंच्या बना ।
ही न्हवं म्हायेराची वाट। तिथं बाई खारकाचं बनं दाट ।
खारका बाई नेल्याल्या तोडोनी। लाकडं बाई पडल्याती मोडोनी।

चलयांची उमेद आनी भोवतणचें श्रावणांतलें पांचवेंचार सुंदर रुप, सामकें देखदिणे दिसतालें. सगळे वटेन दाटिल्ल्या पांचवे चारान वातावरण खुशाल भरीत जातालें. नव्या

फुलपांक्यांचे भिरे मन ओडून घेतालें. कितल्या तरी नवलायेच्या रंगांचे फुलपाखें आम कां पळावंक मेळतांले. कांय कडेन सामक्या हळ्डुव्या ताल्ल फुलपांख्याच्यो भिऱ्योच जणू एकवटान भोंवतात अशें दिसतालें! नव्या तणार टोळ, तरेकवार किडे, तुडतुडे, नाकतोडे, हांची दाटी जाल्ली दिसताली. आडव्या नळा भोवतणी विमाना सारक्या भोंवऱ्यांची रांक हुडतना दिसताली. सगळीं भुरगीं या नव्या सोयऱ्यांक धरुन जमोवचें खातीर कॅनॉलभर धुवांळतालीं. कांय भुरगीं काट्यांची फांजर; (सापळो) घेवन फुलपाखें धरुंक धांवताली. फांजरींत फुलपाकें शिरकली की, तीं एका ल्हान पिशवेंत जमयतालीं. माका हें कृत्य क्रूर आनी अमानूश दिसतालें. बाबड्या फुलपाख्यांची पांखा त्या काट्यांच्या पांजऱ्यांत शिरकून पिंदताली. माका हो खेळ बिलकूल मानवनाशिल्लो.

श्रावण आपल्या सरीनीं आमकां झुलयत दवरतालो. याय वेळार पांचव्याचार पांनां फुलांनी आडव्या नळाचो वाठार फुलून गेल्लो. एक दीस दनपारार वश्या, रेवण्या, आनी आज्या हे मागेले बालपणाचें इश्ट घरा कडेन आयले, आडव्या नळा कडल्यान कांय अंतरारच मागेलें घर आशिल्लें. मदीं भंगी कॉलनी, माका पळोवन वश्यान चिरबील दाखयली. ध आकाराच्या लाकडाक रबराच्यो पट्टयो बांदून मदीं फातरा खातीर कातडेचो तुकडो जोडिल्ले अशें चिरबील, चिरबीलाक आमी कॅटिशाय म्हणताले. ही कॅटिश घटमूटच आशिल्ली. वश्यान माका म्हणलें, 'चला, आतां आमी नळार वच्या, टिटवी वा चिमण्यो मारया. 'आमी मेळून गेले. वतानां खिशांत कॅटिशा खातीर वाटेर मेळत ते फातर जमयत गेले.

चिंचेच्या झाडाक बऱ्योच कोमऱ्यो आयिल्ल्यो. आमी मुठेंत येता तितल्यो कोमऱ्यो बुड्डून तोंडात भरताले. तन्न्यो आंबट कोमऱ्यो खावंक बऱ्यो लागताल्यो. पांचव्योचार तन्न्यो चिंचोय जमनीर पडिल्ल्यो आसताल्यो. चिंचेंची तीन व्हड झाडां आशिल्लीं. आमी थंयच घुटमळ्ळे. जमनीर पडिल्ल्यो पांचव्यो चार तन्न्यो चिंचो पुंजायत फिरु लागले. चींच पडली कांय तोंडांत घालप. असो थोडो वेळ गेलो. तोवेर वश्यान झाडांवयलीं शेवणीं हेरुन दवरिल्ली. या झाडार चडशें कावळे, चिमण्यो, कीर आनी साळूंकीच आशिल्ल्यो. आज खंच्या ना खंच्या तरी शेंवण्यांची शिकार करचीच आसो वश्याचो निर्धार आशिल्लो सुकणीं शेवणीं हीं निसर्गान धतरीक दिल्ली कितली अमूल्य देणगी! हें वश्याक, रेवण्याक कशें कळतलें?

वश्या नेम धरुन चिरबिलांतल्यान शेवण्यांच्या दिकेन एक एक फातर मारुं लागलो. चिरबिलाचो रबरा पट्टो कानापर्यंत ओडचो, दाव्या हातांतल्या चिरबिलाच्या मद्यार नेम धरुन शेवणे पळोवचें आनी मागीर एक दोळो बारीक करुन फातोर सोडचो. झपकन्न वेगान फातर झाडाच्या खांदेत बंदूकिच्या गुळे सारखो, सूं... सूं... करीत घुसतालो. कावळे 'कांव कांव' करुन गोंदळ घालताले. साळुंकी चिमण्योय या

खांदेवयल्यान त्या खांदेर जागो बदलताले. कीर तर भिवन पळूनच वताले. वश्यान एक दोन तीन फातर एका फाटल्यान एक सोडले. आनी खंयच्या तरी एका फातराच्या मारान चीं चीं करत एक सुकुमार चिमणी सकयल कोसळ्ळी. 'माल्ली, माल्ली' म्हणत वश्या हुडक्यो मारीत आनंदान नाचूंक लागलो. चिमणी चोच वयर करुन सकयल तडफडताली, तिचें पांय वयर आशिल्ले. थरथरताले. चिमणेची फडफड नीट म्हज्या काळजांत घुसली. 'ये वश्या, नाका रे बाबा गरीब बाबडे चिमणेक मारु नाका' अशें तेका सांगलें. पूण वश्याक आनंदाचें भारांत ताचें कांयच पडूक नासलें. तो शिकारेच्या नादात गुल्ल आसलो ताका आपल्या नेमाचो आनी शिकारेचो परमानंद जाल्लो.

मागीर आमी सगळे त्या तडफडत्या चिमणे कडेन गेले. हांये आडव्या नळांतले पोसो भर उदक हाडून चिमणेच्या चोचींत घालचो यत्न केलो. पूण कितें, चिमणेन तर केन्नाच जीव सोडिल्लो. वश्यान हातान चिमणी उखल्ली. झाडार हेर चिमण्यांची भिरी जमा जाल्ली, आनी ताणीं एकच किलकिलाट सुरु केलो. कावळेय कांव...कांव... कन्न आड्डूंक लागले. पूण कोणच कांय करुंक शक नाशिल्लें. वश्यान चिमणी उखलून हातार घेतली. आमी लागीच्यान चिमणेक पारखीताले. चिमणेक इतल्या लागीच्यान पळोवप केन्ना शक्यच नाशिल्लें. तें पयलेच खेपे पळोवंक मेळ्ळें. चिमणी खूब नाजूक आशिल्ली. मांसांचो मोव लिबलिबीत गुळोच. गरम गरम रेसमी फांकांनी धांपिल्लो. अशा मोन्या जिवाक वश्यान माल्लें म्हण आमकां ताचो राग आयलो. आमी ताका खूब उलयलें.

आता कितें करप, हो प्रस्न पडलो. वस्तेंत गेले, आनी हो प्रकार कळ्ळो तर घरचें हाणतलेंच. कोणी पळयले तर तोंडा येता तशें उलयतले, आनी जोड्यांनींच मारतले. वस्तेंत आतां वचचें ना, अशें आमी थारायलें. आमी चौगयजाण एकठांय येवन विचार करुं लागले. आमकां खरोच प्रस्न पडिल्लो, या चिमणेचें आतां करचें कितें? जींवंत आशिल्ली जाल्यार तिच्या पायांक दोरी बांदून खेळूंक तरी येतालें. पूण ही तर मेल्ली चिमणी. अशी कशी उडोवन दिवची? मागीर आमच्या तकलेंत एक विचार आयलो, 'मुखार पिंपळा झाडाच्या बाजून एक येलताराचो म्हसोबा आसा, ताच्या सामकार ही चिमणी पुरुन उडोवया. म्हसोबाक बळी दिल्ल्यान म्हसोबा प्रसन्न जाता. आमचेरय तो प्रसन्न जातलो.' अशें आमच्या मनांत आयलें, आनी आमी म्हसोबाच्या दिकेन चलूंक लागले.

म्हसोबार सावळ धरपी पिंपळ सामको पोन्नो आनी अजस्त्र आशिल्लो.पिपळार घोणी, गिदांची व्हडली वस्ती आशिल्ली. ताका लागून पिपळा सकयलो वाठार घोणी-गिदांनी शिटून शिटून धवो चुनो उडयिल्ल्या भशेन जाल्लो. देखून हो वाठार भयाण दिसतालो.

ह्याच पिपळार मुंजो रावता अशें सगळ्या वस्तेक खबर आशिल्लें. 'अमाशेक तो नळात देंवन नागडो न्हाता, तोंडात चिंदी-चिरगूट धरुन रातीं बाराक परतो मंत्र म्हणून पूजाअर्चा करता. ते नंतर म्हसोबा बरोबर जेवन परत वयर पिपळार वचून बसता.' अशी वार्ता वस्तेंत सतत पातळताली. कितेंय आसले तरी हो पीपळ आनी म्हसोबाचो वाठार अमंगळ, अपवित्र, आनी भयानकच आशिल्लो. पीपळाच्या भोंवतणी काट्यांच्या झोपांची दाटी आशिल्ली. ताका लागून ताचे भोवतणी फिरपय भयप्रद आशिल्ले. एका खार्चीत फातराक शेंदूर फाशिल्लो, आनी ताचेर धव्या पत्र्याचें दोन दोळे कोरांतून लायिल्ले. दोळ्या भोंवतणी काजळ कोरिल्ले. देखून म्हसोबा महाभयानक दिसतालो. तेजे मुखाल्ल्यान येतल्या वतल्याक तो रस्तो हूपता पर्यंत जिवांत जीव नासतालो. आमी अशेंय आयकल्लें की, 'एकाद्र्या सूनेक या म्हसोबा मुखाल्ल्यान वचची चुकून वेळ आयलीच, तर ती कपला वयलो कुकूम पदरा सकयल धापून म्हसोबाच्या उलट दिकेन तोंड करुन झपझपी फुडें वताली.' आपल्या कुकमार म्हसोबाची नजर पडनये म्हणून सवायशिणी पदरान कुकूम धांपताली. म्हसोबा इतलो खतरनाक आशिल्लो की, म्हसोबाच्या भोंवतणी शंभर शंभर फूटतरी कोणी हागूं मुतूं बसूंक धज नाशिल्ले. इतलो अनामीक धसको आशिल्लो.

आमी म्हसोबा कडेन पावले. म्हसोबा मुखार मेल्ली चिमणी दवन्न म्हसोबाच्या पांया पडले. म्हसोबाच्या कुशीक कोणे तरी हळद कुकूम, आनी तांदूळ दवरिल्ले. तें आमी हातार घेतले, आनी चिमणेर हळद कुकूम घालून, तांदूळ उडोवन वोगीच कसलो तरी विधी केलो. रेवणो मात तेन्ना कितें तरी सोदतालो. ताका एक ल्हान सळेचो तुकडो मेळ्ळो. मागीर आमी म्हसोबा मुखार चिमणे खातीर फोंड खणू लागले. म्हसोबा मुखार कोणतरी निखतोच निवेद्य आनी कातलेचो तुकडो दवरिल्लो. वश्याक जीभ सांभाळूक जाली ना, ताणे तो निवेद्य घेतलो, आनी चिमणे वयल्यान वुंवाळून खावन उडयलो. कातलेचो तुकडो मात आमकां सगळ्यांक प्रसाद म्हण इल्लो इल्लो दिलो.बऱ्यापैकी फोंड खणून जाले नंतर, म्हसोबाचोच शेंदूर खड्डून, आनी थंयचोच हळद कुकूम घेवन त्या मेल्ल्या चिमणेक परत लायलो, आनी अखेर चिमणी फोंडात पुरली. ताचेर भरभरी माती ओडली. नळाच्या कडेक एक बाभळीचो रोपो आशिल्लो. तो हाडून पुरिल्ले कडेन रोयलो. रेवण्यान वयर एका वटेन फातर दवरलो. मागीर आमी सगळ्यांनी प्रदक्षिणा घातली. वगीच तीन तीन पटीं फोंडा भोंवतणी फिरले. पांय पडले. आतां आमचें काम सोंपले. वश्यान आमकां सांगले, 'अबे...चिमणी जायना कित्याक तिचेंय मन्नच आसता, आमी मन्ना वेल्यान अशेंच घरा वचूंक जायना, पयलीं न्हावूक जाय.' मागीर कितें, आमी कपडे काडले आनी मारल्यो हूडयो आडव्या नळात. सूं...सूं..., न्हावचे उल्ले पयसच, कितले तरी वेळ आमी पोंवतच आशिल्ले. थोडे वेळान वयर आयले.

आंग वतांत सुकयलें. कपड्यार उदक शिंपडून कपडे घातले. आनी मागीर घरा आयले. माका किर्ते तरी अमंगळ दिसताले.

बुधवार पेठेंतली मातंग वस्ती, म्हारवाडो, (व्हडलो राजवाडो ) वडार गल्ली आनी ताका लागून आशिल्ली भंगी कॉलनी, ह्यो सगळ्यो वस्त्यो फकत दलितांच्योच आशिल्ल्यो. हेर जातीचो वा उच्चवर्णीयांचो चडसो संपर्क येनाशिल्लो. एकामेकांत गुतिल्ल्यो अशो ह्यो वस्त्यो. चालीरिती आनी परंपरेनय सगळ्यांचे जगणे एक सारखेंच केल्लें. असहाय, अगतीक, दळदिऱ्यान बटबटील्लें, अज्ञानाच्या अंध:कारान घेरिल्लें, ताका लागून अंधश्रद्धा, अंधरुढी, हातूंतच ही जमात घुसपटून गेल्ली. विवेकाचो, बुद्धीचो चडसो संबंध जगचे खातीर येनाशिल्लो. फकत परंपरा पाळत रावप इतलेंच तेंका खबर.

वडार गल्लेंतल्या ताटव्यांचोच (दीश्ट) हो एक प्रसंग घेयात, कितले भयाण अज्ञान खोलपर्यंत रुजला. वडार गल्ले पसून नीट आडव्या नळाच्या कालव्यांपर्यंत एक सरळ सोट रस्तो आशिल्लो. एक दीस वत देंवचे वेळार, वडार गल्लेतलो एक म नीस व्हडल्या शिकार सुपांत तरेकवार जीनस, आनी ल्हान मातेची मडकी घेवन आडव्या नळाच्या वटेन झपाझप पावलां उडयत वतालो. ताच्या आकुशीकुशीकय दोन मनीस आशिल्ले. धोतराचो कास मारिल्लो, आनी आंग सामकें उगडें. अशा अवतारांत ते चलताले. त्या व्हडल्या सुपांत मटण, भाजी भाकरी, पोळी, सगळ्या तरेच्या मिठायेचे एकेक तुकडे, ब्रेड, बटर, एका ल्हानशा चेंबवांत सोरो, हळद कुकूम , उदबत्ती, दोन नाल्ल-एक सोलिलो आनी एक सोलनाशिल्लो, अशे दवरिल्ले. बरोबरच्या मनशा कडेन उदकान भरिल्लो तांब्यो आशिल्लो. सुपांत एका कोनशांत काजळ, सुयो तोपिल्लें पांच लिंबू हरव्यो मिरसांगो, बिब्बे, काळे मीठ हेवय दवरिल्ले. वडराचे हे लोक ही अभक्ष उंडी खंयच्या तरी अतृप्त आत्म्याक भरवचे खातीर आडव्या नळाकडल्या येलताराच्या म्हसोबाच्या दिकेन झपाझप पावलां उडयत चलिल्ले.

मुखाल्ल्यान ताटवो (दीश्ट) येताना मांगवाड्यांत कोणेतरी पळयले लोक भिवन रोखडेंच रस्त्याकडसून पयस वचून रावले. बायल भुरग्यांची धांवाधांव जाली. बायलांनी भुरग्यां बाळांक बेगबेगी पदराआड लिपयले खिणाभीतर रस्तो निर्जन जालो. हांव, वश्या, रेवण्या, कबऱ्या मात चौकांत निगरगट्ट्र सारके तशेंच उबे आशिल्ले. कोण तरी आमचेर खेकसलो, 'ए गाडवानो' हालात थंयच्यान आरे, वडार गल्ले तलो ताटवो तो. ताचेर नदर सुद्धां पडूंक जायना. तो ताटवो तुमच्या आंगात घुसलो, आनी ताचे वारें जरी लागले की, 'मेलेच तुमी भाड्यांनो' अशें किते किते बडबडत आशिल्ले. आमी मात ढिम्म उबे. ताटवो म्हार वाड्यालागी आयलो. आमी मात हाल्लेच नात. कोणेतरी घरा

कडेन वर्दी दिली आसूंक फाव, आवय धांवतच आयली, आनी माका धांवंडयलें. हांव घरा आडसरा रावलो आनी फेरो मारुन परत थंय हजर.

वडार गल्लेंत कोण तरी एकलो झिजून झिजून मरणा धडेर आशिल्लो.सगळे इलाज करुन कांयच फरक पडलो नाशिल्ल्यान, हो ताजे वयल्यान बुंवाळून उडोवचो ताटवो आशिल्लो. ताटव्याक उतारोय म्हणतात. तो विधीपूर्वक उदकांत सोडचो आसता. म्हण हे वडार गल्लेतले लोक आडव्या नळातल्या व्हांवत्या उदकांत अशे ताटवे अदी मदी सोडताले. ताटवो घेवन वचची पद्धत गंभीर आसता. देखून हें दृश्य पळोवंक भयानक आनी अत्यंत अभद्र दिसता. ताटवो नळा कडल्या येलतारा म्हसोबा कडेन पावलो. कोणतरी एक देवरुशी पयलींच थंय येवन आशिल्लो. ताटवो विसर्जनाची पूर्व तयारी तेणे पयलींच करुन दवरिल्ली. म्हसोबा मुखार एक चौकोन आखून दवरिल्लो. आमी चिमणी पुरिल्ली थंय.

उतारो घेवन लोक थंय पावले. सूप सकल दवरलें. आडव्या नळांत न्हाण जालें. देवरुशीन ओल्या कपड्यान पूजेक सुरवात केली. पिटाचे दिवे लायले मंद वारे व्हांवताले. ताका लागून दिवे झुळझुळताले. हळद कुकूम घालून ताणे एक लाकडा बावली आपल्या बटव्यांतल्यान काडली. तिका न्हाणोवन ताटव्याच्या कुशीक दवरन हळद कुकूम लायलो. ऊद कापूर आनी उदबत्ती लायली. बावले वयल्यान हे सगळे जीनस तीन पटी उतरयले, आनी त्या सुपांतलो ताटवो नळातल्या व्हांवत्या उदकांत सोडलो. उदक फुडें धुकल्ले. तशें सूप उदकार हूबत फुडें फुडें वचूंक लागले. मागीर सगळे पांय पडले. हात पाय धूवन उदकाचो घोट घेतलो. आनी फाटी पळयनासताना झपझपी गेले.

आमी हें सगळें निर्विकार पणान पळयत आशिल्ले. मात वश्यान नाल्लाचें वळें निवेद आनी बंदो रुपया हापापिल्ल्या प्रमाण उखल्लो.

***



९.

दीस भराच्या धकाधकीन आनी पोटासाठीर वणवण करुन चार उंडेपुरते मेळ्ळें की, वस्तेंतले बांधव सांजवेळार आपापल्या खोपी कडेन परतताले. भणभण चुली पेटताल्यो. चार उंडी पोटांत घालून पुरो जाल्ली कूड आंगणांत, खोपींत विसव घेताली. वेंतभर पोटाचो फोंड भरचे खातीर कितले राबचें पडता, कितले कश्ट उपसूवचे पडतात? हातूंत कश्ट आनी पोट हांचो खंय मेळ जमता?... ना, थकलो भागलो जीव रोखडोच न्हिदेच्या अधीन जातालो. सगळे कडेन सामसूम जाताली. वारो व्हांवत जाल्यार आडव्या नळा वयल्या झाडांच्या पानांचो मंद सळसळ तितलो धुमतालो. मर्दीच एखाद्र्या मोराच्या केक्याचो आवाज पयसल्ल्यान आयकूं येतालो.

आमच्या घराच्या फाटल्यान केरबा भिसे आनी बजरंग पाटुळे हे हात गाडेर हमाली करचे मजूर रावताले. रातीन न्हिदचे पयलीं या दोगां मदलो एकलो एकतारी आनी दुसरो दिमडी घेवन सदां आंगणांत गितां, पदां म्हणताले. बजरंग गायतालो पूण ताचो आवाज बेताचोच आशिल्लो. सूरांचो आनी तालांचो सारको मेळ बसनाशिल्लो. पूण एकतारी आनी दिमडीचेर कसोबसो सादतालो. ताचे पद आयकतना मन वगीच बेचैन जातालें. तो सदांच दुःखी पदां म्हणतालो. कोणय बैरागी आपलें दुःख झरयतेर बसला अशें दिसतालें.

गितांचे सूर आयकूवन काळीज कळवळताले. गितांत आवेश ना की, मनमुराद आनंद ना. सगळें दर्दभरीत.

'किती आनंद, आनंद, या झोपडींत माझ्या' हें पद काळीज पिंदचे अशा आवाजात ते गायताले. 'माजें ऽ डोळे पाण्यांनी भरले.' अशेंय ते खंयचें पद गायताले! कांय पोन्न्या सिनेमांची पदांय ते गायताले 'ओ जिंदगी के देनेवाले, जिंदगी के लेनेवाले, प्रीतमेरी छीन के बता, तुझे क्या मिला, आ ऽऽ आ ऽऽ' हें पद ते मन:पूर्वक गायताले. आनी दुसरें एक, 'ओ माटी के पुतले इतना न कर तूं गुमान, पलभर का तूं है मेहमान', अशें जीवनाचें तत्वज्ञान सांगपी पदांय ते गायताले. तेच बराबर 'प्रभू रे हा खेळ दुनियेचा, कशाला सांग केलासी?' हें पद आळयताना 'आजा अब तो आजा, मेरे किस्मत के खरीदार' हें पदय आळयताले. 'ओ दूर के मुसाफीर हम को भी साथ ले ले रे, हम को भी साथ ले ले रे.... हम रह गए अकेले.' हें पद 'ये जिंदगी के मेले' या धर्तेर म्हणताले. मदींच एखादें मराठी पद, 'माझ्या द्वारकेला नाही सोन्याचा गिलावा, तथं आहे भक्तिभाव मायेचा ओलावा.' हें पद जालें की रोखडेंच 'राम देखो देखो दर्या, देखो राम, राम गया वनवास' हें बिहारी पद गायताले.

तासाभरांत ही पदां सरताली. पूण या पदांनी वातावरणात आर्ततेचो हलवार भाव संथ पणान घुंवत रावतालो.

वस्ती शांत न्हिदिल्ली. चोंयवटेन काळोख ऐसपैस पातळिल्लो. तांतूत ही पदां. ही गावपी मनशां अभिजात गायक नाशिल्लीं. तेंका तशी सुरांची चडशी जाणय नाशिल्ली, पूण ते चालीत, आपापल्या सुरावटींत गायताले. गाण्यांतलें दु:ख मात पाझरतालें. रातीची भयाण शांतता, तातूंत ही आर्त पदां भयप्रद दिसताली. पयस खंय तरी भुताटकी गायता अशें माका दिसतालें. आनी हांव आवयल्या आंगावयली गोदडी तोंडार ओडून घेवन त्या पदांक स्वत:पसून लिपयतालो. सदच्या पदांचो हो प्रसंग मनार खोलवेर परिणाम करुन गेलो.

मातंग वस्तेंत अदून मदून भजनाच्यो रातीं रंगताल्यो. कोणीय सत्यनारायण घातलो की, रातीन भजनाचो कार्यक्रम दवरताले. पेटी, तबलें आनी खंजीरार तन्मयतेन भजन गायताले. लोक अत्यंत रसिकतेन आनी आवडीन भजन आनी पदां आयकताले. मरणाचें सूतक आसलें की, तिसऱ्या दिसा हमखास भजन दवरिल्लें आसतालें. पयस पयसल्ले लोक भजनाक येताले. किसन आवळे, कुड्डो ज्ञानू रणदिवे, भावड्या, माधव बुवा, तुपसुंदर ज्ञानू, गोविंद लोंढे ही मुखेल गायक मंडळी आशिल्ली. तबल्यार काशिनाथ कांबळे साथ दितालो. रातभर भजन चलतालें. चार चार पदां वा भजनां म्हणून भजन वाले दुसऱ्याक गावची संद दिताले. भजनाची सुरवात एका नमनान जाताली. 'अलंकापुरी पुण्यभू पवित्र, तिथे नांदतो ज्ञानराजा सुपात्र, तया आठविता घडे पुण्यराशी, नमस्कार माझा सद्गुरु ज्ञानेश्वराशी. ''बोला पुंडलिक वरदा हरी विठ्ठल श्री ज्ञानदेव तुकाराम, पंढरीनाथ

महाराज की जय, 'असो नमस्कार आनी गजर करुन पेटी तबल्याक पांय पडून भजनाक सुरवात जाताली. प्रामुख्यान रचिल्लीं, चालीं लायिल्ली पदां म्हणताले. 'गेला हरी कुण्या गांवा', 'घट डोईवर घट कमरेवर', 'द्वारकेला नाही सोन्याचा गिलावा', 'उद्धवा अजब तुझे सरकार', 'चमके हैदर की तलवार', 'ये दादा आव रे', 'केवढा मोठा वाटा लावलाय', 'सुकट बोंबील वकट्या तूं घे', 'जा रे चंद्रा जा उधळीत रथ आपुला', अशीं पदां मुखेल पणान गायताले. प्रत्येक भजन पार्टेत हीच पदां आसताली. एखाद दुसरें नवीन चालीचें पद आसतालें. गिरजा भिल्लीण आनी शंकराची काणी आशिल्लें एक पद तर ते रंगोवन गायताले. या भजन वाल्या मंडळेत भावड्या नांवाचो एक अत्यंत दर्दभऱ्या सुरावटीचो गायक आशिल्लो. तो सुंदर सुंदर गझल गायतालो. अत्यंत हृदयदावक. कबीर मिरेचींय पदा तो गायतालो. सूफी पंथाच्यो कांय चीजो तो गायतालो. भावड्याचो आवाजय पहाडी आनी गोड आशिल्लो..

या गाण्याच्या कार्यावळीक 'भजनाची वर्दी' म्हणतात. तोय एक पोट भरणेचो भाग जाल्लो. परिस्थिती, काळ बदलत गेलो. अशें भजन वर्दीचें कार्यक्रम कमी जायत गेले. मरणाचो तिसरो दीस मनोवचे खातीर बाजारु भजन वाले मात उरले. मदीं धायेक वर्सां गेल्ली आसत. सांजवेळ आशिल्ली.वस्तेच्या चौकांत कांय भुरगीं टवाळकी करीत बशिल्लीं. कोण तरी म्हेळ्या कपड्याचो, केंस विस्कटिल्लो एक मनीस त्या भुरग्यां म्हऱ्यांत येवन गप्प उबो रावलो. भुरग्यांक दिसलें, तेका भाकरे तुकडो बी जाय आसतलो, हांवय थंयच आशिल्लो. खंयच्या तरी एका वयस्कर मनशा बरोबर तो उलयत उबो आशिल्लो. झपकन्न ताजी वळख पटली. 'बापरे, तूं भावडो कांय कितें? खंय आशिल्लो इतले दीस? हें कितें हाल जालें तुजें? तुमचे कोणच कशें उरले नात?' हे आयकून हांव तेज्या म्हऱ्यांक गेलो. हांये माज्या गोविंद मामाची वळख सांगली, 'हां, हां हांव वळखता, गोविद आनी भानुदास हे बरे गायताले.खंय आसात ते?' वास्तपूस करुं लागलो. आतां कोणाची विपन्नावस्था कितें आनी कशी सांगची, हो प्रस्नच आशिल्लो. सगळेंच उध्वस्त जाल्ले.

आपली ही अवस्था सांगताना भावड्या वयर देवाकडे बोट दाखोवन, ताजे हे सगळे खेळ आसात अशें म्हणतालो. खंयच्या तरी एका बायलेन ताका फसयल्लें. ताका लागून तो उद्विग्न जाल्लो. अशेंच फिरत आशिल्लो. ताणे एक लकेर गायली, 'तूं ने ही मुँह फेर लिया तो, दुनिया में हमारा ऽऽ क्या होगा?' हें गाणे तो दोळे धांपून तल्लीन जावन म्हणू लागलो. बापरे! कसलो दर्द आशिल्लो त्या गळ्यांत! कितली असहायता, कितली अगतिकता, त्या सुरांत भरभरुन व्हांवताली. एखाद्या जखमे सारखी! धा वर्सां पयली आमी आयकल्लो तो आवाज आजय त्याच मधूर सुरान भरिल्लो. आता ताचेर उदासीनतेची झाक मात आयिल्ली. आमी सगळे भावड्याची अवस्था जणू ताच्या सुरांत

पळयताले. तेन्ना तो जें पद म्हणतालो तें पद ताणे आतां परत म्हणचें अशें माका दिसलें. हांये तेका याद करुन दिली, हें पद म्हण म्हणून, 'तेरी याद में जलकर देख लिया, अब आग में जलकर देखेंगे.'

आनी भावडो त्या सुरांत, गाण्यांत बुडून गेलो.

गांवकुसा भायलो मांगवाडो म्हणल्यार फकत मनीस रावची वस्ती नाशिल्ली. रुढी-परंपरा जपतली, समाजाचें अस्तित्व आनी समाजाची प्रथा, व्यवस्था हांचेय स्मरण दवरुन जगपी आशिल्ली. परंपरेन आनी नियतीच्या हुकमानच सगळें घडतालें. जीवनात साधेपण आसलें तरी एक स्वतंत्र वेगळेपणय आशिल्लें, भयानकताय आशिल्ली. दखल घेवची अशें हांगा सदांच घडतालें.

वस्तेंतल्या वास्तव्या वयलान लोकांची, मनशांची जीवन शैली आपसूकच तयार जाता. भोंवतणी शेताचो वाठार, मदींच नयनरम्य ओयासीस रुपान व्हांवपी आडवो नळ, पलतडीन आशिल्लें कळकीचें धनदाट बन, हें सगळें वस्तेक जणू वरदानच आशिल्लें. हांचो हांगाच्या जीवन मानार जावपी इश्ट परिणाम जाणवतालो. मांगवाड्याच्या उत्तरेक खूब व्हड मेकळी सुवात आशिल्ली. थंय आमी खेळताले. ते वेळार शारांतल्या व्हड व्हड कपड्यां गिरणीक लागून बॉयलरांतल्या कोळशांचो गोबोर टेंडर घेवन विकताले. रामबाब नांवाच्या एका इसमान हें टेंडर घेतिल्लें. त्या मेकळ्या मळार हो गोबोर दीसभर ट्रकांनी हाडून घालताले कोळशांच्या गोबरांच्यो ऊंचच ऊंच राशीं थंय तयार जाल्ल्यो. या कोळशांच्या राशींतल्यान बरो कोळसो विंचून विकताले. वस्तेंतल्यो बऱ्योच बायलो ह्या कोळशे विचपाच्या कामाक दीसभराच्या मजूरेर वताल्यो. मजूरे बरोबर तांका कोळशाचो एक पांटलो भरुन मेळतालो. वस्तेंत जंय थंय कोळशाच्यो शेगडयोच पेटूं लागिल्ल्यो. ताचेरच रांदप बिंदप जातालें. फुडें गिरण्यो बंद जाल्यो, आनी मागीर हो अड्डोय गेलो. परत मेकळें मळ आंकां खेळूंक उपलब्ध जालें.

गिमाळ्यांचे दीस आयले की, भटक्यो जमातीं आपल्या लवाजम्या सयत याच मेकळ्या मळार येवन आपली पाल घालताले. ते १९५७ साल आशिल्लें. बाबासायब गेलं नंतरचे वर्स. या भटक्या जमातीं बरोबर चार पांच पेटे, धा पांच गाडवां, धा पंदरा कोंब्यो आनी कांय घोड्यांचे तट्टू आसताले. मातंग वस्ते लागसल्ले हें विस्तीर्ण मळ धा एकरा परसय व्हड आशिल्लें. देखून तीन ते चार भटक्या जमातीच्या पंगडाची पालां हांगा कांय नी कन्नं पडूं येताली. लागीच सदैव उप्पाट भरुन व्हांवपी उदकाचो आडवो नळ दिमतीक आशिल्लोच. तेकालागून या भटक्या जमातींतल्या लोकांक सगळे सुख सोयीन युक्त असो हो वाठार आशिल्लो. घोड्या-गाडवांक, आनी पेट्यांक ते आडव्या नळांत धूवन स्वच्छ करताले. बायलां दादले कच्ची बच्ची, भुरगीं सगळे त्या भर वतांत थंडगार नळाच्या उदकांत यथेच्छ न्हातालीं. आयुश्यभर  भोंवत रावचें. जिवाची निसती कुतरओड. खंय निवांत

थारो ना की, मनसोक्त विसव ना. हांगा आयलें की, तेंका खरें सुख प्राप्त जातालें. चिंध्यो, कपडे, कापड, साडी हाचे पसून ते जड गोधडयां मेरेन सगळें धूवन चक्क करताले.
या भटक्या जमातींत मुखेल पणान डवरी, कुडमुडे जोशी, वैदू, वडार, गाडी वडार, शिकलगार, होलार, आनी डक्कलवार हांचो समावेश आसतालो.केन्ना केन्ना एखाद्या वर्सा गरगरीत घागऱ्याच्यो गोऱ्यो पान इराणी बायलो, चश्मे, चाकू, सुरी, अत्तर, सूरमे विकूंक येताल्यो. त्योय हांगाच रावताल्यो. हो सगळो गिमाळ्यांतलो जणू मेळावोच जातालो. आमकांय आनंदाची पर्वणीच. एका अनोख्या जगाची आमकां वळखच जाताली. नवी उमेद येताली.
अंतरा अंतरार तांची पालां पडिल्लीं आसतालीं. दोनेक दिसांत तांच्या व्यवसायाक खाट खूट कन्न गती येताली. दीस भर आपल्या वेवसाया निमित्त दादले आनी कांय बायलांय शारभर भोवंताली, आनी दीस मावळतेक भाजीपालो, शिधो, शागूती, मीठ मिरसांग, तेल घेवन या मळार परत येताले.सगळ्यो जमातीं समजीकायेन अंतरा अंतरार देंवताले. आड्डून साद घालून ते एकामेकांच्या वळखी यांदीक परजळीत करताले. खंच्यान, खंय आयल्ल्या गेल्ल्याची चौकशी करताले.
वैदू जमाती कडेन वखदाची जडीबुटी आसताली. ते उत्तम नाडी परिक्षा करताले, आनी ताचे वयलान रोगांचे निदान बिनचूक सांगताले. तांचे कडेन तुडी नांवाची एक पितळची नळी आसताली. शिवाय एक ओलसर पिशवेंत जळवो दवरिल्ल्यो आसताल्यो. कुडींतलें अशुद्ध रगत जळवो लावन काडून दाखयताले. कातीर तुंबडी लावन आंगातलो जुनाट रोग बरो करुन दाखयताले. हे वैदू तरनाट्यांकडेन खाजगेत कितें तरी उलयताले आनी तेंका कांय बांय विकताले. अजबच हें वैद्यकीय ज्ञान.
आडव्या नळाचें सतत व्हांवतें उदाक या सगळ्यांच्यो गरजो पूर्ण करुंक सदैव समर्थ आशिल्ले. दनपार जाली की, वत तापतालें, कॅनॉलार भरपूर सावलेचीं झाडां आशिल्लीं त्या सावलेंत बसून हे लोक आपापल्या पारंपारीक वेवसायाच्यो वस्तू तयार करताले. शिकलगार कारागीर खाटीचें, बाजेचे, कपाटाचे, नक्षीदार पाय करताले. तशेंच रवी, लाटणीं ह्योय वस्तू करताले. दोनी तोकांक खिळ्याक लाकडाचो मुंडो खोचून मर्दी दोर आडकोवन शिकलगार बायलो ताची दोनी हातान ओडाओड करताल्यो. लाकूड उलटें सुलटें फिरतालें. लाकडाक आयिल्ल्या गतेर तीक्ष्ण पात्यान, पटाशीच्या पात्यान लाकडार नक्षी कोरांततालें. हें काम चालू आसताना आमी भुरगीं हें नक्षी काम पळयत उबीं रावताली. हेर व्हडलीं मनशांय टायमपास म्हणून वताच्या सांवलेत ही कामां पळयत वेळ घालयताली. कांय मेस्त लोक पाळणी, हारशें, आरामखुर्च्यो, ल्हान भुरग्यांच्योय आरामखुर्च्यो थंयच सांवलेंत तयार करताले. सांज जायत आयली की, तयार वस्तूंक पॉलीश करुन नव्या पेठेंत विकूंक व्हरताले.

पाल पडिल्ल्या मळार सांज मात सामकी रमणीय आसताली. दीसभर भायर गेल्ल्यो बायलो आनी दादले सांज वेळार मेळयिल्ली कमाय आनी येता येता घेतिल्ली मीठ मिरसांग फाटीर उडोवन पालार परतताले. सगळे कडेन चुली पेटताल्यो. बायलांची पाट्यार आळेण वाटची गडबड सुरु जाताली. चडशें सगळे कडेन मटण मांस शिजतालें. आलें कोथमीर मसाले वांटून जाले की, मटणात उडयताले. सगळे कडेन एकच मंद वास, पोटाची भूक वाडोवपी, आनी तोंडाक रुच हाडपी असो दरवळतालो आमी वर्गीच पालांतल्या खोपीं कडेन हांगच्यान थंय फेरे मारताले. हीवय हेडगी जीण कितली सुंदर! आंपणेंय अशेंच जगचें, अशेंच हेडत फिरचें अशें आमकां वर्गीच दिसताले. हेडगे लोक 'ये हमारा कारवाँ है 'अशें म्हणताले. ते आयकतना बरें दिसतालें.
सोरो-मांस हांचो यथेच्छ आस्वाद घेतले नंतर हातूंतले कांय लोक वगीच कोणा कोणाशीं झगडताले. बोंबाबोंब करताले. मागीर तांच्यातलेच कोणय सोडयिल्ल्या भशेन करताले. नंतर हळू हळू सगळे शांत जाताले. चुकून एखाद्या पालात झांज, चिपळी, दिमडी, ढोलकी आदींची साथ आसताली. एकतारीर सुंदर सुंदर गितां म्हणताले. 'एक तारा बोले' अशीं गाणी गझल आनी लोकगितां गायताले. कितली अर्थपूर्ण, कितलीं तालबद्ध अशीं तीं गाणी आसताली. गायकांचो पहाडी आवाज आख्खो वाठार दुमदुमून उडयतालो. हेडग्या आयुश्याच्या जिंदगानीर उठवळ आयुश्याचो अर्थ सोदपी जिप्सी पदां ते चड कन्न म्हणताले. बंधू रे...ऽऽऽ 'अशीं धृपदाची उदासीन छटा आशिल्ली गितां म्हणताले. विरहाची अस्वस्थता चारी वटेन पातळिल्ल्या भशेन जाताले. मन खिन्न जातालें. आयुश्य कितलें क्षुद्र, क्षणभंगूर आसा, असो जीवनाचो अर्थ ते सांगताले. मोगावयली गझल ते दर्दभऱ्या स्वरांत गायताले. 'ए मोहब्बत तेरे अंजाम पे रोना आया' या गझलेंत सगळे उदास तल्लीन जाताले. साकी, मदिरेच्योय रचना ते गायताले. 'गिलासों में जो डुबे। फिर न उभरे जिंदगानी में। हजारों बह गये इन बोतलों के बंद पानी में।' अशो कांय अर्थपूर्ण आनी दर्दभऱ्या सुरावटीन या कारवांतल्या लोकांच्या गाण्यान आमच्या काळजाक भीतर खंय तरी डंख जालो काय असो भास जातालो.
शिकलगाराची एक खासीयत आशिल्ली, ते अशीं गाणी, गझलो, रुबायाँ गायताले की, तीं आयकतना काळीज कळवळतालें. मोगी मोग्याक तुजो माजेर कितलो मोग आसा, हें सिद्ध करचे खातीर आवयलें काळीज हाडची अट घालता. पदांतलो हो पिसो मोगी चक्क आवयक मारुन तिजें काळीज हाडता. तें हड्ड्याक कवटाळून धांवता धांवता तो पडता. हातांतलें काळीज मातेंत पडता, तरीय आवयलें काळीज आशिल्ल्यान, 'लागलें रे पुता तुका?' अशें विचारता. अशा कथानकाची गितां गायतना गावपी आनी आयकूवपी गदगदून वता, त्या सुरांत बुडून वता.

***



१०.

वयल्या आळेच्या मळार एक आपल्याच दांवांत स्वत:क गुठलावन घेतिल्ले घनदाट वडाचें झाड आसा. त्या मुळांक आमी लोंबताले. मुळांची सकल देंविल्ली तन्नी, हळडुवीं, मोव मुळां आमी तुटोवन खाताले. कंदमुळा सारखी तीं तुरट-गोड लागताली.

१९५८ सालांतलो माघ म्हयनो सरिल्लो. फाल्गून सुरु जाल्ल्या सत्तकां नंतर एका सांज वेळार गोविंदा डक्कलवाराचे बिराड वयल्या आळेंतल्या या वडाच्या शेजरां येवन देंवलें. चार गाडवां, एक खेचर, आनी ताचेर खच्चून बांदिल्लो उठवळ तंबूचो संसार मळार सोडोवन दवरलो. घराच्या आकाराचो चर खणून गोविदान तंबू उबो केलो. एका पेटेंतल्यो पांच स कोंब्यो मेकळ्यो सोडल्यो. गोविंदाली बायल, एक वयात आयिल्ली तरनाटी चली, हेर दोन ल्हान भुरगीं आनी हांडी वयलें एक बाळशे असो परिवार घेवन गोविंदा सुमार दोन वर्सांनंतर हांगा आयिल्लो. गांवोगांव मांगवाडे फुकत महाराष्ट्रभर भटकंती करची अशें तांचे आयुश्य.

डक्कलवार जात ही मांग जाती परस हलकी आनी सकल्ली जात म्हणून गणली वताली. अस्पृश्य मांगान डक्कलवार जातीक आफुडप ना. डक्कलवाराक आपडसपड

जाली जाल्यार तें भश्ट मानलें वतालें. मागीर घरादारान न्हावन धुवन गोमुत्रान खोप, घर शिंपडून घेवचें. शेणान घर सारोवन मागीरच घरांत आनी समाजांत वावुरचें, अशी प्रथा. अस्पृश्यांतली ही अस्पृश्यता कितली सकलल्या थरार वचून पाविल्ली, कितली रसातळाक गेल्ली हाचे हे जणू द्योतकच आशिल्लें.

ते वेळार आमकां ही प्रथा खंय कळताली? सदां सांजेर गोविंदा मांगवाडयांत भीक मागतालो. आवय सांगताली, भीक वयल्यान उडयताली म्हणून. गोविंदा चलत फुडें गेलो की, आवय तांब्यो भर उदाक घेवन गोविंदाच्या पावलांच्या दिकेन पयस मेरेन शितोडो घालताली माका हे विचित्र दिसताले. आवय म्हण, उदाक शिंपडिल्ल्यान भश्टपण आनी साडेसाती ना जावन वता. मांगवाडयांत लोक चर्चा करताले आनी अभिमानान सांगताले, डक्कलवार हे फकत मांगाच्याच हातचे अन्न खातात आनी मांगान दिल्लेंच उदाक पितात. डक्कलवार जर न्हंय हुपून उदकांतल्यान पलतडी वचूंक लागलो आनी ताका मर्दी खूब तान लागली तर तेणे न्हंयचे घोटभरय उदाक पिवंक जायना. अन्यथा अधर्म जावन देवाचो कोप जाता, अशी समजण करुन घेताले. ताका लागून ही जाती व्यचस्थेची प्रथा कडक पणान पाळली वताली.

डक्कलवाराची ही मांगावयली भक्ती आनी निश्टा आमकां वगींचच व्हडपण दिवन वताली. गोविंदा सगळ्या ल्हान व्हड मांगांक बावगोन अत्यंत नम्रपणान, 'फुरमान करतो मालक 'म्हणून पावला-पावलार नमस्कार करत वतालो. आमी शेंबडी भुरगीं, पूण त्या लाचारीन पुरेपूर भरिल्ल्या भावमुद्रेन आनी हात हालोवन केल्ल्या नमस्कारान वगींचच उर्मटा सारखी वागताली. गोविंदान केन्नाच चूल पेटयली ना. उदाक वाडग्यांत घेवन पोशान पितालो. हें सगळें विचित्र दिसतालें. या प्रथेचो कर्ता करविता आनी नियंत्रक कोण? हाचो मनस्वी राग येतालो. वस्तेंतल्या अर्दा परस चड मांग पयलींच गरीब आवस्थेंतले, मोलमजूरी, हमाली, बोरां, सान्नी दोरखंड विकून, आपली गुजराण कशीबशी करपी, पूण तेय मांग डक्कलवाराचे अन्नदाते म्हण समाज रुढीन मान मरातब दिल्ल्यान फुगून वताले. म्हज्या शेजारचो मराप्पा पोतराज दीसभर भीकमाग्या सारखो गांवभर हेडून, सांज वेळार झोळेंत वाडिल्लें उश्टें पाश्टें, भाकरे तुकडो, वेगवेगळो करुन दवरतालो. सांजेर तेगेलें चेडू, भंगीगल्ली, म्हारवाड्यांत आनी निलागर हांगा वचून भीक मागून हाडिल्लो झोळेतलो भाकरे तुकडो वाडग्यांत, बुटेत कुशीक काडून दवरताले. मराप्पा पोतराजाच्या घरा हाडिल्ल्या ह्या भिकेंतल्यान कांय मांग भाकरेतुकडो विकत घेताले. अशी ही परिस्थिती. अशा वेळार दिस्त गोविंदा डक्कलवार मराप्पा पोतराजाच्या दारारय भीक मागूंक उबो रावतालो. आनी मराप्पा पोतराज मात जणू मालकी आवेशान बायलेक फर्मान सोडतालो, 'ये कोंडे, अगे

गोविंदाक वाड पोटभर. अनमान करु नगस, खाऊ दे पोटभर त्याला. आपल्या हाता शिवाय ते कुणाचं खात नसतात.' गोविंदा, मराप्पा पोतराजा कडेन लाचार मुद्रेन पळयत रावतालो.

माका या दान धर्माची मजाच दिसताली.

रात जाताली मांगवाड्यांत हातुळणां पडतालीं. मागीर मांगवाड्याच्या मर्दी चौकार लाटणाच्या उजवाडांत गोविंदा आपली 'किंगरी 'मोर-विणा घेवन येतालो. आनी तीं सुरेल तालांत वाजयत कथा-गाणीं म्हणतालो. 'मोरा ऽऽऽ नाच बाबा, मालकाला सांग तुझी कथा ऽऽऽ 'अशें पालूपद म्हणतालो. दोन दुद्यांचे हें तंतूवाद्य एका बडेर दोंनय तोकांक दुदी बांदून एकाचेर मोर नाचयतात. मोरापांखान सजयिल्लो सुंदर मोर. तो नाचयत गोविंदा लोकगीत गायतालो. तांतूत डक्कलवार आनी मांगाच्या नात्यांची काणी गुतिल्ली आसताली. खंच्या काळार खंय कितें घडलें कोणाक खबर, पूण शेंकड्यांनी वर्सां, कदाचीत हजारों वर्सां ही मोरकथा, डक्कलवार पिढी आपल्या फुडले पिढे कडेन सोपयत आपली निश्टा प्राणपणान जपत आयिल्ले आसात. म ाका ती मोरकथा सारकी याद जायना. पूण त्या पारंपारीक गीतांत या जातीचो जाहीरनामो आनी मालकां विशींची अतूट भक्तिनिश्टा नक्कीच मांडिल्ली आसा. कथेच्या शेवटाक मोर नाच नाच नाचता हातांतली किंगरी बेधूंद जावन वाजोवं लागतात, मागीर मोर मान मोडून विणेर आपलो जीव सोडता. हाताच्या बोटान आनी दोरेच्या आदारान मोराचें नाचणें गोविंदा अप्रतिम रितीन दाखयतालो. ही कलाय अभिजात आशिल्ली. अजूनीय गांवा गांवांनी आसा.

गोविंदाचो राबतो म्हयनो भरच आसतालो. लोक गोविंदाली बरी खबरबात घताले. ह्या वर्सा खंयच्यान आयलो, खंय वतलो अशें विचारताले.

गोविंदाच्या हांगाच्या राबित्याक पंदरेक दीस जावन गेल्ले. एक दीस सांजवेळार गोविंदा मांगोबाची पूजा करुन भीक मागूक वस्तेंर गेलो. आज ताजे बराबर ताजी बायलय आशिल्ली. फावशी भीक मेळतरेर तो पालाकडेन परतलो. पोरांक पोटभर खावोवन, आपणेंय खावन घेतलें. तीं सगळी न्हिदलीं. गोविंदा किंगरीच्यो तारो जुळोवू लागलो. तर खळ्ळ कन्न एक तार ताणतना तुटली. आतां जाली पंचायत? गोविंदाच्या मनांत अशूभाची पाल चुकचुकली. पूण तरीय तेणे दुसरी तार जुळोवन तो मांगवाड्याच्या चौकार सदचे प्रमाण येवन बसलो. सदां उठून तींच तीं पदां, तीच तीं कथा, म्हण पोरां बाळा शिवाय कोणी जाण्टे येवन बसनाशिल्ले. पूण आपलो धर्म गोविंदाक पाळचो पडतालो. तो दोळें धांपून त्या लोकगितांत तल्लीन जालो.

हालीं सराक वडाच्या झाडामुळां कांय तवनास मांग तरनाट्यांची बसऊठ वाडिल्ली. कांय जाण्टेले गोल बसून पत्याचो डाव रंगयताले. बापू नागण्याचो हाजरतो एक

तरणो बांड पोर आशिल्लो. सामको तवनास, रोखडोच ह्मरी तुरीर येवपी. मस्तेन माजिल्लो. ताजें वडाकडेन यो वच वाडिल्लें. गोविंदाच्या पाला कडेन सारको दोळे लावन पळयतालो. गोविंदाले तरनाटें चेडू, कितेंय काम काडून वगीच पालाच्या भायर भीतर करतालें. बेठेंच आयदनां घासत बसतालें. कोंब्यो धर, वा खेचरांक तण उडय अशें किते बांय करीत रावतालें. आवयल्या लक्षांत हे आयिल्लें. आवय तिका म्हण, 'तुज्या मन थाऱ्या नाही, उगी होना पालांत 'अंदर बाहर का करतंस, मांगोबा कोपंल नव्ह?....काय बरं ह्या पोट्टीला करावं? 'आवयक चेडवाच्या हालचालीचो दुबाव आयिल्लो. त्या तार तुटिल्ल्या रातीं गोविंदा गाण्यांत गूंग जाल्लो, आनी हांगा हाजरत्यान डाव सादलो. गोविंदाल्या चेडवाक तेणे खुणोवन आडव्या नळा कडेन आपयलें. हाजरत्यान बरोबर हिकमतीन गोविंदाल्या चेडवाक पाला भायर काडिल्लें. तें त्या सुवातेर आयलें. हाजरत्यान तिज्या हाताक धरलें आनी, आडव्या नळाच्या दिकेन पयस पिंपळाच्या झाडां कडेन व्हेलें. दोगांय तरणी बांड, मुसम शिल्लीं, कामांध जाल्लीं. तांका पिंपळाचे अजिबात भंय दिसले ना. पिपळाच्या झाडां सकल काळखांत ताणी शेण खालें. कितलो तरी वेळ तीं थंयच आशिल्लीं. बेधूंद. तो वड, ती पाल, ती मांग वस्ती, तो गोविंदा तांका त्या सुखाफुडें कांयच दिस नाशिल्लें.

गोविंदाल्या बायलेक जाल्लो प्रकार ध्यानांत आयलो. डक्कलवाराक सादें आपुडचेंय नासता मांगान. थंय मांगानच डक्कलवाराच्या चेडवाक पळोवन व्हरुन व्याभिचार केल्लो. हें भयानक आशिल्लें, विपरीत आशिल्लें. गोविंदाली बायल कांचेवन गेल्ली. तिज्या तोंडांतल्यान उतरांय फुट नाशिल्लीं. भितरल्या भीतर ती हुलपोवन गेली. ही झळ कशी सोसची? कळना जालें. गोविंदा गाणे सोपोवन आयल्या आयल्या तिणे चेडवाली खबर ताज्या कानांत सांगली. गोविंदा मट्ट कन्न सकल बसलो. किंगरींतलो मोर कथेच्या शेवटाक मान उडोवन मरुन पडता तसो.

त्या पिपळाच्या झाडा सकल दाट काळखांत त्या सावलेंचो खेळ सरलो. सावल्यो अलग जाल्यो. आडव्या नळाचें उदाक सदचें सारकेंच संथ व्हांवतालें. ह्या इतल्या वेळांत कितलें उदाक व्हावन गेलें...

पालांत मसणाची सामसू आशिल्ली. गोविंदा बधीर जाल्लो. थोडे वेळान तेगेले चेडू हळूच आयलें.

'का माय, कुठं गेल्लात होता?'

'इरागतीला जी '

आवयन फापुडले, 'कंच्या इरागतीला जी, खोट का बोलावं?'

चेडू गप्प,

गोविंदान म्हणलें, 'माय, काय करुनसे बसले तुमी. ही अगळीक है, मांगोबा कोपंल. नास हुईल आपला.'

तरी चेडू गप्प.

आता किते करचे हो प्रस्न पडलो. सगळे कळून आयिल्लें. त्या रातीं तेंगेली न्हिदच हुडली. गोविंदान बायलेक बजायलें, 'सकाळी मांगोबाचें दर्शन कशें घेवचें? खंच्या तोंडान? कल्लेव जातलो. चला, हालोवया हांगाचो मुक्काम 'गोविंदाल्या बायलेकय तेच बरोबर दिसलें. मांगवाडो शांत न्हिदिल्लो.गोविंदा डक्कलवारान हळूच पाल मोडलो. बांदाबांद केली. गाडवार सामान सुमान, ढिगारो रचलो, पेटे भोंकतले म्हण तांची तोंडा बोतरांत बांदली. तरी पेटे उं उं करतालेंच. शक्य तो हालचालीची सुलूस लागू दिली ना. रात उलटली. सगळी तयारी जाली, आनी गोविंदा डक्कलवारान आपलो राबितो फातोडेर हालयलो. खांदेवयलें शेवणें हुडून वचचें इतल्या सहजतेन.

सकाळ जाली. उजवाडलें. सदचे प्रमाण मांग सकाळी सासकूवक लागले. नव्या दिसाच्या कामाक लागले. वडाच्या झाडा कडेन मात कांय मांग एकठांय जाल्ले, आरे, खंय गेलो हो गोविंदा? रातोरात एकाएकी गोविंदा डक्कलवार गायब जाल्यान चर्चेक ओतो आयिल्लो. तर्क-वितर्क सुरु जाले.भूत बीत आशिल्लीं काय किते तीं? अकस्मात कशीं गायब जाली?

हाजरतो मात लिंबाच्या काडेन दांत पाजळयत पयस उबो रावन पळयतालो.

दुसरे दिसा त्याच वडाच्या झाडा सकल हाजरतो डक्कलवाराच्या चेडवाली काणी, आमकां सगळ्या भुरग्यांक रंगोवन सांगतालो.

गोविंदा जो हांगच्यान गेलो तो परत केन्नाच ह्या वाटेन परतलो ना.ताजी खबर वार्ताय नंतर केन्ना खंच्यांन कळ्ळी ना. जणू तो कायमचोच अंतर्धान पावलो!

***



११.

सदां सूर्य उदेतालो. आनी हांगाचे काम नित्य नेमान आटापून अस्तमतालो. नवीदाद अशी कांयच ना. तेच दीस, तेच रुतू, तींच वर्सा, वर्सान वर्सा बदल नाच. वस्ती तशी सर्वसामान्यांचीच आशिल्ली. हांगा नवीन आनी कितें घडतलें? तींच घरां, तींच जळमटां. आयचो दीस गेलो की जालें.फाल्यांचे फाल्या. ताचें कितें कोड कौतूक?
वस्तेचे व्यवहार नित्य नेमान चलिल्लेच आसताले. पैशाचें देणे घेणे आनी वसूली चलताली. मातंग वस्तेंत श्रीपती मेनकुदळे नांवाचो एक तुर्रेबाज फेटेवालो सावकार सदांच येतालो. चौकांत बाजून भोसले हांचे किराणा दुकान आशिल्लें. सांजेर तो आयलो की, ताका एक खुर्ची दिताले. तो काळ्या कुळकुळीत हंबर सायकली वयल्यान झेतान येतालो. हंबर सायकलीचो एक वेगळोच नेट आसतालो. सायकलीच्या फाटल्या चक्राक डायनामो बसयिल्लो, मदल्या नळेक वायरीचे फेरे घालून मुखार खर बॅटरे सारखो लॅम्प लायिल्लो आसतालो. मेनकुदळे सावकाराची सायकल पारखींत आमी कुशीक उबे रावताले. मागीर कोणीतरी आमकां धावंडोन घालताले. आम च्यांतल्या एका तवनास भुरग्यान हळूच सावकाराल्या सायकलीच्या चक्रांतलें वारेंच सोडिल्लें. हें कोणाच्या लक्षांतय आयलें नाशिल्लें. सामकें बेमालूम पणान हें काम

केल्लें. त्या काळांत सायकली भाड्यान दिवपार्चीय दुकानां आशिल्लीं. कारण नास्तनाच सायकलींक कडक नेम आशिल्ले सायकलीर दुसऱ्याक बसोवन व्हरप, गुन्हो आशिल्लो डबल सीट म्हण पुलीस खटलो घालताले. रातीन सायकलीक दिवो गरजेचो आशिल्लो. ना जाल्यार विदावट लायट म्हण पुलीस धरताले. खटलो चलातलो. शिक्षा दंड जाताले. मेनकुदळे सावकार म्हाशय सावकारी धंद्या बरोबर वस्तेंतल्या तरनाट्या चलयांचेर वायट नदर दवरतालो. बायलोय आपलो सुवार्थ सादचे खातीर सावकाराचेर भाळिल्ल्याचें नाटक करताल्यो. पूण हें सगळें लिपोवन आसतालें.सावकार मात वस्तेर खूब वर्सां मेरेन यो वच करत आशिल्लो.

आख्ख्या वस्तेंत फकत एकाच सुवातेर, म्हणल्यार, रस्त्याच्या दुकांनांत तितलोच मर्फी रेडिओ आशिलो. तोंडांत बोट घातिल्ल्या ल्हान भुरग्याच्या चित्राचो. येवन वचून सिलोन रेडिओ वयलीं गाणी, आनी सांजवेळार सात वाजताना सुधा नरवणेच्यो मराठी खबरो आसताल्यो. दर बुधवारा रातीन णव वरार अमीन सायानीचो तो 'बिनाका गीतमाल'चो कार्यक्रम 'भाई यों और बेहनों' या पालूपदान सुरवात जावन गाजतालो. आमी नव्या पेठेंतल्या जिक्रिया हॉटेलांत, दोगांत एक च्या पीत पुराय तास भर तो कार्यक्रम आयकत बसताले. या हॉटेलांत आमच्या सारख्यांची दाटीच दाटी जाताली. 'बिनाका गीतमालेच्या' वर्सा अखेरेक पयलें येवपी गाणे धमाल उडयतालें. 'सोंग ऑफ द ईयर' म्हणून तें गाणे गाजतालें. सिलोन रेडिओचीं गाणी तशेंच वविध भारती वयली गाणी ही निर्मक्कळ आनंदाची पर्वणीच आशिल्ली.

सिलोन रेडिओ सकाळी सात वरार सुरु जातालो. ते पयली पांच मिनटां एक सुंदर धून वाजताली. तंबोऱ्या वयल्या तारांर एक लय वाजत रावताली. आनी ताचेर बासरीच्या धूनींतल्यान एक सूर आळयताले. मर्दी मर्दीच तो सूर तंबोऱ्याच्या तालार सतत आळयलो वतालो. रेडिओ आता थोडयाच वेळांत सुरु जातलो हाची तीं पूर्व सूचना आसताली.

आंब्याच्या दिसांत गांवभर आंब्याच्यो पारयो पुंजायत आमी भोंवताले. त्या पारयांचो एक खेळ मांडताले. कांय अंतरार पारयो ओळीन मांडप, सगळ्यांत फुडें एक ल्हान पारय आसताली, तिका चिली म्हणताले. ह्यो ओळीन मांडिल्ल्यो पारयो फातरान नेम धरुन उडोवप. हो खेळ तिगां चौगांत रंगतालो. केन्ना केन्ना पारयो भाजून फोडून तांतली कोय खावप. पुन्ना सारखी लागताली. चिंचारे भाजून फोडून खावपांत कितली मजा आसताली. चिंचाऱ्यांचोय खेळ मांडताले. चौकट आंखून कांचकवडयो खेळताले. पूनवेक वस्तीभर आपालिपा चलतालो. या खेळाक आमी 'शिवपाणी 'म्हणतात. आडव्या नळांत पेंवपाचो आनंद अवर्णनीय आशिल्लो. उदकांतय आमी शिवपाणी खेळताले. उदकांत बूडून भितरले भीतर पोवन खंचे खंय

वताले. मज्जा येताली. रातीन जेवणां जालीं की, व्हडांचो आट्यापाट्यांचो खेळ सुरु जातालो. आनी मज्जा येताली. 'सुर्र...सुर्र..ऽऽऽ' म्हणून आंखिल्ल्या चौकांत धांवां धांव आनी दुसऱ्या पार्टेची तांतूतल्यान चपळायेन निसटानिसटी जाताली. 'गड्डयांचों मार मार बिल्लस 'हो खेळय कांय भुरगीं खेळताली. 'विटी दांडूचो 'खेळ तर खूबच रंगत हाडतालो.

केन्ना केन्ना रातीन वस्तेंत देवीचीं गाणी म्हणत गोंदळी लोकांचो पंगड येतालो. एक गोंदळी हातांत पेटिल्ली दिवटी घेवन, आंगात गोंदळ्यांचो भेस घालून नाचत गाणे म्हणतालो ताच्या गळ्यांत जगदंबा मातेच्या कवड्यांच्यो माळोच माळो आसताल्यो. साथीक संबळ वाजोवपी. एकलो हातांत तुणतूणे घेवन उबो आसतालो. दुसरो चवडकें (एक चर्म वाद्य) धरपी तल्लीन जावन चवडकें वाजयतालो. तो चवडकें इतले सुंदर वाजयतालो की, चवडक्यांतले बोल, चडउतार मन मुग्ध करुन उडयताले.

हातांतल्या जळत्या दिवटेचो आंगारो आनी कमराक मुखार बांदिल्ल्या पिशवेंतलो कुकूम लावन हे गोंदळी भक्तांकडेन दक्षिणा मागताले. वस्तेंतल्या चौकार रातीन बरेच लोक हे गोंदळी आयले की, जमताले. रातीच्या काळखांत गोंदळ्यांच्या हातांतल्या दिवटेन भोवतणच्या वाठारांत तांबडो भडक उजावड पातळतालो. हातांतल्या पेटत्या दिवटेन आनी तांबडे भडक उजवाडान गोंदळ्यांचें तोंड उजळ दिसतालें. गाणी म्हणताना मर्दीच 'आई राजा ऽऽ उदे उदे ऽऽ म्हणताले. मागीर जमिल्ले लोकय तांतूत सामील जावन 'आई राजा ऽऽ उदे उदे ऽऽ 'अशे एकठांय मोठ्यान म्हणताले.

गोंदळी एक आगळोच खेळ मांडताले. तें एखाद्याक ताजें नांव विचारताले. आनी मागीर संबळ वाजोवप्याक तो पयसल्ल्यानच त्या नांवाचें खाणोखुणो करतालो. बोटांच्या हातवाऱ्यान आनी खाशेल्या कुरवांतल्यान संबळ वालो तें नांव वळखतालो. नांव वळखूवंक एक आणो, दोन आणे गोंदळयाक दिवचे पडताले. कोणी भक्त आपलें नांव सांगतालो. दक्षिणा दितालो. मागीर गोंदळी खाणो खुणो करुन संबळ वाल्याक वळखूवाक सांगतालो. हातवारे आनी बोटांच्यो विशिश्ट कुरु वळखूवन संबळ वालो तें नांव सोडोवन सांगतालो. लोक अजापीत जावन ताळ्यो मारताले. कोणी मजा म्हणून कठीण नांव सांगताले. तरीय संबळ वालो तें वळखतालो. आमी तवनास भुरगीं तांतूत वाटों घेवन, ताजी फकांडा करचे खातीर एखादें इंग्लीश नांव सांगताले. एक पावटीं आमी धडयांतलें अलेक्झांडर हें नांव वळखूवपाक दिलें. बाबड्या संबळ वाल्याक तें वळखूवपाक जमलें ना. गोंदळी परत परत खाणो खूणो करतालो. पूण अखेर संबळ वालो हरलो. मागीर आमी आमचो एक आणो परत घेतलो. एकूण कितें मजाच मजा आशिल्ली तें काळांत.

वस्तेंत जाय ते बहुरुपी येताले. पुलिसांच्या भेसांत येवन लोकांक भिवंडोवन सोडताले. विनोद करताले. कांय लोकांक तांच्यो नकलो, नाटकां खरींच दिसताली. हे बहूरुपी दर्जेदार विनोद करताले. जातीवंत कलाकारच आशिल्ले ते. लोकांक धमकावन म्हणताले, 'चला पुलीस चौकेर, कसलो घोळ घातला? तुमकां न्हावपाक आपयला. 'लोकांक खरेंच दिसताले. ते भिताले. खरो प्रकार कळ्ळो की, लोकांक हासो सोसू जायना जातालो.

अशा रितीन आमची मातंग वस्ती ही तरेकवार सांस्कृतीक आंगानी समृद्ध आशिल्ली. रम्य आशिल्लो तो काळ! कसलोच तणाव नाशिल्लो. साधें सरळ सुखी जीवन. मनशाक आ्युश्यांत आनीक कितें जाय आसता? आमच्या ल्हान पणांत आमकां सुंदर सुंदर काण्योय आयकूवंक मेळ्ळ्यो. आमच्या शेजरा तुकानाना नांवाचे एक जाण्टे गृहस्थ रावताले. सगळे जाण तेका आजोच म्हणताले. रातीन आंगणांत, ते भुरग्यांक जमोवन बऱ्यो बऱ्यो गोश्टी सांगताले. तांचे कडेन काण्यांचो भरपूर साठो आसतालो. खूब व्हड काण्यो आसताल्यो. एक पटी सांगूक सुरवात केली की, दोनेक तास तरी काणी सरनाशिल्ली. रामायण, महाभारता बरोबर, ते अनेक राजांच्यो, बेताळांच्यो, गुलबकावलीच्यो, पारसमर्णीच्यो, जादुई जगाच्यो काण्यो सांगतालो. रातींची जेवणां जाली की, गोश्टींची रम्य रात सुरु जाताली. एका वेगळ्या जगांत आमचो प्रवेश जातालो.

तुकानानाची गोश्ट सांगची शैली, ढब अत्यंत प्रभावी आशिल्ली. आयकूवपी तल्लीन जाताले. ल्हान भुरग्यां बरोबर जाण्टेय काणी आयकूवक जमताले. काणी सांगताना ते ती अशी खुलयताले की, बस् गोश्टीचो काळ, प्रसंग, गोश्टींतली मनशां, गांव, आमी जणू प्रत्यक्ष पळयतात कांय कितें अशें दिसू लागताले.

शेंपडी तुटिल्ल्या हुंदराच्या काणेंत हुंदीर म्हणतालो, 'माजी शेंपडी तरी दी, ना जाल्यार तुजो शेलो तरी..... 'अशें. केन्ना केन्ना फटींग कोलो आनी उंटाच्या इश्टागतीची काणी सांगतालो. शेंतांत कोबू खावन पोट भरले की, कोल्याक मस्ती मारताली, कोलो उदकांतल्यान व्हांवतेर वतना, 'जग बुडलें, जग बुडलें 'अशें आड्डतालो, ताका मागीर कोणय वाचयताले, आनी विचारताले, 'जग कित्याक, कशें बुडलें,? 'तेन्ना फटींग कोलो तांका, 'आरे बाबानों, हांवच मेलो जाल्यार जग बुडलेंच नी माका'?. असो युक्तिवाद लडयतालो.

काणी सांगताना कोणाकय हुंकार दिवचो पडतालो, आजो सांगताना, वाक्य जालें की मर्दी 'हां, हां, 'अशें म्हणप गरजेचें आसतालें. हुंकारान काणी रंगताली. आयकूवपी तल्लीन जावन आयकता काय ना, हेवय कळताले.तुकानानाच्या दरेक काणेत तान लाडू आनी भूक लाडू नांवाचें दोन घोडे आसताले. राजाक, राजकुंवराक वा काणेंतल्या

नायकाक भूक लागली की, तो भूक लाडू घोड्यार बसतालो, आनी तान लागली की, तान लाडू घोड्यार बसतालो. ताका लागून खाण्या-पिण्याचो प्रस्न आपसूकच सोडयलो वतालो.

नानांच्या काणेत सात न्हयों आडव्यो आयिल्ल्यो आसताल्योच. दोंगर, दऱ्यो, रानां, तातूंत आशिल्ली बिकट वाट, मानगीं, तांबडे मणी धारण केल्ले नाग, तांबड्या मण्यांच्या उजवाडांत नाग सरपटत वतानाचे प्रसंग, पांच फण्यांचे कालिया, शेंकड्यांनी वर्सा वयाचो एखादो संन्यासी रुशी, पाताळ, स्वर्ग अशें सगळें सगळें चित्रण आसपाविल्लें आसतालें. एकेक गोश्ट दोन-तीन दीस मेरेन तो सांगतालो. गोश्ट सरली की, शेवटाचे पसायदान म्हणल्यार तें, 'सगळे सुखी जाले, राज्य करु लागले तुमी बी राज्य करा आनी सुखी जायात', अशें सांगून गोश्ट सोपयताले. न्हगराचें नांव तर आटपाटच आसताले.

तर अशो ह्यो काण्यो. कितलें निर्मळ, निखळ आनी सुखी वातावरण आशिल्लें तें. लख्ख चान्याच्या रातीं सारखें शांत, नीरव प्रसन्न. आता तुकानाना सारखो आजो खंयच दिसना. खंयच्या वृद्धाश्रमान या आज्यांक गिळून उडयलें कोणाक खबर? आज्याल्या अंतःकरणांतल्यो ह्यो अभिजात काण्यो खंय नामशेश जाल्यो काय? कशें परत येतलें हें वैभव, ही खंत मनांत रुजून बसली ती कायमचीच.

तें साठावे वर्स आसत, पंडित जवाहरलाल नेहरुन सोलापूरांक भेट दिल्ली. वस्तेच्या पश्चिमे कडेन सोलापूरांतले गिरेस्त संस्थानीक आप्पासायब वारद, हांगेलें एक व्हड शेंत आशिल्लें. शेतांत फार्म हावस आनी गेस्ट हावसाचीय आप्पासायब वारद हांणी सोय केल्ली. ताणी थंय राबित्या खातीर एक ल्हानसो बंगलोय बांदिल्लो. गिरेस्त वारद केन्ना केन्ना थंय मुक्काम करतालो. भोंवतणी दाट झाडां आशिल्लीं. विस्तिर्ण शेंत आशिल्लें.

गिमाळयांचे दीस आशिल्लें. काँग्रेस पक्षान ते वेळार एक भव्य कृशी मेळावो भरयिल्लो. हो मेळावो आप्पासायब वारदांच्या शेतांच्या भव्य वाठारांत आयोजीत केल्लो. हजारांनी शेतकार, फुडारी, आनी जनता त्या मेळाव्याक जमिल्ली..मेळाव्याक पंडित जवाहरलाल आयिल्ले. ताणी पयली सेटलमेंटांतल्या वसणूकेक भेट दिली. थंयच्या कैकाडी समाजाक, इंग्लीश काळापसून तारेच्या कंपावंडांत रावपाची सक्ती आशिल्ली. सगळी जमात इंग्रजांनी गुन्हेगार म्हणून जाहीर केल्ली. कैकाडी समाज हे जन्मतः गुन्हेगार म्हण इंग्रजांन तांचेर शिक्को मारिल्लो. या गुन्हेगारी जमाती खातीर सेटलमेंटा सामकार एक पोस्ट बेसीक स्कूलय आशिल्ले. एका वेळार मालती बेडेकर, पूर्वाश्रमीच्यो बाळूताई खरे हाणीं सेटलमेंटांतल्या या पोस्ट बेसीक स्कूलात रावन थंयच्या वास्तव्यांत या जमातीचेर 'बळी 'ही कादंबरी बरयिल्ली.

पंडित नेहरुन हो सगळो वाठार भोवन पळयलो, गुन्हेगारी जीवन पळयलें, देश स्वतंत्र जावन एक तप उलटून गेलें, तरी ही जमात अजून हांगा तारेच्या वंयी भीतरच कशी अडकून आसा; हांच्या स्वातंत्र्या खातीर, सुटके खातीर आजवेर कोणेच कशें यत्न केलें नात, हांची व्यथा कोणेच कशी जाणून घेतली ना हें येवजून पंडितजी हळहळले, भावूक जाले. आमी सगळी भुरगीं पंडितजींक पळोवंक धांविल्ली. नेहरु धवीफुल्ल शेरवानी घालून, दाव्या खिशांत गूलाबाचें फूल लावन उबे आशिल्ले. आमी तांका साम कें लागीच्यान पळयले. पंडित जवाहरलाल नेहरुन एका व्हड अधिकाऱ्याक आपोवन ताबडतोब, या गुन्हेगार मानिल्ल्या जमातींचें हें तारेचें कंपावंड रोखडेंच काडून उडोवचो आदेश दिलो. आख्या गून्हेगार वस्तेत एक नवें चैतन्य निर्माण जालें. ताळ्यांचो प्रचंड कडकडाट जालो. मळब जणू निवळ जालें. सूर्याची किरणांय आता मेकळ्या मनान, मुक्तपणान फाल्याच्यान हांगा येतली. अशेंच सगळ्यांक दिसलें.

पंडित नेहरु एका उकत्या मोटारीत उबे रावन, हात जोडून, दोनय वटेन स्वागताक जमिल्ल्या लोकांक अभिवादन, हातवारे करीत तशेंच आशिर्वाद दीत मेळाव्याच्या दिकेन वचूंक लागले. लोक तांचे फाटल्यान धांवताले. आमीय त्या कृशी मेळाव्यांत वचून बसले. त्या वयांत कांय कळनाशिल्लें, पूण कार्यक्रम पळयत आमी बसले. मोठ मोठ्या फुडाऱ्यांची भाशणां जाली. पंडित जवाहरलाल नेहरुंचो भव्य सत्कार जालो. पंडितजीन भाशणय केलें. आमी चुळबुळत आशिल्ले. केन्ना सरतलो काय हो कार्यक्रम ! अशें जाल्लें. एकदाचो कार्यक्रम सोपलो, आनी नेहरु ताबडतोब गेलेंय. जमिल्ल्या हजारों शेतकाऱ्यां खातीर गोडशांचे जेवण आशिल्लें. कितलेशें कायलींत केल्लें गोडशें वांटले. निसती झुंबड उठिल्ली. उदकांचे कितलेशेंच माठ, हौद भरुन दवरिल्ले. लोक जेवन जेवन वताले. वचत थंय पत्रावळींची रास आनी उरिल्लें गोडशें दिसतालें. शिवाय आख्ख्या मेळाव्याच्या जाग्यार कायलींत भरमसाट गोडशें उरिल्लें.

हां हां म्हणता मांगवाडयांत ही खबर पातळ्ळी. ल्हान-व्हड, म्हातारे-कोतारे सगळेजाण झुंबड धांवची तशें कायलीच्या दिकेन धांवू लागले. खावन खावन कितलें गोडशें खातले? सगळे मुक्त आनी स्वैर आशिल्ले. पोटभर खावन तृप्त जाले. मागीर थंयचीच आयदनां घेवन गोडशें भरुन घेवन मांग परतूंक लागले. जेका जितले झेपता, जितले, उखलू जाता तितले घेवन वचूं लागले. कितले घेवचे, कितले ना, कळना. जंय थंय गोडशेंच गोडशें दिसूं लागले. हो सगळो प्रकार पळोवन 'कडूवानों खावा नेहरुची खीर फुकट, गाबरांनो तुमी नाय सुदारणार'. म्हण मांगांक शेजरांचें म्हार चाळोवंक, खुबळोवक लागले.

मांग वस्तेंत आमी जायते सोयऱ्या-धायऱ्या समवेत रावताले आजी, मामा, मामी, बापोले, भयणी आनी कांय सोयरे. घरांत आमी तीन भावंडां आनी एक ल्हान

भयण आनी आवय-बापूय असो परिवार. नगरपालिकेच्या तुटपुंज्या पगारार घर सारकें चलनाशिल्लें. दर म्हयन्याक पगार जालो की, पांजरपोळ चौकांतल्या एका रेशन दुकानार वचून आवय सामान भरताली. आवयकच हे सगळें करचें पडताले. तांतले तांतूत हांव व्हड, म्हण तीं माका पोतयो धरुंक घेवन वताली. रेशना खातीर पाळी आसताली. सगळें धान्य मेळतालें.

आम्ची पाळी ये मेरेन, एकपटी हांव लागींच आशिल्ल्या पेंटराच्या दुकानांत गेलो. 'पेंटर उमेश्वर पोरे 'असो दुकानार बॉर्ड आशिल्लो. तो पेंटिंगाची तरेकवार कामां करतालो. साईन बॉर्ड, दुकानांच्यो पाट्यो, आदी रंगोवपाचें काम थंय चलताले. हांव तें पळयत बसतालो. केन्ना केन्ना तो व्हड व्हड चित्रां रंगयत बसतालो. उमेश्वर पारेचें पेंटिग पळवचो माका नादच लागिल्लो. चित्रकलेची उपजत आवड आशिल्ल्यान जायत. एकपटी तुळजा भवानी मातेन शिवरायाक दिल्ल्या तलवारींचो देखावो तो रंगयतालो. ते हांव सदां वचून पळयतालो शंकर पार्वतींचे चित्रय तो रंगयतालो. उमेश्वर पोरे हाची कला ते वेळार गाजताली. हांव अदीं मदीं येता ते पळोवन तेणे एकपटी माका हटकिलो. 'काम करतलो'? पूण हांव शिकतालो. माका चित्राची आवड आसा. तुमी चित्र कशें काडतात तें पळोवंक हांव येता. अशें हांवे तेका सांगले. तेणे माज्या फाटीर हात दवरलो. माका खूब बरें दिसलें.

हे वटेन रेशनाची पाळी आयली की, आवय बोब मारताली. हांव मागीर धांव मारतालो. म्हाल भरतालो. केन्ना केन्ना बापूय कोणालीय सायकल घेवन येतालो. मागीर तो सगळो म्हाल सायकलीर घालून आमी घरा व्हरताले. हें रेशन आमकां म्हयनो भर पावताले.

वयल्या आळेंत एक भयण रावताली. तिजें नांव विठाबाय. तिजो घोव परशूराम देवकुळे, एस्.टी.त शिपाय म्हण कामाक आशिल्लो. तेका शिपायाचो भेस आशिल्ल्यान आमकां तो वेगळोच दिसतालो. दुसरी एक भयण शकुंतला ही लागसारच वडाळा या खेड्यांत रावताली. तिजो घोव मनोहर आडागळे.शेतकाम करतालो. तांची भावकी खूब व्हड आशिल्ली. आडागळे वाडो म्हण वडाळ्यांत प्रसिद्ध आशिल्लो. हरिबा, कोंडिबा, दाजीबा, किसन, विठ्ठल अशी आट धा भावकी एकठांय रावताली. सोलापूराक ते केन्ना केन्ना बैलागाडी घेवन बाजाराक येताले. मंगळारचो बाजार आसतालो. आमच्या आंगणांत ते बैलागाडी सोडताले. हांव गाडेंत बसतालो. आवय म्हणताली, 'बाबा सरक, बैल शींग बींग मारील. नाही तर गाडी हुरळंल.'

गिमाळ्यांत वडाळ्यांत मलिक पीराचो उरुस आसतालो. खेड्यांतली जात्रा धामधूमीची आसताली. हांव या उरुसांत जात्रा पळोवंक वतालो. मजा येताली. पीराक निवेद्या वाट्याक मलिदो करुन दाखयताले. मलिदो प्रसाद म्हणून खांवक दिताले. उरुस जाले

नंतर गांवांत जंगी कुस्त्यो जाताल्यो. सगळें आगळें वेगळें आसताले. मनरिजवण जाताली.
एकुणीसशें एकसस्टाचो काळ. पुण्यांत पानशेतचें धरण फुटलें. उदाक गांवांत घुसलें. अतोनात नुकसान जालें. 'धरणग्रस्तांक आदार करा 'म्हण ते वेळार एक मोहीम काडिल्ली. सगळे वटेन पैशे एकठांय केले वताले. शाळेतय पैशे जमयताले. घरोन घर फिरताले. म्हज्या व्हडल्या भयणीलो घोव परशुराम देवकुळे, एक व्हडलो डबो घेवन एस्. टी.स्टाफ आनी प्रवाशां कडल्यान मदत एकठांय करतालो सायबांन तेका हें काम दिल्लें. मदत एकठांय करचे खातीर आशिल्लो डबो तसो व्हडच आशिल्लो. तांतूत भरपूर पैशे जमा जांवंक शकताले. लोक तांतूत नाणीं, नोटीं उडयताले. चारेक दिसांत, मदत एकठांय करुन डबो भरपाक आयलो. वजनदार जालो. तो डबो सायबाल्या ऑफिसांतल्या कपाटांत दवरलो. डबो टिनाच्या पत्र्याचो आशिल्लो. तो चारय वटेन बंद करुन सील केल्लो. तेका लागून सोपेपणी उघडपाचो प्रस्नच नाशिल्लो.
देवकुळे हाची नीत बिघडली. तेच्या मनांत काळेबेरें आयले. रजेच्या दिसा देवकुळे म्हाशय ऑफिसांत गेलो. डुप्लीकेट चावेन तेणे कपाट उघडून तो डबो भायर काडलो. ते वेळार डबे पत्रे दुरुस्त करपी कामगार वस्तेंत भोंवत आसताले. अशाच एका कामगाराक कांय लालूच दाखोवन देवकुळे म्हाशयान तेका ऑफिसांत हाडिल्ले. रजेचो दीस आशिल्ल्यान ऑफिसांत कोणच नाशिल्ले. तो डबो देवकुळेन त्या कारागिराक दाखयलो. कारागिरान डबो सकल वैर करुन सारको पळयलो. ताच्या कल्पने प्रमाण तो डबो तेणे सकल्ल्यान फोडलो. डब्यांतली नाणीं, नोटी, भसभशी सकल पडली. देवकुळे म्हाशयान तांतूतले सुमार तीन वाट्यान पुंजी आपल्या एका पिशवेंत घातली, आनी उरिल्लो वाटो परत डब्यांत घालून त्या कारागिरा कडल्यान डबो ठाकून ठोकून दुरुस्त करुन जशाचो तसो तयार करुन घेतलो. हें काम इतलें बेमालमू करुन घेतलें की, डब्याच्या मोडतोडीचो कोणाकच दुबाव येवनये. डब्याचें वजन मात कमी जाल्लें. इतलोच संशयाक जागो.
एक दोन दिसा नंतर, ही मदत शासना कडेन धाडची म्हण एस्.टी.च्या डेपो मॅनेजरान हेर कांय अधिकाऱ्यांक आपोवन तो डबो सगळ्यां मुखार फोडलो. आनी भितरले पैशे मेजार ओतले. पळयत जाल्यार भीतर धा पंदरा नोटां आनी कांय चिल्लर! मॅनेजर सायब अजापीत जाले. अशी कशी रक्कम कमी जाली? कसले लोक हे, निधी परत मोजलो. शंभर रुपया मेरेनय पावलो ना. मॅनेजर विरुस जाले. 'वचूं दी, बरें आसा 'म्हणत ओग्गी रावले. देवकुळे अत्यंत निर्विकार पणान हे पळयत काम करतालो. पानशेतच्या मदतीचो बरोच डल्लो तेणे मारिल्लो. मनांतल्यान खूश आशिलो तो.
चारेक दीस गेले, डबेवालो कारागीर परत देवकुळे कडेन आयलो .ताजी आस वाडिल्ली.

तेणे देवकुळेक उलोवन दाखयलें. 'काय राव, येवढं मोठं काम केलं, आन् तुमी आम्हांला फराळावरच भागवलं. आम्हाला आजून पन्नास रुपये द्या.' 'आता कुठलं देऊ आणि तू कोण, काय कुठला?' 'कशाचा डबा? काय येड बीड लागलंय काय?' म्हण देवकुळे त्या डबेवाल्याक दमदाटी करुक लागलो. जालें...दोगांची बाचाबाची वाडली. आनी अचानक डबेवालो नीट डेपो मॅनेजराच्या कॅबीनांत घुसलो. देवकुळे आडयता मेरेन सगळें डी .एम्. क सांगून मेकळो जालो. देवकुळेक हें सगळें अनपेक्षित आशिल्लें. डेपो मॅनेजर खुबळ्ळो. तार्णी ताबडतोब पोलीसांक फोन लायलो.आनी, जाल्लो प्रकार सांगलो. नेमा प्रमाण कायदेशीर कारवाय जाली.

मागीर जावचें तेंच जालें. गोश्ट सिद्ध जाली. मेवणो परशुराम देवकुळे हाका नोकरे वयल्यान निलंबीत केलें. फुडें चौकशीचो चडसो फायदो जालो ना. फ्रॉड मोठो आनी गंभीर मानलो गेलो. आनी देवकुळे म्हाशयाक नोकरे वयल्यान बडतर्फ केले. अशे हे महोदय. जन्माची भाकरी उडोवन बसले.

फुडें तो व्हांवतेरच गेलो. सोरो, जुगार, मटको अशा नादाक लागून बरबाद जालो. माज्या भयणीची मात आयुश्यभर हुलपोवणी जाली. ही झळ तिका विना कारण सोसची पडली.

***




१२.

मुळावे शाळेच्या अंतीम, सातवेच्या परिक्षेक व्ह.फा. म्हणल्यार व्हरनॅक्युलर फायनल. व्ह. फा. जाली की, ते वेळार तो शिक्षकी पेशाक पात्र मानले वतालें. हांव सातवेक म्हणल्यार व्ह.फा. त उत्तम मार्क मेळोवन पास जालो. सातवेची ही परिक्षा बॉर्डाची आशिल्ली.

आता आठवेक वचप. हांवे हरीभाई देवकरण प्रशाळेचो फॉर्म भरलो. पूण प्रवेश मेळ्ळो ना. माका उत्तम मार्क आसूनय प्रवेश नाकारपाचें कारण कळकू शकले ना. मागीर हांवे आर. एस्. चंडक हायस्कूलांत फॉर्म भरलो  थंय माका सहज प्रवेश मेळ्ळो. चंडक हायस्कूल ही सुद्धा सोलापूरांतली एक नांवाजती प्रशाला आशिल्ली. बरी नवी सुसज्ज दोन मजली इमारत, व्हडलें पटांगण. हांगा प्रामुख्यान दलीत, मारवाडी, ब्राह्मण, जातीचे विद्यार्थी आशिल्ले.

आमकां पिसाळ नांवाचें एक मास्तर आशिल्ले. तांचे दोळे तिरशें आशिल्लें. तेका लागून ते कोणाचेर रागार जातात, कोणाक बडी काडून मारतात, हेंच कळनाशिल्लें. भुरगीं गोंधळ घालतालीं. मास्तर तिडकून, आड्डून रागान, 'तूंच तूंच रे, आनी कोण? 'अशें म्हणताले. तांची अनुनासिक ढब आगळीच आशिल्ली. भुरगीं तोच आवाज

काडून तांची फकाणा करतालीं. पूण मास्तराली चित्रकला अप्रतीम आशिल्ली. ते वेळचो सोलापूरचो फामाद यल्ला दासी पेंटर हो पिसाळ मास्तरांचोच विद्यार्थी म्हण वळखलो वतालो. म्हण आमकां मास्तरां विशीं खूब आदर आशिल्लो. यल्ला दासी पेंटर हे सिनेमा थियेटरा खातीर व्हडले व्हडले बोर्ड अत्यंत सुंदर रितीन रंगयतालो. 'झनक झनक पायल बाजे, 'नवरंग', 'मोघले आजम', 'जिस देश में गंगा बहती है', 'संगम', अशा कितल्याशाच चित्रपटांचे भव्य आनी सुंदर बोर्ड यल्ला दासी हाणे रंगयिल्ले. हे बोर्ड पळोवप हो एक वेगळोच आनंद आशिल्लो.

मागेली चित्रकला, चित्रकलेतलो मागेलो सफायदार हात, पिसाळ मास्तरान पारखिलो. आनी माका म्हऱ्यांत घेवन, 'तुजी चित्रकला बरी आसा, तूं चित्रकलेंत मन घाल', अशें सांगले. ड्रॉईंग वर्गाचो हांव मॉनीटर जालो.कागद, रंग, पेन्सिल, हें सगळे मास्तरान माज्या ताब्यांत दिलें. माका हाचें मोठेपण दिसूं लागलें. नंतर पिसाळ मास्तरान माका एलिमेंट्री ड्रॉईंग परिक्षेचो फॉर्म भरुन परिक्षेक बसयलें. हांव बी ग्रेड मेळोवन पास जालो. दुसऱ्या वर्सा इंटरमिजीएट ड्रॉईंग परिक्षा दिली. तांतूतय हांव उत्तम रितीन पास जालो.इतलेंच न्ही, तर महाराश्ट्रांत हांव या परिक्षेंत पयलो आयलो. हायस्कूलांत माजी तोखणाय जाली. हायस्कूलाच्या बोर्डार माजें नांव झळकलें. खबरां पत्रांत फोटो सयत बातमी दिली. शाळेच्या मॅगझिनातय पयल्या पानार माजो सन्मान-फोटो झळकलो. एक दीस अचानक, महाराश्ट्र ड्रॉईंग बोर्डा कडल्यान आयिल्लो, ड्रॉईंगाचो एक प्रशस्थ बोर्ड आनी एक व्हडलो कलर बॉक्स, जाय त्या ल्हान व्हड आकाराचे ब्रश बक्षिस म्हण माका मेळ्ळें. मुख्याध्यापकान खाशेलो ल्हानसो कार्यक्रम करुन तें बक्षिस आनी पुरस्कार माका दिलो.

चंडक हायस्कूलांतले आठवेचें वर्स बहारदारच आशिल्लें. रोटरी क्लबा वतीन रांगोळी सर्त आशिल्ली. सगळ्या हायस्कूलांतल्या भुरग्यां खातीर आयोजीत केल्ली. हांवेय तांतूंत वाटो घेतिल्लो. रांगोळेंतल्यान हांवे शिवाजी महाराजांचे चित्र काडिल्ले. अप्रतीम चित्र जाले. आनी माका पयलें बक्षीस मेळ्ळें. धा रुपया हें प्रमाण पत्रा सयत खाशेलें बक्षीस आशिल्लें. रोटरी क्लबानय समारंभ पूर्वक तो पयलो पुरस्कार माका प्रदान केलो.

ते वेळार दर वर्सा सगळ्या हायस्कूला खातीर वक्तृत्व स्पर्धा जाताली. हांवेय एका स्पर्धेत वांटो घतिल्लो. पूण थंय मात माका मोठे जैत मेळ्ळें ना. भिशीकर नांवाची ह. दे. प्रशाळेची चली पयली आयली. माका फकत उमेद वाडोवपी बक्षिसार समाधान मानून घेवचे पडले.

चंडक हायस्कूल हें तशे नामवंत आशिल्लें. या हायस्कूलांत हाव णवेंत आसतना, शिक्षकान एक वादविवाद स्पर्धा दवरिल्ली. विशय आशिल्लो, 'निसर्ग श्रेश्ट काय

मनीस'? स्पर्धेत बांटो घतिल्ली भुरगीं तोंडपाठ केल्ल्या प्रमाण आपापल्या विशया नुसार उलयताली. चडशें ते सगळे बाळबोधच आशिल्ले. सदचे प्रमाण हांव अखेरच्या बाकार बशिल्लो. म्हजें बुजरें पण माका फाटी ओडतालेंच. स्पर्धा सरत आयली, कित्याक कोणाक खबर, अकस्मात हांये सराकडेन पळोवन बोट वयर केले. सरान माका उलोवपाक संद दिली. तेन्ना हांये वेवस्थेक आनी वेवस्था निर्माण करपी मनशांक मनसोक्त झोडलें. ही विचारऊर्जा माज्यांत खंयच्यान आयिल्ली कोणाक खबर. जाणे आमकां जन्म दिलो, अनमोल जीवन दिलें, त्या निसर्गाक विसरपी, आनी विश्वासघात करपी मनीस हो सगळ्यांत बेमान प्राणी आसा, अशें माजें मत हांये खडसावन सांगले. सामकें तावातावान. हांव किर्ते बडबडलो हें माकाच कळनाशिल्लें. माजोच गोंदळ जाल्लो. पूण हांव निसर्गार, निसर्गाच्या श्रेश्टत्वार खूब खूब आपले पणान उलयलो. मनशां बद्दल आनी मनशांनी निर्माण केल्ल्या वेवस्थे बद्दल इतलो तिटकारो माज्या मनांत खंयच्यान घुशिल्लो हें माका कळनाशिल्लें. वट्टार हांव बरें उलयलो. तो दीस, तो वर्ग, तें टेबल आनी तें माजें सर आजय माका स्पश्ट याद जाता. अजापीत जावन कुलकर्णी सरांनी माजी खूब तोखणाय केली, माज्या फाटीवयल्यान हात फिरयलो. मदले सुटेंत आवर्जून माका मुख्याध्यापका कडेन व्हेलें. श्री.सोवनी सर हें आमचें मुख्याध्यापक आशिल्ले. कुलकर्णी सरांनी सोवनी सरांक माज्या वक्तृत्वा बद्दल भरभरुन सांगले. मुख्याध्यापक सोवनी सरांनी माका खिशांतल्यान एक रुपया काडून बक्षिसी दिवन माजी फाट थोपटिली. हांव कुलकर्णी आनी सोवनी सरांच्या पांया पडलो. व्हडलें जैत मेळिल्ल्याची खोशी माज्या तोंडार खेळताली.

मुळावे शाळे परस हायस्कूलाचे वातावरण वेगळेंच आसता. मुळावें शाळेंत एका यत्तेचो एकच शिक्षक, तेच सगळे विशय वर्सभर शिकयताले. हांगा हायस्कूलांत तशें नाशिल्लें. दरेक विशयाक एकेक शिक्षक, तांतूंतले एक वर्ग शिक्षक. या पद्धतीन पत्येक विशयांतले जाणकार शिक्षक आमकां आयतेच मेळ्ळे. ताका लागून आमची बौद्धिक वाड झपाट्यान जाली. आटवेचे वर्स हांव म्हत्वाचें मानता. कारण हांगाच्यानच खरें जीणेंत फुडें आमी कोण जातले, किर्ते करतले हें निर्भर जायत आसता.. आमकां नकळत. म्हज्या अभ्यासांतली प्रगती पळोवन आमचे, आर.व्ही.देशपांडे सर, एल. एस्. भोसले सर, शिंत्रे, सोहनी, करकरे, सरांनी माका खूब उमेद दिली. तांका लागून हांव प्रत्येक वर्सुकी परिक्षेंत सगळ्यां तुकडेंत वयलो नंबर घेतालो. उत्तम चित्रकलेन आनी हुशारेन हांव चंडक हायस्कूलांत एक नांवाजतो विद्यार्थी म्हणून गणलो वतालो. म्हज्या बरोबर मीरा सूर्यवंशी आनी राम बापट हेवय अत्यंत हूशार विद्यार्थी आशिल्ले. आमच्या तिगांत पयल्या, दुसऱ्या, तिसऱ्या नंबरा खातीर जणू स्पर्धाच आसताली. ताका लागून तांची आनी म्हजी इश्टागत जाल्ली.

फुडे मॅट्रिक-एस्.एस्.सी. चें वर्स आयलें. अकरावेक बॉर्ड परिक्षा आसताली. सगळे शिक्षक आमचेर लक्ष दवरुन आशिल्ले. पूण दीस्त त्याच वर्सा माजें अभ्यासा वयलें लक्ष हुडलें. कोणाली दीश्ट लागली कोणाक खबर? फुडें हांये हायस्कूलांत वचचेंय बंद केलें. वोगीच भायर हेडतालो, तवनासा भशेन. मनोहर भालेराव हो म्हजो वर्गांतलो इश्ट, आमी दोगांय मेळून आडव्या नळाच्या कडेन भोंवत भोंवत केन्ना हिप्परगा, तर केन्ना भोगाव, बाणेगांव मेरेन शिंदोळयो, सांगो, चिंचो, कोबू खावच्या निमित्तान हेडत रावताले. मॅट्रिकेचें वर्स म्हत्वाचे आशिल्लें. पूण म्हजें अभ्यासांत लक्ष लागना जालें. शाळा बुडोवंक लागलो. पुस्तक हातांत घेवचें दिसना जालें. मनाची अशी गत कित्याक जाली कळना जालें. हें वर्स वयाच्या बदलाच्या स्थितिचें आसत काय? कोणाक खबर? पूण हांव संभ्रमित जाल्लो हें खरें.

शेवटाक परिक्षा दोन म्हयन्यार आयली. म्हजें तवनासपण, हेडगेपण, शिक्षक एल. एस्. भोसले हांच्या लक्षांत आयलें. हांव सरांचो आवडतो विद्यार्थी आशिल्लो. ताणीं मनांत कितें थारायिल्लें कोणाक खबर, म्हज्या घरा येवन सरांन म्हजी चौकशी केली. नंतर ताणी माका शाळेंत आपोवन घेतलें, आनी म्हजी बरीच खबर घेतली. जणू ताणी म्हजे दोळेच उघडले. तांच्या या कानउघडणेन हांवे परत अभ्यासाकडेन लक्ष केंद्रित केलें. देड दोन म्हयन्यांत हायर मॅथ्सासयत सात विशयांच्या अभ्यासाची हांये आखणी केली. दीसरात झटलो. खूब अभ्यास केलो. फांतोडेर उठून अभ्यास करप माका खूब आवडतालें. माका चार वरार उठवप, हाचो आवयक घोरच लागिल्लो. ते खातीर ती बाबडी सारकी न्हिदताली काय ना कोणाक खबर, पूण म्हज्या अभ्यासा खातीर तिणेय खूब कश्ट उपशिले.

म्हजी परिक्षा वेवस्थित जाली. सगळे पेपर बरे गेले. थारिल्ल्या प्रमाण सत्तावीस में क एस्.एस्.सी.चो रिझल्ट लागलो. हांव उत्तम मार्कांनी पास जालो.

मांगवाड्यांत शिकपी आमी सामकीं कमी भुरगीं आशिल्लीं. लागसारच म्हार वाड्यांतली अकरा नंबर शाळा आनी सम्राट चौकांतलें चंडक हायस्कूल मेळून आमी धा ते पंदरा भुरगींच शिकताली. जाधव, रास्ते, शिंदे, वायदंडे, लोंढे, कांबळे, बनसोडे, खंदारे, इतल्याच आडनांवां भोंवतणी मांगवस्तेंतले शिक्षण घुटमळतालें. चुकून माने वा साठे आसताले. कॉलेजांत तर अजून कोणच पाविल्ले नाशिल्ले. हो सगळो पसारो मॅट्रिक मेरेनचोच.

हायस्कूलच्या पिरायेत आमी सगळ्या विद्यार्थ्यांनी मेळून 'महालक्ष्मी तरुण मंडळ' नांवाचें एक मंडळय चलयिल्लें. चडशे कांय कळनाशिल्ल्या पिरायेचे आमी, तरीय सरभोंवतणचें वातावरण पळोवन आमीय मंडळ चलोवचें या निर्धारान, या तरुण मंडळाची आमी स्थापना केल्ली. 'महालक्ष्मी तरुण मंडळाची' नोंदणीय त्याच नेमा प्रम

ाण करुन सामाजिक, शैक्षणिक, सांस्कृतिक, आनी खेळ अशा उद्दिशटांचो बायलोज तयार केल्लो. एन्.टी.रास्ते हे मंडळाचें अध्यक्ष जाले. शाम जाधव उपाध्यक्ष आनी हांव सचिव जालो. आमी खेळाकडेन चड लक्ष दिल्लें. कबड्डी आनी व्हॉलीबॉल खेळाचे मळ मांगवाडयांतल्या मेकळ्या सुवातेर आंखून, सदां सांजेर आमी नित्य नेमान खेळताले. कबड्डी आनी व्हॉलीबॉल हे आमचे खेळ, पस्तीस कील, पन्नास कील, या वजनी गटांत आनी उक्त्या गटांत कबड्डीचे सामने जाताले. आमी ते प्रमाण भुरगे जमोवन खेळ गट तयार केल्ले.

सांजवेळ म्हणल्यार आमची सामकी आनंदाची वेळ मळार उदक मारपा पसून उमेद. धवी फीत मारुन आमी खेळाच्या कपड्या सयत मैदानार देंवताले. मैदानाक आमी ग्राऊंड म्हणताले. सदांच कबड्डिचो सराव केलो वतालो. कुशीकच व्हॉलीबॉलाचें जाळ बांदून थंय आमी व्हॉलीबॉल खेळताले. 'कामगार कल्याण मंडळा' कडल्यान आमकां खेळपाक म्हयन्याक एक बॉल फुकट मेळतालो. खेळाचो तसो चडसो खर्च येनाशिल्लो. देखून सदां नेमान खेळ सुरु आशिल्लो.

आमी मंडळाच्यो मिटिंगोय घेताले. मिटिंगेत खेळा विशीं आनी शिक्षणा विशीं चर्चा करताले. तेवेळार शारांत मोठेमोठे संघ आशिल्ले. 'जयभवानी तरुण मंडळ', 'भैया तरुण मंडळ', 'बाळीवेस तरुण मंडळ', 'श्रीराम तरुण मंडळ', 'रम ापती तरुण मंडळ', जांबवीर तरुण मंडळ', अशी कबड्डिचीं मंडळां आशिल्लीं. तर 'गौतम क्लब', 'सिद्धार्थ क्लब', 'इक्बाल क्लब', 'चक्रवर्ती क्लब', अशें व्हॉलीबॉलाचें क्लब आशिल्ले. या सगळ्या मंडळ आनी क्लबांतले खेळगडे आपापल्या खेळांत सामके तरबेज आशिल्ले. मुंबय पुण्याच्या संघाशीय ते खरपणान तोंड दिताले. आमचें मंडळय हांतूत फाटीं नाशिल्लें. तुळजापूरच्या सामन्यांत, चाळीस कील वजन गटांत आमी कबड्डिचें अजिक्यपद मेळयिल्लें. दरेक सामन्यांत आमी वाटो घेताले.

दरेक मंडळ कबड्डी आनी हॉलीबॉल खेळाचे वर्सुकी सामने भरयताले.व्हडली परबच आसताली ती. आमी या सामन्यांत हमखास वाटो घेताले. तीन चार दीस चलतल्या सामन्यांत शेवटाक दोन संघ फायनलीक पावताले.फायनीलचो सामनो सामको अटीतटीचो जातालो. केन्ना केन्ना पुण्या मुंबयचे संघ फायनलीक येताले, आनी अजिक्यपदाचो कप घेवन वताले. मधू पाटील, संभा भाले, शेट्टी बंधू, नांदगांवकर, शांताराम जाधव, थापा, अशें बलदंड खेळगडे सामन्यांत देंवताले. सोलापूरांत ते वेळार गुरप्पा पारशेट्टी, विजय लकशेट्टी, भीम रोणे, यल्लप्पा जेनुरे, महिंद्रकर, बासू सरवदे, मामड्याल तशेंच सेटलमेंटचे जाधव, गायकवाड, रमापतीचे शिवशरण, बगाडे, अशें नामवंत खेळगडे कबड्डिचे मैदान गाजयताले.

व्हॉलीबॉलांत गौतम, सिद्धार्थ, चक्रवर्ती, आनी इक्बाल क्लब हातूंत बली बनसोडे, बालाजी, नागेश सुतकर, इक्बाल, प्यारे, हे अतिशय प्रभावी खेळ करताले. तांचो शॉटी गेम अत्यंत प्रेक्षणीय आशिल्लो.

आमच्या मंडळांत हांव स्वत: नंतर शाम जाधव, सिद्राम वायदंडे, सुभाश लोंढे, प्रकाश लोंढे, गोरख पवार, सुखदेव लांडगे, वसंत जाधव, कुमार शिंदे, अशें बरे खेळगडे आशिल्ले. कबड्डीत चढाय, पकड, कोनसो, क्षेत्ररक्षण, आदींत आमी तरबेज आशिल्ले. आमच्या खेळाची शारभर तोखणाय जाताली.

हांव स्वत: कबड्डींतलो उत्तम खेळगडो आशिल्लो. माजी चडाय अतिशय आकर्शक आसताली. मुखाल्ल्या सातय खेळगड्यांक हांव सतत हालोवन आनी खेळोवन दवरतालो. कोनसो धरुन मुखाल्लो धरुंक आयलो जाल्यार हांव उत्तम रितीन हुडी घेतालो. माज्या कबड्डीच्या चडायेच्या वेळार गॅलरींतले लोक ताळ्यो वाजोवन माका फोर्स दिताले. चडशें माका धरप जायनाशिल्लें. ताचें कारण म्हणल्यार, हांव अत्यंत सावध, एकाग्र आनी चपळ खेळगडो आशिल्लो. माका व्यक्तिगत उत्तम चढायेचीं बक्षिसांय मेळिल्लीं.

ही खेळामंडळां फकत खेळाचीच मंडळां म्हण प्रसिद्ध नाशिल्लीं. तर त्या काळांतले राजकारणय या मंडळा भोंवतणी केंद्रित जाल्लें. ताका लागून बाबूराव चाकोते, यल्लप्पा जेनुरे, भीमराव रोणे, महिंद्रकर हे सगळे कबड्डी खेळगडे फुडें महापौर, आमदार जाले हें ज्ञातच आसा.

खेळाबरोबरच आमी हेर सामाजिक उदरगतेची, उन्नतीची कामां ते पिरायेर करताले. समाज कल्याण खात्या कडल्यान झोपडपट्टेंत राबोवचे खातीर सकस आहार येवजण जाहीर जाल्ली. आमी त्या खात्यातल्या अधिकाऱ्याक वचून मेळ्ळे. मंडळ सार्वजनीक न्याय नोंदणी कायद्यानुसार रजिस्टर्ड आशिल्लें. आमी तरेकवार कामां करतच आशिल्ले. शिवाय मंडळा खातीर आमी वस्तेंत एक पत्र्याचें घर भाड्यान घेवन 'महालक्ष्मी मंडळाचें' कार्यालय बी आमी स्थापन केल्लें. आमी सदां थंय जमताले, सदर खात्यांत आमी सकस आहार येवजण चलोवपाचो अर्ज सादर केलो. समाज कल्याण खात्याच्या अधिकाऱ्यान मंडळाक भेट दिली, आनी आहार येवजणेचें केंद्र मंजूर केलें. ल्हान वयोगटांतल्या भुरग्यांक पावडराचें दूद आनी एक ब्रेडाची लादी सदां सकाळी फुकट दिताले. सकाळी सात वरार हे वाटप सुरु जाताले. वस्तेंतल्या भुरग्यांची पळोवणी नोंदणी करुन आमी तांका एक कार्ड दिल्लें. कार्डानुसार हो सकस आहार दिवपाचें काम आमी करुंक लागले. कार्यालयां मुखाल्ली गर्दी पळोवन आमकां, त्या विद्यार्थि दशेंतय धन्यताय दिसताली. ही समाज सेवा आमकां कशी येवजली कोणाक खबर. पूण त्या वयांत आमी हें विधायक काम करताले हें मात खरें. हें केंद्र आमी खूब वर्सां

चलयलें. केंद्र चलोवचें खातीर समाज कल्याण खात्या कडल्यान मानधनय मेळतालें. आतां मंडळाचें उत्पन्नय सुरु जालें. आमची उमेद वाडली.
या मानधनान संस्थेच्या उत्पन्नात भर पडली. आमी रक्कम बॅंकेत भरु लागले. या रकमेतल्यान एक बालवाडी चलोवची आनी वस्तेंतल्या भुरग्यांक चोपडी-पुस्तकां वाटची, अशे आमी एका मिटिंगेत थारायलें. बालवाडी चलोवचे खातीर आमचें कार्यालय आशिल्लेंच. म्हण हांगा एक शिक्षिका नेमून बालवाडी सुरु करची थारायलें. कल्पना बरी दिसली. जायरात दिली. एका जैन चलयेन हें काम आपणायलें. तिजी नेमणूक करुन करुन 'ज्ञानज्योत बालक मंदिर 'नेटान सुरु जालें. शाम जाधव, नामदेव रास्ते, विनायक कांबळे, हांव स्वत:, पवार, आनी लोंढे अशा सगळ्यांच्या आदारान हें काम फुलूं लागले.
वस्तेंत भोंवतना आमकां व्हड वयस्कर मनीस मान-सन्मान दिताले. आमी ल्हान आसूनय आमकां रामराम करताले. आमचें उतर पाळताले. आमीय मोठे उमेदीन वस्तेंत केन्ना सफायेचें काम, केन्ना श्रमदानान कांय हेर कामांय हातांत घेताले. वस्तेंतल्या सगळ्यांचो आमकां उत्तम प्रतिसाद मेळतालो.
कशें कोणाक खबर, आमच्या कामाची खबर पयस मेरेन पातळूं लागली. एका मातंग वस्तेंत शाळेंतलीय भुरगीं इतलें बरें काम करतात हाची तोखणाय जांवक लागली. एक दीस एक स्विडीश मिशनरीची गाडी वस्तेंत येवन धडकली. 'जाधव, रास्ते 'खंय आसात म्हण चौकशी करु लागले. आमी घरा आशिल्लेच. रकाद मेळ्ळो. आमी कार्यालयांत धांवतच आयले. त्या गाडेंत 'वर्ल्ड हेल्थ ऑर्गनायझेशनचे 'कांय लोक आशिल्ले. तांचें आमी स्वागत केलें, आनी चर्चेक कार्यालयांत बसले. कार्यालयांत दिवो नाशिल्लो, फॅन नाशिल्लो, वयर पत्रेच आशिल्ले. दनपारची वेळ. तांका गजगजूं लागले. आंगांतल्यान हुमेच्यो धारो गळूं लागल्यो. तरीय त्या लोकांनी बसून आमचे कडेन चर्चा करुन प्लेन सांगलो. 'जागतीक आरोग्य संघटना' गलिच्छ आनी दलित वस्तेंत आरोग्य सेवा फुकट करतली म्हण सांगलें. त्या प्रमाण चर्चा करुन आमी सर्वतोपरी सहकार्य करचें. येवजणे नुसार तांचे बरोबर सगळ्या डॉक्टरांची भेट घेवन, आरोन्य केंद्राची कल्पना साकार करचें थारायलें. शारांत कातीरोग, गुप्तरोग, बालरोग आदी विशींचे तज्ज्ञ तशेंच नाक-कान-ताळो तज्ज्ञ आनी फिजीशियन अशे डॉक्टर कार्यरत आशिल्ले. तांतूत डॉ. वसंत काळे, डॉ. चंडक, डॉ. डागा, डॉ. कासलीवाल, डॉ. जोशी, आदी डॉक्टर लोक मुखेल पणान आशिल्ले. या तज्ज्ञ डॉक्टरांनी मंडळाच्या कार्यालयांत दर आयताराक तासातासाच्या अंतरान येवन वस्तेंतल्या रोग्यांची तपासणी करुन तांका वखदपाणी करचे अशे थारले. वखदां जागतीक आरोग्य संघटना फुकट पुरयतली आशिल्ली. फकत आमच्या सहकार्याची अपेक्षा ताणीं केल्ली. आमकां ही

आकस्मीक आनंदाचीच बाब आशिल्ली. ध्यानी मनी नास्तना ही इतली सेवा फुकट मेळता हे आमचें आनी आमच्या समाजाचें भाग्यच आशिल्ले. हें घडूं शकले तें फकत नोंदणीकृत 'महालक्ष्मी तरुण मंडळा' लागूनच. आमकां कृतकृत्य जालें. आमी तांका सर्वतोपरी हयकार दिलो. ही आमच्या मंडळाक मेळिल्ली कार्याची अनमोल भेट आसा अशें सांगून तांचे उपकार मानले.

आमच्या कार्याक उत्तम प्रतिसाद मेळ्ळो. समाजाच्या सेवेची अनमोल संदच जणू आमकां प्राप्त जाल्ली. आमी वस्तीभर भोंवून घरोघर लोकांक म्हायती दिली. चौकांत म्हायतीचो बॉर्ड लायलो. आमच्या या उपक्रमाचें लोकांक खूब कौतूक दिसलें.

दर सप्तकाक रोग्यांची गर्दी जांवक लागली. डॉक्टराच्या गाड्यांचो तांडो वस्तेंत पार्क जांवक लागलो. डॉक्टरांक जुनाट रोगांचे पिडेस्त मेळूंक लागले. तांच्या अभ्यासांत आनी चिकित्सेत भरच पडूं लागली. हे एका अर्थान रिसर्च सेंटरच जालें. डॉक्टरांकय अणभव आनी नवें नवें प्रकार शिकूंक मेळू लागले. फावोतीं वखदां जागतीक आरोग्य संघटने कडल्यान मेळतच आशिल्ली. लोकांक तीं दिवप, समजावन सांगप हीं कामां आमी मनासावन करु लागले. या आरोग्य केंद्राक आमी 'निरामय आरोग्य केंद्र 'अशें नांव दिलें. आरोग्य सेवेचे काम व्यवस्थित चलूं लागले. जुनाट रोग घेवन हे लोक इतलीं वर्सां वखदपाणी करिनास्तना, कशे रावतात आनी कसो त्रास सहन करतात हाचे या नव्या डॉक्टरांक नवलच दिसताले. डॉक्टरांक सेवेचो आनंद मेळ्ळो. अणभव मेळ्ळो. आनी आमकांय या वेगळया कामान प्रसिद्धी मेळू लागली, तीवय विद्यार्थी दशेत.

लोकांभितरय भलेपणाची भावना वाडूं लागली. एकवट वाडलो. कल्लेव, झगडीं, तंटे कमी जाले. रातीन आमी प्रौढ शिक्षणाचो वर्गय सुरु केलो. तेजेन निरक्षरांक अक्षर ओळख जावन, आंगठ्या वाट्या अभिमानान सही करुंक येंवक लागली. ज्या आवयन माज्या शिक्षणा खातीर अतोनात कश्ट उपशिले, त्या आवयक हांवय या प्रौढ शिक्षण वर्गांत ग,म,भ,न शिकोवंक लागलो. आवयलें बोट धरुन अक्षरार गिरोवन आवयक अक्षराचें वळण दिंवक लागलो .आवयचें आनी माजें हे नवें अक्षरनातें अनमोल आशिल्लें. या नव्या नात्याची माका मजाच दिसताली.

हळूहळू वस्तेंतल्या शाळेंत वचपी भुरग्यांचे प्रमाण वाडूं लागले. सकाळी सकाळी गणवेशांत ताकतिकीन भुरगीं शाळेंत वतना दिसूं लागली. हीं आमच्या कार्याची दृश्य पावतीच आशिल्ली.

दोनेक वर्सां उलटली, आमच्यांतले कांय जाण आता कॉलेजाची पायरी चडूं लागले. आम च्या इश्टां मदी कोणच मॅट्रिक परिक्षेंत नपास जाले नात.इतल्या व्यापांतय हांव दयानंद कॉलेजांत पयली प्री-डिग्री सायन्साक प्रवेश घेतलो. पूण याच काळांत माका महानगर पालिकेत नोकरी लागिल्ल्यान हांव सायन्स फॅकल्टी वाट्या आर्टसा वटेन गेलो.

सदचे प्रमाण आमी मंडळाची एक सभा घेतली. कार्याचो आढावो घेतलो. संस्थेच्या कामकाजाचें व्यवस्थित इतिवृत्त तयार जायतच आसताले. हे शिवाय ऑडिटाचेंय काम अप-टू-डेट करताले. या सभेत आमी एखादो मोठो कार्यक्रम आयोजित करुन वस्तेंतल्या भुरग्यांक फुकट चोपडयो-पुस्तकां वाटपाचो संकल्प केलो. रितसर चर्चा जाली. कामाची रुपरेशा आखली.
योगायोग असो की, तेवेळार महानगर पालिकेंत कैकाडी समाजाचें एक दलित कार्यकर्ते श्री. भीमराव जाधव हांका महापौर पद निकतेंच मेळिल्लें. पयले दलित महापौर म्हणून तांचो शारभर गौरव जातालो. तो जुनाचो म्हयनो आशिल्लो. आमी परत एकपटी मंडळाच्या कार्यालयांत जमले. चर्चा केली. वस्तेंतल्या भुरग्यांच्या शिक्षणाचो आढावो घेतलो. वस्तेंत आता भरपूर भुरगीं शिकतात. तेन्ना पाचवी ते अकरावी मेरेनच्या भुरग्यांक फुकट वह्यो आनी पुस्तकांचे वाटप करचे असो आमी थाराव केलो. या खातीर पैशे कशे आनी खंयच्यान जमोवचे हो आमचे कडेन प्रस्न नाशिल्लो. कारण, समाज कल्याण खात्याचे सकस आहार येवजणेचे मानधन बँकेच्या खात्यार एकठांय जायतच आशिल्लें. शिवाय वस्तेंतल्या कांय प्रतिश्टित व्यक्तींक, फुडाऱ्यांक, डॉक्टरांक आनी व्यापाऱ्यांक मेळून कांय निधी मेळता जाल्यार पळयलें. आमीय नव्या महापौरांचो सत्कार घडोवन हाडचो आनी तेच वेळार हो वह्यो पुस्तका वाटपाचो कार्यक्रम साकसून घेवचो असो मनोदय केलो.
आमी कार्यक्रमाची आखणी केली. वह्यो पुसकां वाटपाच्या, भुरग्यांची यादी तयार केली. शालेय साहित्य खरेदी केलें. एक दीस महापौरांक तांच्या बंगल्यार वचून मेळ्ळें. कार्यक्रमाची रुपरेखा सांगली. महापौर भीमराव जाधवांनी अत्यंत प्रेमान आनी नमळायेन आमचें आमंत्रण स्वीकारलें. आमच्या कार्याची तांका कशी म्हायती मेळ्ळी कोणाक खबर, ताणी आमच्या कार्याची तोखणाय केली. 'मुजरत येन' म्हण सांगले. आमकां आनंद जालो.
कार्यक्रमाक अध्यक्ष तर लागताच. आमच्या समाजांतले एक माजी मंत्री श्री. बाबूराव भारस्कर, तांका आपोवन कार्यक्रमाचें अध्यक्ष करचें अशें कोणे तरी सुचयले. आम कांय तें योग्य दिसलें. कार्यक्रमाची आंखणी केली. पत्रव्यवहार जालो. आमी एक दीस सकाळीच सायकली काडल्यो, आनी सेटलमेंट हांगा सरल्या महापौरांच्या बंगल्यार समक्ष वचून मा. महापौरांची भेट घेतली, आनी उलवन कार्यक्रमाची तारीक थारायली. आमी सगळेच विद्यार्थी असल्या कामांत नवीन आशिल्ले. स्टेजा पसून ते लाऊड स्पिकर, पत्रिका, खुर्च्यो, जमखान, या सगळया व्यवस्थेच्या कामांत गूंग जाले. कार्यक्रम करची जीद्द मनात आशिल्लीच. देखून कांय अडचणी आयल्यो नात. कार्यक्रम तर थारलो, पत्रिका तयार केली, खबरा पत्रात जायरात प्रकाशीत केली.

आयतार पळोवन सकाळचो वेळ मुकर्रर केलो. सगळे काम यथासांग पुराय जालें. आमी त्या आयतारा सामके फांतोडेरच तयार जाले. आंगण झाडपा पसून ते खुर्च्यो, जमखणां मांडपाचें काम आमीच केलें. लोक जमू लागले. गर्दी वाडूं लागली. मातंग वस्तेंतलो हो पयलोच सुवाळो. लोकांक नवीन आशिल्लो. देखून सगळे उमळशिकेन, एखाद्या परबे आसणेक वावूरचें तशें हांगा थंय वावरु लागले. कार्यक्रमांचे अप्रूप आशिल्ले. सारकें णव वरार मातंग वस्तेच्या दिकेन पाच-स ॲम्बेसिडर गाड्यांचो तांडो येवू लागलो. महापौरां बरोबर माजी मंत्री भारसकर सायब तशेंच मुन्सिपल कमिशनर ससाणे आनी हेर राजकीय त्या गाड्यांतल्यान देंवले. आमी सगळे स्वागता खातीर धांवले. मंडळाची धांवपळ ताणी पळयली. आनी स्टेजी कडेन सरले. सगळ्यांची यथोचीत व्यवस्था मांडिल्ली. हांवे सूत्रसंचालनाची धूरा सांबाळली. पयलेच पावटी मायका मुखार उबो आशिल्लो. मायक माज्या मुखार खूब उंच दिसू लागलो. कोणेतरी तो माज्या उंचेक फावसो केलो. मागीर माका उतरांनी सावरुन धरले. बळ आयलें. धीट जालो. आनी सराईता भशेन उलवंक लागलो. खंयचें धाडस, बळगें आंगात अचानक आयलें देव जाणा. स्वागत वळख करुन दिवन प्रास्ताविक करचे खातीर शाम जाधवाक हांवे आमंत्रित केलें. शामानय व्यवस्थित सूत्र सांभाळलें. मंडळाचें कार्य, आढावो नियाळ, सगळो थोडे भितर मांडलो. दलित मित्र भीमराव जाधव हांचो दलितांतले पयले महापौर म्हणून निवड जाल्ले खातीर मंडळान तांचो शाल श्रीफळ दिवन भोवमान केलो. आमच्या सत्कारान महापौर भारावले. तांका खूब आनंद जालो. मागीर कमिशनर सायबांले उलवप जालें. महापौरांच्या हस्तुकी कांय प्रातिनिधीक भुरग्यांक वह्यो पुस्तकां हांचे वाटप जालें.
उपरांत महापौर श्री. भीमराव जाधवांनी आपल्या अस्खलीत भाशेंत सत्काराक जाप दिली, आनी तोखणाय केली. आमच्या तरेकवार कार्यांक शुभेच्छा व्यक्त केल्यो. भाशणांतल्यान आमकां मार्गदर्शन केलें. तेच बराबर ताणीं एक अत्यंत आनंदाची आनी म्हत्वाची घोशणा केली. गलिच्छ वस्ती सुधारणा अंतर्गत शासनाच्या येवजणेंतलें काम आमच्या या मातंग वस्ते पसून रोखडेंच सुरु करपांत येतले, अशें ताणी जाहीर केलें. ताळ्यांचो कडकडाट जालो. अंतर्गत रस्ते, ड्रेनेज, गटारां, दिवोबत्ती, वस्तेंच्या भितरल्या भागाचें फरशीकरण आदी धा लाखाच्या कामाची तांणी घोशणा केली. कितें जाता हें आमकां कळ्ळेंच नाशिल्लें. कार्यक्रम जबरदस्त जालो. अध्यक्षीय भाशण भारसकरांनी राजकीय थाटांत केलें. आनी आमी सगळेजाण जणू तांचेच अनुयायी आसात असो भास निर्माण केलो. तांच्या आशिर्वादान आमकां वाचा फुटली अशा अविर्भावात तांणी आपलें भाशण रंगयलें. त्या वयांत आमकां ही चतराय खंयची कळ्ळूंक? कार्यक्रमाची सांगता, मंडळाचें अध्यक्ष श्री. एन्.टी. रास्ते हाणी उपकार मानून केली.

कार्यावळ बरी जाली. ज्या भुरग्यांक वह्यो पुस्तकां स्टेजीर मेळिल्ली तीं भुरगीं आनंदान नाचूंक लागिल्ली. उरिल्ल्या भुरग्यांक मागीर आमी स्टेजीर आपोवन वह्यो पुस्तकां हांचे वाटप केलें. आमचें उदिश्ट साध्य जालें.

तर अशें ते दीस आशिल्ले. हांव १९६५ त मॅट्रिक जालो. १९७२ त एम्. ए.केले. आमकां नोकऱ्यो लागल्यो. कोणी कॉलेज करुं लागले, आनी शेवणी हुडून वचची तशें आमी पांगले. आमच्यांतल्या बऱ्याच जाणांचे लग्नय जाले. आतां जणू मंडळ प्रौढ जाल्ले. मंडळाची नाळ तुटली. वेगळो जीवन प्रवास सुरु जालो. महालक्ष्मी तरुण मंडळ एकाएकी पडलें. कोणच फुडाकार घेवन कामाक फुडे सरलो ना. खरें पळयल्यार आमी आमच्या फुडली पिळगी तयार करुंक जाय आशिल्ली. पूण तशें जाले ना. ऑफिसार मंडळाच्या नांवाचो बॉर्ड मात उरलो. फुडें खोलेचें भाडे तटले. मालकान घर परत घेतले. मंडळ अस्ताक पावले. एका विधायक कार्याचो असो आपसूक अंत जावचो, हाची खंत मात मनांत कायम उरली. आता मंडळाच्यो फकत यादींच उरल्यो.

***



१३.

तेन्ना माजी पिराय तर सामकी एकवीस वर्साची आशिल्ली. महानगर पालिकेंत कारकुनाच्या पदाखातीर भरती आशिल्ली. हांवे नोकरेचो अर्ज धाडलो. लेखी परिक्षा बी काय नाशिल्ली. तेन्ना कांय नी करुन नोकऱ्यो मेळताल्यो. नगरपालिकेचे महानगरपालिकेत रुपांतर जाल्ल्यान नव्या शंभर क्लार्कांच्या भरतेची जायरात वृत्तपत्रात आयिल्ली. माजी फकत मुलाखत घेवन निवड केली. नेमणुकेची ऑर्डर माका हातात मेळ्ळी. २९ मे १९६६ क हांव कामार हजर जालो. तन्नी पिराय. कसलोच अणभव ना. इल्लेंशे होडे घेवन त्या नोकरेच्या अथांग दर्यांत हांये हुडी घेतली.

टॅक्स वसुलीच्या खात्यांत सुरवातेक नेणूक जाली. पाच्छा पेठेंतल्या वसुलिचो वॉर्ड दिल्लो. वांगडा बाबूलाल हो अणभवी शिपाय आदाराक आशिल्लो. सगळ्यां घरांचे दारन् दार खबर आशिल्लो. म्हजो बापूय बी नगरपालिकेंत शिपायच आशिल्लो. ताणी बाबूलालाक माका सांभाळून घेवपाक सांगले. ते प्रमाण बाबूलालान उतर पाळ्ळें. सदां वसुलेचें काम तोच करतालो. हांव फकत पावती बरोवपाचें काम करतालो. पयली पयलीं माका वॉर्डांत भोंवपाक सायकल नाशिल्ली. बाबूलाल माका सायकलीर फाटल्यान डबल सीट बसयतालो. वसुले खातीर आमी वॉर्डांत भोंवताले. दनपार मेरेन

वसुली करुन आमी दोगय महागरपालिकेंत परत येताले. दनपरा वसुलिचो भरणो बरोवन कॅशियरा कडेन जमा करचो पडतालो. मागीर जेवणाची सुट्टी जाताली. आनी तिना नंतर महानगरपालिकेच्या वसुली कार्यालयांत लोकांच्या भेटेक बसून वसूल घेवचो. अशे एकूण कामाचें स्वरुप. म्हणता म्हणता म्हयनो सोपलो. एक तारखेर पयलो पगार, एकशे सत्तावीस रुपया मेळ्ळो. बापूय थंयच आशिल्लो. पगार जसोच्या तसो बापायल्या हातांत दिलो. बापायल्या दोळ्यांतल्यान आनंद व्हांवतालो. आमी दोगांय घरा आयले. दोगायलो पगार आवयकडेन दिलो. आवयक आमी आतां एकदम गिरेस्त जाल्ल्या भशेन दिसलें. घरांत पैशांचो सुकाळ जालो.

दोनच म्हयन्यांत माजी बदली जकात नाक्यार जाली. जकात नाक्यार दीसपाळी, रातपाळी अशो तीन शिप्टी. सकाळी आट ते चार, नंतर चार ते बारा, आनी रात्री बारा ते सकाळी आट अशो त्यो पाळ्यो आशिल्ल्यो. पुणे नाको, हैद्राबाद नाको हे मोठे नाके आशिल्ले. मोठे वसूलेचे म्हण प्रसिद्ध आशिल्ले. उरिल्ले सगळे ल्हान ल्हान आशिल्ले. दरम्यान हांये दयानंद कॉलेजांत प्री-डिग्री आर्टसाक अॅडमिशन घेतिल्लें. सकाळचें कॉलेज आसतालें. दयानंद कॉलेज घरा पसून खूब पयस आशिल्लें. सकाळी हांव दूद भाकरी खावन कॉलेजांत वतालो. सादारण धा-साडे धा मेरेनचे कॉलेजांतलें तास अटेंड करुन थंयच्यान नीट बसीन पांजरपोळ चौकांत येतालो. पांजरपोळ चौकांतल्यान चलत पुना नाक्यार वतालो. धांवाधांव जाताली. अकरा ते सात अशी नाक्यावयली एक वेगळी ड्युटी आशिल्ली. हांगा फकत दीसभर जकात पावत्यो तयार करच्यो. ताका लागून ऑफिसा सारखीच हांगा वेळ आशिल्ली. माजी सोयच जाल्ली. माजें कॉलेजय जातालें आनी नोकरीय करुं येताली. सगळें जमून आयिल्लें. अशें हांये वर्सभर काम केलें. वर्सा नंतर माका भूंय आनी मालमत्ता कार्यालय या विभागांत घेतलें. ऑफिसाची वेळ साडे धा ते स. देखून कॉलेजाची कांय आडखळ नाशिल्ली. कॉलेज आनी नोकरी दोनय एकाच वेळार करुं येताली.

महापालिकेचे ऑफीस इंद्रभूवन हांगा आशिल्ले. ऑफिसांतल्या नव्या लोकां कडेन हांगा वळख जायत गेली. हांगा नगर अभियंता, भूंय मालमत्ता, जी.ए.डी. कमिशनर हांचे खाजगी कार्यालय, अशीं वेगवेगळी कार्यालयां आशिल्ली. हांगाच माका श्री. विलास पाटील, श्री काजळे, श्री. तांदळे, श्री. मृगेंद्र पाटील, हे इश्ट मेळ्ळे. सदां गाठी भेटी जावन वळख वाडली. ताचें मायेंत रुपांतर जालें. ऑफिस वेळे भायर आमी अन्यत्र आनी घरांय मेळूंक लागले.

म्हज्या आवयन म्हज्या पगाराचे बरेच पैशे जमयिल्ले. जमयिल्ल्या पैशाची पुंजी आवयन बापायक दाखयली. सुमार दोन हजार रुपयांचो खुर्दो आशिल्लो. मागीर म्हज्या लग्नाची चर्चा सुरु जाली. हांगा थंय, या गांवांत त्या गांवांत स्थळाची चौकशी जांवक लागली.

आमच्या शेजारच्या माने बाईन कुर्डूवाडेंतल्या डोलारेंच्या घरा चेडू आशिल्ल्याची खबर बापायक दिली. एका रजेच्या दिसा बापूय कोणाकच सांगिनास्तना परस्पर कुर्डूवाडेक गेलो. आनी सगळे जमोवनच आयलो. खर्च, मानपान, देणेघेणे, अहेर आर्दी सगळीच उलोवणी करुन, साखरपुड्याची तारीख आनी वैशाखांत लग्न अशें सगळें थारोवनच आयलो. हांव पूर्णतायेन बेखबर आशिल्लो. ताणी आवयक सगळे सांगले. माका सांगची ताका गरज दिसली ना. अर्थातच माजो हयकार गृहीतच धरिल्लो.

थारिल्ल्या प्रमाण मेजकेच सोयरे घेवन कुर्डूवाडेक वचून परस्पर म्हजो साखरपुडोय सासकूवन घेतलो. चेडू कशें आसा, माका कांयच याव नाशिल्लो. आता फकत लग्नाची तारीख उरली. लग्न मात सोलापूरांतच आशिल्ले. इतलें सगळें चलतना कोणेतरी बापायक म्हणलें. 'अहो मास्तर, पोराला निदान मुलगी तरी दाखवायला न्यायचं'. तेजेर ताणी सुनयलें, 'माज्या बापान कवा मला माझी बायको दाखवली होती? पण माज लग्न झालं ना, आमी वाटोळं चित्तोय काय? आमाला बी त्याची चिंता बिंता आहे की नाही. मुलगी दाखवून काय फरक पडणाराय?'

जालें, विशय सरलो.

पैशे जमिल्ले आशिल्ल्यान लग्नाच्या तयारेक वेळ लागलो ना. फुडें लग्नाची तारीख थारली. तेरा फेब्रुवारी एकाणीसशें सादसश्ट. पत्रिका तयार जाली. व्हंकल सुधा (काशीनाथ डोलारे हांची जेश्ट कन्या) आनी न्हवरो; (सिद्राम बाबूराव जाधव, उपळाई बु. हांचे जेश्ट चिरंजीव) हांचो शुभ विवाह. पत्रिकेंत श्री. कृपेकरून, अमूक देव प्रसन्न, तमूक देव प्रसन्न आनी शुभाशिर्वाद बी छापिल्लें. पूण नियतीक कितें अभिप्रेत आशिल्लें कोणाक खबर?

शुभ मुहूर्त गोरज, इश्ट मित्र सोयरे या प्रसंगार जमिल्ले, लग्न सुवाळो पार पडलो. मुखार व्हंकल उबी, तो मेरेन माका दिसलीय ना. दोगांच्याय हातात नाल्ल दिल्लो. तितलोच हाताक पयलो स्पर्श. जिणेंतलो पयलोच स्त्री स्पर्श. अक्षता पडल्यो. वाजया, म्हणले बराबर वाजंत्र्यांन सनय सुरांचो एकच गलको केलो. मागीर 'जा मुली जा, दिल्या घरी तू सुखी रहा' हें गाणे वाजंत्र्यांनी आळयलें.

मजें लग्न वस्तेंत, आमच्या आंगणांतच जालें. तितलोच ल्हानसो माटोव, थारावीक मनशां, भव्य दिव्य कांय ना. भेंडवाचो सवो बांदिल्लो. जेमतमे लायटिंग केल्लें. आमच्या मंडळाच्या इश्टांनी लग्नाच्या कामांचो भार उखलिल्लो. पटापट ताटां वाडली. एक दोन पंक्तीत जेवणाचो कार्यक्रम जालो. न्हवऱ्या व्हंकलेक सव्यार बसोवन जें आसताता ते विधी साकसूवन घेतले. एकमेकांक उंडी भरोवंक लागले तेन्ना खंय माका सौभाग्यवतीचो चेरो हय न्हियसो पळोवंक मेळ्ळो. उंडी भरयताना तोंडावयलो पदर वयर करचो पडलो म्हण. नांव घेवंक लायलें, हांसो, टिंगल, टवाळीय जाली करुल्ल्यो खिदळताल्यो. या

सगळ्या गोंदळांत माज्या ल्हान भावंडाकडेन काणालें लक्ष नाशिल्लें. सगळीं चडशीं माटवांत हांगा थंय मजा करताली. आवयली मजे कडेन बसून हें दी, तें दी, ही धांवपळ चलिल्ली. माजे मेवणे म्हणल्यार विठाताई या व्हडल्या भयणीले मिस्टर श्री. परशुराम देवकुळे, हे एकटेच हो लग्नभार सांभाळपी. देखून तांची हांगच्यान थंय बरीच धांवाधांव जाली. लग्नांतले ते सर्वेसर्वा आशिल्ले.

जालें, लग्न पार पडलें. रातीचे धा वाजून गेल्ले. थारावीक सोयरे सोडून बाकीचे गेल्ले. आतां बरेंच शांत शांत जाल्लें. आमच्या घरा शेजरां रंगा रणरदवे रावताले. तांचें घर वऱ्हाडी म्हण दिल्ले. आमी थंय बसले. माटवांत सोयरे विसव घेताले. बापूय घराच्या फाटले वटेन वचून न्हिदिल्लो. जाम जाल्लो तो. लग्नांत बापूय चडसो उमेदी असो दिसलो ना. तांचे तोंड पडिल्लें. भितरल्यान तेका त्रास जातालो काय कितें कळ्ळें ना. तांतूतय ताची धावपळ जालीच. तार्चे वय बी जाल्लें. आयुश्यभर परिस्थिकडेन झगडूनच तो थकिल्लो. पूण तिणे फाट सोडली नाशिल्ली.

आवय, फाटल्यान बापूय खंय न्हिदला म्हण पळोवंक गेली. तो पोरसांत न्हिदिल्लो. ताका उलो मारलो, पूण प्रतिसाद ना. लागी वचून ताका उठोवचो यत्न केलो. पूण बापूय जणू गाड न्हिदिल्लो.

'अहो, उठा की', म्हणत आवयन यत्न केले. पूण कांयच हालचाल ना. मागीर दिसता बापायक तिणे जायते पावटी हालोवन पळयलें. पूण बापूय हालच नाशिल्लो. ती भियेली. गर्भगळीत जाली. सगळें सोपिल्ले आसां हें तिका कळ्ळें. आनी तिणे एकच बोब मारली. 'आरं बाबांनो, इकड या, बघा त्यानां काय झालय ते बघा', म्हणून चोयवटेन धांवंक लागली. माजे मेवणे परशुराम तशेंच रंगा रणदिवे आनी हेर सोयरे थंय धांवले.

बापूय हातुळणार केन्नाचो मरुन पडिल्लो. माज्या लग्ना नंतर अवघ्या तीनच तासांत. काळ्जा आताकाचो खर झटको आशिल्लो काय कोण जाणा? पूण ताची जीवनयात्रा सोपिल्ली.

रडण्याचो हुंदक्याचो एकच कल्लेव उटलो. माका कांयच कळना जालें. हांव भिवन गेलो. माका रडचेंय भान नाशिल्लें. निश्चल जाल्लो. आंग थरथतालें. उकत्या दोळ्यान गप्प मुखाल्लो प्रकार पळयत उबो आशिल्लो.मागेल्या वयाच्या एकविसाव्या वर्साच, माज्या ऐन लग्नाच्या माटवांत बापूय माका असो सोडून गेल्लो. व्हंकलकारा गेरचे लोक तर अवाक्‌च जाले. भेदरुन गेले. हें सगळें व्हंकलेच्या पायगूणा मेरेन येवन पावता, कांय कितें अशें तांका दिसूं लागले. 'अपशकुनी पांयाचें, मावाक गिळून बसलें.' अशें कोण तरी फुतफुतलेच.

आमी निरागस, निश्पाप आशिल्ले. 'कसलें लग्न? बापायच्या मूळार आयलें, एकएक पोरां साडेसातीच आसतात, लग्नाक वेळ काळ सारको पळोवचो पडता, भटाकडेन सारकें

पळयिल्लें कांय?' अशे जाय ते जाण उघड उघड उलोवंक लागले. व्हंकल बाबडी माज्या तोंडा कडेन बापडी जावन पळयताली. अशा अकल्पित अवस्थेंत हांव व्हंकलेचें तोंड पळयतालो, पयल्याच खेपेक. दोगांकय कांयच कळनाशिल्लें. दोळे मात डबडबून गेल्ले. मागीर सकल मान घालून ती रडत रावली. माका रंगा अण्णान म्हान्यांत घेतले. आमचें दोगांचेय सांत्वन करीत थापटूं लागले. 'भियेव नाकात, आमी आसात न्ही, धीर सोड नाकात,' असो दिलासो दिताले. आमचे वयलें छत्रच हुडून गेल्लें. हांतूतली गंभीरताय बी माका कळनाशिल्ली.
आता रडारड थोडी थांबली. बरेच लोक जमिल्ले. फकत आवय आनी भयण सतत रडत आशिल्ली. तांका कोण थांबयतलो? पूण तरीय कोणी, 'शांत जाया' म्हणून समजायताले. 'धीर धरा, आपल्या हातांत कितें आसा', अशे म्हणून सांगताले. 'देवाचें आशिल्ले, देवानं व्हेलें, तेज्या फुडें कोणाचें चलता? पूण मनीस खूब बरो आशिल्लो, तो देवाधीन जालो. कित्याक चुटपूट लावन घेतात? अशेंय लोक सांत्वनपर उलयताले. कोणेतरी म्हणलें, 'मनशांक केन्नातरी मरचेंच आसता. तें कोणाक चुकिल्लें आसा? पूण मरची ही कितें वेळ? अशें खंय मरण दितात? देवाच्या घरांतय न्याय ना.'
दोनेक तासा नंतर टाळकरी आपले टाळ, विणा, मृदंग घेवन आयले. गोल बसून ताणी भजनाक सुरवात केली, रात जागोवचे खातीर. बापूय वारकरी आशिल्ले. देखून सगळें ते पद्धतीन जातलें. भजन चालू आशिल्लें. 'आमी जातो आमुच्या गांवा, आमुचा रामराम घ्यावा. 'अशा तरेची भजनां ते म्हणताले.
माथ्यावयले बाशींग, हातांतली कट्यार कुशीक काडून दवरिल्ल्यान, माका मातशें हगूर दिसतालें. तेतूंत फांताडेर माका दोळो लागलो. तासभर हांव न्हिदलो आसन, सकाळ जाली. उजवाडलें, पूण सदचे वरी दीस नाशिल्लो. मनार कांय अमंगळ, अशूभ सावट आयिल्ले. माटवांत काल लग्नाचो सुवाळो पार पडिल्लो. सगळे कडेन तांदूळ, अक्षता पडिल्ल्यो. सवो आता रितो आशिल्लो. बापायक मागीर घराच्या वण्टीक तेकोवन बसयिल्ले. वयर माटोव तसोच आशिल्लो. लोक येताले, पळोवन हळहळताले, 'काल तर हांगा लग्नकार्य जालें आनी आज हें मन्न! कसलें विपरीत घडलें.
माजी धाकटी भांवडां भागवत आनी भास्कर तर चुकिल्ल्या कोंकरा सारखी खंय शेंडिल्ली खबर नाशिल्लें. तांचे कडेन कोण पळयतलो? अशांतय रंगाअण्णान तांका म्हन्यां आपोवन बसयिल्लें. तांचो बापुडवाणो चेरो पळोंवक जायनाशिल्लो कोसळिल्ल्या दुः खाचो दोंगर, ह्या भुरगें पणांत तांका कसो कळतलो?
लोकांनी मन्नाची तयारी केली. 'माटवांत चड वेळ मडें दवर नाकात सासकून घेयात बेगीन.' म्हणूंक लागले. मेवणे देवकुळे शिटूक आशिल्ले. तेणे सगळें आटापून घेतलें. तरी दनपार जावपाक आयिल्ली. पांजरपोळ चौकांतलो माळगे फोटो स्टुडिओच्या फोटोग्राफ

राक आपोवन बापायरोबरचो एक मयत फोटो काडून घेतलो. फोटवांत सगळ्यांनी दाटी केल्ली. सगळे सोयरे जमा जाल्ले. ते नंतर मरणाच्या विधीची सुरवात जाली. माज्या हातांक हळदी कांड बांदिल्ले तें तुटयलें. हातांत बापायली शिकाळी दिली गेली. मड्याबरोबर हांव हळदीच्या आंगान चलूं लागलो, सगळ्यांत फुडें. माज्या एका इश्टान माजो एक हात धरिल्लो. प्रेतयात्रा विसाव्या कडेन थांबली. थंयच्यान पूजा करुन मसनटी कडेन वचूंक लागली. वारकऱ्याचे भजन चालूच आशिल्लें. 'आता कैसे येणे जाणे!

मसनट लागी आयली. मसनटीवयलो सगळो विधी यथासांग पार पडलो. गिता मावशेन शेणी दिल्यो. शेण्या बरोबर दोन चंदना लाकडांय दिली. तेजे पैशे तिणे घेतले नात. शेणी दाळून तेजेर बापायक दवरले. उदकान भिजयिल्ल्या बोतरान माका तोंडांत उदक सोडूंक सांगले. ते नंतर हांये खांदार मडकी घेवन पाच फेरे पुराय केले. दरेक फेरेत मडकेक बोतो मारताले. अशो पाच फेऱ्यो जाल्यो. फेऱ्यो जातकच एक बोब मारुक सांगली. ते प्रमाण हांये केलें. माका त्या अशा पिरायेर हाची लज दिसताली. पूण करणे भाग आशिल्लें. ते नंतर सरणाक उजो दिलो. भडाग्नी. शेणयो धडाधड पेटू लागल्यो. आवयन शेणयो विकूनय आमकां जगयिल्ले. त्योच शेणयो हांगाय आदाराक आयिल्ल्यो. आवयल्या रांडाव पणाचो विधी करचे खातीर कोणेतरी आवयले कपल पुसलें. मंगळसूत्र काडून घेतले. हातांतलीं कांकणा हात धाडोवन फोडूंक लायलीं. आवय आक्रोश करुन रडताली.

पांडुरंग बुवा अखेरची आरती म्हणूक फुडे सरले. एका परातींत कापूर पेटयलो. आनी अभंग सुरु जाले.

हेची दान देगा देवा । तुझा विसर न व्हावा ।।
.....गुण गाईन आवडी । हेची माजी सर्व जोडी ।।
न लगे मुक्ति आणि संपदा । संतसंग देई सदा ।।
तुका म्हणे गर्भवासी । सुखे घालावे आम्हासी ।।

मन्ना वयल्यान सगळे घरा परतले. तो मेरेन मेवणे देवकुळे हाणी ताकतीक करुन माटोव वाल्यांक आपोवन माटोव काडूनय उडयिल्लो. आंगणांत सदचें सारकें वत पडिल्लें. जणूं आतां आमी वतांत आयले हें दाखोवचे खातीर!

घरांत आमी सगळी एकठांय जावन एकमेकांक चिकटून बसले. माज्यो तिनय लग्न जाल्यो भयणी गोदा, शकुंतला, आनी विठाताई एका कोनशांत बशिल्ल्यो, आवय म्हऱ्यांत. सांगलीची एक भयण शांता, ती निराश्रितच आशिल्ली. एकटीच रावताली. तिजो आमकां सारको पत्तोय खबर नाशिल्लो. तिका आता कशें कळोवचें, येवज नाशिल्ले. दोनय ल्हान भावंडां आवयक चिकटून बशिल्लीं. नव्या व्हंकलेन, सुधान

उदकाचे ग्लास भरुन सगळ्यांक हाडून दिले. आमी उदाक पिले. आवयन मात उदकाचो ग्लास कडेक दवरलो. तिणे उदकाक हात लायलो ना. माका खटकले. कोणेतरी सोयऱ्यान भाकरी आनी दाळ करुन हाडिल्ली. प्रत्येकाच्या हातार एक एक भाकरी आनी तेजेर दाळ घालून दिली. खावपाचो आग्रो केलो. 'अशे उपाशी रावन चलना, एक एक उंडी खायात. तुमी हांगा उपाशी रावल्यार तेंका सर्गांत त्रास जाता.' अशें म्हणून आमकां चार उंडी खावक लायलें. दुसऱ्या दिसा एका सोयऱ्यान च्या हाडली. ती कप कप दिली. आवय गप्पच आशिल्ली. मागीर हांवच तिजे कडेन गेलो. माज्या हातान आवयक उंडी भरयली. ते बराबर तिणे आकांतच केलो. आमी सगळीं परत रडूं लागले.

मागीर मेवणे देवकुळे हाणी, मदीं बसून, 'आता मी तुम्हाला चार गोश्टी सांगतो, नीट ऐका' म्हणून ते सांगू लागले, 'हे बधा, प्रारब्धाच्या गोश्टी हायत्या. जे व्हायचं ते चुकत नाही. घडून गेलय. सटवीचा लिखा कधी नाही चुका, असं उगाच म्हणतात? आपल्या हाती काहीच नसत. धीर धरायला हवा. आता लक्षुकडं बघा. तेला धीर द्या. त्योच आता तुमचा सगळ्यांचा बाप. त्येच्यावर ह्या लहान वयात कसला डोंगूर कोसळलाय त्येचा इचार करा. मामी, काय होत न्हाय, घाबरु नका, मीबी इथच असतो ना, कवा़बी बोलवा, मी अर्ध्यारात्री येतो. तर आता रडणं बास करा. त्येनला सात नद्या आडव्या येतात तुच्या रडण्यानं, तेनला मग तरास होतो.'

सगळे गप्प आयकताले. पावणेय सरसावले. सुधाचे आवय बापूय आनी भाव हाणीय सा़ंत्वन केलें. 'आमकां रांवक जायना, आम्ही आता आतां वतात.' म्हणून ते भायर सरले. 'पोराक आमी हांगाच दवरतात. दिसाक आमी परत येतात.' म्हण ते वचपाक गेले.

तिसऱ्या दिसाचें कार्य जालें. सकाळी उंडी दाखोवप, दनपरा, पंढरपुरात अस्थिविसर्जन आनी सांजेर माळ लावन वारकऱ्यांच्या भजनाचो कार्यक्रम, सगळे जालें. मेवणे परशुराम देवकुळे हाणींच हो सगळो कामाचो भार उखलिल्लो.

म्हणता म्हणता धा दीस जावन गेले. सप्तकाचेर पंढरपुरची वारी आयिल्ली. बापूय वारकरी आशिल्लो. तो दर वर्सा पंढरपुराक वारेक वतालो. न चुकता वारी पावयतालो. आता ती वारी पावती करप आनी ताची माळ कोणेतरी गळ्यांत घालप गरजेचें आशिल्लें. देखून ह्या वर्सा आमी सगळ्यांनी वारेक वचचें अशें थारयलें. दसमीक एस्. टी. न पंढरपुराक गेले. हांव, आवय, सूधा आनी दोन भावंडा. पंढरपुराक मळार देंवले. जंय आमच्या विठ्ठल मंदिराची दिंडी देंवता थंय. भोवतणी जायते वारकरी आनी दिंड्यो देंविल्ल्यो. न्हय तुडूंब भरुन व्हांवताली. धा दिसाच्या सहवासान बायल सुधा हिजी भीड आता बरीच चेपिल्ली. ती आता घरचें काम सरायता सारकें करताली. सगळ्यांचेर तिणे लक्ष दवरिल्लें. तिज्या नवतेचें माकाय आकर्शण आशिल्लें. माज्याय मनांत तिजे विशीं

प्रेम आनी माया निर्माण जाल्ली. ती म्हाऱ्यांत आसची आनी तिजेकडेन उलोवचें अशे माका दिसतालें. पूण बापायल्या मरणाचें सावट अजून मनार दाटून आशिल्लें. तेमुळे अनमनतालो.

दसम, एकादस, आनी द्वादस अशें तीन दीस आमी मळार रावले. पंढरपुरांक भोंवले. नामदेव पायरी, चौफाळो आनी थंयच्यान विठ्ठलाच्या कळसाचें दर्शन घेतलें. विठोबालें थेट दर्शन आमकां घेवंक मेळ्ळें ना. हळद, कुकूम, बुक्को, गोपीचंद, प्रसाद, पेढे हे सगळें घेतले. एक नवी तुळशी माळ घेतली.

मळार हेर वारकरी आनी आयिल्ल्या सोयऱ्या धायऱ्यांच्यो भेटिगाठी जाल्यो. एकादशीक माधवबुवां कडल्यान बापायली माळ आवयकडेन सोपयली. मळार पूजा अर्चा करुन बुवांन आवयल्या गळ्यांत तुळशीची माळ घातली. माधवबुवा आता आवयले गुरुम ाउली जाले. आवयन बुवाल्या पांयार मस्तक दवरले. माधवबुवाय आवयक पांय पडले. एकादशिच्या रार्ती कीर्तन आयकलें. दीसभर मळार वतांत लोकांच्या गर्देंत सावली धरुन बसचें. बरें दिसतालें. एक तरेची जात्राच! द्वादशेक मळारच रांदून एकादशीचो उपास सोडचो. ते प्रमाण आमी उपास सोडलो. आता सोलापुराक वचचे वेध लागले. एस्.टी. स्टेंडार प्रचंड गर्दी. पंगडान गाडी बुक करुन लोक आपाआपल्या गांवाक वताले आमीय तशेंच केलें. आमची एस्.टी.सांजेर आशिल्ली. तो मेरेन थंयच रावले. कशे बशे सोलापुराक पावले.

खरें म्हणल्यार, बापायल्या मरणान हांव पुराय खचून गेल्लो. बधीर जाल्लो. बापूय नाशिल्ल्याचें दुःख आतां माका जाणोवपाक लागलें. आमी फुडलें आयुश्य कशें धुकलचें हाची काळजी दिसूं लागली. पूण सुधाल्या स्पर्शान, तिज्या म्हऱ्यांक आसण्यान म ागेलें दुःख हगूर जाल्ल्या सारकें दिसतालें. सुधान घरांतल्या सगळ्या कामाचो भार उखलिल्लो. सुधा आंगान मोठें आशिल्लें. भलायकेन घटमूट. देखून तिका कामाचें कांयच दिसनाशिल्लें. तिजे कडल्यानच कळिल्लें, आवयगेर आसताना तें गवंड्याच्या हाताखाला बांदकामार, तशेंच सरकारच्या नवीन रस्ते बांदपाच्या कामार वतालें. मजूरी मेळताली. तितलोच आवय बापायक आदार जातालो. अशा कामान सुधाची भलायकी घटमुट आशिल्ली. कामाक थकनाशिल्लें. 'मला या घरांतल्या कामाचं कायबी वाटत नाही 'अशें तें माका आत्मप्रौढीन सांगतालें.

आतां आमचो संसार सुरु जालो. बापायच्या मरणाचें दुःखय काळाच्या ओघांत हळूहळू करगून वतालें. हांव कामारय वचूंक लागिल्लो. माजें रुटीन सुरु जाल्लें. आवय मात सुधाकडेन चडशी उलय नाशिल्ली. 'आपलो घोव हिणेच गिळ्ळो, 'असो तिजो समज आसलो. म्हण तिजे कडेन ती केन्ना चडशी अपुरबायेन उलय नाशिल्ली.

हांव महापालिकेंत भूंय मालमत्ता कार्यालयांत कामाक आशिल्लो. प्राणेश मानवीकर हे अधिकारी आशिल्ले. सामके तापट आनी तिर्कट. हांव या कामांत नवीनच आशिल्लो. माका तेणे बारनिशीचें काम दिल्लें. आवक जावक रजिस्टरांत अर्ज, प्रकरणां नोंदवप हें माजें काम. आवक जावक नंबर घालचो. हांवे रोखडेंच कामाचें स्वरुप जाणून घेतलें आनी कामांत रुळलो. मानवीकरांच्या तापट स्वभावाचो माका खूब त्रास जातालो. मानवीकरांक कांय येवजना जाले जाल्यार तेचो राग तो दुसऱ्यार काडतालो, 'अहो, ते प्रकरण हो ते. सांगा खंयचें प्रकरण तें, गप्प कित्याक उबे माझे मुखार?' मोठमोठ्यान आड्डताले. 'कसली बाबा ही भरती केला.' अशे म्हणून कपलाक हात लावन बसताले. हांव तर गोंदळ्ळूनच वतालो. पूण हो प्रकार कितें हेच माका कळनाशिल्लें. हांव तसोच तेजे मुखार उबो रावतालो. थोडे वेळान ताजो राग शांत जातालो. मागीर तो माका बसूंक सांगतालो. तो भेरेन त्या प्रकरणाची ताका याद जाल्ली आसताली. मागीर आलमखान नांवाच्या शिपायाक, 'आलमखान' म्हणून भितर आपयताले, 'भई पाणी और चाय लाओ', म्हण सांगताले. माका पळोवन म्हणताले, 'जाधव, माका राग सहन जायना रे, हांव रागार जाल्यार कांय मनाक लावन घेय नाका...' हें आयकूवन हांव थक्कच जावन वतालो. कसलो नाल्ला सारको मनीस हो! वयर टणक आनी भितर मधूर आनी गोड. फुडें फुडें माज्या कामार तो खूब खूश जालो. मागेलें अक्षर सूंदर आशिल्ल्यान तो प्रकरणाचो मसुदो, ड्राफ्ट माका डिक्टेट करतालो. हांव ते बरोवन दितालो. ताका खूब बरें दिसतालें. केन्ना केन्ना रजेंत तो माका मायेन घरा आपयतालो. च्या फोव दितालो. मानवीकरांची हीं दोन रुपां अजबच आशिल्लीं.

याच खात्यांत मृगेंद्र पाटील ट्रेसर म्हण कामाक आशिल्लो. तो मागेलो खूब लागीचो इश्ट जालो. सोलापूरच्या गिरेस्त कायेचे वैभव आशिल्ले आप्पासायब वारद, हांच्या घरा मृगेंद्र पाटलाचो बापूय मुनीम आशिल्लो. सध्याची महानगरपालिकेची जी नवी इमारत आसा, ती श्रीमंत आप्पासायब वारदांनी स्वतःचो एक बंगलो म्हण १९११ वर्सा बांदिल्ली. अतिशय नक्षीदार आनी आलिशान इमारत. गत वैभव नेटान मिरवपी, जणू ऐतिहासिक वास्तू. या वास्तूंत आमचें कार्यालय आशिल्लें.

आप्पासायब वारदाले चिरंजीव बाबासायब वारद आनी मृगेंद्र पाटील हांची ओळख आशिल्ली. मंगळार पेठेंत बाबासायब वारदांचो प्रशस्त आनी आलिशान बंगलो आशिल्लो. अजूनय तांचे राजेशाही वैभव तिगून आशिल्लें.मृगेंद्र पाटील माका बाबासायब वारदांच्या घरा घेवन वतालो. एक पावटी अशेंच गेल्ले तेन्ना बाबासायबांन आमकां वारदांचो पोन्नो दस्तऐवज दाखयलो. दसऱ्याक पूजा करतात त्यो पोन्न्यो वस्तू आनी आयदां दाखयली. तीं पळोवन माका पुरातन वस्तूसंग्रहालयांत हांव प्राचीन वस्तू पळयता कांय कितें अशें दिसतालें. पोन्न्यो वह्यो, पोन्ने बाड, मोडी लिपींतले ते वळणदार काळ्या शायेंतले

क्षर, सगळें देखणे आनी पळोवपा सारखें आशिल्लें. एखाद्या राजवाड्यांतलेच हें गत
भव हांव पळयता अशें माका दिसलें. बाबासायब वारदाल्या एका चेडवाल्या लग्नाकय
ांव मृगेंद्र पाटला बरोबर हजर आशिल्लो. लुपणे नांवाच्या एका इंजिनियराक ताजे चेडूं
दिल्लें. तें राजेशाही थाटांतलें लग्न आनी पंचपक्वान्नांचें जेवण पळोवन हांव थक्कच
जाल्लो. माज्या सारक्या झोपडपट्टेंतल्या भुरग्याक हें सगळें अलौकिक आशिल्लें.
अननुभूत आशिल्लें.
महापालिकेचें काम नेमान चालू आशिल्लें. सदां सकाळी कॉलेज करुन हांव वेळेर ऑफ
स गाठतालो. एस्.वाय.बी.ए. चें तें वर्स आशिल्लें. आतां सगळें वेवस्थित चलतालें.
महापालिकेच्या वसुली विभागांत हेब्बाळकर आनी गंगाधर शेटे जमा बंदी खात्यांत
काम करताले. टॅक्साची जमा नोंद एका अगडबंब खतावणी रजिस्टरांत बरोवचे काम
ते करताले. वॉर्डवायज खतावण्यो आशिल्ल्यो. एक दीस हेब्बाळकर आनी शेटे हाणी
एकाद धाडून माका आपोवन घेतलें. माज्या बापायच्या मरणाची खंत उक्तायली. नंतर तें
म्हणूंक लागले, तुजो बापूय आमच्या विभागांतच कामाक आशिल्लो. सामको प्रामाणीक
आनी कश्टाळू मनीस. तूमी विश्वास दवरात वा दवर नाकात, तुमची मर्जी. आमचे
कडेन तशी लिखापढी कांय ना. फकत विश्वासार तुमच्या बापायक आमी एक हजार
रुपया उसणे दिल्ले. तांतले ताणी दोनशें रुपया परत केले. व्याज मेळतालें. पूण आता
उरिल्ले आठशें रुपया, ते तुमी दिवचे अशें आमकां दिसता. आमी व्याज सोडून दितात.
सावशिदेन थोडें थोडें दिलें तरी चलता. आमचेर तुमी भरवसो दवरात. पैशे घतिल्ले ही
गोस्ट खरी आसा. खरे खोटेंपण तेज्या आत्म्याक खबर आसतलें' माका कळना, कितें
उलोवचें ते. माज्या हातांत दोनशें तीस रुपया पगार येतालो. आतां तर बापूय बी गेल्लो.
माज्या एकट्याच्या पगारार घर चलोवचें. ही इतली व्हड रक्कम थोडी थोडी म्हणली तरी
परती करुंक वर्स देड वर्स तरी लागतलेंच. माका थोडो दुबाव आयलो. पूण ते दोगय
सामके नमळायेन उलयताले. देखून माका तांचेर विश्वास बसलो. माका खबर ना, हांव
हे पैशे कशें आनी खंयचें दितलो? अशें म्हणप बी शक्य नाशिल्लें. हांवें बापायन उसणे
घतिल्ले पैशे परत दिवची तयारी दाखयली. त्या दोगायर्नी माज्या फाटीवयल्यान मायेन
हात फिरयलो. रुतुचक्र आपले परीन फुडें वतालें. आडव्या नळा कडली पानगळती चालू
आशिल्ली. नव्यान सगळें परत फुलून येवप चालूच आशिल्लें. कॅनॉलाचें उदक आपल्या
सदच्या गतेन संथपणान व्हांवपात मग्न आशिल्लें. नोकरेक लागून मागेले हांगा थंय भोंवप
मात कमी जाल्लें. वस्तेन आपलें पुर्वापार बकालपण धारण केल्लेंच आशिल्लें. दाटायेंत
वाडपांतच वस्तेक स्वारस्य आशिल्लें काय कितें कळनाशिल्लें. मनीस जशें गर्देत
दाटायेन रावंक लागले तशे ते मनान एकमेकांपसून पयस वचूंक लागले. मनशांनशांत,
म्हन्यांत आसूनय अंतर पडूं लागलें.

सुधा गरीब घराण्यांतले चेडूं आशिल्लें. अत्यंत कश्टाळू. पडता तें काम करपी. हांव कॉलेज आनी नोकरेच्या निमित्तान सतत भायरच आशिल्ल्यान माजो घरचो संपर्क फकत राती पुरतोच उरिल्लो. सुधाक घेवन भायर भोंवक वचचें माका केन्ना जमलेंच ना. बापायलें रीण फेडप, आनी घरच्या खर्चाचो मेळ घालप हांतूतच हांव व्यस्त आसतालो. एक पटीं हांये विचार केलो, आतां आपणे खंय तरी दुसरें एखादें काम सोदचें. इंजिनियर श्री. बुबणे हे रिपन हॉलाचे मुखेली आसले. सिद्धेश्वर पेठेंतलो हो रिपन हॉल महानगरपालिकेच्या मालकेचो आशिल्लो. हांगा ऑफिसर लोकांलो क्लब चलतालो. टेनीस, इन्डोर गेम्स, ब्रीज, पत्ते आनी वाचपघर अशें रिपन हॉलांतले स्वरुप आशिल्लें. हांव बुबणे सायबांक मेळ्ळे. थंय एका व्यवस्थापकाचो जागो रितो आसलो. हांवे तांका विनवणी केली. आनी माका त्या कामार ताणे नेमलेंय. क्लब सांजेर आनी रातीन चलतालो. देखून ऑफीस सुटलें का हांव तडक रिपन हॉलांत कामाक वतालो. सांजेर स तें णव मेरेन काम आसतालें. रातीन णव वरार काम सोपोवन हांव घरां येतालो. रिपन हॉलाच्या कामाची सगळी व्यवस्था चोख दवरचें माजें काम आशिल्लें. माका, 'अरे लक्ष्मण' अशें म्हणून रिपन हॉलांतले लोक उलो मारताले, आनी तेंचे जें कितें काम आसतालें तें सांगताले. केन्ना ग्लासाची तजवीज करप, केन्ना सोडा, बर्फ, हांची व्यवस्था करप, टेनीसाचें शटल्स, कॅरम बोर्डाची पावडर हाडून दिवप? कोणाक 'टाइम्स ऑफ इंडिया' रोखडोच जाय जातालो. तो हाडून दिवप. अशीं तरेकवार कामां करचीं पडतालीं. माज्या हाताखाला कामगार आशिल्ले. तेंच्या आदारान हीं कामां हांव करतालो. थंय एक ल्हानशें किचनय आशिल्लें. स्नेक्स, सामीश जीनस, च्या, कॉफी, ब्रेड, बटर हें किचनांतल्यान मेळतालें.

माका या तीन तासाच्या कामाखातीर म्हयन्याक पस्तीस रुपया मेळताले. शिवाय मालका कडल्यान टीपय मेळताली. कॅन्टीनांतले जीनस, सिगरेट हाडून दिवप, वा कांय हेर जीनस हाडून दिवप, हातूंतल्यान उरिल्ले पैशे हे बडे आसामी परते घेयनाशिल्ले. 'आसूं दी तूका 'म्हणून ते माका दिताले. हे अशे तरेन जमिल्ले पैशे हांव जशेच्या तशे बापायलें रीण फेडचें खातीर हेब्बाळकर आनी गंगाधर शेटे हांका दितालो. अशे तरेन हांव वर्सभरांतच बापायल्या रिणांतल्यान मेकळो जालो. या कामान मागेलो घरचो संपर्क मात खूब कमी जालो. दोनय भावंडा नेमान शाळेंत वतालीं. तेंचीय आबाळ जाताली. तांचे खातीर जाय तितलो वेळ दिवप माका जम नाशिल्लें. पूण माजोय नाइलाज आशिल्लो. दीसभर सुधा आनी आवयच संपर्कांत आसतालीं तेका लागून आवय सुधाकडेन तुसडेपणान वागूं लागली. खोचून उलोवप, घालून पाडून उलोवप, कुसडेपणान वागप वाडत चलिल्लें. सुधाक ती सदां 'अवचिन्न पांयगुणाचें' अशें म्हणताली. हें उतर सुधाक सामकें काळजांक लागतालें. हांव रातीन उसरां घरां आयलो की, पोटभर जेवन,

ासभराच्या दगदगीन आनी कामान थकून रोखडोच न्हिदून पडतालो. सुधाली कड घेवन आवयक जाब विचारप माका शक्यच नाशिल्लें. हांवे आवयक तशें केन्नाच विचारलें ा. हेका लागून सूधाची कोंडी जाताली. हें सगळें तिका असह्य जांवंक लागलें. हालीं राक आवय सुधाकडेन उक्तेपणान झगडूं लागिल्ली. सुधान केन्नाच उलट उतर दिलें ाशिल्लें, पूण सहन तरी कितलें करप? सुधाच्या वागण्यांत उदासिनताय जाणवपाक ागली. तेतूंत अजून सूधात आवयपणाची कांयच चिन्हां दिसनाशिल्ली. तेवयल्यानय आवय तिका उलयताली. सूधाक ती केन्ना केन्ना बेधडक वांझय म्हणताली. आवयलीं उतरां सुधाल्या काळजांक तोपताली तिका हें जिणें असह्य जांवक लागलें. आवयलें उलोवणे जीवघेणे दिसूंक लागलें.

एक दीस ती सांगिनास्तनाच उठून कुर्डूवाडीक गेली. आवयक आयतेंच कोलीत मेळ्ळें. आवयन कल्लेव केलो. 'असली पळून गेलेली पोरगी मी आता घरात घेणार नाही व तिला नांदवणार नाही' म्हणून ती हट्टाक पेटली. माजी तर गोचीच जाली. माजे कडल्यान सुधाचेर अन्याय जाता हें जाणून माका अपराधी दिसतालें. माजे कडल्यान मोठी चूक घडता, एका निरागस निरपराध जिवाक जें सोसचें पडता तेका आपूणच जबाबदार आसा अशे माका दिसतालें. खरेंच, हांव सुधाचो गुनेवगारच आशिल्लो!

शेवटाक जें जावचें तेंच जालें. आवयल्या मना सारकें. सुधान तिगेल्या आवय-बापायल्या संमतेन सहीनिशी आमकां घटस्फोटाचें पत्रच धाडलें. 'स्वखोशेन घटस्फोट दिता' म्हणून. वास्तवीक हांवे सामोपचाराचो यत्न करुंक जाय आशिल्लो, पूण आवयलें आक्राळ विक्राळ रुप आनी जीवघेणे उलोवणे तशेंच वागणे पळोवन आतां हातूंतल्यान सुटका ना हाची खात्री जाली. तेजेन माकाय कांय करप शक्य जालें ना. घटस्फोटाचें पत्र हांये स्वीकारलें.

एका अर्थान सुधालें आयुश्य उद्ध्वस्त जालें. भितरल्यान हांव खूब दुःखी जालो. ह्या प्रकरणांत हांवे सुधाक केन्नाच आधार दिलो ना, साथ दिली ना, हाची सलं आयुश्यभर मनांत उरली. सुधा जें गेलें तें गेलेंच. तिजें फुडें कांयच कळूंक शकले ना. तें आता कशें आसतलें, खंय आसतलें, तिजें कितें जालें आसतलें कांयच कळूंक मार्ग नाशिल्लो. तिजो सादो निरोप वा भेटेचो योग आजवेर केन्नाच आयलो ना. चाळीस वर्सां जावन गेलीं तरी.मनीस अशें पुरायेन गायब जांवक शकतात काय, भेटेचो केन्नाच कसो योग येंवंक शकना. माका तिज्यो अजूनय यादीं येतात. हांव असहाय आसा, सुधाच्या बाबतींत. हांवे एका जिवाचो घोर अपराध केला हें खरें.

***



१४.

घटस्फोटाचो कागद मेळ्ळें नंतर आवयक कितलो आनंद जालो! हांव मात माज्या जिणेंत हें कितें घडता म्हण कश्टी जालो. आवयन रोखडींच थळां पळोवंक सुरवात केली. माज्या बापोल्याक, बलभीम जाधवाक या कामगिरेर नेमलेंच. दोनेक म्हयन्यांत थळांचो मेळ जमूक लागलो. माका बरी नोकरी आशिल्ली. तेका लागून बरें थळ मेळप कठीण नाशिल्लें. आवय सुधालो पांयगूण झरयत बसताली. तिजें वांजूटपण पटोवन दिताली. देखून लोक सकारात्मक विचार करताले.

शुक्रार पेठेंतल्या, समाचार चौकांत राम बनसोडे, दत्तु बनसोडे आदीं हब्बूच्या बडेचे (काठीचे) मानकरी रावताले. माज्या बापोल्यान माका एकपटी शुक्रार पेठेंतल्या मंगवाड्यांत व्हेले. राम बनसोडेले चेडू माका दाखयलें. मागेलें वय आशिल्लें चोवीस, चेडवालें वय चौदा. तरी आसतना राम बनसोडेन माका पळोवन पसंती दाखयली. चेडू दिसूंक अत्यंत गोरेपान आनी गोड आशिल्लें. अजाण आशिल्लें. चेडवालें नांव मंगल. पसंती जाली. घर पळोवप जालें. उलोवणीं जाली. साखरपुड्याची आनी लग्नाची तारीख नक्की केली.

परत लग्नाची गडबड सुरू.

थारिल्ल्या प्रमाण शुक्रार पेठेंत साखरपुडो जालो. येवप-वचप सुरु जाले. लग्नाची तीथ दिवाळेनंतरची आशिल्ली. देखून दोन तीन म्हयने थांबप आयलें. राम बनसोडे, पैलवान आनी आडदांड गडी. ताजे सात भाव, तेंवय तशेंच. गांवचे म्हालगडे म्हणून वळखले वताले. सिद्धेश्वर यात्रेच्या वेळार एकपटी राम बनसोडेन एकट्यान सोलापुरांतल्या सगळ्या आडसस्ट लिंगाक हब्बूची बडी हातांत घेवन प्रदक्षिणा पूर्ण केल्ली. वर्सभर तो सान्नी विकतालो. शिवाय मारुती कडल्या चेळेकरांच्या दुकानांत मिठाय विकचे कामय करतालो.

चेडवालें लग्न लागीं आयलें म्हण राम बनसोडे चडच नेटान कामाक लागलो. चेडवालें लग्न जमिल्ल्यान तेका जणूं हर्शवायूच जाल्लो. मोठे उमेदीन तो वावरुंक लागलो. धांवपळ करुंक लागलो. लग्न दणक्यांत करचें अशीं ताजी इत्सा आशिल्ली. सगळ्या मांगांक जेवण दिवचें, अशें ताज्या मनांत आसलें. घरांत सदां लग्नाचींच उलोवणीं.

आनी अचानक एक वायट घटना घडली. एक दीस माव राम बनसोडे सान्न करता करता घुंवळ येवन पडलो. गडबड हुडली. लगबग जाली. ताकतिकेन तेंका वाडिया हॉस्पिटलांत ॲडमीट कलें गेलें. आय.सी.यु. त दवरले. तेका ब्रेन हॅमरेज जाल्लो. तो कोमांतच आशिल्लो. या प्रसंगान रडण्या आरडण्याचो एकच गोंदळ जालो. हांये हॉस्पिटलांत वचून तेका पळयलें. तो पूर्ण बेसुद्ध अवस्थेंत आशिल्लो. इलाज चलतालो. तोंडार व्हेंटिलेटर आशिल्लें. तीन दीस तीच अवस्था. कांयच बदल नाशिल्लो. चौथ्या दिसा सकाळी तो अस्वस्थ जालो. इलाजाची धांवपळ चालूच आशिल्ली. पूण उपेग जालो ना. अखेर सगळें शांत शांत जालें. व्हेंटिलेटर काडलो. डॉक्टरांनी राम बनसोडे मृत जाल्ल्याचें सांगले. मागीर रडण्याचो एकच कल्लेव जालो. मडें शुक्रारपेठेंत व्हलें. सगळें कशें अकस्मात घडून गेल्लें. वायट सपना सारकें.

घडलें तें वायट घडलें. लोकांचो विश्वासच बसनाशिल्लो. चेडवालें थारिल्लें लग्न तर मुळार उठलें ना मूं? असो दुबाव उक्तायलो वचूंक लागलो. 'सारकें पळोवचें आशिल्लें. चेडवालो नासत पूण चेड्यालोच दोश नासत कित्यावयल्यान? ताजोच पायगूण नासत कित्या वयल्यान? याच चेड्याल्या पयल्या लग्नांत ताजो बापूय मेल्लो. असलें करंटे थळ कोणे सोदून काडलें? चेडोच वायट पांयगुणाचो. आतां हें लग्न मोडून उडया. हो पोर आनी कोणाकोणाक गिळून उडयतलो सांगूक येना.' अशें माज्या बाबतींत सरळ सरळ उलोवंक लागले. सगळे दोश माजेरच येवन ठेपले.

तांच्यांतलो एक भाव, माका पळोवन तर ताजें मातेंच तापलें. म्हणूंक लागलो, 'ए बाबा, तुझं समाधान झालं न्हाय अजून. माज्या भावाला गिळून बसलास. कशाला तुझं पांढरं तोंड दाखवतूस आम्हांला. साडं साती कडूंच, कर की काळं तोंड तिकडं.' म्हण

माका धांवंडोवन दिवंक लागलो. सगळें जमिल्ले लोक पळयताले. माका भर चौकांत कोणे तरी हंटरान फोडून काडचें तशें दिसतालें.
कोण कोणाक गिळता? कोण कोणाक लागून मरता? हे तर सगळे देवाधीन. माका खूब वायट दिसतालें. त्याच बरोबर सुधालोय दयनीय चेरो माज्या दोळ्यामुखार येतालो. सुधाकय आवय अशीच विखाळ उलयताली. आनी हांव तें थांबय नाशिल्लो. ताजो प्रतिकार कर नाशिल्लो. हो सुधालो अबोल शाप तर नासत माका! तिज्या मनाची तगमग तर माका अशी हुलपयना मूं! ही झळ कशी सोसची? बाबडो मांव! तेका कित्याक हो मृत्युदंड? नियतीचो खेळ कांय कळना. कसो सोडोवचो हो आयुश्याचो घोळ?
जालें लग्न मोडलें.
पंदरा दीस जावन गेले. दुःखाचो आवेग वसरलो. सगळेजाण आपापल्या कामाक लागले. रांडाव मांय, अन्नपूर्णाबाई आपल्या तीन भुरग्यांक घेवन घरांत सून्न जावन बसली. आतां कितें करप? आयुश्याचो हो दीर्घ पल्लो कसो पुर्ण करचो.....? म्हण. रेल्वेलायनी कडल्या फॉरेस्ट वाठारांत मांयलो एक भाव रावतालो. शाहीर भोंडवे, ताका दगडू माम अशेंय म्हणताले. तो एक दीस शुक्रार पेठेंत बनसोडेल्या घरा गेलो. राम बनसोडे हाचे भाव, भावजयो, आनी रांडाव भयण अन्नपूर्णा हांका एकठांय जमोवन सांगूक लागलो 'काल रामभाऊ माज्या सपनांत आयिल्ले. की ते प्रत्यक्ष माज्या मुखार उबे आशिल्ले कळनाशिल्ले. साक्षात माज्या मुखार उबे. हांव भिलो. 'कितें रामभाऊ मनांतले सांगा' अशे म्हणले. रामभाऊन माका सांगले, 'अरे तुमी अशे कशे फातराच्या काळजाचे जालात? माज्या चेडवाची कित्याक धूळधाण करतात? तिजें लग्न कित्याक मोडलें? तिजे खातीर माजो जीव अडकता. तिका थारिलेल्या सुवेतेर दियात. तेन्ना माजो आत्मो शांत जातलो. नाजाल्यार हांव एकेकाच्या नरडेचो घोट घेन,' 'पळया सांगताना माज्या आंगार काटो उबो रावलो.' अशें भीत भीत शाहीर भोंडवे सगळ्यांक हात दाखोवंक लागले. 'कितेंय करात करा आनी माजी सुटका करात बाबानों. थारिल्या सुवातेर चेडवाक दिवन उडयात. रामभाऊचो आत्मो भटकूवंक लागला.'
जालें, जमिल्ले सगळे लोक भिवन गेले. तांका कितें उलोवचें तें कळना जालें. बापोल्याली तर वाचाच बसली. तेणेच फुडाकर घेवन जांवयाक भलतें सलतें उलोवन दुखयिल्लें. दगडू माम सांगून गेलो आनी एका रातींत चक्रां फिरलीं. रामभाऊ खंयच्यानय येवन आपल्या मानगुटेर बसत काय म्हणून हे लोक भिताले. काळखा वाटेन पळोवप पसून ते टाळू लागले. इतलीं पापभिरु मनशां.
अशाच एका राती णव वरार, अन्नपूर्णाबाई आनी दगडू माम माज्या बुधवार पेठेंतल्या घरा आयले. भिवन हूम फुटिल्ल्या अवस्थेंत. तेंका उलोवंक जायनाशिल्लें. बळ एकवटून

मामान शेवटाक सगळे सांगलें. 'जाधवसाहेब, आमी चेडूं तुमकाच दिवचे थारायला. राभाऊले वचन आमी मोडचे नात. खंयच्याय परिस्थितींत हे लग्न पंधरा दिसाच्या भितर सासकून घेवचें, तुमी तयारेक लागात. भटा कडेन वचून तारीख थारावया. कसली विधी शांती आसत जाल्यार तीवय करुन उडोवया.'

ते सांगून गेले. तशे आमकांय बरें दिसलें. हांव आंगणांत येवन बसलो. वयर मळबांत सगळीं नकेत्रां चडच उजळ दिसूंक लागिल्लीं. सगळें मळभ पयस जाल्लें.

परत आमी लग्नाच्या तयारेक लागले. माज्या बापायलो प्रॉव्हिडंट फंड आनी थोडी ग्रॅज्यूएटी अशी मेळून माका काय रक्कम मेळिल्ली. घराच्या फाटल्या वाटेन दोन नव्यो खोल्योय बादूंक काडिल्ल्यो. पैशाची नड नाशिल्ली. म्हूर्त पळोवपाक गवई भटाकडेन गेलो. तेणे एक शांती होम करुंक सांगलो. दिवाळे नंतरची तीथ बरोवन दिली. तरीय एक म्हयनो अवदी आशिल्लो. जाय तितलो. देखून आमी सावकाशेन जवळी, कपडे आनी मंगळसूत्र बी खरेदीचीं कामां व्यवस्थित आटापलीं. लग्न पत्रिका छापली २१डिसेंबर १९६९ दिसा थारिल्ल्या प्रमाण लग्न यथासांग पार पडलें. नव्या लग्ना सारकें.

नवी व्हंकल मंगल घरा आयलें. सडपातळ, सामकें गोरें गोरें पान, नाजूक आनी बडबडें. पोरवयाचेंच तें. पूण तरीय तें अकालीच प्रौढ जाल्ल्या सारकें दिसतालें. बापूय गेल्ल्याचें दुःख तिज्या तोंडा वयल्यान देंवलेंय नाशिल्लें. आवयलें आनी तिगेलें मात बरें जमतालें. आवयन तिका अपूरबायेन म्हाऱ्यांत घेतलें, माथ्यावयल्यान हात फिरयलो. आवय स्वतः मंगलाक न्हावू, खावूं घालताली. सुधाच्या सामकें विरुद्ध वागण्याचें तोक, कितेंय आसलें

तरी माका तें बरेंच आशिल्लें. सुखाचें दीस आयिल्लें.

या अडचणीच्या काळांतच मागेलें ग्रॅज्युएशन पुराय जाल्लें. आतां एम्. ए. चालू आशिल्लें. बी. ए. क मराठी हो स्पेशल विशय आशिल्लो. नोकरी करत करत शिक्षण चालू आशिल्लें. शिक्षणांत आवड आशिल्ल्यान रिझल्टात खंयच उणेपण आयलें ना. बरे मार्क्स मेळताले, क्लास मेळतालो. मराठी विशयाक लागून डॉ. वि. म. कुलकर्णी, प्रभाकर पुजारी, टेंभेकर सर आनी प्रा. त्र्यं. वि. सरदेशमुख हांचो सांगात आनी वळख जाली. माज्या मराठी विशयाच्या आवडीन आनी अभ्यासान प्रा. त्र्यं. वि. सरदेशमुख हाणी माका चड लागीं केलें. मागेलें अशें संघर्शाचें जगणे आनी तांतूतल्यान हांव नोकरी करुन शिकता हाचें तेंका खूब अप्रूप आशिल्लें. माका कॉलेजा भायर रजेंत घरा आपयताले. नव्या पेठेंतल्या शारदासदन हांगा तेंगेलें घर आशिल्लें. त्र्यं. वि. सर खूब व्हडले लेखक, कादंबरीकार, समिक्षक आसात म्हण आमकां भुरग्यांक तांचे बद्दल कमालीचो आदर आनी आब दिसतालो. ते सामके परखड आनी प्रखर उलयताले.

पूण ते तितलेच मायेस्त आशिल्ले. खूब प्रतिभावान आनी विचारवंत म्हणून साहित्तिक मळार तांची ख्याती आशिल्ली. तांची वळख माका खूब उभारी आनी ऊर्बा दिवन वताली. तांच्या प्रेमान हांव सदां तांगेल्या घरां वतालो. घरांत तांका बापू म्हणताले. सर माका एस्. एल. अशेच आपयताले. सरांनी माका खूब लागी केल्लें. विचारांची, व्यक्तित्वाची जी प्रगल्भता आसता ती माका बापूलागूनच कळिल्ली. माका ते सतत कितें ना कितें सांगताले, शिकयताले. नवे नवे वाचूंक दिताले. ताणी नवें कितें वाचलें तरी ते माका सांगताले. ताणी कितेंय बरयिल्लें आसलें तरी ते माका वाचून दाखयताले. 'कशें दिसता 'म्हणून माका विचारताले. माका साहित्याची बरीच जाण आयिल्ली. ताका लागून हांव धिटायेन तांचे बराबर लिखाणाचेर भासाभास करतालो. हे चर्चेचें आनी विचारांचे धन माजे भितर भितर खंय तरी पाझरत रावतालें.

दयानंद कॉलेजांत मागेलें एम्. ए. चालू आशिल्लें. प्रा. त्र्यं. वि. सरदेशमुख, डॉ. वि. म. कुलकर्णी, प्रा. श्रीराम पुजारी, डॉ. निर्मलकुमार फडकुले आनी श्री. टेंभेकर सर हे एम्. ए. सिलेबसाचे तेंचे तेंचे विशय आमकां शिकयताले. प्राचीन मराठी वाङ्मयाचो इतिहास वि. म. घेताले. तर अर्वाचीन मराठी वाङमयाचो इतिहास, अठराशे अठरा ते एकोणिसशे वीसमेरेनचो श्रीराम पुजारी घेताले आनी ताजे फुडलो पोर्शन डॉ. निर्मलकुमार फडकुले घेताले. 'समर्थ रामदास' हो स्पेशल ऑथर आनी समिक्षा विशय त्र्यं. वि. सर घेताले. भाशाशास्त्र टेंभेकर सर शिकयताले. कितें तो अध्यापनाचो सुवाळो आशिल्लो. ही दिग्गज मंडळी आमकां आमचे गुरु म्हणून लाभले हें कितलें परमभाग्य. या काळांत खूब वाचलें. खूब आयकलें. साहित्यविशयक खूब चर्चा केली. साहित्याच्या खोशेंत मनसोक्त बुडले. या मातब्बर मंडळींचो, तेंच्या विशयांतलो दांडगो अभ्यास, ज्ञानसाधना आमकां अमूल्य अशें कितें दिताली. ही आगळी वेगळी पर्वणीच आशिल्ली. त्र्यं. वि. सरांची विलक्षण, समिक्षक नजर, वि. म. ची तल्लीनता, शिकोवपाची काव्यमय शैली आनी समरसता, श्रीराम पुजारींची नीट त्या त्या काळांत व्हरुन सोडपाची हातोटी आनी फडकुलें सरांची अमृतवाणी, टेंभेकरांचे मुखोद्गत भाशाशास्त्र. कितलें भाग्य आमचें मराठी शिकतल्यांचे.

म्हणता म्हणता एम्.ए.ची परीक्षा लागी आयली. हांवे ऑफिसांतल्यान अभ्यासाखातीर एक म्हयन्याची रजा घेतली. दयानंद कॉलेजाचें प्रशस्त वाचनालय अभ्यासाखातीर सज्ज आसलें. हांवे खूब अभ्यास केलो. भरपूर पुस्तकां उपलब्ध आसताली, संदर्भाखातीर, कांयच कमी नासलें. कमी आशिल्लो तो फकत वेळ. पूण हांवे एकेक मिनिटाचो वेळ पसून सत्कारणी लायलो. हांव सकाळी जेवणचो डबो बांदून सायकलीर सुटतालो. सकाळी आट वाजताना वाचपघर उघडतालें. भितर सरले नंतर हांव सदांचीच सुवात अभ्यासाखातीर मेळयतालो. सकाळी आट ते दनपरां एक वाजेरेन सामको ठाण मांडून

बसतालो. मर्दी जेवण करुन परत सांजेर सात मेरेन हांव चिकटून रावतालो. वाचन, वाचन, आनी फकत वाचन. इतलेंच दोळे मुखार आसतालें. नोटस् काडप, त्यो व्यवस्थित फायल करप ही मागेल्या अभ्यासाची पद्धत. म्हयने भरांत सारको अभ्यास जातालो. मार्गीर नोटस् वाचप. इतली खटपट माका पुरो जाताली. या माज्या पद्धतीन त्या त्या विशयाचो माजो सखोलच अभ्यास जावन वतालो.

परीक्षा जाली. सगळे पेपर अत्यंत समाधानान बरयले. यथावकाश रिझल्ट लागलो. माका बी. ए. क उत्तम क्लास आशिल्लो. तसोच एम्. ए. कय मेळ्ळो. पेपरांत एम्. ए. चो रिझल्ट पळयलो. (जून १९७२) तेन्ना माज्या खोशेक सूमार नाशिल्लो. कितलो खडतर प्रवास आशिल्लो तो. मन समाधानान तृप्त जालें.

म्हानगरपालिकेंतले माजें काम बरें आशिल्ले. अक्षर बरें आशिल्ले. म्हण मागेले ऑफिसर माज्या कामाबाबत समाधानी आशिल्ले. महपालिकेंत कमिशनरांची एक पर्सनल ब्रँच आशिल्ली. वसंत गायकवाड हे आयुक्तांचे पी. ए. आशिल्ले. अत्यंत तडफदार गृहस्थ. सदैव परीट घडेंतल्या स्वच्छ कपड्यांचो भेस. ताका लागून तांचे व्यक्तिमत्व उठून दिसताले. कमिशनरांच्या पर्सनल ब्रँचीत गायकवाड पी. ए. आनी निमकर नांवाची स्टेनो आशिल्ली.दोगांचोच हो स्टाफ. थंय एका नव्या क्लार्काची सुवात भरची आशिल्ली. गायकवाड हे एका बऱ्या क्लार्काच्या सोदांत आशिल्ले. तांचेकडेन जाय ते जाण आयले. तांतूतल्यान ताणी माका वेंचून काडलें. भूंय मालमत्ता कार्यालयांतल्यान हांव आयुक्तांच्या पर्सनल ब्रँचीत २ मे १९७० या दिसा रुजू जालो. आयुक्तांच्या कार्यालया लागूनच आमची केबीन आशिल्ली. बनसोडे नांवाचो एक हवालदार आनी पोळ नांवाचो एक शिपाय दिमतीक आशिल्ले.

हांव आयले नंतर गायकवाडांनी पर्सनल ब्रँचिची व्यवस्थित रचणूक केली. कमिशनरा कडेन मान्यतायेक येवपी सगळी प्रकरणां तपासून, प्रसंगार तेजेर टिपणी बरोवन, प्रकरणांत गरज आसा थंय फ्लॅप लावन गायकवाडांच्या वतीन कमिशनरा कडेन प्रकरण वतालें. मागेले काम तशें खूब आशिल्लें. सदचें टपाल पळोवपापसून तें दीसभर सगळी प्रकरणां आयुक्ता कडेन धाडपा मेरेनचीं जबाबदारी माजेर आशिल्ली. थोड्याच दिसांत, हांवे हें सगळें काम आत्मसात केलें. आमच्या तिगांचो बरो मेळ जमिल्लो. या ऑफिसांत हांव सुमार सात वर्सां आशिल्लो.

महानगरपालिकेंत कमिशनर सायबांचे कार्यालय अत्यंत म्हत्वाचें आसले. हांगा नीट कमिशनरा कडेन संपर्क आसतालो. शारांतल्या जायत्या व्ही. आय. पी. लोकांची गांठभेट जाताली. महानगरपालिकेचे सगळे वांगडी आनी महापौर हांचोय थेट संपर्क जातालो. तशेंच सगळ्या खात्याचे अधिकारी आनी सेवक हांचोय कामाच्या निमित्तान संबंध येतालो. या सगळ्यांक हांव थोड्याच दिसांत परिचित जालो. मागेलो

नांवलौकीक वाडलो. माका सन्मान मेळूंक लागलो. कमिशनरालो पर्सनल क्लार्क म्हण माजे कडेन पळयले वतालें. हांव नम्र आनी प्रामाणिक आशिल्लो. मागेले उलोवप सभ्यपणांचे आशिल्लें. देखून मागेलो कोणाकडेन वाद जायनाशिल्लो. वा. खु. चौधरी हे महानगरपालिकेचे पयले कमिशनर आशिल्ले. ते बदली जावन गेले नंतर दि. द. रणदिवे हे नवे कमिशनर आयिल्ले. हांव तेंच्या काळांत या कार्यालयांत आयलो. मागीर मुकुंद गोपाळ सप्रे, द. भा. ससाणे, ल. अ. सवणूर आनी पी. एस्. ए. सुंदरम् इतल्या आय. ए. एस्. कमिशनरांच्या कारकिर्दीत हांवे हांगा काम केलें. या वेगळ्या कामान अणभवांत समृद्धता आयली. कामाबरोबर कॉलेजय चालू आशिल्लें. आता तर एम्. ए. बी पुराय जाल्ले. देखून मराठी साहित्याचो अभ्यास आनी त्या अनुशंगान जाल्लें भरपूर वाचन हाचो माज्या या कामांत उपयोग जांवक शकलो. हांये बरयिल्ली टिप्पणी प्रभावी असताली. देखून कमिशनर सायब मागेल्या मराठी ड्राफ्टार खूश आशिल्ले. फुडें फुडें हांव, जें मराठी भाशीक नाशिल्ले त्या कमिशनराचें संदेश तशेंच निवेदनां बरयतालो.

अजूनय हांव मातंग वस्तेंतच रावतालो. त्याच पोरण्या घरांत, वस्तेंत हालीसरांक अतिक्रमणां वाडिल्लीं. मेळत थंय लोक खोपीं बांदून वस्ती वाडयतच आशिल्ले. पयलींचे मेकळें मळ आतां चडशें उरलें नाशिल्लें. अडगळ वाडली. जशीं कुटुंबा वाडलीं तशीं घरां वाडत गेली. वस्तेंत संघर्श, झगडीं, वैर, वाडलें. हमरी तुमरी वाडली. माजेकडेन कांय इश्ट- मित्र घरा येताले. आनी दीस्त त्याच वेळार कोणालें तरी झगडें सुरु जालें जाल्यार गाळ्यांचो शींवर कानार पडतालो, हांव मात भिडेवन व्रतालो.

या वस्तेंत मागेलें अर्दे आयुश्य गेलें. मागेले महानगरपालिकेंतले इश्ट विलास पाटील, मृगेंद्र पाटील हांका माजी सदांच अपूरबाय दिसताली. 'खोपींत रावनय तुमी मराठी कितली शुद्ध उलयतात, तुचे उच्चार कितले स्पश्ट आसात' अशे म्हणताले. इश्टमित्र मोठ्या मनान वस्तेंत येताले. माजेर तेंगेले खूब प्रेम आसलें. माज्याय मनांत सकल्ल्या जातींतलो म्हण न्यूनगंड नासलो तरी या इश्टांची भास, तेंचे उलोवणे, वागणे, तेंच्या घरांतले वातावरण माका खास करुन भावतालें. एक पटी तर वसंत गायकवाड, विलास पाटील, काजळे आदीं इश्टमंडळी घरा जेवपाक आयिल्ली. विलास पाटलांची बायल सौ. मधू पाटील हीवय अत्यंत आपुलकेन आयिल्ली. आमी तेंचे खातीर मटणाचें जेवण केल्लें. आमच्या पत्र्याच्या कुडींत बसून हूमेच्या धारांचो त्रास सोशीत सगळे निसंकोच पोटभर जेवले. आमच्या घरा व्हड व्हड लोक जेवणाक येतात म्हणून शेजारचे भाव आमचे कडेन लक्तुबायेन पळयताले.

मागेलो आनीक एक इश्ट नागेश सुरवसे. ताजो मिश्कील आनी जीणेकडेन पळोवपाचो खेळकर दृश्टिकोन ह्यो सगळ्यो गजाली माजेर इश्ट परिणाम करपीच आशिल्ल्यो. नागेश

सुरवसे हाजो 'स्टुडिओ नागेश' हो कला, साहित्य मोग्यांचो एक अड्डोच आशिल्लो. हांगा सोलापूरांतले जायते मान्यवर साहित्तीक जमताले. साहित्य कलेर हांगा मनमुराद भासाभास जाताली. हांगा जेश्ट कवी दत्ता हलसगीकर आनी लक्ष्मीनारायण बोल्ली, शरद एकबोटे, मुजरत उपस्थित रावताले. सोहनी, चंद्रभूशण कुलश्रेश्ठ, विलास पाटील, गोपाळराव भोसले, अशोक ताकमोगे, राजेंद्र दास आर्दी साहित्यार मोग करपी मंडळी हांगा जमताली. साहित्य चर्चेची एक अभिजात खोशी हांगा मेळताली.
प्राध्यापकीय सेवेखेरीज हांव हेर सुवातेरय नोकरेखातीर अर्ज करीत आशिल्लो. धुळेच्या एम्. एफ् एम्. धुलिया कॉलेजांत, माका मराठीच्या प्राध्यापका खातीर १९७२ ऑर्डर आयिल्ली. थंय ना. सी. फरांदे मराठी विभागाचे प्रमुख आशिल्ले. श्री. माळी सर हे प्राचार्य आशिल्ले. हांव हजर जावपाक गेलोय. पूण थंय वतरेच कळ्ळें की, जाधव आडनांवाक लागून हांव दलितेतर आशिल्ल्याचें समजून माका ऑर्डर दिल्ली आसा. 'अरे, तुमी तर दलित आसात हांगा कशे तग धरतले?' म्हण कोणेतरी माका भिवडेयलें. हांवय तें सगळें पिशा भशेन खरें मानून आनी धाडस करिनासतना, जॉयन जायनास्तनाच परत आयलो. आयुश्यांतली एक बरी संद गेली. दुसऱ्या वर्सा म्हणल्यार १९७३ क नांदगांव, नाशिक हांगा माका प्राध्यापकाची ऑफर आयली. 'थंयबी पगार वेळेर जायना, हांगची भुरगीं खूब तवनास असात, प्राध्यापकांक तिगकूं दिनात' अशें सांगून परत थंय बी माका भिसडायलें. माज्यांत तशें धाडस नाशिल्लेंच म्हणा. नोकरे शिवाय हेर पर्याय नाशिल्ल्यान आनी घरची सगळी जबाबदारी माजेरच आशिल्ल्यान नोकरे खातीर प्रयोग करप माका परवडपा सारकें नाशिल्लें. सुरक्षित नोकरी ही माज्या नदरेन म्हत्वाची बाब आशिल्ली. नव्या नोकरेच्या सोदांत माज्या बाबतींत हें अशें कित्याक जाता हें माका कळ नाशिल्लें. हांव थंयच्यानय परत आयलो, आनी परत प्राध्यापकीय मार्गाकडेन फिरप ना अशे थारयलें.
आणीबाणीच्या काळां पयलीं, स्टेट बँकेत क्लार्क भरतीच्या अनुशेशाची जायरात आशिल्ली. हांवे अर्ज केलो. परीक्षा दिली. मुलाखत दिली. आनी मागेली निवड जाली. बँकंची नोकरी प्रतिश्टेची तशेंच बऱ्या पगाराची आशिल्ल्यान माका ही नोकरी चड हिताची आनी सोयीची दिसली. बँकेतल्या नोकरे बाबतींत ते वेळार बरीच क्रेज आशिल्ली. तांतूत परत स्टेट बँक. सगळ्या सोयींनी युक्त आशिल्ली. यथावकाश बुधवार पेठेंतल्या घरच्या पत्त्यार माका रीतसर ऑर्डर आयली. माजी पयली नेणूक पंढरपूर हांगा आशिल्ली.
महानगरपालिकेंतल्या नोकरेच्या राजिनाम्याचे सगळे सोपस्कर पुराय करुन माका सात दिसांत वैद्यकीय तपासणी सयत बँकेच्या नव्या नोकरेर हजर जावप गरजेचें आशिल्लें.

घरा आवयक, बायलेक सगळें व्यवस्थित समजावन सांगले. बापूय नाशिल्ल्यान घरांत हांवच आता वडील आशिल्लो. माका सामकें जतनायेन निर्णय घेवप क्रमप्राप्त आशिल्लें. भागवत आनी भास्कर हे दोन ल्हान भाव. भागवतान ग्रॅज्युएशन पुराय केल्लें. भास्करले शिक्षण मात अर्दकुटें जाल्ल्यान तेका महानगरपालिकेंत बाग खात्यांत माळी म्हणून हांये कामाक लायिल्लें. तो दिसवड्यार काम करतालो. म्हयन्यांतल्यान धा बारा बदल्यो मेळताल्यो. माका आतां दोन भुरगींय जाल्लीं. व्हडलो श्रीनंद आनी धाकटो किरण. चार आनी दोन वर्साचे. इतलोच आमचो परिवार. पूण सदैव चिंता आनी तणाव. एकूण हांव अर्थिक दडपणखाला आसतालो. तेका लागून आमी सगळेच दुर्मुखिल्ल्या अवस्थेंत आसताले. जीण जगपाची केविलवाणी ही रीत जणू आंगोळणी पडिल्ली. नोकरी आसूनय अर्थिक परिस्थिती सुधारनाशिल्ली. सतत कसलो ना कसलो खर्च येतालो. खंयच्या भयणिल्या भुरग्यांली लग्नां येताली. लग्नाक अदार दिवचो पडतालो. दवाखानो तर फाटल्यानच लागिल्लो. शिवाय परबें आसणेचो खर्च. पोन्नी रिणां, देर्णी, महानगरपालिकेच्या कारकुनी पगारांत फेडप शक्य जाय नाशिल्लें. एकूणच हालाखीचें दीस आशिल्लें. पोटभर जेवणाची मात भ्रांत नासताली. केन्ना उपाशीं नाशिल्ले. इतलेंच माजें कर्तृत्व. इश्टांकडल्यान पैशे उसणे हाडप, प्रसंगार व्याजान सावकाराकडल्यान रीण काडप अशो वायट सवयो जडिल्ल्यो. तरी नशीब, माका खंयचेच व्यसन नाशिल्लें. पूण सगे सोयरें, गोतावळो या सगळ्यांक बरोबर घवन वचचें खातीर मात हांव अर्थिक अडचणेंत सातत्यान सांपडत गेलो.

आतां नवी बँकेची नोकरी आयिल्ली. सोलापूर महानगरपालिकेच्या धा वर्साच्या नोकरेचो राजीनामो हांवे अखेर दिलो. कायद्याचें रीतसर सोपस्कर केलें. हांव कमिशनर खात्यांत आशिल्ल्यान, तेवेळच्या पी. एस्. ए. सुंदरम सायबांन नोटिसीची अट शिथिल करुन माजो राजीनामो स्पेशल केस म्हणून मंजूर केलो. माका राजिनाम्या खातीर एक म्हयन्याचो पगार दिवचो पडलो ना. उलट मा. आयुक्तांनी माका भितर चेंबरांत आपोवन परबी दिली. हेर इश्टांक मागीर हांव मेळ्ळों. २४ जुलै १९७७ दिसा मागेलो सेंडऑफय जालो. माज्या कामाविशीं तोखणायेचीं चार उतरांय उलयलीं गेलीं.

***



१५.

नोकरेंतलो बदल मागेल्या जिवनशैलीक वेगळे वळण हाडपी आशिल्लो. माका ही वाट नवी आशिल्ली. सोमाराक पंढरपूरांक गेलो. भारतीय स्टेट बँक सोदून काडली. बेगीन गेल्ल्यान वॉचमनान माका भितर सोडले ना. 'पावणे अकरा वाजता दार उघडतले,' अशें तेणे माका सांगलें. अजून एक तास वेळ आशिल्लो. पंढरपूरांतलो मुखेल रस्तो, स्टँड ते चौफळा फिरुन आयलो. येतना रस्त्यार 'बामणांची खाणावळ 'असो बोर्ड पळयलो. खानावळींत गेलो. चौकशी केली. परवडपी दर आशिल्ले. वेळ आशिल्लो. जेवण सासकून घेतलें. जेवण सामकें बामण पद्धतिचें, घरगुती, गरम गरम चपाती जाय तितली वाडताले. अशें पोट भरुन जेवण पयलेच खेपे जेवलो. बील दिलें. ओळख सांगली. मालक, 'ठीक आहे' म्हणूक लागलो. विठ्ठल मंदिरा कडेन पेइंग गेस्ट म्हण रावपाची सोय करु काय? अशेंय विचारलें. मागेली विनासायास व्यवस्था जाली.

बरोबर वेळेर बँकेत गेलो. आर. एल. अनगळ नांवाचे ब्रँच मॅनेजर आशिल्ले. चौकशीखोर. तेणे मागेली जणूं नवी मुलाखतच घेतली. प्रमाण पत्रां सारकी तपासली. बँकेची अपॉइंटमेंट ऑर्डर हेड ऑफिसांत फोन करुन कन्फर्म करुन घेतली. आनी नंतर उबे रावन मागेलो हात हातांत घेवन 'वेलकम' म्हणूक लागले. मागीर ते माका स्वत:

भायर घेवन आयले, आनी सगळ्या स्टाफा कडेन मागेली वळख करुन दिली. मॅनेजर सायब माजेखातीर भायर येवन स्टाफा कडेन स्वत: वळख करुन दितात हें माका कौतुकाचें दिसलें. मॅनेजर सायबांबदद्दल माज्या मनांत रोखडोच प्रेमभाव निर्माण जालो. परत हांव सायबाल्या कॅबिनांत आयलो. तो मेरेन सायबांन च्या मागयिल्ली. आमी दोगांयनी च्या घेतली. सायबांन मागीर मेडिकल करुन घेवचे पत्र बंद पाकिटांत दिलें. 'दोन-तीन दिसांत करुन घे' अशें सांगले. बँकेचें अधिकृत डॉक्टर काळे म्हण आशिल्ले. माका बँकेचें इनवर्ड, आऊटवर्डाचें टेबल दिलें, आनी चलनान भरिल्ल्या रकमेचे फॉर्म्स स्क्रोलरार बरोवचे काम दिलें. पयलो दीस उत्तम गेलो. मागेलें काम परफेक्ट जालें. हेडक्लार्कान मनीस बरो आसा, कामाचो अणभवय आसा म्हण ब्रँच मॅनेजरर कडेन माज्या परस्पर रिपोर्टय केलो. वट्टार मेळन मागेलो २७ जुलै १९७७ हो बँकेंतलो पयलो दीस असो यशस्वी पार पडलो.

स्टाफ मेंबर्सान माका, जॉईनिंग रिपोर्ट दिवचो पडता 'अशें सांगले. माका ते सारके कळ्ळें ना. जॉईनिंग रिपोर्ट तर हांये ब्रँच मॅनेजरा कडेन दिवन भायर आयिल्लो. मागीर आनी खंयचो जॉईनिंग रिपोर्ट? हेडक्लार्क श्री. पोकळे हाणी' अहो जाधवसाहेब, हांगचो जॉईनिंग रिपोर्ट म्हणल्यार सगळ्या स्टाफाक अल्पोपहार, च्या, कॉफी दिवप. 'बँकेचा स्टाफ सुमार पंचवीसेक तरी आशिल्लो. इतल्या जणांक च्या आनी अल्पोपहार दिवचो म्हणल्यार कठीणच काम आशिल्ले. माजे कडेन तितले पैशेय नाशिल्ले. हांये पयल्या पगाराक दीन म्हण सूचयलें. माजी दयनीय अवस्था पळोवन सोलापूरचोच एक बँक स्टाफ ए. आर. कदम हाणी 'तुमी काळजी करु नकात, हांव तुमका आता पैसे दिता. पगार जातकच माका दियात.' अशें सांगलें. माज्या जिवांत जीव आयलो. शिरस्त्याप्रमाण हांये जॉइनिंग रिपोर्ट दिलो. सगळ्यांनी माका 'थँक्स' म्हणले. ए. आर. कदम हांचे बद्दल माज्या मनांत आदराची भावना निर्माण जाली. हे सगळे अणभव नवेच आशिल्ले. ही सगळीं मनशां नवीच आशिल्लीं.

बँकेत माका रिगूंक चड वेळ लागलो ना. माजी आकलन शक्त बरी आशिल्ली. वेगळ्या स्वरुपाचो आसना, धा वर्सा कामाचो अणभव आशिल्लो. तेका लागून कामांत हांव रोखडोच तरबेज जालो. एक नवें रुटीन बरें भशेन सुरुं जाले. एक दोन म्हयने हांवे हांगा एकट्यान काडले. पूण माका हांगा घर करचें गरजेचें आसलें. पंढरपूरांत घरां पळयलीं. जाधव म्हणले बराबर घरमालक 'मराठा का' म्हणून विचारताले. पूण हरिजन म्हण खुलासो केलो की, 'घर नाही' म्हण स्पश्ट सांगताले. मराठा वा बामणाच्या वस्तेंत माका अखेर घर मेळ्ळेंच ना. पंढरपुरी कट्टर धर्मवादी आशिल्ली ते काळार. शेवटाक मातंग समाजाच्या एका मठांत माका घर मेळ्ळें. शिवलिंग महाराज हे मातंग समाजाचे एक ब्रह्मचारी संत आशिल्ले. ते मठ चलयताले. हांवे शिवलिंग महाराजांची

भेट घेतली, वळख सांगली. महाराजांनी सोलापूरच्यो खाणोखुणो विचारल्यो. अरे बापरे, तुमी सिद्राम मास्तराले पूत? अहो तुमचें घराणें, वाडवडील वारकरी. सोलापुरांत आमी कितले तरी पावटी तुमच्या घरा रावले, किर्तनां केली. खूब भली हो तुमची मनशां. बरें, मठांत एक खोली आसा. रावात तुमी बापडे. भाडें बिडें पळोवया नंतर. माका हायशें जालें. हांवे थंयच रावचें थारायलें. ती रिकामी खोली ताब्यांतय घेतली. शिवलिंग महाराज कीर्तनी भाशेंत आनी संत गाडगे बाबांच्या थाटांत उलयताले. आयकूंक बरें दिसतालें.

बँकेच्या रजेची सोय पळोवन सोलापूरच्यान लोखंडा पलंग, हातुळण, आयदनां, अशें कांय सामान एस्. टी. र घालून हांव, मागेली बायल मंगल, श्रीनंद आनी किरण ही दोन माणकुलीं घेवन पंढरपुराक वचपाक भायर सरले. मागेलो भाव भागवतय सध्या बरोबर आयिल्लो. तेका सांगाता घेतिल्ले. धाकलो महानगरपालिकेंत दीसवड्यार कामाक आशिल्लो. तेका सोलापूरांतच रावप गरजेचें आशिल्ले. शिवाय आवयक आपलें पोन्नें घर सोडचें नाशिल्लें. म्हण आवय आनी भास्कर सोलापूरातच रावले. तेंका लागपी पैशे, हांव दर म्हयन्यांतल्या पगारांतल्यान स्वत: वचून दितालो. आता सोलापूर सुटिल्ले. आनी घरय फुटिल्ले.

संसाराचो रगाडो घेवन आमी एस. टी. न पंढरपूराक पावले खरे, पूण चंद्रभागेक इतलो पूर आयिल्लो की, एस्. टी. न्हंयच्या आलतडीच राविल्ली. आमकां देंवचें पडलें. न्हयींवयलो पूल पुरायेन उदकांत आशिल्लो. महाद्वार घाट, दत्त घाटां मेरेन पुराचें उदक पाविल्लें. मळावयल्या देवळाचे कळसच उदकार हूबताना दिसताले. मळावयलीं सगळीं मंदिरां, पुंडलिकाच्या मंदिरा सकट, उदकांत बुडिल्ली. सगळे वटेन उदकच उदक. न्हयिचो जणू अथांग दर्याच जाल्लो! वेगान धांवपी. आता आमची पंचायतच जाल्ली. किते करचें कळना. आख्खें घर फाटीर घेवन हांव हांगा चंद्रभागेच्या देगेर तर येवन पाविल्लो. चंद्रभागेन माका आता आडयिल्लेंच. कसले संकेत आसतले कोणाक खबर? आता आमकां कोण तारतलो अशें माज्या मनांत वगीच येवन गेलें.

एक होडेकार लार्गी आयलो, म्हणूंक लागलो, 'होडी पलतडीन वचूंक लागला, येवचें आसा?' हांये मागेलो पसारो दाखयलो. तेणे अमूक अमूक पैशे दिवचे पडतले, व्हरता, हुसको करनाका, असो भरवसो दिलो. वचप तर गरजेचे आशिल्ले. मागीर आमी होडेंत सामान चडयलें. होडेकारानय मदत केली. आमी सगळे होडेंत बसले. श्रीनंद-किरण हांका होडेची आनी उदकाची मजा दिसूं लागली. होडेंत हेरय कांय लोक आशिल्ले. होडी भरली आनी होडेकारान, 'बोला पुंडलिक वरदे हरी विठ्ठल 'असो गजर करीत, त्या पुरात होडी झोकून दिली. अर्द वर्तुळाकार अशे वळण घेत तेणे होडी वल्हयत वल्हयत व्हेली. उदक प्रचंड वेगान धांवतालें. उदकाक इतली ताकतीक कित्याक

जाल्ली कोणाक खबर? फाटल्या उदकाचो लोट तेका फुडें धांवपाची जणूं सक्ती करतालो. उदकाचो हो लोट भवसागराचें प्रतिक भासतालो. 'मोरी नैय्या पार करालो, भगवन् मोरी नैय्या पार करालो।' ही पदां अशा अणभवांतल्यानच तर बरयलीं गेली नात मूं? अशें माका दिसूं लागलें. आमी न्हंयिच्या मध्यार आयले. उदकाक प्रचंड ओतो आशिल्लो. उदक झरझर व्हांवतेरच आशिल्लें. भोंवतणी उदाक पळोवन माका ब्रह्मांड येवजलें. आमी हें कसलें विपरीत धाडस केलें अशें दिसूं लागलें. पूण अखेर त्या होडेकारान दत्त घाटार होडी सुखरुप पावती केली. होडेंतल्या लोकांनी ताळ्यांचो कडकडाट तर केलोच, तेच बराबर, 'बोला पुंडलिक वरदा हरी विठ्ठल 'असो परत गजरय केलो. होडी कशी सुखरुप पावता हे दत्त घाटार राविल्ले लोक अजापान पळयत आशिल्ले. आमच्या ताळ्यांक न्हंयीदेगेवयल्या लोकांनीय प्रतिसाद दिलो. एक थरारक अणभव काळजांत रिगून बसलो.

दत्त घाटार आमी देंवले. सामान सकल देंवयलें. एक टांगो केलो, आनी शिवलिंग महाराज मठांत पावले. अशा महापूरांतल्यान आंमकां आयिल्ले पळोवन शिवलिंग महाराज आनी तांचो पुतण्यो रामलिंग हाणी कपलार हातच मारुन घेतलो. 'काय हो बाप्पा, हे धाडस तुम्ही कशें केलें? वारकऱ्यांचे घराणें. पांडूरंग तुमच्या फाटिशी. आमी तुमकां कसले सांभाळपी? ही माणकुलीं दोन पोरां बरोबर घेवन येवपं, बाप्पा, साधे काम न्ही.' शिवलिंग बाबान तोंड भरुन आमची तोखणाय केली. आमी सगळे महाराजांच्या पांय पडले आशिर्वाद घेतलो. शिवलिंग बाबांचे हें कथन आयकूवन हांव तटस्थ जालो. कसलीं पिशेंपणा केल्ली हांये. रावन रावन मागेल्या निर्णयाचें माकाच भंय दिसूं लागलें.

आमकां दिल्ल्या मठाच्या खोलेंत सगळें सामान लायलें. मठांतलें लोक मोगाळ आशिल्ले. दिनकर थोरात, विमलताई बोराडे हे शेजारी आशिल्ले. सगळे आदाराक धांवन आयले. कुशीनच एक वसती गृह आशिल्लें. तांतूतलीं भुरगींय आदाराक आयलीं. घराचें सामान आशिल्लेंच खंय चड? पूण तें सगळ्यांनी हातोहात घरांत हाडून दवरलें. एक दीस पयलींच आयिल्लो. देखून बँकेत वचपाची ताकतीक नासली. घर संसाराक जें लागता तें सामान बाजारांतल्यान हाडलें. दनपार मेरेन बायलेन दाळ भाकरी केली. ती आमी सगळ्यांनी मेळून खाली. आनी मठाच्या आंगणांत येवन बसले. दारांत लिंबाचें व्हड झाड आसलें. ताची सावलीय ऐसपैस आसली. मांजरी उडोवन तेजेर आमी बसले. मठांत आत्र्या पयऱ्यान कोणी येतच आसताले. कोण एक वाघमारे मास्तर, तांणी आमची वळख करुन घेतली. तांणी दाराक तोन्न बांदलें, आनी तोन्न बांदिल्ल्याचो एक रुपया दक्षिणा दिया अशें म्हणूंक लागले. दक्षिणा दिवची पडली. मागीर एक खिलारे नांवाचें गुरुजी सांजवेळार मठांत आयले. तांणी आमची

मायेन, मुजरत चौकशी केली. खिलारे गुरुजी सामाजिक कार्यकर्ते आशिल्ले. देखून तांणी केल्ली विचारपूस ही वेगळी आसली. मठ अशा रितीन मनशांनी गजबजजिल्लो आसतालो. मठांत एक भुरग्यांचे वस्ती गृह आशिल्लें. थंय एक चुणचुणीत भुरगो, लक्ष्मण ढोबळे हो अधिक्षक म्हण आसलो. मागेलो धाकलो भाव भागवत आनी ताजी रोखडींच गट्टी जाली.

पंढरपूर हें तीर्थक्षेत्र. वर्सांतल्यान चार खेप एकादशीच्यो वाऱ्यो आसताल्यो. आशाढी, कार्तिकी, माघी, चैत्री. दर वारेक मठांत गर्दीच गर्दी आसताली. पावल दवरुंक सुवात नासताली. थोडें गलिच्छ दिसतालें, पूण मनीस भरिल्ल्या मठांत मनरिजवणय जाताली. हरशी विठ्ठलाचे दर्शन घेवप, न्हंयचेर वचून न्हावप, पोंवप, पंढरपूरांतल्या गल्लोगल्लेंत फिरुन येवप. दुकानां पळोवप वा फिरत फिरत मळार वचून भोंवडी मारप. मजा दिसताली. मठांत तर जायते लोक येताले वताले. गांठीभेटी आनी वळखीं जाताल्यो.

बॅंकेचें कामकाज तर उत्तम चलतालें. महानगरपालिकेच्या पगारा परस सुमार दुप्पेटीन हांगा पगार चड आशिल्लो. हेरय कांय सवलती आशिल्ल्यो. देखून आतां बरे दीस आयिल्ले. मॅडिकल खर्चाचीं बिलांय मेळताली. वाहनभत्तोय आशिल्लो. बॅंकेच्या वेळेव्यतिरिक्त जादा काम केल्यार ओव्हर टायमय मेळतालो. जणू पगार सुमार म्हयन्याक देडपटीन मेळतालो.

आवय मात एकलीच सोलापूरांक आशिल्ली. विरूस आसताली. आतां ती खूबच कमी उलयताली. ऐन उमेदींत तिणे रणरणत्या ससारांचें भांगर केल्लें. आतां तशी ती थकत गेल्ली. तेतूंत हांव असो भायर. योगायोगान दिनकर थोरातान तेगेल्या भयणीलें एक चेडू आनंदा हें भास्करा खातीर माका दाखयले. चेडू सालस आनी गरीब आलें. हांवे रोखडोच हयकार दिलो. सोलापूरांत घरा आवय एकटीच आशिल्ल्यान तिका सांगात जातलो, आनी भास्करय बांदलो वतलो, म्हण लग्न थारयलें. लग्नाची तीथ, जवळी, सोपस्कर पूर्ण केले. पंढरपूरांतच लग्न करचें थारायलें. शिवलिंग महाराजांचो मठ आयतो आशिल्लोच. थारिल्ल्या प्रमाण लग्न जालें. एका जबाबदारेंतल्यान हांव मेकळो जालो. सौ. आनंदा आता सोलापूराक आवय कडेन नांदूक गेलें.

एका काळार गिरणींत काम करपी आजी-केराबाय आता खूब थकिल्ली. तिजें वय बी खूब जाल्लें. माजेर ती खूब मोग करताली. दोळ्यांनय तिका सारकें दिसनाशिल्लें. एखादी मोतीबिंदू जाल्लो आसत. तेन्ना खंयचे आशिल्लें ऑपरेशन, जितलें लाभलें तितलें दोळे आपले. आयलें कुड्डेपण तर कुड्डेपण, अशी लोकांची धारणा आशिल्ली. हांव सोलापूरांक आयलो की, आजी माका धडपडत मेळूंक येताली. हांव मागीर धा वीस रुपय तिज्या हातार दवरतालो. तिका तेजी खूब खोशी जाताली. नोट कपलाक लावन ती आशिर्वाद दिताली. तिजे म्हातारे दोळे ती पदरान पुसताली.

झाडावयलें पिकिल्लें पान आपशीच गळून पडचें तशी मागेली आजी हें जग सोडून गेली. वतना कसलोच त्रास ना, कोणाक धांवांधांव करची पडली ना. मरण हे एका श्वासाचो जणू निरोप आसता. अखेरचो. इतलें सोंपेपणान आजेन हें जग सोडिल्लें. माका रकाद मेळ्ळो तसो हांव तडक सोलापूराक आयलो. आजेलें अंतिम दर्शन घेतलें. निपचीत पडिल्ली कूड अतिशय समाधानी दिसली. कोणेतरी तिज्या कपलार एक बंदो रुपय लायिल्लो. हांव तिजेबरांबर ल्हानपणांत, दिवाळेक सायबांकडेन पोस्त मागूंक गेल्लो. तेवेळार सायबांन माज्या हातार वयल्यान उडयिल्लो तोच रुपय काय हो? अशें माका दिसलें.

आवयकय सावरलें. एक पर्व सरिल्ले.

आवयक हांये चार आट दिसां खातीर पंढरपूराक व्हेलें. विठ्ठलाचें दर्शन, न्हयींत न्हाण, मळार पुंडलिकाचें दर्शन आदी तिका घडयलें. सौ. मंगलान तिजी खूब जतनाय घेतली, मंगल आवयचेर खूब मोग करतालें. त्या दोगांयचे केन्नाच वाजलें ना. मंगल सभावान बडबडें आशिल्लें. हांव मात मितभाशी, अबोल. जेमतमे उलोवपी. जितल्याक तितलें. देखून तिजी कुचंबणा जाताली. आमी दोगांय चडशीं केन्ना मजेन भोंवपाकय गेलीं नात. हांव सतत विचारमग्न आसतालो. ना जाल्यार कितेंय वाचत बसतालो. देखून मंगलाची पंचायत जाताली. पंढपूरांतल्या वास्तव्यांत मंगलाक दीस गेले. अनुराधा जन्माक आयलें. अनुराधाचो जन्म पंढरपूरांत जाल्ल्यान आमकां तिजें कौतुकच दिसतालें.

हांगा माजे बरोबर मागेलो भाव भागवत आयिल्लो आसलो. तो ग्रॅज्युएट जाल्लो. बापूय गेल्लो तेन्ना तो बारा वर्साचो आसलो. आता तो सावले भशेन माजे बरोबर आसतालो. घरच्या कामांतय आदार करतालो. पंढरपूर कॉलेजांत तेणे एम्. ए. इतिहासा खातीर ॲडमिशन घेतली. 'कमया आनी शिका' या येवजणे अंतर्गत थंयच्या वाचपघरात कामय करतालो. पंढरपूरचे, हे रयत शिक्षण संस्थेचे कॉलेज, ते शिवाय भागवत जायराती पळोवन मेळत थंय अर्जय करतालो. ताका नशिबान साथ दिली. सिटी. सर्वे कार्यालयांत तेका नोकरी मेळ्ळी. सर्वेअर म्हणून तो कामार रुजू जालो. पुण्यात आमची एक मावशी आशिल्ली. दलित स्वयंसेवक संघाचे कार्यकर्ते श्री. मोहन वाघमारे हांची ती आवय. आमी तिज्या घरा भागवताची रावपाची वेवस्था केली. त्या गोतावळ्यांत तो रमलोय. पूण्यात काम करु लागलो. योगायोग म्हणल्यार सोलापूरांत भास्कराकय एम्लॉएमेंट एक्सचेंज कार्यालयां वतीन जि. प.च्या भलायकी खात्यांत शिपायाची नोकरी लागली. तोय अक्कलकोटच्या जेऊर गांवात जॉयन जालो. आवय आता सोलापूरांत एकलीच उरली. माकाय पंढरपूरांत येवन तीन वर्सां जावन गेल्लीं. हांव सोलापूरांत बदले खातीर यत्न करतालो. तातूंत यश येवन मागेली

बदली सोलापूराक जाली. हांव सोलापूरच्या बाळीवेस हांगाच्या शाखेत हजर जालो. इतली आपसूक तरेकवार घडामोडी घडत गेल्ल्यो. फाव तशो. आयुश्यांतल्यो घटना. एका कुटूंब वत्सल सर्वसामान्य मनशांच्या जिणेंतल्यो साद्यो सुद्यो घडणूको. हातूंत आगळें वेगळे, दाहक अशें कांयच नासलें. सादें सरळ जीवन आसलें. सुखवस्तू म्हणचें तशें. सोलापूरांत मागेलो सगळ्यांत धाकलो चेडो राहूल जल्मलो. श्रीनंद आनी किरण आता सोलापूरांत शाळेंत वचूंक लागिल्ले. तेंका शाळेंत व्हरचें हाडचें काम वाडिल्लें. आवय आनी बायल तें करतालीं. भास्करालें तर लग्न जाल्लें. भागवताल्याय लग्नाचो योग आयलो. सोलापूरातल्या श्रीरंग अस्वरे हांचे चेडू नंदिनी हिजे वांगडा भागवतालें लग्न वेवस्थित जालें. भागवताली नोकरी पुण्याक आशिल्ली देखून नवे व्हंकलेक तेणे पुण्याक व्हले. आता तेणे पुण्याक खडकी हांगा भाड्यान घर घेतलें. थंय तीं दोगांय रावंक लागली. आता मागेले दोनय भाव आपापल्या संसारांत रमिल्ले. एका तपा पयलीं मात्यावयले छत्र वचून उक्ताडार पडिल्लें आमचें कुटूंब पोन्नी मरगळ फाटी उडोवन, आनी एक हुलपोवणी भोगून आता नव्यान फुलूं लागलें, निश्पर्ण झाडांय नव्या पांचव्याचार पानांनी गच्च भरुन येतात तशें. जिणेत परत चैतन्य सळसळू लागता. परत एका नव्या मळावाटेची भोवंडी सुरु जाता.

प्राध्यापक त्र्यं. वि. सरांनी माका तांच्या अंत:करणांत स्थान दिलें. भरुन भरुन प्रेम दिलें. तांची बायल सौ.सुमित्राताई म्हणल्यार आमच्यो माई. कट्टर धर्मनिश्ट. तांका मनशांबरोबर वाऱ्यांतल्यानय भश्टपण आनी भूतबादा घरांत येता अशें दिसतालें. घरां येतल्यांक बसपाक लोखंडा खुर्ची त्यो दवरताल्यो. लोखंडान भूत घरांत येना अशी तांची भावना. हें सगळें थोतांड म्हण सराक खबर आशिल्लें. देखून सर खूब तिडताले. केन्ना केन्ना आमी सुशेगाद बसले की, सर माका बायलेचे अशे वेगचेगळे किस्से सांगताले. कशें वतलें तिजें हें भश्टपण, म्हण माजेकडेन अपेक्षेन पळयताले. माईक हांव दलित म्हण खबर आशिल्लें. हांव सरांच्या घरां तसो नित्यनेमान वतालो. सकाळीं आनी बँक सुटले नंतरय. सदां सकाळीं भाजी, फळां हाडूंक हांव लक्ष्मी मार्केटांत सराक स्कूटरीन व्हरतालो. थारवीक भाज्यांबरोबर सर लिंबू हमखास घेताले. आर्दी मर्दी ते लिंबू सरबतय पिताले. लिंबू ही संजीवनी आसा अशें ते आमकां सांगताले. भाजी फळां घेवचीं तांची थळांय थारिल्ली आसतालीं. बाजारांत तांका वळखताले. सरांची आख्खी जीण शिस्तबद्ध आशिल्ली. तांच्या घरांत कपाटांत एका आयदनांत भरपूर चिल्लर (मोड) दवरिल्ली आसताली. नाण्यांची अडचण यंवनये म्हण. बाजारांत वतना ते तांतूतल्यान मूठभर नाणीं काडून खिशांत उडयताले. मागीर हांव तांका घेवन बाजारांत वतालो. आतां तर हांव सोलापूरांतच आयिल्लो. देखून सरांच्यो गांठी भेटी वाडिल्ल्यो.

एकोणिसशें ऐंशी ते पंच्याऐंशी हीं मागेलीं वर्सां सोलापूर बाळीवेस बँकेतली आशिल्लीं. हांगा दलित इश्टांचो स्टाफय आशिल्लो. तांतले कांय जाण चळवळींतले आसले. जणूं युनियनांचे कार्यकर्तेच. तांणी डॉ. बाबासायब आंबेडकरांच्या जयंतीचो सुवाळो मोठया उमेदीन मनयलो. हें क्रांतिकारक काम आसलें. मुंबयचें एक फुडारी पंडित लोखंडे हांच्या फुडारपणा खाला सोलापुरांत बी. सी. कर्मचाऱ्यांची संघटनाय बांदिल्ली. या कामांक प्रतिसादय बरो मेळतालो. व्हड मेळावे आयोजित जाताले. तेवेळार स्टाफाचीं युनियनांय प्रबळ आशिल्लीं. देखून वेगळेंच वातावरण निर्माण जाल्ले.

मागेले व्यक्तिगत प्रस्नच या काळांत इतले जटील आशिल्ले की, या सगळ्या पसून हांव अलिप्तच आशिल्लो. फकत सभासद म्हणून जाता तितलो आदार दिवचो इतलीच मागेली ताक. डॉ. बाबासायबां बद्दल तर अंतःकरणांत नितांत आदरच आशिल्लो. आज जें किते आमी उपभोगतात ते फकत बाबासायबां लागूनच हांतूंत दुबावच ना. हें हांवे आत्मप्रौढीन सांगप योग्य न्ही, अशें हांव मानता. आदर आसप ही तर आजन्म कृतज्ञतेचीच गजाल. तांतूत व्हडपण तें कसलें? बँकेन सुद्धां सकारात्मक भूमिका घेतिल्ली. बी. सी. खातीर स्वतंत्र ट्रेनिंग प्रोग्रॅम आयोजीत करताले. प्रमोशना खातीर खेरीत कोठो राखीव दवरिल्लो. हीं सगळीं धोरणां बँकच राबयताली.

मागासवर्गियांच्या प्रमोशनां खातीर सात दिसांचे खाशेले प्रिप्रमोशनल ट्रेनिंग आयोजीत करतालें. हे ट्रेनिंग म्हणल्यार आमकां मजाच आशिल्ली. फकत एन्जोय करप इतलेंच काम. कशें बशें सात दिसांचे ट्रेनिंग सोंपलें की, मॅनेजमेंटच्याय जिवात जीव येतालो. परत परीक्षा आनी खाजगी इंटव्ह्यू. कोणाक प्रमोशन जाय आसताले, तर कोण ते नाका म्हणून पयलींपसूनच तेजेकडेन चडशें गंभीरतायेन पळय नाशिल्ले. एकूण उदसिनताच.

आमी पयल्या यत्नांतच प्रमोट जाल्ले. आमची १९८५ ची व्हड बॅच आशिल्ली. ऑफिसर जाल्ल्याची भावना मनाक सुखयताली. प्रमोशन परीक्षा पास जावन आता हांव बँकेत ऑफिसर म्हणून काम करतलो म्हण हांये घरात सांगिल्लें. घरां प्रमोशनाचो आनंद जालो. पूण आता आपली बदली खंयूय पयस जातली, अशें सांगिल्ल्यान सगळे विरुस जाले. भुरगीं ल्हान आशिल्लीं. बायल तर सदां भुरग्यांल्या संगोपनांत व्यस्त, घरकामांत घुस्पून गेल्ली. तिका मेकळे पणाचें सूख केन्ना लाभलेंच ना. हालींसरांक ती थोडी त्रासीक दिसताली. साजिकच आशिल्लें. हांव सदैव भायर, बँकेत, इश्टांत, वा वाचनांत गूंग आसतालो. देखून घरांत, घरांतल्या मनशांत हांव चडसो मिसळनाशिल्लो. जेवणां पुरतो आनी विसव घेवपा पुरतो घरा आसपी, इतलोच म्हजो घरच्यां कडेन संबंध. आवय तर सतत एकमुळी. देवळांत वचप येवप आसतालें. विठ्ठल मंदिरांत भजनाक वचून बसताली. भजन म्हणूंक आनी आयकूंवक. पयलीं भशेन चडशीं कित्यांत लक्ष घालिनासली.

आतां गरजय नासली. हांव अदीमदीं तिका लागतात ते पैशे दितालो. तिज्या कमराक एक पाचवो बटवो सदांच आसतालो. तांतूंत ती नोटीं सुतान बांदून साठोवन दवरताली. साठोवन दवरप ही तिजी पयली पसूनचीच सवय आसली. घरचो म्हयन्याचो म्हाल हांवच हाडून दितालो. बाकी सदां जितले लागतात तितले पैशे मंगला कडेन दवरतालो. हो इतलोच आमचो संसार. ना भरिल्लो, ना उधाण आयिल्लो. घरांत भांगर शिंगर तर अजिबात नाशिल्लें. लग्नांतले चार मणीं तितलेंच बायल मंगळसूत्र म्हणून गळ्यांत घालून मिरयताली. तिणे बाबडेन केन्नाच हौस मजेची मागणी केली ना. किल्लो वेसच्या निर्वासितांच्या दुकानांतल्यान हाडिल्ल्यो कॉटनच्यो साद्यो साड्यो. तेजेरच तीं हौस भागयताली.

सगळ्यांचो दवाखान्याचो खर्च मात आमकां झेप नासलो. जो परत परत उद्भवतालो. अडचणे वेळार भयण्यो येताल्यो. तेन्ना मागीर खंयच्याय इश्टां कडल्यान उसने पासने घेवन तांची नड भागयतालो. बँकेत आसूनय कडकीच. माजो स्वतःचो असो कांयच खर्च नाशिल्लो. मागेली मांय रांडाव जाल्ली, ते दिसा साकून तिका हांव विसरलो नाशिल्लो. जाता तितलो आदार तिका करतालो. ती सान्नीचें काम करुन पोट भरताली. भुरगीं अशी उक्त्यार पडिल्लीं. भुरग्यांक कसलोच ताळतंत्र नाशिल्लो. तीं खंयूय हेडतालीं, व्हडलो विलास पोटा खातीर म्हण मुंबय गेलो, धाकलो राजू हॉटेलांत मेजां पुसपाचें काम करतालो. सगळेंच हतबल, भरकटत जगपी.

आता प्रमोशनाक लागून दीस बरे येतले असो विश्वास आशिल्लो. आवय घर सोडून खंयच येवंक तयार नासली. देखून ती निर्विकारच आशिल्ली. बाबानों, खंयूय वचा पूण सुखानं रावात. हांव मागेल्या धन्याच्या जाग्यार हांगांच रावन जीव सोडतलें. माका वत्ताय करु नाकात. अशें फटकून सांगताली. अर्थात हाचें वायट दिसतालें. तीवय थकत चलिल्ली. नदर कमी जांवक लागिल्ली. लक्षू, हालीं सरा माका मदीं मदीं धुकलिल्या भशेन जाता. अशे ती माका सांगताली. एक दीस हांवे वेळ काडून तिका डॉक्टराक दाखयलें. डॉक्टरान तपासून बी. पी. आसा, राखा म्हण सांगलें. ह्यो गुळ्यो सदां घेवंक सांगा. म्हण गुळ्यो बरोवन दिल्यो. आवयक 'गुळ्यो नेमान घे' म्हण हांवे स्वतः बजायलें. निसतें 'हां' म्हणून तिणे वेळ मारुन व्हेली. पूण ती बेफिकीरच रावली. वेळेर गुळ्यो घेनाशिल्ली.

एक दीस अकस्मात मागेल्या प्रमोशन पोस्टिंगाचो टेलिग्राम ब्रँचीत आयलो. माका मुंबय-सहारा एअरपोर्ट हांगा पोस्टिंग मेळिल्लें. मुंबय म्हणतरेत हांव हादरलोच. रावचें खंय? त्या गर्देत हांव कसो तग धरतलो, हाजो माका घोर लागलो. काणेतरी सांगलें, ऑफीसरांक मुंबयत क्वार्टर्स मेळतात. सहारा एअरपोर्ट म्हणल्यार डे- नायट शिटीचें काम. तुकां खात्रेन क्वार्टर्स मेळतलें.

दुसरे दिसा सेंडऑफ जालो. माज्या कामाची तुस्त करपी भाशणां जालीं. रिलिव्ह मेमो हातांत दिलो. थारिल्ल्या प्रमाण सांजेर हांव रेल्वेन मुंबय वचपाक भायर सरलो. एकलो वचपाची ही पयलीच वेळ, देखून सगळ्यांचे दोळे ओले जाले. माकाय होम सिकनेस दिसूं लागलें. हांगा सदांच घरा भायर रावपी, आतां अधिकृत भायर रावचें जीवार आयिल्लें. ओगीच प्रमोशन स्वीकारलें अशें दिसूंक लागलें. पूण आता बदल करचे सारकें हातात कांय नाशिल्लें. सगळ्यांचो निरोप घेवन टेनअप मद्रास-मुंबय रेल्वेन सुटलो.






१६.

काळी स वरार गाडी मुंबय व्ही. टी. स्टेशनार पावली. शाराच्या निसत्या दर्शनान व भांबेवन गेलो. कशें जातलें या शारांत माजें. तांतूत पोस्टिंग आंतरराष्ट्रीय मानतळा वयली. हांव हें कितें करुन बसलो, अशें खीणभर दिसलें. पूण मागीर त:क सावरले. 'अशें भिवन, भांबोवन, आनी खचून चलचें ना. आता हुडी मारिल्लीच सा, पळोवया कशें कितें जाता तें.' हांवे उसने आवसान हाडचो यत्न केलो.
नी नवल घडलें. मागेल्या फाटीर कोणे तरी हात मारलो. हांवे कांचेवन फाटल्यान ठ्यलें. तर सोलापूरच्या स्टेशन रोड ब्रँचींतल्यान माजे सारखोच प्रमोट जाल्लो माजो इश्ट श्री. डी. एम्. जाधव अनपेक्षित फाटल्यान उबो. माजेवयलो दबाव खंयच्या य ना जालो. डी. एम्. न माका सगळे कांय सारकें समजायलें. तेणे कालच माजेकडेन र्क सादचो यत्न केल्लो. पूण तो जालो नासलो. आमची दोगांचीय एकाच सुवातेर णूक जाल्ली. एक टॅक्सी करुन आमी आमदार निवासार गेले. डी. एम्. न खंयच्या ी आमदारलें पत्र हाडिल्लें. देखून आमची सकाळची तयारी या निवासांत बरे भशेन पार ली. आमी तयार जाले. सकाळी हांगा आमदार निवासांत नाश्तो केलो. आनी दोगय ट बँकेच्या मेन ब्रँचीर वचून पावले. अंधेरीच्या सहारा आंतरराष्ट्रीय बँकिंग डिव्हिजनाचे

मुखेल कार्यालय फोर्ट हांगा सरल्या मेन ब्रँचीत आशिल्लें. आमी दोगांनी पत्र रिलिव्ह मेमो थंयच्या मुखेल शाखा प्रमुखाक दाखयलें. तांणी तेजेर जॉईनिंग जाल्याचो शेरो माल्लो. सांजेर एअरपोर्टार वचून जॉयन जावपाचें बॅचपत्र दिलें. तोमेरन मादाम कामा रोडावयल्या हेड ऑफिसांत वचून मागीर प्रिमायसेस डिपार्टमेंटात आमकां वचूंक सांगलें. थंय तुमकां क्वार्टस मेळतलीं. अशीं म्हायती दिली. थंयच्यान आमी तडक हेड ऑफिसांत गेले. चौथ्या माळ्यार प्रिमायसेस डिपार्टमेंट आशिल्लें. थंयच्या इस्टेट मॅनेजराक मेळ्ळें. तांका अर्ज दिलो, पत्र दाखयलें. थंय लागींच गोरेगांवच्या बॅचलर क्वार्टसार आमची दोगांयचीय रावपाची तरतूद केल्ल्याची नोंद घेवन तशें पत्रय आमकां दिलें. सगळें कशें पटापट जालें. धाव्या माळ्यार आशिल्ल्या स्टेट बँकेच्या कँटीनांत जेवण घेवन आमी सकयल आयले, आनी नीट गोरेगांव वचचें खातीर चर्चगेट बोरीवली लोकल धरली. गोरेगांवाक कुमुद नगर क्वार्टसार पावले. वॉचमनाक पत्र दाखयले. तेणे आमकां कुडिची चावी दिली. व्हडलो ब्लोक आशिल्लो. तीन कुडिंचो. तांतूत फकत चार-पांच जणच रावपांचे. देखून रावपाची बरी सोय जाली.

आमी फ्रेश जाले, आनी चार वरारच एअरपोर्टार वचपाक भायर सरले. गोरेगांव ते अंधेरी रिक्षान गेले. थंय अंधेरी पूर्वेक आडतीस नंबराची बस सहार एअरपोर्ट वचपाक राविल्ली. रोखडींच आमी ती बस धरली. पंधरा मिनटांत आमी एअरपोर्टार पावले. ती प्रशस्त 'आगमन आनी निर्गमनाची' (Arrival and Departure) एअरपोर्टाची दोन माळ्याची प्रचंड इमारत पळोवन आमी थक्कच जाले. वयर विमानाची सुलूस आशिल्लीच. त्या अर्दवर्तुळाकार अत्याधूनिक इमारतींच्या मदीं प्रशस्त पटांगण आशिल्लें. थंय शेंकड्यांनी टॅक्सी शिस्तीन पाळेक लायिल्ल्यो. हेंका कशें आनी केन्ना भाडें मेळटा काय? वगींच दिसलें. आमी मुखेल दारा कडेन आयले. स्टेट बँकेचें पत्र थंयच्या एअरपोर्ट ऑथॉरिटिक दाखयलें. तांणी आमकां भितर वचपाचो एक तात्पुरतो पास दिलो. आनी सांगले, 'Go this way, there is enquirly counter, the Receptionist will help you', ते प्रमाण आमी गेले. भितर सरताच थंडगार वाऱ्याचो झोत आंगार आयलो. भितर पुराय ए.सी. परत भितर एक प्रवेश दार, थंय कस्टम अधिकारी उबो. तपासणी करुनच भितर सोडतालो. थंयच्यान आमी एन्क्वॉयरी काउंटरार गेले. पत्र दाखोवन म्हायती विचारली. तें पत्र पळोवन थंयची एक तरतरीत चली अस्खलित इंग्लिशींत म्हणू लागली, 'Oh! you are SBI Staff. OK. You please go upstaire at the immigration lounge and at front of the immegration there is your SBI office. Thank you.' अशा रितीन तिणे आमकां कितेशें सांगले. भोवतणीं सगळें इंग्लिशिचें वातावरण. देखून आमी थोडेंशें गोंदळ्ळें. तिणे सांगिल्लो पत्तो आमकां सारको कळ्ळो ना. भितर बेल्टार लोकांचे

सामान, लगेज, बॅगां गोल फिरतालीं. देंविल्ले प्रवासी आपापलें सामान वळखूवन ट्रॉलिचेर घालून कस्टम तापासणेच्या ओळींत उबे रावताले. खंयचें तरी विमान आयिल्लें उरतलें. गर्दीच गर्दी. मर्दी मदी सफाय कामगार उबे. कांय कडेन वण्टीक स्टेनलेस स्टीलचीं नवीं करकरीत थूंकपाचीं तस्तां दवरिल्लीं. बॅंकेच्या ऑथोरिटीचें कांउटर्स कुशीकच आशिल्ले. सगळो थाटच अजब. आमी कसो बसो मार्ग काडीत अखेर बॅंकेच्या एक्सचेंज सेंटरार आयले. आशिकुर्शीचे कांउटर्स चालू आशिल्ले. थंयय लोक हातांत पासपोर्ट घेवन ओळींत उबे आशिल्ले. करंन्सी एक्सेंज चालू आशिल्ले. कॉम्प्युटराचो आवाज येतालो. No manual work फकत सही करप इतलेंच्च काम. सगळें काम कॉम्प्युटरच करताले. सगळें काय थक्क करपीच.

हें सगळे पळोवन आमी अर्थातच गोंदळ्ळे, आनी अस्वस्थय जाले. हें असलें काम आमकां कशें जमतलें? सगळे कडेन इंगिलीशच इंग्लिश. इमिग्रेशन चेक इन खातीर पोलीस यंत्रणा, तरेकवार एअरपोर्ट कंपनीचीं स्वतंत्र काउंटर्स, ओमान, मस्कत, सौदी, दुबय, सिंगापूर, कॉन्टास, कॅनडा, ब्रिटिश, एमिरेट्स, एअर इंडिया, अशा तरेकवार एअर लायनींचे कांउटर्स ओळीन प्रवाशांच्या सेवे खातीर स्टाफासयत सज्ज आशिल्लें. मदल्या भागांत विस्तिर्ण वाठार, दरेक प्रवासी ट्रॉली सयत हांगच्यान थंय धांवपी. एके सुवातेर सगळ्या विमानांची म्हायती दिवपी ऑटोमटिक बोर्ड. Arrival आनी Departure ची वेळ दाखोवपी, एखादें विमान जर उसरां येवपाचें आसत तर 'डिलेड' अशी म्हायती दर्शोवपी, मर्दीच इंग्लीश आनी हिंदीतल्यान अत्यंत सफायसदार, स्पश्ट आवाजांत घुमपी, विमानांची म्हायती दिवपी अनांउसमेंट आनी दरेक अनांउसमेंटिच्या शेवटाक 'थँक यू' अशें म्हणपाचो शिश्टाचार.

एअरपोर्टा वयल्या आमच्या मुखेल ब्रँच इनचार्जाशी आमची भेट जाली.पत्र दाखयलें. तांणी आमचें स्वागत करुन कामाक परबी दिली. हांगाय इंग्लिशिचोच शिश्टाचार. एअरपोर्टार वळखपत्रा वाचून भितर वचपाक वचूंक जायना. देखून पयली एअरपोर्ट ऑथॉरिटी कडल्यान परमनंट वळख पत्र घेवपाची सूचोवणी तांणी दिली. जें काम आमकां फाल्याच करचें आशिल्लें, आमकां तेन्नाच कामार रुजू करुन घेतलें. (१ आगस्ट १९८५). आमची बी. बॅच आशिल्ली. आता आमकां रातपाळी करची पडतली. नंतर हांगाच्या कामाची सगळी सविस्तर म्हायती तांणी दिली. मि. राणे आनी शेलटे अशे ते आमचे दोन हेड इनचार्ज आशिल्ले.

एअरपोर्टार ए. बी. सी. डी. अशो चार बॅचीस काम करताल्यो. बॅंकेचें कांउंटर चोवीस तास चालू आसतालें. दरेक बॅंचीत पंचवीस अधिकारी. सगळे काम अधिकाऱ्यांनीच करप. हांगा कोणच शिपाय वा कारकून नाशिल्लो. काउंटरांचेच काम. एका सुवातेर ओळीन पाच स कांउंटरर्स. दरेक कांउंटरार एक वॉचमन, तो वर्देत भायर तय्यार

आसतालो. एअरपोर्टाचे दोन विभाग आशिल्ले. भायल्या देशांतल्यान येवपी प्रवाश्यांक म्हणल्यार अराइव्हल प्रवाशांक तांच्या फॉरेन करन्सीचें कनव्हर्जन करुन इंडियन रुपया दिवप आनी वचपी म्हणल्यार डिपार्चर प्रवाश्यांक इंडियन रुपया घेवन तांच्या देशा नुसार फॉरेन करन्सी दिवप. डिपार्चरात दोन करन्सी सेल आसताले. तातूंत बेसीक कोटो म्हण दरेक प्रवाश्यांक वीस डॉलर्स दिवचे पडताले. फॉरेन ट्रॅव्हल्स स्किमी खाला दरेक प्रवाश्याक पाचशे डॉलर्स दिताले. भायले देशांतल्यान कांय मशिनरी, वस्तू हाडच्यो आसल्यार चड करन्सी लागताली. ती मात रिझर्व बँकेन परमिटाचें पत्र दिले शिवाय विकूक जायनाशिल्ली. अराइव्हलांत नाना देशांच्यो करन्सी येताल्यो. अमेकिन डॉलर्स, ऑस्ट्रेलियन डॉलर्स, स्टर्लिंग पौंड्स, सौदी रियाल, दुबय दिऱ्हाम, मस्कत ओमानी रियाल, कुवेती दिनार, डच मार्क, इटालियन लिरा, जापानी येन, बंगाली टका, रशियन रुबल अशा नानाविध करन्सीजचें एक्सेंज जातालें. सगळ्या करन्सिजचें कन्व्हर्जन कॉम्प्युटरार करताले., देखून वेगळें कॅलक्युलेशन करची गरज नासताली. कॉम्प्युटर रेट फ्लॉपी सगळे काम करताले. प्रत्येकाचो पासपोर्ट घेवन तांतूत अधिकृत नोंद करची पडताली. नांव, पासपोर्ट नंबर म्हत्वाचो. मागीर करन्सी कोड आनी अमाऊंट उडयलो की, आपोआप ताजें रुपांतर जावन पावती प्रिंट भायर येताली. ते प्रमाण रिसीट आनी पेंमेंट जाताली. हें सगळें काम आनी ताजें स्वरुप आमकां अनोळखींच आशिल्लें. सुरवातेक आमी गडबडून गेले पूण फुडें तें काम आत्मसात जालें.

१९८५ चे ते दीस, तेन्ना स्मगलिंग खूब चलताले. फॉरेन करन्सीर आर.बी.आय.चे कडक नियंत्रण आशिल्लें. डॉलर पर्चेस रेट एका डॉलराक बारा रुपय आशिल्लो आनी सेल एका डॉलराक अठरा रुपय आशिल्लो. करन्सी सोपेंपणान मेळनाशिल्ली. तेजेर स्मगलिंग विसंबून आशिल्लें. भायले देशांतलो म्हाल डॉलराबगर मेळनाशिल्लो. तेवेळार आयच्या सारखी मेकळी अर्थवेवस्था नाशिल्ल्यान प्रत्येक भायल्या म्हालाचेर बंधन आनी कस्टम ड्युटी आशिल्ली. कस्टम ड्युटी भारी आशिल्ली. सादारण तिनशें चाळीस टक्के. तेका लागून कस्टमाक खूब उत्पन्न मेळताले. सिंगापूर-दुबयच्यान व्ही. सी. आर., सोनी टी व्ही. वॉशिंग मशीन या सारखो तरेकवार म्हाल येतालो. तेजेरय कस्टम ड्युटी लागताली. सिंधी लोकांचो होय एक वेवसायच आशिल्लो. ते दर ससकाक एखादी वस्तू हाडून बाजारांत विकताले. कांय एजंटांनी अशा सिंधी लोकांक या वेवसायांत गुतून दवरिल्ले.

फावो ती सगली म्हायतती घेतली. मागीर दोनी लॉज फिरुन पळयले. सगळ्या कॉम्प्युटरर्सचें काम पळयलें. रात निसती जात्रे भशेन फुलून गेल्ली. धा-धा मिनटांक विमानां येताली वताली. प्रवाशांची प्रचंड वर्दळ. हें जग माका खबरच नाशिल्लें. एअरपोर्टार दिव्यांचो सामको लखलखाट आशिल्लो. रात खंयची? दीसच तो. हें सगळें अद्‌भूत दिसूं लागलें.

रात केन्ना सरली कळ्ळेच ना. सकाळ जायत आयिल्ली. रात पाळी आटाक सोपता. क्लोजिंग सोपोवन चार्ज दिवन मागीरच घरा वचप. रोखडीच दुसरी बॅच कामाचो ताबो घेताली. अशी ही कामाची चक्रयंत्रणा.

रुटीन सुरु जालें. म्हयने भरांत हांव तरबेज जालो. आशिकुर्शिचे आनी इश्टांचे आयकूवन हांवय तशेंच इंग्लीश उलवंक लागलो. कामापुरतीं थारिल्लीं उतरां आसतालीं. तींच तीं. आतां माका इंगलिशिंचे कांय दिसना जालें. हांगा थोडेंच माका इंग्लीशिंतल्यान भाशण दिवचें आसा? कामचलाऊ इंग्लीश. देखून खंय अडलें ना.

रावपाची वेवस्था तर गोरेगांव बॅचलर कांउंटर्सार उत्तमच जाल्ली. म्हयने भरांतच हांव रुळलो, रमलो. जेवणाच्या वेवस्थेंत मुंबयत किते कमी? पावलापावलार खानपान सेवा. एअरपोर्टारय जेवणाची वेवस्था आशिल्लीच. ताका लागून होवय प्रस्न सुटलो. कांयच कमी नाशिल्लें. गांठीक जाय तितले पैशे. मुंबयत पैशा वांचून कांय चलना, आनी कामाक कश्टाक तुटवडोय ना. जणू काय अनामिक यंत्रच हें प्रचंड शार सक्षमपणान चलयत आसा. टॅक्सी, गाड्यो, बर्सीस, लोकल, रेल्वे, विमान अशा अत्याधुनीक तंत्र सोयीनी हें शार प्रचंड वेगवान तर जालाच पूण खिणातच जगाकडेनय नव्या यंत्रणेन जोडपी आसा. हो एक चमत्कारच. Let us come closer हें जणू मुंबयचें ब्रीदवाक्यच आसूंक फाव.

दीस वेगान फुडें सरकताले. नायट करुन आयले नंतर त्या दिसा दीसभर न्हीद काडची पडताली. मागीर दुसरो आख्खो दीस रजेचो. मागीर तो दीस आमचो मुंबय पळयत, फिरत रावपाचो. आता लोकलीची सवय जावंक लागिल्ली मुंबयची वळखय जांवक लागिल्ली. एअरपोर्टार इश्टांच्यो वळखीय वाडूंक लागल्यो. जें हांगा सेटल जाल्ले तें आमकां अणभव सांगताले. आमीय तांचे सारखी आपल्या परिवाराची आता हांगा सोय करची, अशे मनांत येवंक लागले. म्हयने भरांत एक गजाल मात खरपणान जाणवली; हांगा काउंटरार काम करतल्यांक खूब दुडू मेळता. दुबय, आखाती प्रदेशांतल्यान, सिंगापूरच्यान तशेंच हेर देशांतल्यान येवपी लोक, मोठेमोठ्या बॅगांतल्यान प्रचंड सामान हाडतात. तांची कस्टम ड्युटी भरची पडता. सामानांची विस्कटावणी तपासणी करुन तेंचेर कस्टम अधिकारी कस्टम ड्युटी चार्ज करतात, ताजी रिसीट तयार करुन निळ्या, धव्या, पांचव्या प्रतींत ते कागद घेवन प्रवासी मुखाल्ल्या स्टेट बँकेच्या Counter चेर duty भरतात. ही ड्युटी फॉरेन करन्सींत आसता. तेच बराबर जाय तितली F.C., कस्टमर Indian rupee त Encash करुन घेतात. हो वेवहार रातदीस चलिल्लो. प्रचंड उलाधाल. हे हांगचें जगच वेगळें आशिल्लें. दोळे दिपकावपी. कस्टम भरपी कस्टमाची ड्युटी भरुन जाले नंतर उरिल्ले पैशे परत घेताले. शंभर रुपयाच्या भितरली मोड आसत तर ते टीप म्हण कांउंटर वाल्याक दिताले.

या काळांत भांगराचें स्मगलिंगय व्हडा प्रमाणार जातालें. कांय प्रवासी बॅगांत भांगराचीं बिस्किटां, भांगराच्यो कांडीं हाडताले. कांय सुवातेर लिपोवन ते हाडप जातालें. ते खातीर ते तरेकवार चतरायो येवजिताले. हें सदांचेच चलिल्लें. आदीं मदीं FERA/CBI चे छापे पडताले. अमूक फ्लायटीन कोणतरी भांगर घेवन येता ही खबर तांका लागताली, ते प्रमाण राती बेरातीं छापे पडताले. सांपडिल्ल्या इसमाक धरताले. चडकन्न हे लोक, मुखेल स्मगलर नासताले. कोणीय भाडेवाले पैशे दिवन धाडिल्ले प्रवासी असताले. धरिल्लें भांगर, बिस्किटां, हांची रास उइखचे अधिकारी मांडताले. लाखांनी रुपयांचो म्हाल आसतालो. रातभर तांची मेजणी चालू आसताली आनी पंचनामो करुन प्रेसा खातीर फोटो व्हिडिओ शुटिंग काडून हो सुवाळो सरतालो. दुसरे दिसा टीव्हीर, पेपरांत फोटोसयत, चित्रणासयत बातमी झळकताली. जीं आमी प्रत्यक्ष पळयिल्ली आसताली.
एक दीस कांउंटरा मुखार आनी कस्टमाच्या लॉजांत धांवांधांव आनी गोळीबार जालो. पोलीस, गुन्हेगार आनी हेर कांय व्यक्ती असो तो जमाव आशिल्लो. आमी भियेले. किते जाता हें आमकां खीणभर कळना जालें. आमगेलो वॉचमन मात शांतपणान कांउंटरा कडेन उबो आशिल्लो. तेणेच सांगले, कांय ना हो, पिक्चराचें शुटिंग चालू आसा. पिक्चराच्या शुटिंगा खातीर सिनेमा वाले भरमसाट भाडें भरुन एअरपोर्ट तात्पुरत्या वेळेखातीर भाड्यान घेतात. हें अदून मदून चलत आसता.
बँकेच्या कांउंटरार जायते प्रवासी येतात. तांतूत मोठमोठे अधिकारी, फुडारी, नट, नट्यो, अशा सगळ्यांचो आसपाव आसता. पासपोर्टाचे तरेकवार रंग आसतात. न्रिळो, पांचवो, तांबडो, चॉकलेटी आनी धवो आदी. तांची खाशेली वर्गवारी आसता आनी म्हत्व आसता. निळो पासपोर्ट हो सगळ्यां खातीर आसता. धवो अती व्ही. आय. पी. लोकांखातीर. चॉकलेटी रंगाचो पासपोर्ट अँम्बॅसिडरां खातीर आसता.
एक्सेंजा खातीर कांउंटरार खूब लोक येतात. जाय ते वर्सांनी मायदेशांत परतल्ले लोक एक्सेंज मनींतले भारतीय रुपय पळयले की भाउक जाताले. "I have seen my Indian currency after a long period, O my India! 'अशें कितेशें पुटपुटताले. ती इंडियन करन्सी कपलाक लायताले.आनी तिजो आदर करताले. माका हें खूब भाउक दिसतालें. कस्टम भरले नंतर वा फॉरेन करन्सी एक्सेंज केले नंतर आयिल्ले प्रवासी एक्सेंजांतली मोठी तितली रक्कम घेताले आनी below hundred rupees आसलेली small change घे नासतना "Ok, keep" म्हणून खोशेन आमकां दिताले. दीसभरांत वा रातभरांत कांउंटरार जमो जावची अशी ही टीप रक्कम बरीच व्हड आसताली. केन्ना ती देड दोन हजारां मेरेन वताली. हें सदचेंच. तेमुळे म्हयने भरांत पगारा शिवाय किंबहुना पगारा परस चड कमाय जाताली. शिवाय हांगा नायट अलौंस, डिस्कम्फर्ट अलौंन्स, कॉम्प्युटर हँडलिंग अलौंस, ट्रॅव्हलिंग अलौंस, अशा तरेकवार अलौंसांचेय लाभ मेळताले.

आखातीं देशांतल्यान बरेचशें कुट्टी लोक येताले. ते थंय नोकरे खातीर गेल्ले आसताले. भारतांत येतना, अर्थातच ते भरपूर म्हाल हाडताले. तांतूत स्कॉच व्हिस्कीचो आनी '५५५ सिगरेटिचो आसपाव आसतालो. आमकां कांउंटरार कोणी ना कोणी एखादी बाटली आनी एखादें सिगरेटिचें कार्टून खोशेन दितालो. स्कॉचांत जॉनी वॉकर-रेड लेबल आनी जॉनी वॉकर-ब्लेक लेबल तशेंच व्होडका, ब्लेक अँड व्हायट, अशो सोऱ्याच्यो बाटल्यो आसताल्यो. हांव तर केन्नाच न पिवपी. देखून ह्यो मेळपी बाटल्यो म्हज्या इश्टांक हांवे भरपूर वाटल्यो. म्हण मागेल्या त्या इश्टांची आनी माजी एक अनामिक, अतूट इश्टागत जाली.

एकंदरीत मुंबयत आता मागेलें बरेंच बस्तान बशिल्लें. अर्थिक अडचण तर बिल्कूल नाशिल्ली. हांव दर पंदरा दिसान सोलापुराक वचून येतालो. सोलापूरांच्या घरांत आता चडशीं उमेद नाशिल्ली. आवय तर पूरायेन एकमुळी जाल्ली. बायलेरच घरची सगळी जबाबदारी आयिल्ली. भुरग्यांची शाळा, रांदप, बाजार, सगळें सगळें. तेजेन ती त्रस्त. हांवे एकल्यानच सगळें वजें व्हांवोवचें, अशें ती रागान म्हणताली. आता कुटुंब मुंबयक हालोवचें असो मागेलो विचार चलतालोच. बायले कडेन तशें उलयतकच तिकाय तें पटलें.

मुंबय येतरेत फॅमिली क्वार्टसा बद्दल हेड ऑफिसांत उलयलो. तांणी माका, रोखडोच जाय जाल्यार नाला सोपारा हांगा एक बरो ब्लॉक रितो आसा. पोजिशन घेता? अशे विचारलें. माकाय आता गरज दिसूं लागिल्ली. हांवे चडसो विचार केलोना. रोखडेंच हय महणलें. तडक क्वार्टसाची चावी ताब्यांत घेतली, आनी नालासोपारा गेलो. फ्लेट पळयलो. बरो तीन कुडिंचो, हवेशीर असो तिसऱ्या माळ्या वयलो तो प्रशस्त लेट. वयर गच्ची. असलें घर हांये केन्नाच पळयलें नाशिल्लें. आख्खी जीण धा बाय बाराच्या प्याच्या घरांत गेल्ली. सोलापूरांतल्या घरांत पिवच्या उदका खातीर मुन्सिपालटिचो भौशीक नळ आशिल्लो. भाजी भाकरी, मटन शागोतीन पोट भरचें, आनी सेवेक चोवीस तास मुन्सिपालटिचें 'सुलभ शौचालय' आशिल्लेंच. खरें तर तें 'सुलभ' नाशिल्लेंच. हजार देड हजार वस्ती आशिल्ल्या मांगवाड्यांत दादल्यांक आट आनी बायलांक आट अशें वट्ट सोळा संडास बांदिल्लें. मेळ कसो बसचो? या नव्या शारां लागून आमची जीवन शैलीच बदलतली आशिल्ली.

नालासोपाऱ्यांतलो हो प्रशस्त फ्लॅट आमकां सर्गच आशिल्लो. स्वतंत्र बेड, स्वतंत्र किचन, सगळें वेल फर्निश्ड. व्हडलो हॉल, बाथ, बेसीन आनी टॉयलेटय प्रशस्त. हें सगळें आयुश्यांत आमकां नवीन आशिल्लें. सगळें चकचकीत, देखून आमकां खूब अप्रूप दिसलें. मातेंत लोळपी आमी, सारयिल्ल्या घरांत मांजरी वा जमखन उडोवन न्हिदपी आमी, या ग्रेनायटच्या गुळगुळीत फरशेर आता न्हिदतले. घरांत धुल्लाचो लवलेशय

नाशिल्लो. देखून हें सगळेंच नाविन्यपूर्ण. भागवत आनी ताजें कुटूंब सोलापूरांत आवय कडेन लक्ष दिवक आशिल्लें. आवयची चिंता नाशिल्ली.

सोलापूराच्यान घर आता नालासोपाराक हालोवचें थारलें. ते प्रमाण टेनअप मद्रास-मुंबय मेलीन आमी व्हीटीक देंवले. तोच पसारो घेवन टॅक्सीन चर्चगेट पावले. विरार लोकल धन्न नालासोपारा आयले. माथ्यार वजें घेवन ब्लॉकार पावले.

बायलेक घर आवडलें. भुरग्यांक आनी भावाकय घर बरें दिसलें. खिडकेंतल्यान मुखार झाडांझोपांत लिपिल्ले प्रचंड दोंगर दिसताले. थंडगार वारें खिडकेंतल्यान आंगार झुळझुळतालें. सगळेंच अप्रतिम! हें सगळें खरें पूण घरांतच टॉयलेट हें कांय कोणाकच मानवलें ना. भीड दिसूं लागली. पूण आतां सवय करुन घेवंक जाय. ॲडजस्टमेंट तर आयलीच. एक मात बरें आशिल्लें तें म्हणल्यार चोवीस तास उदाक.

दनपारा दाळभात केलो. सांजेर आमी बाजारांत वचून आयले. मुंबय खूब व्हड आशिल्ली. भरपूर भाजीपालो. सगळें काय बाराय म्हयने मेळपी. बाजाराच्या कुशीक नुस्ते कान्नी ओळीन नुस्ते विकूंक बशिल्ल्यो. इतले नुस्ते आमी केन्नाच पळयले नाशिल्लें. इसोण, बांगडे, पापलेट, मांद, कितले नाना तरेंचें नुस्तें. ताजें बोंबीलय आशिल्लें पयलेच खेपे पळयले. शिवाय सुंगटां नव्यानच पळोवंक मेळ्ळी. मागीर आमच्यान रुच सोसूं जाली ना. सांजेर नुस्त्याच्या जेवणान आमकां तृप्त केलें.

दुसरे दिसा व्हडल्या दोनय भुरग्यांच्या शाळेच्या एडमिशनांचें काम केलें. श्रीनंद आनी किरण हे दोगय पांचवेत आशिल्ले. नालासोपाऱ्या सावन दोन मैलार आशिल्लो समय पाडा हो गांव. थंय हायस्कूल आशिल्लें. 'बसिन एज्युकेशन सोसायटींचें.' सामके पोन्ने आनी गाजिल्लें. ट्रान्सफर ऑर्डरीची प्रत बरोबर जोडून अर्ज दिलो. थंय दोगांयलें एडमिशन जालें. धाकलें अनुराधा आनी राहूल हांकाय निळे मोरेच्या मुळावे शाळेंत दाखल केलें. श्रीनंद आनी किरण हांका समय पाड्यांक बसीन सोडचें पडतालें. नालासोपारा विरार स्टेशनाच्या आलतडचें उपनगर. वसईक लागून आशिल्लें. कोकण पट्टेच्या निसर्गरम्य दोंगराळ वाठारांत वसिल्लें, अशें सुंदर गांव आशिल्लें.

सोलापूरांतलें घर मनशांच्या गर्देत आशिल्लें. हांगा मात गर्दी आसूनय एकमुळें. दाराच्या भितर बंदिस्त अशें. आशिकुशींचे कोणच वास्तपूस, चौकशी करिनासले. दरेकलो ताकतिकेंत, आनी आपल्याच तंद्रेत आशिल्लो. आमच्या अपार्टमेंटचें नांव 'गुरुकुल'. हांव कामाक गेलो की बायल आंगार पडून हेर फ्लॅटांतल्या बायलांची वळख करुन घेताली. तिका एकलेक रावप शक्य नाशिल्लें. मनशांच्या गजबजाटांत जीण गेल्ली. देखून हांगाच्या लोकांकडेन ती मुद्दम वळखी करुन घेताली. तेंका लोणचें दिवप, भाजी दिवप, मटन केल्यार तें वाटीभर दिवप, अशें सोलापुरी प्रकार करताली.

नवल म्हणल्यार, तिणे सगळयांक आठवडें भरांत जिकूनच घेतलें. देखून गुरुकूल अपार्टमेंटातल्यो बायलो एकमेकांक मेळूंक लागल्यो आमकांय कांय कोंकणी, मालवणी, आगरी, खाद्यप्रकार चाखूंक मेळूंक लागले. अशी घसट मुंबय करांक मानववपी नाशिल्ली. कारण नासतना ही किते वळख करुन घेवप? अशे तांका दिसतालें. पूण मागेल्या बायलेली ही घूसखोरी अजबच आशिल्ली.

आमचे मुखार एक पंजाबी बायल रावताली. तिजें नांव अजूनय आमकां खबर ना. तिका आर्मी भाभी म्हणताले. या बायलेक दोन व्हड भुरगीं आशिल्लीं. कॉलेजींत आसूंयेत. बायल सकाळीं वताली आनी रातीन उसरां येताली. घर सदां बंद. कोणच कोणाली वास्तपूस करिनासले. मागेल्या बायलेन तिजी केन्ना, कशी वळख काडली देवाक खबर. केन्ना केन्ना सकाळीं वतना ती आमच्या दारावयली बेल वाजयताली, आनी बायले कडल्यान एक रुपयाचें नाणे घेवन वताली.

एक दीस हांव घरा आसतना तिका एक रुपयाचे नाणे मागपाचो प्रसंग आयलो. कॉलबेल वाजली. हांये दार उगडलें. मुखार पंजाबी ड्रेस घातिल्ली ही मॅडम उबी, ताकतिकेन भायर वचच्या तयारेंत. तिणे माका 'भाभी है'? अशे विचारलें. हांवे तिका 'मॅडम, अंदर तो आ जाईये' म्हणलें. ती भितर आयली. तो मेरेन बायल भायर आयली, आनी तिणे एक रुपयाचें नाणे मागिनास्तनाच तिज्या हातार दवरलें. माका हो प्रकार कळ्ळो ना. मागीर त्या सिंग मॅडमीनच खुलासो केलो. म्हणूंक लागली...

क्या है भाईसाब, चेंबूर में हमारा एक ब्लॉक था। It was in dispute उसकी वजह से the matter was peding in the court of Bombay since long time. मुझे फोन के लिये एक क्वॉयन की जरुरत थी, और मैने भाभी से मांगकर एक क्वॉईन ले ली थी। भाभी ने मुझे हसकर तुरंत क्वॉईन दे दी। and what a surprise, on that day only मैने कोर्ट की केस जीत ली. कोर्ट मे हमारे जैसा जजमेंट हो गया। और हमारा अस्सी लाख का काम सक्सेस हुआ। मुझे पुरा भरोसा है, बरसोंसे हम केस लड रहे थे लेकिन क्या वंडर हो गया। वाहे गुरु जाने, जजसाब ने उस दिन बोर्ड पर केस ले ली ओर सुनवाई होकर अपना फेसला सुनाया। And we have won the case with eighty laks compensation. I think because of bhabhis coin only. मुझे पुरा भरोसा है इनपर।

ती उलयतच आशिल्ली. हांव आयकूवन थक्क जालो. बायलेलो हो नवो पराक्रम आयकूवन माका बरें दिसलें. मुखार ती भाभी उलयतच आशिल्ली.

भाई साब, मै कोर्ट में काम करती हूँ ख am also a Lawyer. जब भी मेरे केसेस की सुनवाई होती है तब मै भाभी से क्वॉईन लेती हूँ और मुझे मेरे काम में सक्सेस मिलता है। I dont know what is the magic! But होता है ऐसा

'Thanks a lot' म्हणून भाभी क्वॉईन घेवन रोखडीच गेली. हांव स्तिमित जालो. कितें हो विश्वास, कितली ही श्रृद्धा, मुंबयतले लोक खरें तर भाबडे आनी श्रृद्धाळूच आसतात.
ह्या विशयार हांव बायलेकडेन उलयलो. तिणे, अहों, मागेलो हातगूणच तसो आसा, माका स्वताक तसो अणभव आयला. हांव खंय बी वता दुकानांत, थंय मागीर गर्दीच गर्दी जाता. वसईक सोनाराल्या दुकानांत तर मालक माका 'ताई बसा,-थांबा जरा' म्हणून ताटकळत दवरतात. आनी नंतर आयिल्ले गिरायक पळयतात. भाजीवाल्यो बायलो बी 'ताई तुमचे हातान बोणी करा. तुमचो हात लागलो की, झटक्यांत आमची भाजी विकून खलास जाता. नुस्तेकान्नी पसून म्हणतात, 'ताई नुस्तें घे नाकात, पूण नुसतो हात लायात'. तर हे अशें आसा. आयकूवन माका बरें दिसलें. मागेल्या बायलेक देवान ही शक्त दिल्ली आसा. कितेंय आसूं, कोणालेंय बरें जाता न्ही, मागीर बरें आसा. कित्याक खोलायेंत वचप?
एअरपोर्टावयली मागेली नेणूक माका सुखी आनी संपन्न करुन गेली. सुमार पांच वर्सां हांवे हांगा काम केलें. कसलीच कमतरताय ना. नालासोपारा हो तसो कोंकणपट्टेचो वाठार. देखून हंगामांत देवगडांतल्या हापूस आंब्याच्या आस्वादा पसून ताज हॉटेलाच्या चायनीज फूड मेरेनची मजा आमी चाखली. मुंबयच्या तेरेकवार हॉटेलांत आमी जेवणां घेतलीं. दरेक रजा, मुंबय माड्डवचे खातीर, आनी शॉपिंग करचे खातीर खर्ची घातली. म ोठो पगार. भरपूर अलौसेंस, तांतूत प्रत्येक ड्युटेच्या वेळार कस्टमा कडल्यान, भोंवडेकारा कडल्यान खोशेन मेळपी गिफ्टां आनी सदां भरपूर मेळपी टीप. अक्षरश: उदकां भ्रशेन पैसो मेळूं लागलो. तरेकवार नव्या नव्या वस्तुंनी घर नटूं लागले. खरेदी वाडली. कपडे, साड्यो, भांगर, अलंकार हाणी घर भरुं लागलें. हांवे या काळांत जाय ते जणांक सदळ हातान मदत केली. लग्नकार्यांक हातभार लायलो. हांगा आसतानाच सोलापूरांत विजापूर रोड वाठारांतल्या संतोश नगरांत एक घर-ब्लॉक बुक केलो. बँकेची हाऊसिंग लोन स्कीम आशिल्लीच. तिजो लाभ घेतलो. संतोशनगर सोलापूर हांगा आतां स्वत:चो बंगलो टायप मागेलें घर जालें.
एअरपोर्टार तरेकवार भायल्यो वस्तू येताल्यो. कांय जप्त केल्ल्यो आसताल्यो, कांय कंपन्यां कडल्यान विक्रेक आयिल्ल्यो आसताल्यो. सहार एअरपोर्टाच्या भितर कांय दुकानां, हॉटेल्स, आनी कस्टम ड्युटी फ्री दुकानांय आशिल्लीं. अनेक वस्तू थंय सवाय मेळतालीं. उंची उत्तम घड्याळां, सोनी, अकाईचे व्हीसीआर, टीव्ही, कॅमेरे, आदीं. एअरपोर्टावयल्या स्टाफाक सवलतेंत ह्यो वस्तू मेळताल्यो. हांवे अकाई व्हीसीआर आनी एक कोडॅक कॅमेरा घेतलो. तशेंच दुबयतल्यो कांय कॅसेट्स विकत घेतल्यो. दोन तीन बरीं घड्याळां घेतलीं. घरांत ओनिडा टीव्ही तर आशिल्लोच. देखून घर नवनव्या वस्तूंनी भरगच्च जांवक लागिल्लें. बायलेक अत्यंत तलमदार अशो कोरियन आनी जपानी साड्यो

वे हाडल्यो. तिका त्यो खूब आवडल्यो. मागीर म्हयन्याक असो सपाटोच सुरु जालो. र म्हयन्याक एक-दोन साड्यो हाडल्यो वताल्योच. सोलापूरच्या घरांत बसूंक सादी र्ची नाशिल्ली. पूण सपनांतय केन्ना चिंतले नाशिल्ले इतलो उंची सोफा हांव अकबर ली या फर्निचराच्या दुकानांतल्यान घेवंक शकलो. शोकेसी सारके नवें फर्निचर केलें. णान सारयिल्ल्या जमनीर न्हिदपी आमी, हांगा प्रत्येकाक भारी भारी दिवाण घेवंक कलो, आनी तेजेर डनलोप गाद्यो उडोवन न्हिदूं लागले. स्वतंत्र बेड, गाद्यो, ब्लँकेट्स वस्तूंनी घर आमुलाग्र बदलून गेलें. राहणीमान जशें लक्झरीयस जालें, तशें मागीर कपणय फाटोफाट येवंक लागलें. बायल आदीमदी शीक पडताली. माकाय ल्हवूच बी. चो त्रास सुरु जालो. मागीर फुडें स्पाँडिलायटीस.

क संसर्ग मात केन्नाच जडलो ना. तो म्हणल्यार सोरो. कित्याक कोणाक खबर, ऱ्याची ओड वा इत्सा माका केन्नाच जाली ना. कितें कारण आसत तें आसत. मुंबयत र सोऱ्याचो सुळसुळाट. हॉटेलांत मंद दिव्यांच्या उजवाडांत सांजवेळार पेग, बाटल्यो त्यो जाताल्यो. मागेले बरेच इश्ट या बाबतींत रसीक आशिल्ले. पूण हांव तांका फकत ॉफ्ट ड्रिंक्साची कंपनी दितालो. सुरवेक तांणीं माका पिशांत काडलें, मेंगो म्हणलें. पूण तर आग्रो करपाचें सोडलें. एअरपोर्टाच्या काऊंटरार तर स्कॉचिच्यो बाटल्योच बाटल्यो ळताल्यो, खोशेन. प्रवासी फुकट दिताले. मद्रासी, केरळीयन कुट्टी, आदी लोक जणू क चालच समजून स्कॉच तशेंच ५५५ डनहिल्स सिगारेटीचे कार्टूनस् प्रेमान भेट म्हणून दिताले.

बयच्या मादाम कामा रोडावयल्या स्टेट बँकेच्या ऑफिसांत, ऑफिसर्स युनियनाचे ॉफिस आशिल्लें. धाव्या माळ्यार. थंय आमचो एक इश्ट युनियनचो सरचिटणीस नाशिल्लो. तो सोऱ्याक सामको लंपट. शिवाय चेन स्मोकर्स आशिल्लो. एकपटी हांवे का जॉनी वॉकराच्यो ब्लेक लेबल आनी रेड लेबल अशो दोन स्कॉच बाटल्यो प्रेमान भेट हणून दिल्यो. सुरवेक तेणे भिडेवन नाकारपाचो देखाव केलो. पूण खिणांत ताजे दोळे वस्फारले. हो अचानक स्कॉच व्हिस्कीचो लाभ तेका इतलो सुखोवन गेलोकी, माका, स-थांब मी दुपारी इथेच जेवणार आहे. आपण आज इथेच मिळून जेवण करु म्हण तल्या मोगान मागेली सरबराय केली की, बस्स. फुडे म्हणूक लागलो,

रें, तुजें कशें चल्ला? कसली अडचण तर ना. कसलेंय काम आसत तर माका बेनधास्त सांग. आनी तुका हें थंय मेळताच जाल्यार जे जे वेळार मेळता. ते ते वेळार ला हाडून दी. कितें?

भशें तेणे फ्रेश बुकिंगय करुन दवरलें. अर्थात हांवय तेंका सदांच त्यो आदरणीय बाटल्यो ीत रावलो. आनी आमची अनोखी मद्य इश्टागत चडानचड घट्ट जायत गेली.

***





१७.

नानासोपाऱ्यांत येवन आमकां सुमार दोन-तीन वर्सां जावन गेल्ली. मुंबयत आमी बरेच संवकल्ले. लोकलींत चडप हें एक कसबच. ती तितली आमकां बरी जमली ना. गर्दी नाशिल्ल्या वेळेंत आमी सपरिवार बांद्रा-जुहू आनी ग्रँटरोड चौपाटीर, तशेंच मरीनलायन हांगा केन्ना केन्ना वतालीं. मुंबयचो अथांग दर्या पळयलो काय दोळे दिपून वताले. देगेवयल्या उदकांत पांय भिजोवन घेत ल्हारां झेलत स्तब्ध उबे रावन, पयस पयस पळयत रावप हो एक निर्मक्कळ आनंदच आशिल्लो. मन भरुन येतालें. विशालतेची, भव्यतेची जणूं काय भरतीच अंत:करणांत भरुन येताली. दर्यांचे उदक शांत फेसाळिल्लें आसतालें. सतत आमी मूजरत भरतेचीं ल्हारांय पळयलीं. दर्यांचे आक्राळ रुपय पळयलें. मरीनलायनीं वयलीं ल्हारां आंगार घेवचे खातीर तर आमी नालासोपाऱ्याच्यान मुद्दम येताले. कितलें निवळ सुंदर भरार वारें. आंगाक आपलेंपणान झोंबपी, प्रेमान लगट करपी, पावसाळ्यांत तर या देगेर भिजप आनी उसळत्या ल्हारांचे थेंब आंगार घेवप ही खोशी तर वेगळीच.

मरीनलायन देगेवयलें प्रशस्त आनी मोठमोठे उंच बंगले ओळीन आशिल्ले. कितले गिरेस्त आनी भाग्यवान आसत हांगचे लोक. तांच्या भोंवतणी प्रचंड व्हांवपी चकचकीत

ाड्यांचो अखंड तांडो. सगळें अद्भूतच. अशा वेळार दीस्त माका मांगवाडच्या कडेन
थ व्हांवपी तो आडवो नळ याद जातालो.
ंगा ग्रँटरोडार खंयतरी मागेल्या बायलेली एक मावशी-लोचनाबाई आनी तिजीं दोन
रगीं म्हणल्यार बायलेल्यो मावशी भयण्यो रावताल्यो. एकलें कांता दुसरें सुसा.
या उंच उंच इमारतींत आनी बंगल्यांत त्यो खंय आसतल्यो आनी तांची भेट
शी घेवची हो एक गहन प्रस्नच आशिल्लो. पूण सोलापूरच्यान कसो बसो पत्तो
ळयलोच. नवल म्हणल्यार फोन नंबरय मेळ्ळो. मागीर आता आनीकय बरें जालें.
का रजेंत आमी मावशेची भेट घेवपांचे थारयलें. सकाळी आमी लोकलीन ग्रँटरोडार
वले. भुरग्यांक बरोबर घेतलें नाशिल्लें. आमी दोगच. मावशेलो पत्तो आमचे कडेन
ाशिल्लो. ग्रँटरोड स्टेशनाच्या गेटीवयल्यान भायर पडले. तर मुखारच इराण्यांचे खूब
हडलें हॉटेल दिसलें. काचींच्या शोकेसींत वेवस्थित मांडिल्ले ब्रेड, बटर, मोठे बनपाव,
टराच्यो कांड्यो, पावाचे-बटराचे ल्हान व्हड नाना प्रकार हें पळोवन आमी थक्कच
ाले. बायलेन म्हणलें, अहो मावशी मुंबयच्यान आयली की हेच बनपाव बटर घेवन
ताली. सोलापूरांत असलें खंयचे तेन्ना मेळूंक. देखून अप्रूप दिसतालें. हांवे विचार
लो, या इराण्याकच हो पत्तो विचारया. चिटी दाखयली. तेणे पलतडची फिरोदिया
ाय खंयची लेन बलांटून सेक्टर टू बी वचपाचो मार्ग सांगलो. मागीर आमी वास्तपूस्त
रीत अखेर पत्तो सोदून काडलोच. एक व्हडलें अपार्टमेंट टाईप बंगलो आशिल्लो.
टीर वॉचमन उबो तेका चिटी दाखयली. तेजेर, 'आप कौन है', अशें तेणे आमकां
वचारलें. आमी वळख सांगली. 'ठीक है यहाँ ठेहरो, मेसेज देता हूँ.' अशें म्हणून
ॉचमनान शेर्डीतल्या फोनावयल्यान रकाद दिलो. सादारण पांच मिनिटां नंतर मावशेली
धू सुसा सकल आयली. सुसा ही दोन नंबर चली, मागेल्या बायलेच्याच पिरायेची.
ुसान बायलेक मिठीच मारली. 'आगो अशे अचानक कशे आयले? पयलीं कळोवचे
न्हीं? आशिकुशीक सगळे शेठ लोक रावतात. बरें जालें बरोबर पत्त्यावर आयले.
ॉचमना कडेन हिंदीतल्यान कांय बांय उलोवन आमका ती वयर घेवन गेली. एके
ुवातेर लिफ्ट आशिल्ली. लिफ्टींतल्यान चौथ्या माळ्यार आमी देंवली. बंगलो खूब
्हड आनी प्रशस्त आशिल्लो. मावशी एका गिरेस्त पारश्याच्या घरा पूर्ण वेळ घरकाम
क आशिल्ली. बंगल्यांतली सगळीं कामां आनी रांदपय तीच करताली. मावशेक बरी
ऐसपैस खोली रावपाक दिल्ली. खोलेत मावशी कितें तरी करताली. दोळ्यार जाड
चश्मो, मावशेन पन्नाशी हुपिल्ली. आमी आयिल्ले कळ्ळे तेन्ना तिका अत्यानंद
जालो. बेगबेगीन उठून ती आमचे लागी आयली. हात धरुन 'या' 'या' 'बसा' केलें.
कांता ही मावशेली व्हडली धूव, ती घरांत नाशिल्ली. मावशेन विचारपूस करची
सरबत्तीच लायली. 'हो कसो', 'तो कसो', 'ती खंय आसा', बी एक ना दोन,

नाना चौकशो. माका पिवपाक उदाक दिलें. खोलेंत एक पोन्ने मोडकें डायनिंग टेबल कोनशांत लायिल्लें. काळ्या कुळकुळीत शीसम लाकडांचे. सामके गुळगुळीत. उंची आशिल्ले. धन्याची गिरेस्त काय दाखोवपी.

आमी आमची म्हायती दिली. नालासोपाऱ्याचो पत्तो सांगलो. तेंका बरें दिसलें. घरा फोन नाशिल्लो. म्हण फोन नंबर दिवंक जालोना. मावशी माका सायब म्हणताली. तिणे सुरवात केली.

पळया सायबानुं, या दोन सानुल्या चेडवांक घेवन काम सोदीत हांव हांगा आयिल्लें. सुसा कांताचो बापूय उठाउठी मरन गेलो. तेन्ना पोरां तीन-चार वर्साचीं आशिल्लीं, हांव तरणी ताठी, पूण आख्खी उमर हांवे हांगा घालयली. काम करुन खाता, पारशी मनशा आसात. खूब मोठे मनाची. आता हांगा एक म्हातारी पारशीण फकत रावता. पयलीं बंगलो भरिल्लो आसतालो. पूण आता म्हातारेली भुरगीं आमरिकेत रावतात. एक जण इंग्लंडात आसता. मदींमदीं येवन वतात. बाकी सगळें माकाच पळोवचे पडतां.

ग्रँटरोडच्या दर्या देगे लागसार पारश्यांचो हो खूब प्रशस्त बंगलो. हाची किंमत कितली आसतली कोणाक खबर.? तो आख्खो बंगलो मावशेल्याच ताब्यांत आशिल्लो. म्हाताऱ्या अपंगूळ पारशीण बायलेचो सांभाळ मावशी मनापसून करताली. दुसरी धू कांता शेजारपाजारच्या शेटिल्या बंगल्यांत आयदना घांसप, कपडें धुवप, रांदप करताली. सुसाय अशींच कामां करतालें. बंगल्यांतल्या गिरेस्त बायलांक मालीश करचें काम करतालें. ते भरपूर पैशे दिताले. सुसालो घोव प्रसाद, कोण खंयचो कोणाक खबर? भोवतेक भैयाच आसतलो. टॅक्सी चलयतालो. सुसाक दोन भुरगींय आशिल्लीं. मावशी बरेंच कितें सांगताली. जणू आपलो जीवनपटच सोडयताली. पूण कितेंय आसूं, तिज्या इमानदार, प्रामाणीक आनी एकनिश्ट सेवेची माका तोखणाय दिसली. मुंबयत कितें कितें दडिल्लें आसा कळना. मावशेन बेगबेगीन उपीट केलें. तें खावन च्या पिवन आमी मावशेलो निरोप घेतलो.

मंगलालो एक भाव विलास पयलीं मावशेगेरच रावतालो. तो आतां थंयच्यान गेल्लो. 'कुर्ल्याक रावता झोपडपट्टेंत. माझगांव डॉकयार्डक माथाडी कामगार म्हणून काम करता.' ताच्या वास्तव्याची म्हायती मावशेन दिली. एक दीस असोच वेळ काडून बायलेच्या भावालो सोद काडलो. एका खुज्या मेण कपड्यान धांपिल्ल्या छप्पराच्या खोपींत तो रावतालो. थंय आनी कोणतरी एक काळ्या रंगाचें तरनाटें चेडूय दिसलें. मंगलान वास्तपूस केली तर तिजें नांव संगीता म्हण कळ्ळें. बंगाली आशिल्ली. जगचे खातीर आयिल्ल्या कुटुंबा कडल्यान शेंडिल्ली. विलासाली आनी तिगेली गांठ पडली, आनी तेणे तिका आपणायलें. तीं दोगांय आतां हांगा रावतात. ती बंगाली उलयताली.

तिजी मायभास बंगाली, शिवाय तोडकें मोडकें हिंदी येतालें. भयणीली भेट जाल्ल्यान विलासाक समाधान दिसलें. दैवान कशी वाताहात केल्ली हाचे वैशम्य ताज्या दोळ्यांत दिसतालें. विलासाक आनी संगिताक आमी दोनशीं रुपया दिले. थंयच्यान आमी कुर्ला स्टेशनार आयलीं. कुर्ला ते दादर बस धरली आनी मागीर दादरच्यान विरार लोकलीन नालासोपाऱ्याक विरुस मनान आयलीं.

अशीं सोयरीं, असो गोतावळो. जगचें खातीर गांव सोडिल्लीं ही मनशां, हांगाय विपन्नावस्थेंतच जगताली. फकत पोट भरतालें, हे शिवाय कसलेंच वैभवसुख तांच्या नशिबांत नाशिल्लें. सोलापूरच्यान जगूंक म्हणून मागेली एक व्हड भयण विठाताई घोवाबरोबर मुंबयक आयिल्ली. तिजो घोव परशुराम देवकुळे. सुमार तीन वर्सां जावन गेलीं. पूण मागेल्या या भयणिली मुंबयत भेट जांवक शकली ना. आवयन सांगिल्लें, मुंबयतच खंयतरी ती घोवा बरोबर आसा म्हणून. या इतल्या प्रचंड गर्देत तिजो सोद कसो लावचो? मेवणो परशुराम देवकुळे घर रंगोवच्या कामार मजूरी करता, अशीय आवयन म्हायती दिल्ली. देखून खंयी उंच उंच झोक्याचे सोल सोडून तेजेर बसून रंगकाम करपी मनीस दिसले की, हांव थंय मागेलो मेवणो दिसता काय म्हण बारीक साणेन आशेभगत जावन पळयतालो. पूण म्हेळकट आनी रंगान बरबटिल्ल्या कपड्यांत सगळेच रंगारी सारकेच दिसताले. मागीर विरुस जातालो. कोणे तरी सांगलें, 'कळवांत पळया, थंय कांय मांगाचे लोक रेल्वे स्टेशनाच्या कडेक मेण कापडाच्यो खोपीं बांदून रावतात'. हांवें थंय वचून खोपीन खोप माड्डिली. पूण सोद लागलो ना. जगभरांत उंच विमानांतल्यान नेटान भरारी घेवपी असंख्य गिरेस्त व्ही. आय. पी. लोक हांव सदां विमान तळार पळयतालो. तांच्या अर्थिक वेवहारा खातीर फावो त्या पैशाची तरतूद करचे साठीर हांव रातदीस राबतालो. पूण विपन्नावस्थेंत कशेंबशें पोट भरपी मागेलो मेवणो आनी भयण हांका हांव हांगा तीन वर्सां जावन गेलीं तरी सोदूं शकलो नाशिल्लो.

बायलेन एकपटी म्हणलें, अहो, मागेलो एक मामा मंलुंडाक रावता. शंकरमामा. तांचेकडने एका रजेंत वचून पळोवया. हांवे 'बरें' म्हणलें. बायलेक सूचयले, 'आमी अशे करया, चेंबूर चुनाभट्टेंत रमाबाई आंबेडकर झोपडपट्टेंत तुगेलो धनूमाम रावता. तेका घेवन मुलुंडाक वच्या म्हणल्यार थेट शंकरमामाल्या घरा वचूं येतलें.' मुंबयत पत्तो सोदप कितले जिकिरीचें आसता हें आमकां खबर आशिल्लें. बायलेकय तें पटलें. शिवाय धनूमामालीय भेट जाता हाचेय तिका बरें दिसलें.

चेंबूर चुना भट्टेंत रावपी धनुमाम मुंबय महानगरपालिकेंत सफायेच्या कामाचें टेंडर घेतालो. ताजेकडेन पंचवीस कामगार पगारार आशिल्ले. रस्त्यावयलो कचरो हालोवप, कोचपा कोंडांतलो कचरो घेवन वचप. मुंबयच्या बऱ्याच हॉस्पिटलाचो वाठार निवळ

करपाचें कामय तो आंगार घेतालो. सफायेचे काम सगळ्यांत अळशीक आसतालें. बँडेज, पट्ट्यो, कापसाचे अळशीक गुड्डे, रक्ताळिल्ले बँडेज, सोडिल्ल्या प्लास्टराचे कूजट घाणकुटे तुकडे, सिरिंज, रक्ताच्यो बाटल्यो, सलायनाच्यो रित्यो बाटल्यो, बी सगळे वेवस्थिंत एकठांय करुन निवळसाण राखप आनी ते खातीर सॅनीटरी वस्तू वापरप, डी. डी. टी, फिनायल आर्दीची फवारणी करप, अशीं कामां तो कॉन्ट्रॅक्ट बेसिसार घेतालो. तशें हें काम अत्यंत घाणकुटें तितलेंच पवित्र आसतालें. कोणे तरी हें करुंकच जाय आशिल्लें. देखून तें मोलाचें दिसतालें.

थारिल्ल्या प्रमाण धनुमामाक घेवन आमी मुलुंडाक गेले. भाची मंगलाक जायते तेंपान पळयिल्ल्यान शंकरमामाक भडभडून आयलें. तेणे गळ्यांत पडून रडारड केली. शर्टाच्या हातान दोळे पुसले. 'बाई, तुज्या वडिलांच्या वेळी मला येता आले नाही.' म्हणून कबूली दिली आनी माफी मागली. अशीं ही भाबडीं, प्रेमळ, आनी अत्यंत दयाळू मनशां. परिस्थितीन गांजिल्लीं. सतत दारिद्र्यांन पिचिल्लीं. तेंगेल्या जिणेंक एक तरेची अवकळा आयिल्ली. शंकरमामाक काम नाशिल्लें. मेळटा तें काम करतालो. टॅक्सी पूसप, गॅरेजींतल्यो गाड्यो धुवप, जशे मेळटा तशें काम करप आनी मेळटा ते घरा बायले कडेन दिवप. बायल, एक चेडो आनी तो स्वत: इतलोच सुटसुटीत संसार. बायलेक हार्टाचें आशिल्लें. ब्लॉकेज आशिल्ले. देखून ती अपंगूळ आशिल्ली. तिका कांयच करुंक जायना आशिल्लें. चेडो तवनास पणान निसतो भोंवत आसतालो. शंकर मामाची परिस्थिती हालाखीची आशिल्ली.

शंकरमामाली बायल हांतुळणाक खिळून आशिल्ली. आंगार सादें विटकें कापड आनी गळ्यांत चार फुटके मणी गुतिल्ले मंगळसुत्र. जणू लंकेची पार्वतीच! घरांत आयदनां पायदनांय चडशीं नाशिल्ली. आंमकां भितर बसूंक कितेंशेंच जालें. म्हण मागीर आमी भायरच इल्ल्याशा आंगणांत बसले. शंकरमामान बेगबेगीन एक जमखण उडयलें. शंकरमामा भितर वचून बायले कडेन कितें तरी उलोवन भायर आयलो आनी आमकां म्हणूंक लागलो, 'तुमी बसा, हांव अर्द तासांत येता, वच नाकात. मंगल, मागेली शपथ आसा, वच नाका. धनू तूंय थांब गडबड कर नाका'. अशें म्हणून तो गेलो. आमी रावले. आंमकां दिसले जेवणा-बिवणाचो बेत करतात कांय कितें, पूण क्रांय समजूंक मार्ग नाशिल्लो. बसून कंटाळो आयलो. भायर एकलेन कशें बसचें म्हण मंगल भितर मामेकडेन वचून बसलें, कांय फाटलें फुडलें उलयत. मामेन नकळत गळ्या भोवतणी पदर ओढून घेतिल्लो. अर्ध्या पावण तासान शंकरमामा आयलो. एके पिशवेंत कितें तरी हाडिल्लें. त्या गिजीबिजी घरांत मागीर आमकां जोडेन बसयलें. पिशवेंतल्यान आहेर भायर काडलो. एका जर्मनच्या ताटांत तो दवरलो. हळद कुकूम लावन साडी ब्लावज बायलेल्या हुटींत दवरलो, मागीर माका तोपी घालून कुकूम लायलो आनी

एक शर्ट पीस आनी एक पँट पीस हातांत दिवन 'रामराम' म्हणून नमस्कार केलो. आमी म्हणलें, हो त्रास कित्या खातीर घेतलो, हाची कसली गरज आशिल्ली? वगींच तुमी खर्च केलो. शंकरमामाच्या दोळ्यांत खळ्कन्न उदक आयलें. माका म्हणूक लागले.....

जावईबापू, ही मागेली परदेशी भाची. तुमी तिका खूब सुखांत दवरतात खबर आसा माका. पूण आवयगेरचें तिका केन्ना काय मेळ्ल्लेंच ना. बापूय तर लग्नांतच गेलो. तिजें कोडकौतूक कोणें केलेंच ना. हांव तर असो पिंजको मनीस. या पोराच्या लग्नाक बी आयलो ना. हिंजो बापूय मेलो तर माका ताज्या मन्नाक येंवकय खिशांत दमडी नाशिल्ली. किर्ते करची ही असली जीणं, आणि आनी इतलें जावनय तुमी दोगांयं या गरीब मामाच्या झोपडपट्ट्टेंत सोदत मेळूंक आयले ही कितली व्हड गजाल. आमच्या साठी. सुपाएदें काळीज जालें आज आमचें.

आमकां हो वेगळोच अणभव आशिल्लो. दारिद्र्यांत पिचत आसले तरी मनीस इतले व्हड आसू शकतात हाचें माका रावन रावन नवल दिसलें. कितलीं असामान्य ही बाब. माका खूब तृप्त जालें. आमी दोगांय मेळून शंकरमामाले आनी मामेले पांया पडले. तेणी आशिर्वाद दिलो. आतां भायर सरचें थारलें, मामा मामी आतां तुम्ही नालासोपाऱ्यास दोघं मिळून या. म्हण मंगलान तेंका आग्रो केलो. तेणीं वगीच 'व्हय व्हय' म्हणलें. आनी आमी निरोप घेतलो. आमी मुलुंड सोडलें तेन्ना धनुमामाक मंगलान विचारलें, शंकरमामा कडेन तूं चडसो कित्याक उलयलो ना? तेजेर धनुमामान सांगलें, आसू दी सोड, खरे म्हणल्यार हांव येवचोच नाशिल्लो. तुमकां लागून आयलो. हांव शंकरा कडेन चडसो उलयना.. तो सारखे पैशे मागता, सोरो पिता. पैसे दिले ना जाल्यार धिंगाणो घालता. खूप सांगून पळयलें पूण फरक पडना. सारखें खंयूय मेळून पैशाची गळ घालता. बरेंच कर्ज आसा तेका. कर्जात बुडिल्लो आसा. आता तुमी मेळ्लात आयतें. बरो बकरो सापडलो. पळया, आता तो सारखो तुमच्या फाटल्यान लागता कांय ना ते. हांव खूब शाणो. तेन्ना पद्धतशीर बंदोबस्त केला तेजो. फुटको ड्रेनेज बंद करचो तसो.

धनुमामान आपल्या वेवसायांतले 'ड्रेनेज' उतर अशा तरेन वापरप हें माका अजिबात मानवलें ना. हांवे तेका म्हणलें, 'कितेंय आसलें तरी इतल्या गरिबींत तेणीं आहेर तरी केलो काय ना?' तेजेर धनुमामान म्हणलें, हांव सांगू? तुमकां तेणे कसो अहेर केलो तो? तुमचें सारकें लक्ष नाशिल्लें पूण मागेलें आशिल्लें. आमी भायर बशिल्लें तेन्ना तो भितर गेल्लो. बायलेल्या गळ्यातलें चार फुटक्या मण्यांचें मंगळसूत्र काडून घेतलें आनी ते घेवन आमकां अर्ध्या तासात वचून येता म्हणून गेलो. तेणे ते विकून आहेर हाडिल्लो असतलो.. हें आयकूवन हांव हादरलोच. मागेल्या काळजांत कितेशेंच जावंक

लागले. रीत पाळचे खातीर मनीस अशें कितें करुंक शकता हाचेर विश्वासच बसना जालो. मागेल्या बायलेले दोळेय दुकांनी भरले. आमी या सरबरायेन खजील जाले. माका मेल्ल्याच्यान मेल्ल्या भशेन जालें. मामेल्या गळ्यांतल्या मंगळसूत्राची मामान स्वत: जीवंत आसताना अशी विलेवाट लावप? तें कापड, तो ब्लावज, तो पँट पीस, तो शर्टपीस आमचे कडेन पळोवन विकट हासता अशे दिसूंक लागलें. बापरे! कितें हो मनीस? रिती-भाती पाळूंक मनशान कितेंय करचें? भणंग भिकारी जाले तरी. आमी जरी आता पैशेवाले जाले तरी तेंचे फुडें खरें तर आमीच भणंग भिकारी. अशी रीत पाळची? जीवघेणी!

आमी धनुमामाक चेंबूराक सोडलें नंतर एक टॅक्सी केली, आनी परत मुलुंडच्या वटेन गेले. खिशांत अनायासे पैशे आशिल्लेच. टॅक्सी वाल्याक मदी एका सोनाराच्या दुकाना कडेन पाचेक मिनटां थारोवपाक सांगले. ते प्रमाण एका सोनाराच्या दुकानांत आमी गेले. थंय एक तोळ्याचें सुंदर मंगळसूत्र घेतलें. शिवाय तीन तीन ग्रामाची कानांतली कुडकां घेतलीं. लागसारच एक कपड्यांचे दुकानय आशिल्लें. थंय दोन कापडां आनी पँट पीस आनी दोन शर्ट पीस घेतले. आनी नीट मुलुंडाक मामाच्या घरा पावले.

माम मामी कितें तरी उलयत बशिल्लीं. आमी परत आयिल्ले पळोवन तेंका धक्कोच बसलो. भिले, 'कितें, कितें जालें, परत आयले?' अशें विचारलें. आमी दोगांय घरांत भितर गेलीं मामेन परत गळ्याभोवतणी पदर ओडून घेतलो. मंगलान मामेक गळ्या भोवतणचो पदर काडपाक लायलो. तशीं ती कांचेवली. 'खंय कितें? कांय ना' म्हणूंक लागली. मंगलान गळो पळयलो. गळ्यात मंगळसूत्र नाशिल्लें. आमी दोगांयनी मागीर तेंका तापयलें. कितें रे शंकर मामा अशें म्हण करचें आसता? किल्याक आमका लज हाडली? आमच्या मनाक खूब लागलें पळया.' शंकर मामान मगीर सावरयलें. 'आसूं दी जावईबापू, कितें जाता? आमचे कडल्यान उरिल्ली ती गजाल, म्हण पूर्ण केली. भावाचो भयणीक आहेर आसता. बाळा, तुझ्या लग्नांत तो करुंक जमले ना. आम्ही रीतभात सोडून तशेंच जग सोडचें? आसूं दी. मंगळसूत्र कितें, परत केन्ना तरी करुंक येतलें.' तेजेर मंगलान म्हणलें, 'मामा, आहेर फक्त घेवचोच नासता. उलट आहेर बी करचो असता. आमकां बी आमची रीतभात पाळूं दियात. तेंचे फुड्यांत ती बॅग दवरली. परत तें ताट घेतलें. हळद कुकूम लायलो. दोगांकय आहेर दिलो आनी मामाक मंगलान धमकायलें, आता हे नवीन मंगळसूत्र मामील्या गळ्यांत घाला पळया, आनी कानांतय कुडकां घाला. अजीबात अनमन करप ना.' मामालो नाइलाज जालो. तेजे दोळे उदकान भरले. त्या भरिल्ल्या दोळ्यांनीच मामान मामेल्या गळ्यांत मंगळसूत्र बांदले. मामेन आता गळ्या भोवतणचो पदर मेकळो केलो. सगळ्यांचेच दोळे भरुन आयले.

डो वेळ आमी थंय घुटमळले. चा-पाणी घेतले आनी मामा मामेलो निरोप घेवन परत
क टॅक्सी करुन नीट दादर स्टेशनार आयले. विरार लोकल थंय उबीच आशिल्ली.
ोकल मनशांनी प्रचंड भरभरुन येताल्यो. सुवात मेळप कठीण आशिल्ले. या गर्देच्या
गांत आमीय मनशांत भरसले.

लासोपाऱ्यांतले दीस तशें पटापट वताले. भुरगींय आता शिकतालीं. तीं आता
ापली आपूणच हायस्कूलांत वतालीं. बायल सगळे घरकाम, घरांतले चड उणें
ळयताली. आर्दीमर्दी सोलापूरची सोयरीं येतालीं. मुक्काम करुन, मुंबय पळोवन
तालीं. केन्ना केन्ना आवय येताली पूण रोखडींच सोलापुराक वचपाची ताकतीक
रताली. आमी आता मुंबयकारच जाल्ले. हांगच्या कामाचो अवधी आता पूर्ण जायत
ायिल्लो. आज ना फाल्या बदली जातलीच हें नक्की.

ामी नालासोपारा तिसऱ्या माळ्यार रावताले. 'गुरुकूल' हे अपार्टमेंटाचें नांव. आमच्या
ॉकाच्या पश्चिम दिकेच्या खिडकेंतल्यान मुखार फर्लांगभर अंतरार उबे आशिल्ले,
व उंच दोंगर दिसताले. ते जणूं आमच्या घरा कडेन सतत दोळे लावन पळयतात
य अशें दिसतालें! आमकां थंय वचचें अशे दिसतालें, पूण योग येनाशिल्लो.

लासोपाऱ्याच्या फुडें विरार स्टेशन आशिल्लें. आमी जायते पावटी विरार गेल्ले.
हज गांव पळोवंक आनी नुस्तें, बोंबील, सुंगटां हाडूंक. विरार लागसार उंच दोंगरार
वदानी मातेलें पुरातन देवूळ आसा. नालासोपाऱ्यांत एअरपोर्टा वयलो मागेलो
क सोरटे नांवाचो ऑफिसर इश्ट रावतालो. केन्ना केन्ना रजेंत तो आनी हांव
शेंच खंय तरी फिरताले. मुंबय वा उपनगराक वताले. उपनगरांतलीं अर्नाळा,
नयपाडा, निळे मोरे, वसई लागसरले निर्मळ, वज्रेश्वरी अशीं जायतीं थळां
ामी पळयलीं. गोरेगांवची फिल्मसिटी पळयली. बोरीवलीचें अभयारण्य आनी डिस्ने
ड पळयलें. कोकण पट्टचो हो निसर्गरम्य वाठार पळोवपांत एक वेगळीच मजा
शिल्ली. पांचव्या चार झाडांनी भरिल्लो हो आख्खो वाठार. अनवळखीं झाडांचो
नी असंख्य वालींनी वेडिल्लो. काजू, आम्रवनांनी नटिल्लो. आदिवासींनीं हाडिल्ल्या
डाच्या झाडांचे ताडगुळे आंकां सदांच खांवक मेळताले.

क पटी हांव आनी सोरटे अशेंच फिरत गेले. विरारच्या जीवदानी मातेच्या दर्शनाक.
वदानी मातेचो दोंगर सरलो की, उंचच उंच दोंगुल्लें वयल्यान आख्खें विरार
सतालें. थंयच्यान नालासोपाऱ्याच्या अपार्टमेंटच्या बिल्डिंगेचे सुळकेय दिसताले.
ना येताली. खूब पयसुल्ल्यान येवची लोकल खेळांतल्या आगगाडेभशेन भासताली.
वदानीचो दोंगर चडप हो मात एक वैतागच. चडतना खूब धांप लागता. आमच्या
ळजांचे ठोके स्पश्टपणान आमकां आयकूवंक येतात. ठक ठक ठक, आमी बसत
तच दोंगरार पावले. ते दिसा अमास आशिल्ली काय कितें कोणाक खबर? आमी

दोंगर चडले ती वेळ, चार वा पाच आसत. सूर्य अस्तमे कडेन बरोच लकिल्लो. फिकट तन्नी वताची किरणां खिन्न दिसताली. आमी देवीचें दर्शन घेवन रोखडेंच सुटचें असो विचार केलो. ते प्रमाण दर्शन घेता मेरेन काळोखय जायत आयिल्लो. दोंगर देंवप आता त्रासाचें जाता काय कितें अशें दिसूंक लागलें.

दोंगरार लाकडां, म्होव, ताडगुळे एकठांय करपी आनी ते विकून पोट भरपी आदिवासी एका अर्थान रानटीच आशिल्ले. दादले पंचो नेशिल्ले, बाकी सताड उकतेच. तर बायलां कासोटो मारुन पोलको वा चोळी घातिल्ल्यो. काळ्यो सडसडीत आंगाच्यो. आमी दोंगर देंवंक लागले. कांय आदिवासींनी आमकां हडकिलें, सांजेर हांगा कशे थांबले रे बाबा? जीवदानी माता न्हिदता नी बेगीन? रातीन हांगा भुतां बी येतात, केन्ना केन्ना. हकनाक मरशात.

आमी थंय चडशे लक्ष दिलें ना. एक आदिवासी म्हाऱ्यां आयलो आनी म्हणूंक लागलो, आता रात जाली की डोंगरावयलो जीवदानी मातेचा दिवो आपोआप पेटता पळय, रावू नाकात हांगा, वचा, भुताटकी बी आत रात जाली की खवळतली आनी तुमकां घोळसतली. आज तर अमास. दामू, कामू, वनगा, शिंगाडा, लहान्या, अशीं या आदिवासींची नांवा आशिल्ली. आता कितें करचें, आमकां प्रस्न पडलो. जांवदी, निदान देवींचे दर्शन तरी घेवंक शकले. जीवदानी मातेचें देवूळ सामकें पोन्ने आशिल्लें. उंच दोंगराच्या सुळक्यार उबें. आमी सरभोवंतणी पळयत देवंक लागले. तर एका दोंगर दरेंतल्या खोलगट भागांत एक लामणदिवो दिसलो. तशींच एक फातराची पणतीय दिसली. तेतूंत ओतमेरेन  तेल भरिल्लें. चडकन्न भक्तगणांनी ओतिल्लें आसतलें. तेंतूंत मोठी वातय आशिल्ली. पूण भोंवतणी कोणच मनीस दिसनाशिल्ले. हो वेळ मरेन खरोच काळोख पडिल्लो. दिवो कोण लायता तें पळोवंक रावचें अशें खीणभर दिसलें. पूण मागीर खूबच काळोख जातलो आनी काळखांतल्यान पावंडे देंवप कठीण जावन बसतलें. म्हण झटकन विचार बदललो आनी रोखडेंच थंयच्यान सुटले.

झपा झप पावंडे देंवक लागले. पावंडे उंचेंन व्होड आशिल्ले. चडताना जसो त्रास जाता, तसोच देंवतानाय जाता. तेंतूत काळखांत देंवपी आमी. पावंडे देंवन मद्यार पावले. आमचे मुखाल्यान ते आदिवासी केन्नाचे गेलेय. पुजारी पसून गेलो. देवूळ आनी दोंगर दरी निर्जन जाली. आमी आनी सकल आयले. आता विरार वाठार लागतलोच. पळयत जाल्यार वयर उंच सुळक्यार, देवीच्या देवळाच्या कडेक तो लामणदिवो पेटिल्लो. हांवे सोरटेक तो दाखयलो. तो म्हणू लागलो, हय मरे, खरेंच दिवो पेटलो. कितें भानगड कळना, दिवो आपलें आपूण कसो पेटतलो? आदिवासी चमत्कार समजून भाबडेपणान जगतात बापडे. दुसरें कितें? पूण दिवो दिवो भण भण पेटिल्लो, हें खरें.

आमी पोंदाक पावले. सकल कांय लोक जीवदानीच्या दिकेन पेटत्या दिव्याक नमस्कार करताले. विरार स्टेशन आयलें. लोकल थांबिल्लीच आशिल्ली. चडले. दुसरेंच स्टेशन नालासोपारा.

एअरपोर्टावयल्या नेणूकेक आता पाच वर्सा जायत आयिल्लीं. कांय ऑफिसरांक बदल्यांच्यो ऑर्डरी आयिल्योय. आता हांगाचो मुक्काम लार्गी लार्गी सरलो, आता नव्या गांवात वचप.

हांव आमच्या युनियनच्या सेक्रेटरीक मेळपाक गेलो. माका पळोवन, ते उलयले, शी उलय, कसलें काम काडलें. तेंगेली प्रत्येका कडेन उलवची ती स्टायल आशिल्ली. हांवे बदले बद्दल विचारलें. तेजेर तेणे माकाच विचारलें. उलय या मुंबयत तुका खंयची ब्रँच जाय. बरें तूं रावता खंय? 'हांवे' नालासोपारा म्हण सांगलें. इतले पयस कितें करता? हांव तुका गोरेगांवचो कुमुदनगरचो फ्लॅट दिंवक लायता आनी निसतो रस्तो बलांटलो की थंय आशिल्ली गोरेगांव वेस्ट ही ब्रँच हांव तुका दिता. सांग वता? माका हे आयकूवन कांयच सूचना जालें आनी कशें कितें उलवप कळना जालें. हांवे ल्हवूच म्हणले, सायबांनू माका सोलापूर जाय.

साले, तुमी घाटी लोक. हांगाच तर चूक करतात. आरे मुंबय आपसूकमेळना. हांगा तुमच्या फॅमिलिचें कल्याणच जातलें. फुडें भुरग्यांच्या फुडाराच्या नदरेनय बरें आसा. परत त्या खेडे गांवांत यार. देखूनच तर आमचे लोक वयर सरनात.

तेंगेलेंय खरेंच आशिल्लें. माजे वयलो मोग आनी मागेले कल्याण जावचे ही भावना खरी आशिल्ली. पूण माका तो लोकलीचो जीवघेणो प्रवास आता नाका आशिल्लो. तो सोसपी नाशिल्लो. तेका लागून मुंबय नाका जाताली. म्हयन्या पयलीं मालाडाक बॉम्बस्फोट जाल्लो. तीं भंय मनांत आशिल्ली. कितेंय घडलें, दंगल वा खंयी गोंदळ जालो की, भंय दिसताली. आपले गांवांत सोलापूराक पळून वचचें अशे दिसतालें. ते मानान सोलापूर निवांत.

हांवे सेक्रेटरी सायबांक सोलापूरच जाय अशें निक्षून सांगलें. ते वेळार झोनल चेंज बदली आनी रिजन चेंज करप, इतलें सोपें नाशिल्लें. अशे तरेच्या बदल्यां खातीर मनशाक मनशाची गरज आसताली अशा बदले खातीर. अशो बदल्यो थेट हेड ऑफिसांतल्या पर्सनल डिपार्टमेंटातल्यानच जाताल्यो. रिजनल मॅनेजर आनी सी. आर. एम. हेंका हे अधिकार नाशिल्ले. डायरेक्ट जनरल मॅनेजरा कडेन वचचें पडतालें. ते वेळार एल. ए. डी. फर्नांडिस नांवाचे अत्यंत निश्णात अधिकारी जनरल मॅनेजर आशिल्ले. माका सेक्रेटरी सायबांनी रावपाक सांगले. तेंणी खंय तरी एक फोन लायलो आनी 'तूं बस, हांव आयलो,' अशें म्हणून ते ताडताड गेले. पंदरा मिनटांत ते परत आयले, आनी हातांत हात घेवन मागेले अभिनंदन करीत म्हणूक लागले, "चल तुगेलें

सोलापूरचें काम केलें, You go to Solapur and join our Station road branch. आता चौथ्या माळ्यार वच. थंय वालावलकर म्हण आसा. तेंका मेळ. ते तुका उरिल्ले सांगतले. You will get your tranfer order there only."
हांव अक्षरश: थक्क जालो.
थेट सोलापूर स्टेशन रोड ब्रँचीत मागेली ऑर्डर काडली. हांवे वालावलकर सायबां कडल्यान ऑर्डर घेतली.
वास्तवीक पळयल्यार बदली पयली झोन टू झोन करतात. झोना वयल्यान रिजनाक वचचें पडता. रिजना कडेन गेले नंतर दोन जिल्ह्यांचो रिजन मेळतालो. तेजे नंतर जिल्ह्यांतली ब्रँच दिताले. इतले सोपस्कार करचे पडताले. तेतूंत आपल्याक चॉईस नासतालो. म्हण थेट अमूक अशें एक गांव केन्नाच मेळ नाशिल्लें. हांव पुण्यांत रिजन ऑफिसाक गेलो तेन्ना ते म्हणूंक लागले, की, तुकां ब्रँचय जनरल मॅनेजर सायबांन दिल्ली आसा. देखून आमचें कांय काम उरलेंच ना. बरें आसा. आता वयल्यांलोच आदेश आसा तर तो कोण बदलतलो? हें घ्या ब्रँचे खातीर पत्र आनी जायात जॉईन. मागीर हांव सोलापुराक आयलो. आनी स्टेशन रोड ब्रँच मॅनेजर हांका १ जून १९९० वर्सा जॉईनिंग रिपोर्ट दिलो. सोलापुरांत परत आयिल्ल्याचो अत्यानंद जालो.
मुंबयचें क्वार्टर सोडलें. मुंबय आमी जेन्ना पयलीं गेल्लीं तेन्ना हातुळणा कवळो, आयदनां आनी स्टोव्ह सोडल्यार विशेश कांयच नाशिल्लें. नालासोपाऱ्यांत आमी गॅस सिलिंडर पसून नव्यान घेतलो. हेर सगळो भरगच्च संसार केल्लो. आतां घरांत स्टीलचे कपाट, फ्रिज, टी.व्ही, तीन चार दिवाण, सोफा, खुर्च्यो, आयदनां, बॅगो, व्ही.आय. पी बॅगो, बी सगळे संसारोपयोगी सामान खरेदी केल्लें. पांच वर्सांत कितलो बदल जाल्लो. तेका लागून हें सगळें सामान ट्रकांतल्यान व्हरप गरजेचे आशिल्लें. देखून आमी ट्रक केलो आनी सामान थेट सोलापुरांतल्या संतोषनगरच्या स्वत:च्या बी.११२ या ब्लोकांत हाडलें. नेमाप्रमाण ट्रान्सफर बील, अर्थात बँकेन पेड केलें. आमी सगळे जाण रेल्वेन फर्स्ट क्लासच्या रिझर्वेशनान सोलापुराक परतले. हेवय परतवप बँकेच्या नेमांत आशिल्ले. तेखातीर टी.ए.डि.ए. बँके कडल्या मेळ्ळो.
मुंबय सोडताना, माका सोडून सगळ्यांक वायट दिसलें. घरचीं मंडळी खरेंच थंय खूब रमिल्लीं. मुंबयत सगळेंच भव्य दिव्य आशिल्लें. शिवाय उपनगर आशिल्ल्यान वाठारय मनभुलोवणो आशिल्लो. पावसाळ्यांच्या दिसांत तर सामकी खोशी जाताली. पावस पडूं लागल्यार इतलो कोसळतालो की, सरभोवतणी उदकच उदक जातालें. सकल जमीन भर उदक, मळबांत उदक, आख्खो नालासोपारा जलमय जावन वतालो. दोन दोन, तीन तीन दीस पावस थांबपाचे नांव घेनाशिल्लो. सकल्ल्या फ्लॅटांत धिंबीभर उदक घुसतालें. अशावेळार तीं हेरकडेन वताली. आमचो ब्लॉक तिसऱ्या मजल्यार

आशिल्लो. देखून आमकां कसलो उपसर्ग जायनासलो. सुरक्षिततेच्या नदरेन आमची मजाच आशिल्ली. खिडकेंतल्यान मुखार दोंगर दिसतालो. थंय ताडांची, माडांची, नाल्लांची खूब झाडां आशिल्लीं काजू, आंब्याचींय झाडां आशिल्लीं. अशा पावसाच्या दिसांनी दोंगरावयल्यान धर्वी मोडां बेगबेगीन धांवताना स्पश्ट दिसतालीं. मोडांत सगळे घुसपून वतालें. सगळे कडेन थंडगाऽऽर. केन्ना केन्ना रेल्वे वेळापत्रक विस्कळीत जातालें. अशाय वेळार हांव बाजारांतल्यान दीसभर पावशें मटण हाडून दितालो. मागीर आलें, कोथमिरीत रटरट शिजपी तेज्या वासान आख्खें घर दरवळून वतालें. खिडक्यांतल्यान दोंगर आनी दोंगर झोडपून उडोवपी पावस पळयत पळयत, आमी अळणी उपसा (मटनाचो एक प्रकार) खावपांचो दुर्मिळ आनंद घेताले.
आतां ह्यो सगळ्यो यादींच उरतल्यो. भुरगीं आनी बायल या बदलेन विरुस आशिल्लीं. अर्थांत तेंका कसलोच त्रास नाशिल्लो. हाल जाताले ते मागेलेच. डे शिफ्टी खातीर फांतोडेर पाच चौदाची लोकल धरची पडताली, जाल्यारच एअरपोर्टार सकाळी सात वरार ड्युटेर पावतालो. आनी दीस सोपोवन सांजवेळार घरा येतना अंधेरी वयल्यान विरार लोकल धरची पडताली. या पीक आवर्सांत चर्चगेटी वयल्यान फुल्ल भरुन येवपी विरार लोकलींत अंधेरीच्यान चडप हें एक दिव्यच आशिल्लें. खचाखच भरिल्ली लोकल, अंधेरीक देंवचे तशें कमीच, चडपीच चड. देखून लोकल मेळप दुरापास्त जातालें. एक- दोन लोकल सोडच्यो पडताल्यो. कशेंबशें घुसून मागीर नालासोपाऱ्याक देंवक मेळतालें. अशी ही अवस्था. कसोबसो थकून घरा येतालो. हाकाच खरें तर हांव खूब कंटाळिलो. म्हणच सोलापूरची वाट धरची अशें माका सदांच दिसतालें.
तशें मुंबयन आमकां खूब कितें दिल्लें. खूब भोंवले, खूब पळयलें. नेहरु प्लॅनेटोरियम पसून ते डिस्ने लॅन्डमेरेन. कुर्ला, चेंबूर हांगा सरल्या झोपडपट्टेंतल्या आमच्या कांय सोयऱ्यांक मेळपा पसून ते हॉटेल ताजार खाशेले जेवणाक भेट दिवपा मेरेन आमी मुंबय उपभोगली. गेट वे ऑफ इंडिया वयल्या अथांग दर्यांत सैर केली. सगळ्यो चौपाट्यो पळयल्यो. सगळ्यांत गमतीची बाब म्हणल्यार आमचो आळशी स्वभाव वचून आमकां शिटूक, धांवपळींचे जीवन जगूंक येंवक लागलें.

***



१८

अखेर सोलापूर गांठलें. पाच वर्सानंतरय सोलापूर विशेश बदललें नाशिल्लें. तीच शांतता, तेंच संथपण. संतोशनगराच्या भोंवतणी मात नव्यो वस्त्यो वाडत आशिल्ल्यो. हांगाचें मागेले रुटीन सुरु जालें. स्टेशन रोड ब्रँचीत हांगच्या युनियनाचो एक थळीय सेक्रेटरी महोदय आशिल्लो. सोलापुरांतल्या ऑफिसरांच्यो सगळयो बदल्यो ताज्या परवानगे वांचून जाय नाशिल्ल्यो. कोणाक खंय धाडचें. कोणाक लागीं करचे, कोणाक पयस उडोवचें, कोणाक सतत सोयीची पोस्टिंग दिवची हातूंत तो बरोच तरबेज आशिल्लो. हांव मात ताज्या खंयच्याय संपर्काशिवाय आयिल्लो, हे तेका मानवले नाशिल्ले. मागेली डायरेक्ट वयल्यान बदली जाल्ल्यान तो रागार आशिल्लो.

सोलापूर स्टेशन रोड ब्रँचीक एका इव्हिनिंग बँक फॅसिलिटीची तरतूद आशिल्ली. एक कॅश ऑफिसर सांजवेळा पाच ते सात वाजेमेरेन काऊंटरार बँक सेवा दितालो. पैशे भरुंक काडूंक चडशे व्ही. आय. पी. येताले. तेतूत कोणी वकील, डॉक्टर, प्राध्यापक आसताले. तेंका हे काऊंटर उपकर पडतालें. गर्दी ना, ओळींत उबे रावप ना. जणूं तात्काळ सेवा. वन-विंडो भशेन. देखून हे व्हड लोक या सेवेन खूश आशिल्ले. दुसरें एक मोठें काम याच काऊंटरार जातालें. ते म्हणल्यार या वाठारांत नवल पेट्रोल पंप आशिल्लो. तेंका सांजेर

ार वाजे मेरेनचें कलेक्शन बँकेत भरप सोयीचें जाल्लें. ते आपली कॅश हांगा हाडून देताले. या शिवाय किरकोळ डी.डी. दिवप. वा आर.टी.सी. एनकॅशमेंट करप अशीय कामां हांगा आसतालीं.
या ब्रँचीत हांव तीन वर्सां आशिल्लो. बरें चलिल्लें. उरिल्ल्या वेळेंत इश्टमित्र मेळताले. साहित्यार, कलेर चर्चा जाताली. त्र्यं. वि. सरदेशमुख सर या बँकच्या दिस्त फाटल्यान, तांबे यांच्या अपार्टमेंटात रावपाक आयिल्ले. नव्या पठेंतलें तेंगेलें घर तेणी एका दुकानदाराक वेकिल्लें. थंय सराली परत परत भेट जाताली. बॉम्बे बेकरेचे श्री.जगदीश केन्ना केन्ना तेंचें बराबर आसताले. सरांचे अकाऊंटय याच शाखेत आशिल्लें. दखून भेटी वाडल्यो. तेन्ने घर विकिल्ले थोडे पैशे तांणी सांजेर हांगा हाडून खात्यांत भरलें. बँकेत व्यवस्थित जमा नोंद जायमेरेन सरांक इतल्या मोठे रकमेची धास्तीच आशिल्ली. मुखारच हॉटेल आशिल्लें. मंजू हॉटेलाचें धनी, आझमभाई हाणींय सरांचे पैशे मेजपाक मदत केली. जगदीश आनी आझमभाई हांका घेवन सर सांजेर हे पैशे भरुंक माजेकडेन आयिल्ले.
इव्हनिंग काऊंटराचें काम माका सामकें रुटीन आनी रटाळ दिसताले. हे वेळार बँकेत एक वॉचमन आनी हांव एकलो तेका लागून आख्खो वाठार निर्जन भासतलो.
कामाक स्टेशनरोड ब्रँच, तीवय सांजवेळेची. रावपाक जुळे सोलापूरांतले संतोश नगर, वाठार नवीन. बरो डेव्हलप केल्लो. हांगा आशिकुशीक शेजारी चडशें बामण आनी लिंगायत. मुंबयतल्या वसणूकेन हेर जातीचो शेजारधर्म कसो पाळचो हे आमी शिकिल्लेच. तेका लागून हांगा कांय आडखळीं आयल्यो नात. रोखडींच वयवाटलीं, रुळलीं. पूण वाठार सामकोच शांत. शारांत दंगल पेटली, कर्फ्यू लागलो तरी हांगा कांयच कळप ना. सगळे कशें शांत शांत. वातावरण सामकें तटस्थ आनी निवांत.
मागेल्या नदरेन हांगाचे रावप खूब सोयिस्कर आशिल्ले. माका बरेंच आरोग्य लाभिल्ले. भुरगीं भारती विद्यालयांत धावेंत जॉईन जालीं. बदले लागून तेंका आपसूकच प्रवेश मेळलो.
आमी संतोश नगरांत रावतालीं; आवय, भाव मात बुधवार पेठेंतच रावतालीं. योगायोगान संतोश नगरांत स्वस्तात एक ब्लोक विकूंक काडिल्लो. संतोश नगराचो धनी श्री. ए. जी. पाटील हे सामके परोपकारी भावनेचे गृहस्थ आशिल्ले. हांवे भावा खातीर, ब्लोक मेळचो म्हण तेंचे कडेन उतर घातलें. भाव भागवत सिटीसर्वे ऑफिसांत सर्व्हेयर अशिल्ल्यान तेका बँके कडल्यान हाऊसींग लोन मेळूं शकतालें. आमी बसून विचार केलो. संद बरी आयिल्ली आसा. यत्न केल्यार काम जातलें अशी आशा दिसली. हांव पाटलाक मेळलो. कल्पना दिली. तेंगेलो सकारत्मक प्रतिसाद मेळ्ळो. परत भावाक घेवन तेंका मेळ्ळो. नवल म्हणल्यार, तेणे रोखडेंच हय म्हणलें. वाटाघाटींत चड उणे जावन एक ब्लोक देड लाखामेरेन दिवपाचे थारलें. मागेले तेगेले अशें मेळून पन्नास हजार भरले. आनी एक

लाखांचे एच. डी. एफ. सी. चे रीण काडलें. म्हयने भरांत भागवतय बुधवार पेठेंतल्यान हांगा रावपाक आयलो. आता पोन्न्या घरांत धाकलो भाव भास्कर आनी आवय रावताली. आर्दीमदी आवय येताली आनी एक दोन दीस रावन परत वताली.

भागवताल्या घराचे काम अचानक लखलाभ जावचो तशे सहज जावन गेलें. हांव भागवताक मस्कऱ्यान म्हणतालो, गर्देन खचाखच भरिल्ल्या लोकलींत आमी उबें आसताना आमचे मुखार बशिल्लो मनीस अचानक देंवचो आनी आनी ती खिडके कडली सुवात आमकां मेळची, अशें हें जालें.

हां हां म्हणता माका सोलापूरांत येवन तीन वर्सां जावन गेलीं. स्टेशनरोड ब्रँचेचे काम तशें रुक्षच आशिल्लें. ७ जून १९९३ दिसा मागेल्या बदलेची ऑर्डर आयली. मागेली बदली मोहोळ हांगा जाल्ली. रोखडेंच जॉईन जावचे खातीर माका रिलीव्हय केलें. सोलापूरच्यान तीस किलोमीटर अंतरावयलो गांव. सदा येवन वचून करुं लागलो. सोलापूरांत आयले पसून त्र्यं. वि. सरदेशमुख सरांची गांठभेट आनी घसट वाडिल्लीं. सदांच तांची गांठभेट जाताली. हेर सगळे त्र्यं. वि. सरांक बापू म्हणताले. पूण हांव तांका सदां सरच म्हणतालो. मोहोळाच्यान घरा येवचें पयलीं माजी आनी सरांची भेट हुतात्मा स्मृती मंदिर या नाटकगृहाच्या प्रांगणांत जाताली. थंय बसूंक बरें बाक आशिल्ले. सर सदां थंय सांजवेळार येवन बसताले. हांव मोहोळच्यान आयलो की, मुजरत तेंका मेळतालो.

मोहोळ हांगा हांव कॅश ऑफिसर म्हणून काम पळयतालो. ब्रँच पोन्नी आशिल्ली. शिपाय वॉचमन सिनीयर आशिल्ले. काम जाय तशे आशिल्लें.

बँकेचे रुटीन चालू जाले. हांगची तीन वर्सां सरलीं.

मोहोळाच्यान माजी बदली बार्शीक जाली. परत एक नवें गांव. आता बार्शीक येवन वचून करप भाग आशिल्लें. ब्रँच सामकी एस. टी. स्टँडा मुखार आशिल्ली. नव्या जाग्यार हजर जालो. चार्ज घेतलो. परत कामाचे रुटीन सुरु जाले. मोहोळाचो रस्तो जसो थेट तसोच बार्शीचोय आशिल्लो. फकत पावसा दिसांनी बेजार जातालो. खूब पावस जालो की, व्होळ गटार भरुन व्हांवताले. मागीर येरादारी थांबताली. तासाभरान उदक देंवताले, मागीर परत यो वच सुरू.

हांव आनी भागवत संतोश नगरांत रावता आशिल्ल्यान पोन्न्या घरा धाकलो भाव भास्कर आनी आवय रावताली. केन्ना केन्ना हांगा येवन वताली. आता आवय खूब थकिल्ली. तिका दोळ्यांनय कमी दिसपाक लागिल्ले. भलायकेन ती किडकिडीत आशिल्ली. देखून तिका कसलो त्रास जाता अशी केन्ना तक्रारच नाशिल्ली. ताप ना, खोकली ना, वा थंडीय ना. आवयले केस अजूनय काळे कुळकुळीत आशिल्ले. वयाची पंच्याऐंशी वर्सां हुपून गेली तरी आवयले दांत घटमूट आशिल्ले. एखाद दुसरो दांत वा दाडी पडिल्ली. आवयचे बाबतींत हे सगळें अजबच. दातांक ती सदांच दांतवण लायताली. शांतपणान सकाळ

सांज दांतवणान दांत आनी हिरड्यों चोळताली. देखून आवयले दांत काळे दिसताले. आधूनिक खंयचेच दंतमंजन ना. शेणीचो गोबर, वा मीट घालून कांडून दवरिल्लो इंगाळो हेंच तिजें दंतमंजन. बाकी सकाळी नेमान तांब्योभर उदक पिताली. नाश्त्याक सदां च्या-चपाती, अर्थांत तोय देवपूजे नंतर. प्रत्येक जेवणा बरोबर ती मेथे पाल्याची ताजी भाजी खाताली. मेथी तिका खूब आवडताली. तिका कसलोच ताण तणाव नाशिल्लो. शांतपणान बसून रावप, आनी देवळांत वचप. इतलेंच काम. माका दिसता दिर्घायुश्याचें हेंच कारण आसूं शकता.

आई सुमारा भायर शांत जाल्ली. सामकी हळू उलयताली. मागेल्या भुरग्यांच्या लग्नाक वेळ आशिल्लो. देखून तिका पणतू मूख पळोवपाची खर इत्सा आसूनय तें शक्य नाशिल्लें. आतां ती पोन्ने घर सोडिनासली. पोन्न्या घरांत फाटल्या सोप्यार बापूय गेल्लो. ती आलतडच्या सोप्यार घुटमळताली. तिज्या मनांतलें अव्यक्त कशें वळखूवचें? हांव आनी मागेली बायल, पोन्न्या घरां वचून तास-तास बसतालीं. माजेपरस ती मागेल्या बायले कडेन चड आत्मियतेन उलयताली. आवयली तिजेर-मंगलाचेर, चड माया आशिल्ली. सुनेकच ती ही माजी माय आसा, अशें म्हणताली. मंगल, तूं माजेलागी बस. माजे बद्दलय तिज्या मनांत माया आशिल्ली. 'माज्या या लेकरान लनपणापसून खूब त्रास सोसलात.' अशे म्हणून ती दोळ्यांक पदर लायताली. 'बापायच्या फाटल्यान माज्या ह्या व्हडल्या पुतानं कोणाक बेवारशी जावंक दिले ना.' अशें म्हणून मागेल्या कामाचें मोठेपण सांगताली. किरणालें कऱ्हाडाक इंजिनियरिंगाचें शेवटाचें वर्स आशिल्लें. ना म्हणले तरी तेका देड दोन हजार रुपय म्हयन्याक धाडचें पडताले. तेका लागून मारामार जाताली. हाऊसिंग लोन, व्हेविकल लोन, कमर्शियल लोन, सोसायटी लोन हेका लागून पगारांतल्यान हेव्वी डिडक्शन जातालें. हातांत बेताचोच पगार येतालो. तेंतूत कोणाले उसणे पासणे दिवन म्हयनो भागोवप जिकीरिचें जावन वतालें.

आई अकस्मात शीक जाली. न्हाणेकडेन वताना ती पांय निसरुन पडली. तिका उठूंकच जायना जालें. हांव ते वेळार बार्शी बँकेत आशिल्लो. सोलापूराच्यान फोनार कोणे तरी रकाद दिलो. शनवार आशिल्लो. हांव रोखडोच येंवंक शकलो. संतोष नगरा वयल्यान मागेली बायल तडक बुधवार पेठेंतल्या पोन्न्या घरांत आयली. लोक जमिल्ले. आवयक आमी थेट अश्विनी हॉस्पिटलांत व्हेलें. तिजें अर्धे आंग आनी तोंड निकामी जाल्लें. तातडीची रुग्ण सेवा विभागांत तपासून तिका आय. सी. यु. त धाडले. एडमीट करताना पाच हजार रुपय भरुंक सांगले. तितले पैशे खयचे आसतले खिशांत? बुथार कॉयन उडोवन प्रा. पाटील हांका फोनार गजाल सांगली. ते ताबडतोब पैशे घेवनच आयले, आनी मागीर हॉसिपीटलांत पैशे भरले. आवयले उपचार सुरु जाले. पाटलांनी आनी पैशे लागल्यार सांगा म्हणून अर्थिक पाठबळा सयत धीर दिलो. अशा वेळार तांचो खूब

आदार जालो.
आवयचेर उपचार युरु आशिल्ले. पूण कांय फरक नाशिल्लो. तिनेक दिसां नंतर ती नीट कोमांत गेली. वखदाक कसलोच रिस्पोन्स ना. आमका कळना कितें करचें तें. आवयलें वय तर जाल्लें. तिका त्रास जांवनये हीच इत्सा आशिल्ली. तिका व्हेंटीलेटर लायिल्लें. जंयथंय सुयो तोपून मेळत थंय शिरांतल्यान सलायन सतत चालू दवरिल्ले. आईली अशी ही गत पळोवंक जायनाशिल्ली. ती केन्नाच दवाखान्याचीं सोंपणां चडली नाशिल्ली. गरीब गायी भशेन जिणें. आख्खें रांडावपण तिणे सुक्या न्हंयी भशेन भोगिल्लें. कसली तक्रार ना, कसली अपेक्षा ना. स्वभावाचें कसलें रसायन आसत तें आसत. कश्टाळू आनी शांत. हांव तर या माऊलीच्या रक्ता मांसार पोशिल्लो. तिज्या मायेस्त धारेंतल्यान हीच जीवनसत्वां माज्या रोमांरोमांत भीनलात. तिजी ही अवस्था पळोवंक जायनाशिल्ली. तिका त्रास जावनये हीच आमची इत्सा आशिल्ली. पूण आमच्या हातांत कितें आसता? पंदरा दीस जावन गेले तरी परिस्थितींत कांयच बदल ना. डॉक्टराक विचारुन पळयलें. सारकें कांय सांगूक येना ही तेंगेली थारिल्ली जाप. उपचाराक प्रतिसाद तर नाशिल्लोच. ही स्थिती वीस दिसार येवन ठेपली. हांव ते संबंधी डॉक्टराक मेळ्ळो. डॉक्टरान अत्यंत प्रांजळपणान सांगलें, पळया, पेशंटालें वय खूब जाल्लें आसा. ह्या जाण्टेपणांत वखदाचो चडसो उपेग जायना. सगळेंच आपले हातांत नासता. तुमी तुमचें कर्तव्य केल्ले आसा. निर्णय तुमीच घेवचो. कांय तांत्रीक पुरवट्यान पेशंट तग धरुन आसता, पूण तेजेन पेशंटाचेच हाल जातात.
आवय निश्चल आशिल्ली. वीस दीस जावन गेल्लें तरी.
हांव डॉक्टराल्या कॅबिनांतल्यान भायर आयलो. भावांक, भयणींक, बायलेक, आपोवन सगळी परिस्थिती सागंली. भयणीं म्हणूंक लागल्यो, आमी कंटाळचे नात आवयक. कांय असलो तसलो विचार कर नाकात घरा व्हरचो. हांव गप्प जालो. परत एक आठवडो गेलो. हळूहळू सगळें न्हिवत वतालें. आवयलें हाल पळोवंक जायनाशिल्ले. तें व्हेंटीलेटर, त्यो सूयो, ते सलायन सगळें तशेंच आशिल्लें. माका परत डॉक्टरान आपोवन सांगले, "Mr. Jadhav, I understand your situation I suggest you it is better to take your mother to your home. 'डॉक्टरांलो निखळ सल्लो आशिल्लो. डॉक्टर नांवाजते आशिल्ले. आता निर्णय घेवपाचे कठीण काम माजेर आयलें. आवयलो त्रास थांबोवप म्हणल्यार तिजें उपचार थांबोवप? मागीर हें पॅसिव युथेनेसिया तर नी, हांव सपशेल संभ्रमांत पडलो.
मागीर हांवे निर्धारान आवयक घरा व्हरचे थारयलें. आनी दोन दीस वाट पळयली. सांजेची वेळ आशिल्ली सगळे जमले. ॲम्बुलन्साची सोय केली. हॉस्पिटलाचे सोपस्कर पूराय केले. डॉक्टरांनी तर फावो तो सल्लो दिल्लोच. आवयक स्ट्रेचरीवयल्यान ॲम्बुलन्सांत घेतलें.

नीट पोन्न्या घरांत हाडलें. व्हॅनांत आमी सगळे आशिल्ले. व्हॅन घराकडेन आयली, तशी वस्ती एकठांय जाली.'समाबाईनां आणलं, समाबाईनां आणलं.' अशें म्हणू लागली.
सदां ती ज्या सुवातेर बसताली थंय तिका दवरलें. तिज्यांत अजूनय धूगधूग आशिल्ली. तिका आमी आमच्या घरांत आयलात, हे जाणवलें आसत काय? देव जाणा! दोळ्यांची मात क्षीण हालचाल जाताली. पूण दोळे उकते जायनाशिल्ले. बायल मंगल तिजे म्हऱ्यांतच आशिल्ली. तिणे कपांत दूद घेवन चमच्यान आवयल्या तोंडांत घातलें. आमचें सगळ्यांचे उलोवणे आई आयकताली काय? कोणाक खबर? दोन चमचे दूद ताळ्यांत घरगळून गेलें आनी तिजी क्षीण हालचाल शांत शांत जाली. सगळें थंड जालें. सरलें. एका कामधेनूचो अंत जालो. २९ जुलय १९९७ चो तो आवयल्या मरणाचो दीस माका कायमचो पोरको करुन गेलो.
मागीर सगळ्यांच्या रडण्याचो आक्रोश... हांव भायर आयलो, आमी तर सगळेच तिजे म्हऱ्यांत आशिल्ले. कोणी येवपाची वाट पळोवप बी काय नाशिल्लें. कोणें तरी म्हणलें, कित्याक रातभर दवरतात? वेळ जातलो. साकसून घ्या. पूण माका तें पटलें ना. हावें तेंका निक्षून सांगलें, ना! फाल्यां सकाळीच मन्न करया. मागीर हळूहळू लोक पांगले.
कितेंय जालें तरी ती मागेली आवय आशिल्ली. आसत ती अखेरची रात. तितलींच ती आजून आमच्या म्हऱ्यांत आसा. या भावनेखातीर तरी तीं रांवदी आमचेबराबर. आई वारकरी आशिल्ल्यान टाळकरी मंडळींचे रातभर भजन दवरिल्लें. अभंगांनी ती रात भिजून गेल्ली. सगळे निर्वाणीचें अभंग गायले. हांव एकलोच सोप्यार बसून आवयली काळरात पळयतालो.
दुसरे दिसा माका आवयल्या अंत्यविधी खातीर लागपी खर्च खंयच्यान तरी उबो करचो आशिल्लो. फाटले पंचवीस दीस खर्चान हांव त्रस्त जाल्लो. ह्या वेळारय पैशा खातीर वणवण जावची? कांय मनशां आयुश्यभर भीकमार्गीच आसतात काय? सकाळी मागेली धाकली भयण गोदा माजेकडेन आयली आनी म्हणूं लागली, आप्पा, आईक बरं नाशिल्ले ते दिसा हांव आई म्हऱ्यांकच आशिल्लें. आईनं हो बटवो तुका दिवंक सांगिल्लें. तुज्या हातांतच दी म्हण माका बजायल्लें.
आवय सदां चार पैशे बचत करुन आपल्या पाचव्या बटव्यांत पुंजी करुन दवरताली. तो बटवो पळोवन माका अजाप जालें. तो बटवो सदांच आवयल्या कमराक आसतालो, हें माका खबर आशिल्लें. हांव, मंगल, भागवत आनी गोदा आमी सगळ्यांनी तो बटवो उगडलो. तर तेंतूत पाच, धा, शंभराच्यो नोटी गोल गोल गुठलोवन सुतळेन बांदून दवरिल्ल्यो. आमी सगळ्यांनी त्यो नोटीं मेकळ्यो केल्यो. पैशे एकठांय केले, हांवे ते मेजले. घसघशींत सुमार साडेतीन हजार जाले. इतले पेशे आईन म्हऱ्यांत सांबाळिल्ले पूण कसलोच खर्च करिनासलीं. स्वत: जीवाक ती कांय खायपुसून नाशिल्ली. वखदपाणी

तर पयसच. माका खूब नवल दिसलें. आवयबद्दल मन भरुन आयलें. आमचें सगळ्यांचे दोळे दुकांनी भरले. बायलेन तर त्या नोटींचो उमोच घेतलो.
आवयन आपले मन्नाचो खर्च तर अशा रितीन माजेकडेन सोपयलो ना मूं? आपल्या पोराली धांवाधांव, अशा रितीन तर तिणे आडयली ना मू? आमी तो वट्ट पैसो तिगेल्या मरणा खातीर, अस्थिविसर्जना खातीर खर्च केलो. एक पर्व सरलें. माका आगरकरांली याद आयली. तांणीय आपल्या मरणाचो खर्च लोकमान्य टिळकां कडेन दवरिल्लो.
आवयलो अंत्यविधी यथासांग पार पडलो. खंयच कसर दवरली ना. पंढरपूराक वचून हांवे तिज्यो अस्थीं चंद्रभागेंत सोडल्यो. थंय किरवंता कडल्यान अंतीम विधी आनी पिंडदान केलें. पुंडलिकाच्या सोंपणार धा वीस मिनिटां शांत बसलो. आता हांव खऱ्या अर्थान या जगांत एकलोच उरलो. निराश्रीत आनी पोरको जालो. ल्हवूच दुकां गळचीं तशें न्हंयचें उदक व्हांवताले. हांवे दोळे पुसले, आनी सुटलो. राती माळ, भजन जालें. आतां सगळे सरलें. आवयलो फोटो फुलांन आनी हारान सजयलो. मुखार एक उदबत्ती लायलीं. आवय भशेनच शांत जळपी.
बार्शीच्या स्टेट बँकेत येवन माका दोन वर्सां जावन गेल्लीं. सदां यो वच सुरुं आशिल्लें. एकदीस सोलापूरच्यान दनपरां अचानक फोन आयलो. मागेलो धाकलो भाव भास्कर खूब शीक आसा म्हण. तेगेली तकली खूब दुखूं लागला अशें सांगलें.
सांजेर हांव बार्शीच्यान परतलो. आनी नीट पोन्न्या घरां गेलो. भास्कर भितर हांतुळणार तळमळत पडिल्लो. हांवे म्हऱ्यांत वचून वासपूस केली. तो ल्हान भुरग्या भशेन रडतालो. आप्पा, मागेली तकली उसळता रे, कितें करु? दोन दीस जाले आजिबात थांबना. माका तेगेलें हाल पळोवंक जाले ना. भास्कर जिल्हा परिशदेच्या भलायकी खात्यांत ड्रायव्हर म्हण काम करतालो. भुरगीं बाळां जावन तेगेलो संसार वेवस्थीत चलिल्लो. आतां हें कसलें अरिश्ट कांय म्हण चिंतेत पडलो. तेका आता ताकतिकेन दवाखान्यांत व्हरप गरजेचें आशिल्लें. ताबडतोब एक रिक्षा आपयली आनी सुटले. फौजदार चावडी हांगा युनीक हॉस्पिटल आशिल्लें. थय व्हलें. डॉक्टरांन मुळावी तपासणी करुन सरळ ॲडमीट करुन घेतलें. वखदां दिलीं.
दुसरो दीस उदेलो. वखदाचो फावो तसो परिणाम जालो नाशिल्लो. डॉक्टरान सांगलें, तकलेचें स्कॅन करया. आमी कितें उलयतले, उपचार सुरु जाले. स्कॅन काडलो. दनपारां रिपोर्ट आयलो. दवाखान्यांत हांव, मागेली बायल, भागवत आनी मागेलो आनी एक बापोल भाव शाम आनी तेगेली बायल तारामती अशे सगळे आशिल्ले. तारामतीक आमी भाभी म्हणताले. सादारण सांजवेळार चार वरार डॉक्टर व्हिजिटाक आयले. रावंड जाले बराबर आमकां तांणी तांच्या केबिनांत आपयलें. आनी सांगले, स्कॅनाचो रिपोर्ट आयला. तेंच तुमकां सांगता. हें पळया, शांतपणान आयकूवन घ्या. तांणी मुखार एक कागद

घेतलो. पेनान तेजेर तकलेचें चित्र काडलें. हो मेंदू, मेंदूचो हो सेंटर. तुच्या भावाक मेंदूच्या सेंटरार मर्दी एक गांठ तयार जाला. तिचो आकार बारा एम. एम. असो आसा. हो रिपोर्ट पळया. या चित्रांत तांणी जे मार्क केलात नी, या सुवातेर तीं गांठ आसा. नंतर स्कॅनाचो फोटो दाखयलो. हो जो टिबको दिसता, तीं गांठ आसा. तेका ब्रेन ट्युमर म्हणतात. म्हणच पेशंटाली तकली प्रचंड दुखता. आमी आता ट्रिटमेंट दिल्ली आसा. पळोवया कितलो फरक पडता तो. आनी एक दीस हांगा दवरुन पळोवया. हो सगळो दैवाचो खेळ आसा. आमच्या हातांत कांय नासता. पूण बरें जाले बेगी आयले ते. पळोवया कितें करचें तें. आमी यत्न तर करुया.

हें सगळें आयकूवन आमची अवस्था कितें जाली हें सांगपाकच जायना. आमी पुराय हतबलच जाले. भास्कराली बायल तर गप्पच जाली. तिका कांयच कळना जाले. बापडी जावन ती माजेकडेन पळयताली. भुरगीं तर भिवनच गेल्लीं. हांव तर गळीतगात्रच जालो. हें आनी कसलें नवीन संकट काय म्हण. भाभी आनी शाम हाणी माका बरोबर घेतलें, चला, आमी चा घेवया. म्हण माका भायर काडलें. शांत जाया, भियेव नाकात, आमी बरोबर आसात नी. डॉक्टर कितेंय सांगतात. कांय जायना. म्हण धीर दिलो.

दुसरो दीस उजवाडलो. वखदान भास्कराल्या प्रकृतेंत मातसो फरक पडिल्लो. पूण डॉक्टरांक जाय तसो न्ही. परत आमकां ओपोवन घेतलें आनी सांगले.

हें पळया, माका तर खाशेलो बदल दिसना. तकली उसळप ताबडतोब थांबूक जाय आशिल्ली. अशीं हांवे वखदां दिल्लीं. पूण फरक कित्याक पडना हेंच कळना. आसूं, आमी प्रिकोशन घेवया. पेशंटाली पोजीशन क्रिटिकल जावनये म्हणून जाता तितले बेगीन तुमी पेशंटाक हांगाच्यान पुण्याक हालया. हांव पुण्यांतल्या डॉक्टरां कडेन फोनार उलयता. हांगा सोलापुरांत नाका. तकलेंचें ऑपरेशन करचे पडतलें. तर तें पुण्यांत संचिती वा रुबी हांगा केल्लें बरें. अर्थांत खर्च चड आसा, पूण दुसरो इलाज ना.

तांणी पुण्याचे डॉ. बाफना आनी डॉ. आपटे हांच्या पत्त्या सयत तांच्या नांवान चिट्यो दिल्यो, आनी आता हांगा राव नाकात, तयारेक लागात. असो निर्वाणीचो सल्लोय दिलो. भाभी आनी शाम लागीं आशिल्लेंच. तांणी सांगले, आमी पुण्यांत घेवन वचुया. आमचे कडेन पंचवीस हजार रुपय आसात, ते घ्या. म्हण ते पैशे मागेल्या हातांत दिले. आनीक लागल्यार सांगात, भांगर मोडून दिता. पूण तुम्ही काळजी करु नाकात, आनी भिवनाकात. शाम आनी भाभील्या या धिरान खूब आदार दिसलो.

थयंच्यान हांव तडक तवकिरे कडेन गेलो. तो सावकारीचो धंदो करतालो. मागेलो आनी तेगेलो बरो परिचय आशिल्लो. व्याजान पैशे दितालो. हांवे सगळी परिस्थिती सांगली. तेणे रोखडेंच मागणेनुसार पंचवीस हजार रुपया तीन टक्के व्याजान दिले.

रातीं धा वरार पुणे पॅसेंजर आशिल्ली. भास्कराक घेवन आमी पुण्याक वचपाक भायर सरले. मंगल, आनंदा, भागवत, मेवणो मारुती लोंढे, आनी हांव इतले जाण आशिल्लें. पुण्याक सकाळी पावलेनंतर येरवड्याक मागेलो मावशी भाव मोहन वाघमारे रावता थंय गेले. नंतर भास्कराक घेवन आमी चिटी नुसार डॉक्टरांक मेळपाक गेले. डॉ. आपटे हेंगेली भेट जावंक शकली ना. ते दीसभर ऑपरेशनांत बिझी आशिल्ले. मात डॉ. बाफना हांगेली सांजेची अपॉइंटमेंट मेळ्ळे.

सांजेर आमी डॉ. बाफना हांच्या कंन्सल्टिंग रुमांत पावले. कंपावंडराक रेफरन्स दिलो. भायर भितर बरेच पेशंट आशिल्ले. वेटींग रुमांत डॉक्टरांन हेजे पयलीं ऑपरेशन केल्ल्यो आनी मेंदवांतल्यान काडिल्ल्यो गांठी कांय बरण्यांत ओळीन मांडून दवरिल्ल्यो. म्हायती दाखोवपी बरेच फोटो, चित्रां, म्हायतीं पत्रकां शिस्तींत लायिल्लीं. डॉक्टरांन आमकां भितर आपयले. तेंका सोलापूरच्या डॉक्टराली चीट, स्कॅन आनी रिपोर्ट, ट्रिटमेंट पेपर्स दिले. तेणी ते सगळे नदरेखाला घातले. मागीर भास्कराक उबें रांवक सांगले. दोळे बंद करुन चलूंक लायलें. दोळे बंद करुन पँट घालूंक लायली. एका पायार उबें केलें. परत पाय बदलून दुसरे पायार उबें केलें. दोळे तपासले, कानाच्या फाटल्यान, गळ्या भोंवतणी बी तपासणी केली. बी. पी. तपासलो. तेंच्या पद्धतीन आनीक कांय तपासण्यो केल्यो. आनी मागीर खुर्चेर येवन बसत डॉक्टरांन सांगले. भिवचें कारण ना. ऑपरेशनाची आता अजिबात गरज ना. दोन-तीन म्हयने मागेली ट्रिटमेंट दवरा, म्हयन्यांतल्यान एक पटी आयले तरी चलता.फकत तुमकां आनी एक दीस रावचें पडतलें. रुबींतल्यान तेगेलो, हांव सांगता त्या अँगलींतल्यान तकलेचो एक्स रे काडून फाल्या माका दाखया. हांव कांय गुळ्यो बरोवन दिता. त्यो चालू दवरा आनी परत याच तारखेक फुडल्या म्हयन्यांत पेशंटाक तपासूंक घेवन यात.

डॉक्टर कितें सांगता हाजो आमकां अदमास येनाशिल्लो. पयलींच डॉक्टर कितें सांगता तें आयकता पसून जीवांत जीव नाशिल्लो. हें आयकूवन आमकां कांयच कळना जालें. डॉक्टरालें उलोवणें ठाम आशिल्लें. निर्धारांचें आशिल्लें. डॉक्टरांन, ओके, बरें आसा आता तुमी या. अशें म्हणून आमकां निरोप दिलो. पूण आमचो पांय हालना. परत बरें करुन विचारचें अशें दिसलें. हें सगळे सांगतात तें खरें काय? हाजी खात्री करुन घेवची अशें दिसलें. पूण आमचें नशीबच व्हड काय पुण्याय... कितेंय आसूं जें आयकलें तें सत्यच आशिल्लें.

आमी सकल आयले. भागवताले दोळे भरुन आयिल्ले. भास्करालें तोंड आता निर्धास्त दिसतालें. दांटून आयिल्लें काळेकिट्ट मळब एकाएकी निवळ जावचे अशें दिसूं लागले. मन हगूर हगूर जालें. कितें हो चमत्कार! सोलापूरच्या डॉक्टरांन आमची पार वाटच लायिल्ली. केन्ना कितें जायत सांगूंक येना, अशें तेणे आमकां सांगिल्लें, जितलें बेगीन

व्हरुन ऑपरेशन करतले तितलें बरें जातले अशेंय सांगिल्लें. आनी हांगा तर वेगळोच अणभव आयलो.
डॉक्टरांन बरोवन दिल्लें वखद पुण्यांतच घेतलें. आनी आमी परत रातीच्या पॅसेंजरीन सोलापूरांक परतले. सोलापूरांत आयले नंतर शाम, भाभी हांचे कडेन गेले. सगळे सविस्तर सांगलें. तेंगेलें पैशे जशेच्या तशे परत केले. आमकां सगळ्यांक आनंद जालो.
हळूहळू भास्करालो त्रास कमी जालो. डॉक्टर बाफनांली वखदां लागू पडलीं. तकली मातमात उसळताली पूण तितल्या पुरतीच. वखद मात चालूं आशिल्ले.
आमचें रुटीन चालू जालें. हांव बार्शी ब्रँचीत आशिल्लो. सदां वचप येवप चालूंच आशिल्लें. भास्कर व्हड रजेरच आशिल्लो. म्हयन्या नंतर आमी परत डॉक्टर बाफना हांचे कडेन गेले. दनपारची भेट जाली. तांच्या पद्धती प्रमाण तांणी भास्कराली परत तपासणी केली. हे वेळार हांव, मागेली बायल, भास्कर, अशीं तिगांच आशिल्ली. डॉक्टरांन वखद तशेंच चालू दवरपाक सांगलें. ओके, फाईन अशें म्हणले. उमळशीक म्हण हांवे डॉक्टरांक विनंती केली. आनी दुबाव विचारलो, सर, सोलापूरच्या डॉक्टरांन तर आमकां भिवंडोवनच सोडिल्लें. स्कॅन रिपोर्ट बी हो कितें प्रकार? डॉक्टरांन शांतपणान सांगलें...
सगळ्योच केसीस एक सारक्यो नासतात. स्कॅनांत ट्युमर दिसता. तो आसा तितलोच आसा. तो ना व्हड जाता ना करगता. आसता केन्ना केन्ना अशी कुडीची घडण. उद्‌भवता, निर्माण जाता. आमी ती निर्मिती आडोवंक शकनात. पूण हांवे मागेल्या पद्धतीन तपासलें. तेन्ना ते ट्युमराचे परिणाम दिसूंक जाय आशिल्लें. ते माका बिलकूल दिसले नात. He was completely stable, नदरेंत फरक पडलो ना. सगळें जेन्ना समतोल आसा, तेन्ना ट्युमराच्या अनिश्ट परिणामान तकली उसळता अशें माका दिसलें ना. तें मायग्रेनय आसूंक शकता. देखून तेंका हांये खात्रीपूर्वक वखदां दिलीं. ती नेमान घ्या, फरक पडतलो. बरो जातलो, आनी कितें?
आतां कितें उलोवंचे? मळब तर आनीक निवळ जाल्लें. हांवे काळजांतल्यान डॉक्टरांचे उपकार मानले. आनी भायर आयलो. आता हांगामेरेन आयलाच तर पुण्यांतल्या आमच्या रिजन ऑफिसांत वचून तरी येवचें म्हणून हांव, मागेली बायल आनी भाव गुलमोहर बिल्डिंगा क्रडेन गेले. एस. बी. आय. चे रिजन फोर चे ऑफिस हांगा आशिल्ले. हांव दुसऱ्या माळ्यार गेलो. चीट धाडून आर. एम. सायबांक मेळून परिस्थिती सांगली. आनी आता माका सोलापूर दिया म्हणून विनवणी केली. आर. एम. सायब माजेकडेन सारकें पळय बी नाशिल्ले. मिस्टर बंगाली तेंगेलें नांव. आयिल्लो फोन घेवपांत आनी तो आयकता आयकता फाईल पळोवपांत ते गुल्ल आशिल्ले. मागेलें तेणे कितलें आयकलें कोणाक खबर, परदुःख शीतल आसता. देखून मागेली अडचण, दुःख आर. एम. मेरेन पावलेच ना. तेणे माका भायर कोणाक तरी मेळूंक सांगले. आमी विरुस जावन सोंपणा

देवन सकयल आयले. भायर रस्त्याच्या कडेक त्या गुलमोहर बिल्डिंगेच्या सोंपणार बसले. मुखार विस्तीर्ण रस्तो आशिल्लो. दोनय वटेन गाड्यांची नुसती धांवपळ चलिल्ली. तेंका कसली ताकतीक आसलीं कोणाक खबर, पूण गाड्यो सुसाट धांवताल्यो. आमी शांत बसून हे सगळें पळयताले. अगतीक जावन. भावान वत लागनये म्हण तकलेक धवो तुवालो बांदिल्लो. आमी बसून आता फुडें कितें करचें तें थारयताले. कशे वचचें हाचो विचार करताले.

इतल्यांत मुखाल्ल्यान आमच्या युनियनाचो रिजनल सेक्रेटरी आनी मागेलो पंढरपूरच्या बँकेचो इश्ट श्री. सुनील दिक्षीत माका दिसलो. हांव हांगा पावंड्यार विरुस आनी उदास बशिल्लो पळोवन तेंका कशेंतरीच जालें. तो म्हऱ्यांत आयलो, आनी मागेली मनापसून वास्तपूस करुंक लागलो. हांवे सगळीं इत्थंभूत म्हायती तेंका दिली. भावाली स्थिती दाखयली. बायलेली वळख करुन दिली. भावालें ब्रेन ट्युमराचे आयकूवन तो खूब हळहळलो. भावालें बापडें तोंड, तकलेर बांदिल्लो तुवालो पळोवन तेंका काकूळत दिसली. हांव थंय येवचें आनी आर. एम. सायबांक मेळपाचें कारण सांगलें. सुनिलाक उलयतान मदींच इंग्लीश मारपाची सवय आशिल्ली. तेका आर. एम. सायबांल्या वागण्याचो संताप आयलो. तेणे माका आश्वासन दिलें. त्या रस्त्यावयल्या फुटपाथारच माका सांगू लागले, "My dear L.S., now you will see what Sunil can do. You will be relieved within a week from Barshi branch to Solapur. तुमचे सारख्यांची केस आर. एम. क कळना, अजाप आसा, हांव पळयता, हांव तुका उतर दिता तुजें काम जातलें चल. सुनील दिक्षीत सामकें डॅशींग आशिल्ले. ते काम करतले म्हणल्यार करतलेच हाचो माका भरवसो आशिल्लो.

आमी सोलापुराक आयले. नंतर सदचे प्रमाण हांव बार्शीक यो वच करतालो. आनी सुनीलान सांगिल्ले प्रमाण आटच दिसांन मागेली सोलापूर बदलेची ऑर्डर आयली. सुनिलालें कशें उपकार मानचें हेंच माका कळना जालें. ताज्या उपकाराचें काळजार वजें जावंक लागले. पूण सुखद.

रीतसर हांव बार्शीच्यान रिलीव्ह जालो. आनी सोलापूराक परत बाळीवेस हांगाच्या शाखेंत, एप्रिल २००० वर्सा हजर जालो. सुनील दिक्षीतांक एक कृतज्ञता पत्र बरयलें. तें पत्र तेंका इतलें आवडलें की, तांणी तें पत्र तेंगेल्या सगळ्यां इश्टांक दाखयलें, हें पळया अक्षर, आनी पत्राची शैली, भाशा पळया. हो मनीस मनांन खूब प्रांजळ आसा. ते शिवाय ही पत्राची शैली अशी कागदार देंवना.

***



१९

आता मागेले सोलापूरचें पर्व सुरु जालें. भास्कर कांय दिसां नंतर कामार वचूं लागलो. तेका तूर्त ऑफिसांतली ड्युटी मेळिल्ली. तेगेलेंय रुटीन सुरु जाल्लें. काळरात सोपिल्ली. सादारण नव्वदानंतरची मागेली धा वर्सां प्रा. त्र्यं. वि. सरदेशमुख सर हांचे बराबर दाट इश्टागतीची आनी चड संपर्काची आशिल्लीं. या काळांत हांव सकाळ सांज सरां बरोबर आसतालो. बँकेत वताना स्कूटरीर हांव सरांक लकी रेस्टॉरंट मेरेन घेवन वतालो. थयं खंयच्या तरी एका हॉटेलांत च्या घेवन अर्दपाऊण तास आमी उलयत बसताले. सर मागीर रिक्षान घरा वताले. आनी हांव बँकेंत. परत सांजेर आमी हुतात्मा स्मृती मंदिरा मुखाल्ल्या बांकड्यांर येवन बसताले. महानगरपालिकेक लागून आशिल्ल्या तांच्या भाग्योदय अपार्टमेंटात सर रावताले. देखून थंयच्यान तितलें चलप तांका सोपें जातालें. हांव बँकेंतल्यान नीट थंय येतालो. सर बांकार बशिल्ले आसताले. तांका हांव आयिल्ल्याची खोशी जाताली. मुमुरखें हांसून ते माका येवकार दिताले. माका 'ये, बैस.'म्हणताले.
हें सदांचेंच. जणू एक परिपाठच. मागीर सरां बरोबर खबरो, भासाभास जाताली. निदान तासभर तरी नक्कीच. सरांचे वाचन प्रचंड आशिल्लें. उलयताना ते कितले संदर्भ दिताले, कितली म्हायती सांगताले हाका शीमच नासताली. हांव एक आयकूवपी सूज्ञ विद्यार्थि

रसीक आशिल्लो. देखून तेंका व्याख्यानाचो पुन:प्रत्यय मेळतालो. ते खूब बरें सांगताले. या साथ संगतींत तांणी माका कितल्या पाश्चात्य देशांतल्या लेखकांचे, कवींचे संदर्भ सांगेत, हाका शीमच नाशिल्ली. व्हिक्टर ह्युगो, हरमान हेसे, बटॉल्ट ब्रेख्त, युजीन आयनेस्को तशेंच खलील जिब्रान, कवी थॉम्सन, बायरन, कीट्स शेले, वर्डस्वर्थ, लिओ टॉलस्टॉय कितलीं म्हणून नांवा सांगचीं. ते भरभरुन उलयताले. प्राचीन संत साहित्य, अर्वाचीन नव साहित्य या सगळ्या विशयांचेर तेंगेलो पगडो आशिल्लो. ज्ञानदेव, तुकाराम आनी रामदास हांचेर तर ते रसपूर्ण उलयताले. माका हो लाभ अनमोल आशिल्लो. तांच्या कॉलेजांतल्या अध्ययनाच्या वेळच्यो यादीं ते सांगताले. श्री. म. माटे हे तेंगेले प्राध्यापक आशिल्ले हे पसून ते विंदा, वसंत, बापट या सहकारी इश्टां मेरेनच्यो यादीं तेतूंत येताल्यो. एस. पी. कॉलेजांत तांणी सावरकरांले जोशपूर्ण आनी विद्वत्ताप्रचूर भाशण आयकल्ल्यांचे लक्तुबायेन सांगताले. सदां कितें ना कितें नवें ज्ञानसत्र चालूच आशिल्लें.
बापू एकांतप्रिय आशिल्ले. पूण मनीसघाणे नाशिल्ले. आपले विचार आपल्या बरे मागप्या कडेन उक्तावचें अशें तांका मनांतल्यान दिसतालें. तांच्या व्यक्तिमत्वांत खर बुद्धीमत्ता, उत्कट भावगर्भता, तरल संवेदनशीलता आनी अभिजात रसिकता हांचो मनोज्ञ संगम आशिल्लो. सोफोक्लिस, ग्रीक लेखकांच्यो शोकांतिका, डोस्टोव्हस्की, चेकॉव्ह, लिओ, टॉलस्टॉय, इब्सेन, फ्रान्झ काका, कामू, सार्त्र, कीट्स, हेमिंग्वे, टी. एस. इलियट इत्यादिकांचे साहित्य त्र्यं. वि. नी मूळांसावन वाचिल्लें. सरांचे लिखाण स्वयंप्रकाशित आशिल्लें. त्या लिखाणांतल्यान अभिजात रसिकता, मर्मग्राही टीकादृश्टी, गाड चिंतनशीलताय हांचो अविश्कार दिसता. जीवनाचें स्वरुप, गूढ आनी अतर्क्य जीवनसार ते कांय नी कन्न सोडोवन दाखयतात. तांची शैली भांगराभशेन झगझगीत, बिनागंज आसा.
एक पावटीं जे. कृष्णमुर्तिंच्या यादींत तांगेली समाधी लागली. कृष्णमुर्ति सारख्या एका चित्तवेधक आनी व्यामिश्र तत्वगिन्यानाच्या जीणेंतले प्रसंग आनी तांगेले अध्यात्मिक विचार सर सामके सोपे भाशेंत सांगताले. तो एक बौद्धिक तासच आसतालो. जे. कृष्णमुर्तिंच्या उन्मन अवस्थेची, कुंडलिनी जागृत करच्या प्रक्रियेची आनी स्थितिची सविस्तर म्हायतीं दीत कृष्णमुर्तिंच्या कुंडलिनी जागृती बद्दल सर सांगताले. फाटिच्या कण्याच्या सकल्ल्या भागांत सर्पाग्नी, सुप्तावस्तेंत आसता. योगाच्या निखळ अभ्यासान तो जागृत जाता आनी या अवतारी मनशाक दिव्यदृश्टीचो तशेंच जायत्या सिद्धींचो अणभव प्राप्त जाता. ह्यो अवस्था योग्यांक प्रचंड वेदनांय दितात. ह्या अशा अवस्थेंतल्यान तांका दिव्य साक्षात्काराचे दर्शन जाता. सर शांत पणान जणूं प्रवचन दीत रावताले. वेळ जातालो. काळोख दाटून येतालो. तरीय वचचें अशे दिसनाशिल्लें. अखेर वचूंक तर जायच. ल्हवूच सरांक हांव स्कूटरीर फाटल्यान बसोवन कांयच उलयनासतना मोन्यान भाग्योदय सोसायटीच्या दिकेन वतालो.

तर हें अशें भाग्योदयाचें दीस आशिल्ले. आमगेली सांजेची बसका इतली नित्यनेमाची जावन गेल्ली की, हळूहळू कांय साहित्तीक आनी साहित्यप्रेमीं हांगा एकठांय जांवक लागले. श्रीयुत रजनीश जोशी येताले, हेमकिरण पत्की, सुनील साळुंखे, नीतिन वैद्य, पुरुशोत्तम नगरकर, केन्ना अंजू मोमीन, शशिकांत जोशी, चंद्रशेखर राहूरकर, दिनेश शिंदे, आनी शशिकांत लावणीस हे लोक सदां हजेरी लावंक लागले.

नितीन वैद्यांचेंय वाचन अफाट आशिल्लें. माजे प्रमाणच सरांची आनी माईंची सेवा करपांत नितिनीय धन्यता मानतालो. तोय मनासावन सरां खातीर सेवा दितालो. या पंगडांत रजनीश जोशी हो हरहुन्नरी कलाकार, साहित्तीक-नाटककार आनी उत्तम पत्रकारिता जाणपी आनी बापूचेर मन:पूर्वक प्रेम करपी साहित्यप्रेमी आशिल्लो. बापू गुरुपूनवेक या सगळ्या मंडळीक आवर्जून मेळताले आनी आशिर्वाद दिताले.

आर्दी मदी दत्ता गायकवाड येवन बसतालो. नवे किर्ते वाचलें तें मूजरत सांगतालो. मागीर तेजेर भासाभास जाताली. दत्ता गायकवाड हो एक साहित्याचो दर्दी. तांचेय वाचन अफाट आशिल्ल्यान साहित्य वर्तुळांत तेंका आदरयुक्त मान आशिल्लो.

विलास पाटीलय येवन बसताले. साहित्याचेर उलयताले. साहित्याचो तर तेंगेलो बरो अभ्यास आशिल्लोच, शिवाय ते एक लेखक आनी खडेंगांट वक्तेय आशिल्ले. उलवण्यांत इतलें शिट्टूक की, आयकतल्यांचेर ताची छाप पडतालींच. विलास पाटीलान 'वादळवाटा' हें तेंगेलें आत्मचरित्र सरांक वाचूंक हाडून दिलें. पयलीं सरांन दोळ्यांक त्रास आसा, चड वाचूंक जायना म्हणून फाटींफुडें केलें. पूण पाटलांन आग्रो केल्ल्यान तांणी तें वाचूंक घेतलें. आठवडो गेलो. परत सांजेर आमी जमले. विलास पाटीलांन आपले पुस्तका बद्दल प्रतिक्रिया विचारली. अर्थातच सरांन पुस्तकाची तोखणाय केली. 'तुगेलो संघर्श थरारक आसा.' अशें म्हणलें. पूण, विलास, तुका एक सांगू तुजी भाशा मात खूब आक्रमक आसा. ती आंगार धांवन येता अशें दिसता. वाचपी भयभीत जाता. माजें तशें जालें. सरांन अशें सांगले तेन्ना आमी तटस्थच जाले.

हांगा बसपाचो आमचो जणू पायंडोच पडलो. एक पटी एक जेश्ट सामाजीक कार्यकर्तो भोंवत भोंवत आयलो. बापूंक तेणे नमस्कार केलो., 'या बसा' म्हणून सरांन तेंका म्हऱ्याक बसोवन घेतलें. आयले पयलें उलोवप जालें. आनी ताणे सरांक एक खबर सांगली. बापू सायब, आहो आज दनपारा कविवर्य द. रा. बेंद्रे सर गेले. खबर कळतांच माका तुमची याद आयली. तुमची आनी तांची दाट इश्टागत आशिल्ली. म्हणलें, तुकां कळोवचें. हे आयकूवन सर हळहळले. गप्प जाले. आनी अचानक तेजेर रागान तिडकले. बरें आसा, बेंद्रे गेले हे माका कळूंक जाय म्हणून... पूण सांगताना तुमी बेंद्रे गेले आनी माका तुमची याद आयली, अशें वाक्य जोडून कित्याक उलयले? हें अशे उलोवप बरें न्ही. माका अवचिन्न अशें दिसता. आनी बेंद्रे गेल्ल्याचें माका सांगपाचो अट्टाहास कित्याक?

सरांचे उलोवणे थरथरताले. माका कांय कळना जाले, हांव सरांक सावरपाचो यत्न केलो. तो गृहस्थ रोखडोच गेलो. सर नंतर शांत जाले. माजे कडेन पळोवन उलोवंक लागले,.....

एल. एस., तुका हेगेलो एक प्रसंग सांगता. हांव नव्या पेठेंत रावतालो, ते वेळची खबर. आयतारचो दीस आसलो. हांव खंयच्या तरी पुस्तकाच्या निर्मितींत आनी किते तरी बरोपांत गुल्ल आशिल्लो. अचानक दारार आवाज जालो. आनी 'बापूसायब' असो उलो आयकूंक आयलो. हेच म्हाराज भर दनपारा आमच्या घरा आयिल्ले. हांये 'या या' म्हण भितर घेतले, तेणे उलोवंक सुरवात केली, बापू सायब, तुमकां खबर ना? आहो, पंचांगकर्ते दाते गेले. हांव थंयच्यानच आयला. मन्नाक अजून तास देड तास वेळ आसा. आता परत खंय वचचें, तुमगेली याद आयली आनी आयलो. तुमी येतले? बरोबरच वचुया. माका येवजना जालें या मनशाक कशें धावंडोवचें. एखाद्याच्या घरांत सूतका आंगान येवन बसचें आनी हें अशें सांगचे, कितें करचें?

सरांलो स्वभाव, तांची व्यथा माका खबर आशिल्ल्यान हांवे चलोवन व्हेलें. थोडो वेळ रावन आमी भाग्योदया कडेन वचपाक भायर सरले. सरालें घर आयलें. सराक हळू देंवयलें. सराल्या दोळ्यांतली भंय मात तशीच आसली. हांव स्कूटर धरुन तसोच उबो. कीक मारचे तयारेंत. त्या स्थितींतय माका 'मात राव' अशें म्हणून सर उलोवंक लागले, एल. एस. ही अशीं साहित्तीक मळार वावुरपी मनशां, हांका कांय संकेत, रिती कशो कळनात रे. तुका आनी एक किस्सो सांगता, दोनच म्हयन्या पयलींचो, नोव्हेंबर म्हयन्यांत मागेलो वाडदीस आसता तुका खबरच आसा. त्या दिसा सदचे भशेन भरपूर परब्यों, फुलां तुरे आनी फोन आयले. आनी तुका सांगता भर दनपारा जेवपाच्या वेळार पळय, आनीक नवो एक प्राध्यापक दारांत दत्त म्हणून उबो माका तेगेले नांवय खबर नाशिल्ले. 'सर' म्हण माका उलो मारता हांव जेवणाच्या ताटावयल्यान उठून दार उगडलें. मनांत राग भरिल्लो. पूण गिळ्ळो. या प्राध्यापक महोदयांनी माका वाडदिसाची परबी दिली. फुलां दिली. हांवे उपकार मानले. इतले मेरेन बरें. मागेली जेवणाची गडबड पळोवन तोय वता म्हणूक लागलो आनी वतां वतां तेणे कितें उलोवचें? 'सकाळीच येतलो आशिल्लो, पूण शेजरां एक मन्न जालें. वयस्कर मनीस. तें सोडून येवंक जालें ना. मागीर क्रियाकर्म आटापून नीट तुमचे कडेन आयलो. आता या बुद्धीवाद्यांक कितें सांगू एल. एस.? हांव रागीट, फटकळ अशें म्हणतात, पळय कशे सोसूं हांव ह्यो गजालीं?

सरांन तेंगेलो हो सगळो वैताग असो उलोवन दाखयलो. हांवे तेंका बरें दिसचे म्हण फावो तो प्रतिसाद दिलो. खरे तर हांव विद्यार्थि इश्ट. तेंका कशें समजायतलो.? मोठें कठीण काम आशिल्लें. पूण अशे वेळार सर खूब भावूक जाताले. ल्हान भुरग्या सारखें उलयताले. 'बापरे कसले हे मनीस.' अशें म्हणून हांवे सरालो निरोप घेतलो.

कांयशी अमंगळच तिनसांज आशिल्ली. सर मरण या उतरान भयभीत जावपा सारके नाशिल्ले. ताणी जिणेचें, जल्म-मरणाचें सखोल चिंतन कल्लें. ज्ञानेश्वरी बरोबर संपूर्ण अमृतानूभव तांणी सूक्ष्म अभ्यासिल्लो. रामदासांलो साहित्तिक, अध्यात्मीक आनी सर्वांगिण दृश्टीकोनय तांणी सखोल अभ्यासिल्लो. देखून मरणां बिरणांचे तांका भंय दिस नाशिल्लें. मरणाच्या विशयान एक अत्यंत जीवघेणी याद मात तांच्या काळजांत दसताली. म्हणच या विशयाची तांका कीळस येताली. धांवेत शिकपी नांगेलो चारुदत्त नांवाचो एकलो एकसुरो पूत धनुर्वातान मेल्लो. ऐन दसऱ्यांतली ही घडणूक. पुताचें मरण सराक अस्वस्थ करतालें. बेचैन करतालें. दसऱ्याक ते केन्नाच घरा रावनासले. माका फोन करुन आपोवन घेताले आनी चल. आमी खंय तरी वचून बसुया. भायरच जेवण घेवया. अशें म्हणताले. कदाचीत ते मजे भितर चारुदत्त तर पळयनाशिल्ले? मागेल्या घरा फोन करताना ते मुजरत मागेल्या बायलेची-मंगलाची वासपूस करताले. भुरग्यांची खबर घेताले. केन्नाय मंगला कडेनय उलयताले. नब्बेनिची काळजी घेवपाचो सल्लो दिताले. या काळांत निर्मीन वैद्य. हेमकिरण पत्की बी आमचो सगळ्यांचो एक बरो पंगड जाल्लो. जयंत राळेरासकर हाणी हो पंगड 'मुद्रा' नांवाच्या साहित्य मंडळांत आस्पावन घेतिल्लो. राळेरासकर आनी वैद्य हांणी अत्यंत कश्ट घेवन 'आशय' हो दिवाळी अंक सुरु केल्लो.

सराल्यो दोन धुवो. एक सौ. अनुराधा कशेळीकर सांगलींत आनी दुसरी सौ. वसुमती भंडारे पुण्यांत रावताली. केन्ना सर या धुवांकडेन वताले. थंयच्यान मुजरत माका चीट बरयताले. खुशाली कळयताले. तांगेली जायतीं सुंदर पत्रां हांवें अजून जतनायेन दवरिल्लीं आसात. मागेलो अनमोल खर्जानोच तो.

बरेंच दीस जाले बापूल्या मनांत एक प्रस्न घोळतालो. फाटीं हय न्हय सो ताजो उल्लेखय केल्लो. तांका किते तरी उलोवचें आशिल्लें. किते तरी सांगचें आशिल्लें हें माका जाणवतालें. मंजू हॉटेलय सराले बसपाचें एक ठाणें आशिल्लें. आझमा कडेन जायते कला साहित्य रसीक जमताले. आमीय केन्ना केन्ना वताले. एक दीस सांज वेळार मंजू हॉटेलांत आझमान लायिल्ली लता मंगेशकराली बरी पदां आयकलीं आनी मस्त पैकी कॉफी घेवन आमी भायर सरले. सर फूटपाथार थांबले. मागेलो हात हातांत घेवन म्हणूं लागले...

एल. एस.. तुका एक सांगचें आसा. खूब दीस जालें मनांत घोळता. एका कादंबरीचो विशय मनांत थैमान घालता. बरींच वर्सां जालीं मनांत घर करुन बसला. बापायन जेन्ना अक्कलकोट सोडलें आनी आमी कोल्हापुराक आयले तेन्ना बापायली दयनीय अवस्था हांवें पळोयल्ली आसा. या अवस्थेंत बापायक खूब त्रास जालो. आतां या अवस्थेंत आवय बापाय खातीर हांव काशी बनारस करुंक शकना. थंयच्या वंशावळींच्या चोपडेंतय आमचीं नांवां बरयलीं वचचीं नात. देखून बापायल्या रिणांतल्यान मुक्त जावचें

खातीर 'बखर' कादंबरींचें उत्तरकांड बरोवन मेकळें जावचें म्हणता. बापूय अक्कलकोट संस्थानांत मुनीम आशिल्ले. सरदेशमुख आशिल्ले. कुभांड रचून तेंका थंयच्यान धावंडोवन घातले. आमी भावंडा ल्हान आशिल्लीं. हांव आनी फाटली भयण कमल. आमी जीव मुठींत धरुन सोलापुरांक आयले आनी मागीर हांगाच रावले.

सर जणूं आत्मकथाच सांगताले.

तर, एल. एस., माकाय साइखेडाची, राजा रघुवीरसिंहाच्या मरणा नंतर संस्थानांत जाल्ल्या वाताहातीची आनी मनशांच्या कुटील कारस्थानांची लक्तरां तांगोवचे खातीर ही कादंबरी बरोवची आसा. थोडीभव नोंद केल्ली आसा. कादंबरीचो मसुदो तयार आसा. कांय पानां हांये बरोवन काडिल्लीं आसात. तर तुका हाची मुद्रणप्रत तयार करुंक जमत? माका खबर आसा तुका बँकेंत वचचें पडता. तरी सदां धायेक पानां बरयली आनी उरिल्लीं रजेंत भरुन काडलीं जाल्यार वेळेंत कादंबरीचीं मुद्रणप्रत तयार जातली. हें फेअर करचें काम तूं करशीं?

मागीर सामकें उमळशिकेन आनी आशेन माजे कडेन पळयत रावले. 'हांव विचार करुन सांगता ' बी म्हणप माका शक्यच नाशिल्लें. उलट, हांव आनंदान हे काम करुं शकता अशें तेंका सांगलें. सर, तुमी अनमनून उलयनाकात. माका अधिकारान सांगात. माका अभिमानच दिसतलो. हांवे जाप दिली.

सरांच्या 'डांगोरा' कादंबरीचो जल्म हांगाच जालो.

दुसरे दिसा रजा आशिल्ली. हांव सकाळींच सरांकडेन आयलो. स्कूटरीन मॉडर्न स्टेशना कडेन गेले. कादंबरी खातीर लागपी सामान सरांन विकत घेतलें. दोन रीम कागद घेवन तातूंलो एक रीम माका दिलो. दोन तीन पेनां घेतलीं. एक शाईचें पेन घेतलें. एक कमॅल निळी शाईबाटली तेजे बरोबर घेतली. थंयच्यान नीट सरांल्या घरा आयले. सरांन देवा म्हऱ्यांत बरयिल्लीं पंचवीस पानां दवरलीं. फुलां घातलीं. नमस्कार केलो. तीं पानां तांणी मुद्रणप्रत करुंक माजे कडेन दिलीं. तांच्या एका नोंदपट्टेंत तांणी पान नं. १ तें २५ पानां माका दिल्ल्याची तारीखवार नोंद केली. माका दिल्ल्या पानांच्या पयल्या पानांर १ ते २५ पानां साईखेड अशें बरयिल्लें. बरोवपाच्या पद्धतीं बद्दल माका सूचनां दिल्यो. मुद्रणप्रतिची म्हायती दिली. तांणी बरयिल्ल्या प्रतींवयली खाडाखोड, वगळायिल्लो वा वाडयिल्लो मजकूर कसो तो कुरवांनिशीं सांगलो. माका हें समजून घेवपाक चड त्रास पडले नात. लिखाणाच्या सुरवेक तांणी देवाकूडींतलो एक पेडो आपले हातान माका भरयलो. लेखनाची पद्धत, शिस्त हाचे बद्दल सर कितलें पथ्य पाळतात आनी जागरुक आसतात हें तेन्ना लक्षांत आयलें. सर सामकें शिस्तप्रिय आशिल्ले. म्हणच एका कादंबरीचो जल्म, उदरगत आनी तिचें अंतीम स्वरुप कशें आसता हाचें जणूं प्रात्यक्षिकच माका लागीच्यान पळोवंक मेळ्ळें. कादंबरी कशी फुलता. ती आपलें रुप कशें विकसीत करता, अशो जाय

त्यो गजाली माका कळ्ल्यो. ह्या बाबतींत हांव भाग्यवानच म्हणपाचो. मागेलें अक्षर सुंदर, स्वच्छ आनी मोत्यां भशेन आशिल्लें. मराठींतच एम. ए. केल्ल्यान व्याकरण, शुद्धलेखन हाची पुरायेन जाण अशिल्ली. हें सगळें या कामाक उपयुक्तच आशिल्लें. श्री. पु. भागवतांची 'मौज' नांवाची प्रकाशनसंस्था आशिल्ली. तेका लागून या कामाक वेगळें म्हत्व आशिल्लें.

कादंबरींचे बांदकाम सुरु जालें. पयलीं एक ते पंचवीस पानां बरोवन जाल्या उपरांत ती सरांक परत केली. तांणी तांच्या नोंदपट्टेंत तीं परत मेळिल्ल्याची नोंद करुन दवरली. तारीख घातली. फुडलीं सव्वीस ते पन्नास पानां नोंदोवन माका दिलीं. हांवे बरयिल्लीं पानां पळोवन सरांक खूब आनंद जालो. तांका प्रत मानवलीं.

सरांचे लिखाण तशें लार्गी लार्गी पुर्णत्वाक आयिल्लें. शेवटांची कांय पानां उरिल्लीं. रघुवीरसिंहाच्या तेंपावयली राजस ही साईखेड सोडून गेल्ली. तिजें कादंबरींत कशें आगमन करप हांगा सरांली गाडी आडखळिल्ली. राजसाक कशें हाडचे म्हण सर येवजीत आशिल्ले. हांव सदां आट ते धा पानां बरयतालो. या येवजणे नुसार सादारण हजारेक पानांची ही रचना चार म्हयन्यांत पूर्ण जातली या नदरेन आयोजन केल्लें. बापू आनी हांव जणू या निर्मिती सुवाळ्याक झपाटून गेल्ले. 'डांगोरा' शिवाय आता दुसरे कांयच चर्चेत नासतालें. आता मेरेनचें लिखाण कशें दिसता म्हणून सर मर्दीमदी माजें मत विचारताले. मुद्रणप्रतिंचे लेखन करपी, खंयच्याय कलाकृतीचो पयलो वाचकच आसता. तो मान माका सुखयतालो. मागेल्या कांय दुबावाची भासाभास हांव मेकळ्या मनांन सरांकडेन करतालो. सरांक ती आवडताली. कांय फेरफारय ते करताले, माका दाखयताले. एल. एस., तुजी जाण बरी आसा. आनी चिकित्सक वृत्ती ही आपल्या कृतींक चडानचड निर्दोश जावपाक अदारभूतच थाररतली. अशें ते म्हणताले.

येवजणेनुसार कादंबरी अंतिम टप्प्यांत आयलीं. राजसाक कादंबरींत हाडपाचो तिडोय सरांन सोडयलो. शेवटाची पंचवीस पानां माका दिली. हांवेय एक दोन दीस बँकेंतल्यान रजा घेवन तीं बरोवन काडलीं. बरयिल्लें तें बाड पळोवन माका खोशी जाली. बरयिल्ल्या पानांक सुरवाते पसूनच नंबर घातले वताले. वट्ट. ९९० पानां जालीं. सकाळीं उठून सरांकडेन तो अखेरचो दस्तो घेवन गेलो. सरांक खूब आनंद जालो. सरांनी तो कपलाक लायलो, नमस्कार केलो. आपल्या साहित्य कृते विशीं सरांक कितलो कमालीचो आदर आशिल्लो! सरांन तें सगळें लिखाण, सप्तका भितर परत नदरेखाला घातलें. चड असो फरक पडलो ना. तांच्या मनां सारकें तें जाल्लें. एकदोन किरकोळ पानां बदलल्लीं. पुनर्लेखन करुन दिलें. परत तें बाड घेवन मॉडर्न स्टेशनर्सा कडेन गेले. श्री. बाकळे हांका तीं लेखन कृती दाखयली. तीन झेरोक्स करचे खातीर तांका तीं दिली. झेरोक्स आनी आनी स्पायरल बाईंडीग, दोनय कामां तांचे कडल्यान करुन घेतली. प्रती हातांत आयल्यो.

सरांच्या इत्सेनुसार हांव नितीन वैद्य आनी साळुंखे अक्कलकोट गेले. स्वामी समर्थाच्या चरणां कडेन प्रत दवरली नमस्कार केलो. मठांत जेवले. प्रसाद घेतलो. आनी सोलापूराक परतले.

माका एका रिणांतल्यान मेकळें जाल्ल्या भशेन जालें. मुद्रणप्रत तयार करुन दिवन हांवे सरांक जणू गुरुदक्षिणाच दिल्ली.

सरांन श्री. पु. भागवत हांका पत्र बरयलें. फोनार उलोवणे जालें. ते पयलीय या कादंबरीच्या निमित्तान तांचे उलोवणे चालूंच आशिल्लें. 'मौज' खटाववाडी, मुंबय हांगा श्री. पु. भागवतांक प्रत धाडली. प्रत मेळिल्ल्याची पोच पावती रोखडींच आयली. श्री. पु. भागवतांनीय तितल्याच उमेदीन आनी खोशेन बापूली ही कादंबरी वाचून काडली. म्हयने भरांत श्री. पु. भागवताले एक सुंदर पत्र बापूक आयलें. अर्थातच कादंबरी आवडल्याचे आनी मराठी कादंबरी जगतांत एका वेगळ्या कृतीची भर नक्कीच पडतली. अशें पत्रांत म्हणिल्लें. श्री. पु. भागवतांनी त्या पत्रांत मुद्रण प्रतिंची, अक्षरांची आनी शुद्धलेखनांची खाशेली तोखणाय करुन जांणे हें बरयला तांका धन्यवाद कळया म्हणून पत्रांत मुद्दम उल्लेख केल्लो. बापून माका तें पत्र दाखयलें. मौज सारखेल्या प्रकाशन संस्थेन केल्ली तोखणाय मागेल्या नदरेन अभिमानाची बाब आशिल्ली.

सरांन माका मागेल्या घरा येवन शाल, श्रीफळ आनी एक काजीचो बाऊल भेट दिवन मुद्रणप्रतिच्या दिनवासाखाला उपकार मानून मामेलो भोवमान केलो. श्री. पु. भागवतांन कादंबरीचेर भसाभास करुंक आनी लिखाणाक अंतीम स्वरुप दिवंक बापूक मुंबयत येवचे पत्र धाडिल्लें. सरांन मुंबयक तांचे वांगडा येवन तें काम करुन दिवची जापसालदारकीय माजेरच सोपयली. अंधेरीक सरांची एक भाची रावताली. विभावरी मोहोळकर. सरांल्या भयणिली म्हणल्यार कमलाली ही धूव. तांचेकडेन फोनार उलोवणे जाले. आनी मुंबयक वचपाचो दीस थारलो. श्री. पु. भागवतांकय रकाद दिलो. एक दिसा सिद्धेश्वर एक्स्प्रेसीचे रिझर्वेशन करुन हांव आनी बापू मुंबयक गेले. दादर देंवले. विभावरीताईलो पूत चंद्रहास बोगीकडेन आमगेली वाट पळयत राविल्लो. अमका तेणे टॅक्सींतल्यान अंधेरीक व्हेलें. श्री. पु. भागवतांक पाविल्ल्याचें कळयलें.

थरिल्ल्या प्रमाण श्री. पु. भागवत हांच्यो भेटी जाल्यो. कादंबरीचेर चर्चा, सूचना, सगळी प्रक्रिया पूर्ण जाली. आनी 'डांगोरा एका नगरीचा' या नांवान कादंबरी प्रसिद्ध करची अशे थारायलें. छापणावळींचे काम वेगान सुरु जावन कांय दिसां भितरच पूराय जालें. कादंबरी मुखपृश्टा सयत नटून, थटून, सजून मौज प्रकाशन गृहात एप्रिल १९९८ वर्सा येवन दाखल जाली. सरांक धा प्रती मौज प्रकाशनान धाडल्यो. तांतूतली एक प्रत सरांन माका सप्रेम भेट दिली. कादंबरीची जाडजूड प्रत हातांत घेतल्या खिणां मागेल्या आंगार काटो उबो रावलो. खंयच्या अनामीक नात्यान या कृती खातीर मागेले मन भरुन आयलें,

माका कळना जालें. हांव तर कामगार, माका इतली खोशी जाता तर या कलाकृतीच्या निर्मात्याक कितलो आनंद जातलो? सर सांगली, पुण्याक धुवे कडेन वताले तेन्ना ते माका नेमान पत्र धाडताले. एका पत्रांत तांणी बरयिल्लें...

"...तुमी मागेली खूब म्हत्वाची व्हड हड कामां करपाक मनां पसून मदत केली. हो हांव गतजल्मिचो ऋणानुबंद मानता. उपकाराच्या पलतडच्यो कांय गजाली आसात. म्हणून मौन घेता."

डांगोराची प्रत बरयता आसतना आनीक एका पत्रांत सरांन बरयिल्लें,..

...मागेलें इतलें व्हड काम अत्यंत आपलेपणान आनी एका निश्टाभावान करचे मनार घेतलें आनी तें पार पाडत आसात. हाचे बद्दल मनापसून उपकारी आसा. तांतूत तीळभरय उपचार ना. तुचमी लेखन पद्धत सुवाच्च, ढळढळीत, शुद्धलेखन हाच्या नदरेन निर्दोश आसा हाचो माका आनंद जाता. असो विद्यार्थि जो शिक्षकाक समाधान दिता तो कळपाक शिक्षकच आसचें पडता. तुमचें विद्यार्थिपण इश्टांगर्तीत विकास पाविल्ल्यान मागेल्या समाधानांत आनी खोशेंत भरच पडिल्ली आसा.

श्री. पु. भागवत आनी सरांच्यो ज्यो बसको मुंबयत जाल्यो, तांचो वृत्तांत तांणी एका पत्रांतल्यान कळयलो. श्री. पु. भागवतांन हातबरप अत्यंत बारीकसाणेन वाचिल्लें. तांची प्रतिक्रिया सरांन आनी एका पत्रांत कळयिल्ली.

'...हातबरप प्रत कोणे केला? अशें श्री. पु. भागवतांनी मुजरत विचारलें. तांका हस्ताक्षर आनी शुद्धलेखन खूब आवडलें. तुमी मनार घेतलें म्हणून हें कठीण काम इतल्या उत्तम आनी प्रशंसनीय रितीन पार पडिल्लें आसा.'

सरांन माका जायती पत्रां बरयलीं. तांतूत तांणी भरभरुन मोग उक्तायला. एक दीस वृत्तपत्रांत सरांच्या फोटोसयत 'डांगोरा एका नगरीचा' या कादंबरीक भारतीय साहित्य अकाडेमीचें अवार्ड जाहीर जाल्ल्याचें छापून आयलें.

डांगोरा... पर्व सोंपलें.

बापूचेर मोग करपी जाय ते साहित्तीक आशिल्ले. मुंबयतलें एक साहित्तीक श्री. निम गांवकर हे 'मीरा मधुरा' चो एक दिवाळी अंक दरवर्सा काडताले. सरांकडल्यान हक्कान एखादो लेख मागोवन घेवन तो प्रकाशीत करताले. तांका एक दीस सोलापूराक येवन बापू आनी माचणूरच्या आर्वीकर महाराजांच्या मठाक भेट दिवची खर इत्सा आशिल्ली. ते प्रमाण ते हांगा आयले. सरांन माका तेंका मदत करपाक सांगलें. हांव आनी सर, निम गांवकरांक मेळ्ळें. खबरो जाल्यो. हांव तेंका माचणूराक घेवन गेलो. रावपाची जेवणाची बी तजवीज केली. दोन तीन दिसां नंतर ते मुंबयक परत गेले. तांका हो सांगात इतलो आवडलो की, तांणीय मुंबय गेले नंतर माका एक पत्र बरयलें. तांतूत तांणी सकयल दिल्ल्यो वळी बरयिल्ल्यो.

'....तुमी आमच्या रार्बीत्यांत खूबच कश्ट घेतले. आमकां निखळ आनंद दिलो. ते बद्दल उपकाराचें उपचार पाळप तुमकांय मानवचें ना. उत्पन्न सौहृदांना उपचारा; कैत न भवन्ति.'

...अशे हे दीस. शारदीय चंद्रकलेप्रमाण ढळत वचपी!

सगळेच इश्ट जीवलग नासतात. माज्या भुरगेपणाचे बरेचशे इश्ट खंय फापसल्लें कोणाक खबर? उपरांत कोणाचीय गांठभेट ना. शाम जाधव, एन. टी. रास्ते, सिद्राम वायदंडे, कुमार शिंदे हे वस्तेंतले इश्ट अखेरमरेन तिगून उरले. नोकरेच्या निमतान नव्यान वळख जाल्ले इश्ट मात त्या त्या काळापुरतेच इश्ट म्हणून उरले. नंतर तांच्यो गाँठीभेटी जाल्यो नात.

दत्ता गायकवाड आनी माजी तशी पोन्नी इश्टागत. महानगरपालिकेत पी.आर. क्षीरसागर नांवाचे एक नगरसेवक आशिल्ले. हांव नगरपालिका आयुक्तांच्या कार्यालयांत आसताना दत्ता गायकवाड क्षीरसागरां वांगडा येताले. क्षीरसागरांन तांची आनी माजी वळख करुन दिल्ली.

एक पावटी दत्ता गायकवाडांन माजी, डॉ. गो. मा. पवार सरांची आनी माईंची घरा व्हरुन वळख करुन दिली. डॉ. गो. मा. पवार साक्षेपीवृत्तीन, निरलसपणान, विवेचनात्मक आनी सातत्यान बरोवपी प्रतिभावान लेखक म्हणून ज्ञात आसात. डॉ. गो. मा. पवार सर आनी माई हीं दोगांय अत्यंत मोगाळ. आनी मनमेकळे स्वभावाचीं. माजीं तांची उसरां वळख जाल्ली. तरीय थोडे दिसां भितरच घनिश्ट इश्टागत जाल्ली.

मध्यंतरात माका डिप्रेशनाचो थोडो त्रास जाल्लो. हें कळतरेत स्वत: डॉ. गो. मा. पवार सर आनी दत्ता गायकवाड मागेल्या घरा अनपेक्षित माका मेळूंक आयले. माका तांणी धीर दिलो. माका या गजालींचे कितलें अप्रूप दिसलें. हांवे हो ऋणानुबंद आयजय काळजांत राकून दवरला.

आनीक एक घनिश्ट इश्ट म्हणल्यार मंगळवेढ्याचे हजरत काझी. अत्यंत मिश्कील स्वभावाचो आनी निर्मळ मनाचो इश्ट. मागेल्या दोनय व्हडल्यां भुरग्यांच्या लग्नांत ब्राह्मणां पयलीं या माज्या मुस्लीम इश्टान खड्या पहाडी आवाजांत मंगलाश्टकां म्हणलीं. तेन्ना सगळेच लोक अवाक् जाले. जातिधर्माच्या पलतडची इश्टागतय खरी निखळ इश्टागत आसता. तांणी कवितेची खाशेली आवड जतन केला. मंगळवेढ्यांत जायती कवी संमेलनां संपन्न जालीं. तांची अगत्यपूर्ण उठाठेव फकत काझीच करतात.

***



२०

स्टेट बँकेत व्ही. आर. एस. स्कीम येतली म्हण वावडी आशिल्ली. आनी ती खरी जाली. एक दीस अचानक एक सर्क्युलर आयलें. उरिल्ल्या सगळ्या सेवावर्साचो पगार, प्रोव्हिंडट फंड तोय दुपेटीन कॉन्ट्रिब्युटरी, ग्रेच्युएटी इतलो एक रकमी लाभ मेळतलो आशिल्लो. शिवाय रोखडेंच नेमानुसार पेन्शन चालू. व्ही. आर. एस. स्कीमखातीर अर्ज धाडपाचे तें सर्क्युलर आशिल्लें. बाळीवेस ब्रँच पूराय कॉम्प्युटराईज्ड जाल्ली. हांवे सर्क्युलराचो अभ्यास केलो आनी कितलो फायदो मेळतलो हाचो अंदाज काडलो. या स्किमिचो आमकां भरपूर फायदो मेळ्ळो. म्हयनेभरांत अर्ज मंजूरीची प्रक्रिया पुराय जाली. आनी एकाच दिसा बाळीवेस बँकेतल्यान बरेच जाण निवृत्त जाले.

३१ मार्च २००१ वर्सा स्टेट बँकेतली ही मागेली स्वेच्छा निवृत्ती जाली. फुडें कितें करचें, कांयच वाट नाशिल्ली. अकस्मात घरा बसपाचो हो अणभव मातसो कठीण जांवक लागलो. पूण रग्गड पैसो मेळिल्ल्यान आनी फावर्शी पेन्शन सुरु जाल्ल्यान दीस गरमागरम आशिल्ले. आता मागेलो पूत किरणय नोकरेक लागिल्लो. तो इलेक्ट्रिकल बी. ई. आशिल्ल्यान तेका एम. एस. बी. त ज्युनिअर इंजिनिअर म्हणून नोकरी लागिल्ली. ना म्हणलें तरी महानगरपालिकेची तीं अकरा वर्सां आनी बँकेतलीं त्रेवीस वर्सा अशी

वट्ट चौतीस वर्सां मागेली सलग सेवा जाल्ली. तशे मागेलें सेवा निवृत्तीचें अधिकृत वय नाशिल्लें. फुटबॉल खेळपी दमदार खेळगड्याक मर्दीच रेडकार्ड दिवप आनी सकल बसोवप तशें या निवृत्तीन माका जाल्लें.
आयिल्ल्या पैशाचो हांवे बरो विनियोग केलो. काय पैशे फिक्स डिपोझिट करुन दवरले. जांची रिणां आशिल्ली तीं पावतीं केली. सोरेगांव-हत्तूरांत एक धा एकर शेंत विकूंक काडिल्लें. तें साठ हजार एकरी दरान माका मेळ्ळें. ते खातीर नोंदणी बी धरुन साडे धा लाख रुपया खर्च जालो. शेताची नवी प्रोपर्टी जाली. व्हडलो पूत श्रीनंद पूर्ण वेळ शेत पळोवंक लागलो.
आता दीस दीस घरा आसतालो. सांजवेळार तितले बापूंच्या म्हणल्यार त्र्यं. वि. सरदेशमुखांच्या घरां वचप आनी तांचे बरोबर हुतात्मा स्मृती मंदिरांत बसप इतलेंच काम उरिल्लें. एक दीस हांवे तांका व्ही. आर. एस. ची सविस्तर कल्पना दिली. फायदो सांगलो. सरान म्हणलें, बरें जालें, पूण आता तूं बेकार आसा. निखटें बसून या उमेदिच्या पिरायेचे दीस फुकट घालय नाका उदाक तुंबले की फोंडारो जाता. आता कितेंय घवघवीत वाचपाक आनी चिंतन करुन कितेंय बरोवपाक सुरवात कर. तुका साहित्याची आवड आसाच. तुजेकडल्यान कितेंय बरें लिखाण जातलें, असो विश्वास दिसता. गुंतून रावप. मागीर बेकारपण सुसह्य जातलें.
याच सेवानिवृत्ती उपरांतच्या कांय काळांत हांव शाहू शिक्षण संस्थेचें सेवाभावी कार्य म्हणून काम पळयतालो. पंढरपूरांत आसतना मागेलो इश्ट श्री. लक्ष्मण ढोबळे हांणी ही संस्था स्थापन केल्ली, ते अध्यक्ष जाले आनी तांणी माका उपाध्यक्ष म्हण नेमलें. मागेल्या एकूणच सेवेचो अणभव माका या संस्थेच्या कामां खातीर उपेगां पडलो. तितलेंच सामाजीक, शैक्षणिक कार्य करपाची संद. अर्थातच जितल्या तेपां खातीर केलें तितलें मात हांवे मनापसून प्रामाणिक पणान केलें. चड तेप हांव हांगा गुस्पटून रावंक शकलो ना.
भागवतय आता संतोशनगरांत रांवक आयिल्ल्यान आमी तशें लागीं लागीं शेजारीच जाल्लें. भागवत माझे कडेन परत परत येतालो. सिटी सर्वे ऑफिसांत ताका आता फिरते शिवाय ऑफिसांतले बसून करचें काम दिल्लें. नोकरी लागले पसून ताका सतत फिरती आशिल्ली. म्हणून गाठीभेटी उणीं जाताल्यो.
आता तो माका एक आदारच जाल्लो. ताजो धडपडी स्वभाव, माजेर नितांत श्रद्धा, मागेलें उतर तो केन्नाच सकल पडूं दिनासलो. फुडाकार घेवन घरचें सगळें काम करतालो. व्हडल्या दोनय भुरग्यांच्या लग्नांत तर तोच सर्वेसर्वाच आशिल्लो, सगळें काय भागवत. जेवणाच्या ताटां पसून ते न्हवऱ्याचो घोडो थारवपा पसून सगळीं कामां ताणेच मनांपसून केल्लीं. तागेलेंय दोन पूत, एक धूव आनी बायल इतलो सुटसुटीत संसार आशिल्लो. आपल्या तोडके मोडके पगारांत ताणे संसाराचो गाडो ओडलो. चणचण आसताली.

भुरग्यांची आबाळ जाताली, पूण केन्नाच माका कळूंक दिनासलो. केन्ना माजे कडेन चार पेशेय मागनासलो. भागवताली पयली पोस्टींग पुण्यांत जाल्ली. ते वेळार तीन साडेतीन वर्सा नंतर आमी सोलापूरांत बदलेचो यत्न केल्लो. हांव स्वत: डेप्युटी डायरेक्टर श्री. निवर्गी हांका पुण्यांत वचून मेळ्ळो. परिस्थिती सांगली, अडचण्यो सांगल्यो. भागवतालें निकतेंच लग्न जाल्लें. आनी ताज्या बायलेक लग्ना नंतर अनामीक त्रास सुरु जाल्लो. तिजें आंग थंडगार पडतालें. मुयेवन आंग सुन्न जातालें. तीं बापडी जावन किर्ते तरी सांगताली. तिका जावपी त्रास सारको सांगपाक कळनाशिल्लो. सोलापुरांत डॉ. चिडगुपकर हांच्या दवाखान्यांत आमी तिका ॲडमीट केल्लें. डॉ. जोग हें उपचार करतालें. जाण्टे नामवंत डॉक्टर आशिल्लें. सगळ्यो तपासण्योय केल्ल्यो. रिपोर्ट नील आनी नॉर्मल आसताले. त्रास मात चालूच. आमी संभ्रमांत पडिल्लें. डॉक्टर सांगताले, पेशंटाक कांयच जाल्ले ना. सगळे तिज्या मनांचे खेळ आसात. जातले कमी. मानसरोगतज्ञां कडेनय संपर्क सादलो. कोणी हिस्टरिया म्हणी, कोणी किर्ते. पटूं वा ना पटूं भायलेंय उपचार केले. ब्रेस्तारा दर्ग्यांत वचून चादर चडयलीं. गडे दोरे केले. सगळेंच आपले मर्जेन जावंक शकना.

कांय दिसांनी मात तिजो हो त्रास कमी जालो.

हांवे पुण्यांतल्या डेप्युटी डायरेक्टरांक ही सगळी परिस्थिती सविस्तर सांगली. तांणी दयाळूपण आनी सहानुभूती दाखोवन भागवताची बदली सोलापूराक केली. आमकां आनंद जालो. तर आता मदल्या काळांत खूब दीस व्हांवन गेले. पुला सकयल्यान उदक व्हांवचें तशें. बरे वायट, परबे आसणेचे, सुवाळ्याचें. दसऱ्याक भांगर दिवन भागवत मागेल्या पांयार मस्तक तेकोवन नमस्कार करतालो. संक्रांतेकय तशेंच. तेका माजेबद्दल नितांत आदर आशिल्लो. हांव तेका बापायच्या सुवातेर आशिल्लो.

सगळे कांय व्यवस्थित चलिल्लें. हांव एका कामा निमित्त एक पावटीं मुंबयक गेल्लो. दोन दीस थंयच आशिल्लो. माका दनपारां अचानक फोन आयलो, 'भागवताक खूब बरें ना, तुमी ताबडतोब सुटा.' माका कळना, हो किर्ते अचानक प्रकार. हांव तडक पुण्याक सुटलो. पाच वाजेपर्यंत पूण्याक पावलोय. स वरार इंटरसिटी आशिल्ली. स्टेशनाच्या प्लेटफॉर्मार आयलो तर थंय मागेलो मावशी भाव मोहन वाघमारे, तेगेलो पूत सचीन आनी मोहनाल्यो दोन भयणीं मेळ्ल्यो. तुमी हांगा कशें? हांवे विचारलें. आमी सोलापूराक वतात. तुचीच वाट पळयताले. भागवत शीक आसा, मेळचे म्हण आयले. माका हें विसंगत दिसलें. काळजांत धस्स जालें. हे किर्ते तरी विपरीतच आसा अशे माका दिसू लागले. मन सैरभैर जाले. मोहन मागेल्या तोंडाकडेन आनी अवस्थेकडेन पळोवन धीर दितालो. मागेलो अंदाज दृढ जातालो. तेणे माका स्पश्ट सांगलें ना, पूण माका कळून चुकले.

इंटरसिटी सुटली. गाडेन जो वेग घेतलो तो भयाण आशिल्लो. काळीज चिरीत वचचें तशी ती सुसाट पणान रस्तो भेदून, कर्कश आवाज करीत धांवू लागली. आता काळोख दाटून

येतालो. भायर काळ्या काळखांत गाडी आक्रोश करीत धांवताली. भागवतालें कितें जालें हाचो माका अंदाज आयलो. मोहन कांयच उलयनाशिल्लो.

भागवत समजूतदार आशिल्लो. आपूण आपल्या व्हडल्या भावाचेर वजें जावन रावनयें म्हण तो सतत दक्ष आसतालो. जतनाय घेतालो. स्वत:चे आख्खें भुरगेंपण करपून गेल्लें. देखून कसली अपेक्षा, मागणें नासतालें. चिड्डल्ल्या अवस्थेंत उबी जीण गेल्ली. भागवत हो एक दु:खात हुलपल्लो निश्पाप जीव आशिल्लो. गाडेच्या भरधांव वेगा बरोबर ह्यो सगळ्यो यादीं दोळ्यांतल्यान अखंड व्हांवक लागल्यो.

सोलापूर आयलें. आमी रिक्षा करुन घरा सुटले. मोहनान मोबायला वयल्यान खंय तरी फोन केलो. एखादीं आमी पावलात असो रकाद दिवचे खातीर आसत. आमी आयले ते तडक मोहनाल्या घरा कडेन. घरा कडेन लोकांली ही गर्दी. सगळे आमगेलीच वाट पळयताले. माका सगळें उमगलें. पूण हांव रडूंक शकलो ना. हड्ड्यांत दाटून आयिल्लें. गळ्यांत आवंडो. हुंडको कोंडिल्लो. तो भायर येनाशिल्लो. माका पळोवन सगळ्यांच्या रडण्याचो एकच कल्लेव जालो. भागवत हार्ट ॲटॅकान, असो अचानक गेल्लो. तेका हॉलांत दवरिल्लें. तेगेले मडें पळोवन हांव थंय कोसळ्ळोच. कोणेतरी माका सावचीत केलें. भागवत शांत न्हिदिल्ल्या भशेन चिरनिद्राधीन. ११ नोव्हेंबर २००३ हो भागवतालो हांगाचो अखेरचो दीस आमकां कायमचें दु:खांत लोटून गेलो.

रातींनच अंत्यविधी आटापलो.

घरा सगळेच भयभीत जाल्ले. भावजय रांडाव जाल्ली. तीं आता श्रीमती नंदिनी जाल्ली. भागवता वाचून आता घर ही कल्पनाच काळीज चिरपी आशिल्ली. आता हांगच्यान तीं सानुलीं आनी भावजय इतलींच कायमचीं आसतलीं.

यथाकाल भावजयीक पेन्शन सुरु जालें. व्हडलो जयवंत बारावी जाल्लो. तेका बापायल्या जाग्यार दयेच्या तत्वार लावचें म्हणून खटपट सुरु केली. अर्ज करप, प्रजिज्ञा पत्र, फोटो, मरण दाखलो हे सगळे जुळोवप म्हणल्यार कठीणच आसलें. ज्या ऑफिसांत पुण्याक हांव भागवताल्या बदले खातीर गेल्लो थंय तेज्या दयेखातीर पुताक नोकरी लावची म्हणून मेळप आनी अर्ज दिवप हे मागेल्या सोशिकतेच्या भायले आशिल्ले. माज्यांत इतलें धैर्य नाशिल्लें. शेवटाक भावजेन स्वत: वचून दयेचो अर्ज दाखल केलो. दोन वर्सां गेलीं. आनी जयवंताक दयेच्या तत्वार सांगोल्यार सर्वेअर म्हणून कामांर घेतलें.

आतां परत घडी बसलीं. कालचक्र सुरु जालें.

कळव्याक रावतली मागेली व्हडली भयण विठाताई अखेर सोलापूराक पोन्न्या घरां आयली. वयल्या आळेंत तिजें घर आशिल्लें. तिका एकच धू आशिल्ली. ती मुंबयक पोटा खातीर गेल्ली. हांगा तिजे म्हन्यांत कोणच नाशिल्ले. ती आता एकलीच रावताली. तिजो घोव परशुराम देवकुळे हेगेली एस. टी. तली नोकरी, खूब वर्सा पयलींच गेल्ली.

तेन्नाच्यान ते देवकुळे हाज्या मरणां मेरेन विठाताईली खूबच फरपट जाल्ली. सोरो पिवन पिवन देवकुळेलें लिव्हर बाद जाल्लें. आनी एक दीस कळव्याच्या त्या मेणकपड्याच्या खोपींत तो मन्न पडलो. भयण किर्ते करतली? शेजार पाजारच्या झोपडपट्टेंतल्या बांधवान तेंगेलो अंत्यविधी साकशिलो. आता थंय रावन किते करचें म्हण विठाताई सोलापूरात आयिल्ली.

मागेली भेट जाली. मंगलान तिका घरा हाडून खाऊ पिऊ घातले. विठाताईली खूबच परवड जाल्ली. आमी तिका म्हणलें, हांगाच राव पूण ती खंयची आयकता? तेजेर तिणे एकय उतर उलयलें ना. दोनेक दिसां नंतर बुधवार पेठेंतल्या तिज्या घरा गेली.

विठाताइर्च्या गळ्यांत यल्लमादेवीचें मणी आशिल्ले. केसाच्यो जटो जाल्ल्यो. आंगार विटकें म्हेळें कापड. यल्लमा आईचो 'जोऽऽगवा' म्हणून म्हणून तोंड कायमचें लाचार जाल्लें. सदां रित्या पांयान चलप. तिजी मांय मेल्ली तेन्ना तें मणी विधिपूर्वक विठाताई कडेन आयिल्ले. आता घोव ना, म्हन्यांक कोणच ना. विठाताईन किते करचें? घरांतले यल्लमादेवीचें चोबूल, पोत घेतलो आनी चार घरां मागून जगूं लागली. पोटां पुरतें म ेळतालें. गुजरण जाताली. केन्ना केन्ना तें चोबूल पोत घेवन, आनी कोणय जोगतीण बरोबर घेवन आमगेरय येताली. आमचे शेजारी पाजारी बामण, सुशिक्षित आनी प्रतिष्ठित लोक. देखून तिका तशा अवस्थेंत आयिल्ले पळोवन अनमनल्या भशेन जातालें. आमी तिका भितर घेताले, पोटभर जेवपाक घालून, वयल्यान चोब्यांत मीठ-पींट वाडून शंबरेक रुपया तिका दितालें. किते करतले? हें अशें विठाताईलें भीक मागप आनी जगप चलिल्लें.

विठाताई फुडें चड दीस जगली ना. तिका अचानक खर काळजाचो आताक आयलो, आनी तेतूतच तिणें जग सोडलें. माजेपरस पिरायेन धायेक वर्सान व्हड आशिल्ली. तिज्या मरणान आमकां अस्वस्थ केलें ना. बरेंच दिसलें. जिणेच्या रखरखत्या रणांतल्यान तिजी मेकळीक तर जाली. अशें उठाउठी मरण म्हणल्यार तिजें पूण्यच. ना तिका त्रास, ना दुसऱ्याक उठाठेव, निस्तरप ना. सहज सांजवेळार शांत न्हिदप तशी तिणे कायमची न्हीद घेतली.

विठाताईल्या मरणा परस तिजो अंत्यविधी जिकिरीचो आनी भयानक आशिल्लो. तिज्या गळ्यांत यल्लमादेवीचे मणी आशिल्ले. देखून तिज्या मरणाक सगळे जोगती आनी जोगतिणी जमिल्ले. सोरो पिवन बेभान जावन मड्या बरोबर नाचताले. तेंका आडोवप कठीण आशिल्लें. सगळ्यांनी एकच बोवाळ मांडिल्लो. हळद कूकमाची उधळण लायिल्ली. विठाताईक पुरताना ते सगळेचजाण अडून बसले. दरेकाक शंबराची नोट दक्षिणा म्हण दिले बगर फोंडांत घालूंक दिवचे नात म्हण आडोवंक लागले. किरवडी वयल्यान मडें सकल दवरिल्लें. जोगती जोगतिर्णीनी रानवटी पणान मड्याक घेराव घातलो. कोणी हात धरुन बसले, कोणी पांय. माका हें अत्यंत हळशीक आनी अमानुश्य आसलें. तेंका 'अशो

करु नाकात, मड्याचें हे अशे हाल, आडवणूक करनाकात' म्हण सांगू लागलो. अशान 'यल्लमादेवीचो कोप जातलो' अशेंय सांगले. पूण त्या मद्य धूंद भक्त भाविकांर ताचो कांयच परिणाम जालो ना. शेवटाक हांवे जमिल्ल्या लोकां मदीं कोणाकोणा कडेन पैशे मागले आनी तेंका दिवन विठाताईचें मडें मेकळें केलें. माका विठाताईची कींव आयली. कसली ही परवड. विठाताईच्या दफन विधिच्या पयलीं तिज्या गळ्यांतले यल्लमादेवीचे मणी काडून ते हांवे माजे कडेन घेतले. तिसऱ्या दिसाचो विधी आटापलो, तो त्या जोगती जोगतिणिचो रोश पत्करुनच. तेंचे म्हणणें आशिल्लें, बकरं कापा. आमचा सोहळा, गाणी, यांनी रात्र जागवा. होऊ द्या सगळयांनां तृप्त. आन् मणी पुढे चालवा. आता हो सगळो मोठो खर्चाचो मामलो. तेंतूत या लोकांचो रानटी हैदोस. माका हें कांयच करचें नाशिल्ले. एक जोगती म्हणूक लागलो, मणी कोणाच्या गळ्यांत घालतात? हांवे तेका धर्मसंकटांत उडयलें, हें पळयात, आता विठाताईचो कोणच वारस ना. तर मणी कोणाक दितले? आमी मणी यल्लमादेवीच्या मूळ कर्नाटकांल्या कुकुटनर या गांवांत वचून, थंयच्या देवीक अर्पण करतात! हाजेर कोणाकच कांय उलोवपाक जालें ना. निदान एक नवो जोगती वा जोगतीण तरी हांवे वाचयली हाचें माका मनांपसून समाधान जालें.

***



२१

त्र्यं. वि. सरांन माका, 'कितें तरी बरोवचो संकल्प कर. वा वाचन करपांत गुल्ल जा. मागीर तुका सेवानिवृत्तीचें बेकारपण जाचक जावचें ना. भलायकीय बरी आसतली.' अशे सूचयिल्लें. बापूंचो सल्लो कांय प्रत्यक्षांत येनाशिल्लो. हालीसरांक तांचेकडेन वचपय कमी जाल्लें.

अकस्मात एक दीस दनपारा वैद्यांलो फोन आयलो. बापू गेले म्हण. हें अनपेक्षित आशिल्लें. मागेलो बापूय गेलो तेन्ना हांव फकत वीसेक वर्साचो आशिल्लो. तेन्ना दुःख सारकें कळ्ळेंय ना. बापूलें मरण मात माका खूब खूब उदास, अस्वस्थ करुन गेलें. आमी दोगांय मोन्यांनी, एकमेकांक बापूय पुताच्या भावनेन पळयताले, जगताले. निःशब्दपणान.

मरणाचो बापूंक त्रास जालो ना. तांका ताची पयलींच सुलूस लागिल्ली आसतली. इतलें तांचे आत्मबल व्हड आशिल्ले. पाचणूरचे आर्वीकर महाराज आनी बापूंची घनिश्ट इश्टागत आशिल्ली. अध्यात्म आनी तत्वज्ञान, जीव, आत्मो, परमात्मो या सगळ्या गजालींचे बापूक सखोल ज्ञान आशिल्लें. तपस्वीच आशिल्ले ते. देखून तांका मरणांचे भंय अशें केन्नाच नाशिल्लें. मनशाक मरणांचे लांछन नासचें, मृत्यू हो मनशाचो सन्मान, सुवाळो

जावचो. मृत्यू हो एक उत्सव आसचो. अशें ते सदांच उलयताना सांगताले. आनी तशेंच जालें. ते दिसा सकाळी सरांचे इश्ट श्री. नारायण कुलकर्णी सरां म्हऱ्यांत आशिल्ले. सरांन तांका ज्ञानदेवांलो 'अमृतानुभव' वाचपाक सांगलें आनी अमृतानुभवांतले श्लोक आयकता आयकता सरांनी इहलोकांची यात्रा सोपयलीं.

बापूंचो अंत्यविधी अत्यंत शांतपणान पार पडलो. कोणाली चडशी रडारड ना. सगळे सुशिक्षित. मरणाचें दुःख जाणपी. अत्यंत विधिव्रत तांचे दहन जालें. ते नंतर बापूचेर श्रद्धांजलीपर भाशणां जालीं. जायते मान्यवरांनी आपल्यो भावनां उक्तायल्यो.

पंदराच दिसां पयलींचो, मागेल्या विठाताईल्या मरणाचो सुवाळो माज्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो. थंयच्या मरणाक त्या जोगत्यांनी घातिल्लो अमानूश हैदोस जसो दोळ्या मुखार येंवक लागलो तसो माका हो भेद अस्वस्थ करुं लागलो. केन्ना सुधारतली आमची जात? मड्यां म्हऱ्यांत मांडिल्लो तो रानटी खेळ पळोवन माका आदिमानवाच्या तेंपार अशेंच तर घडनाशिल्लें मूं? अशें दिशिल्लें. आनी हांगा बापूंचो अंत्यविधी कितलो शांत,
विधिवत आनी शिस्तबद्ध. सगळेंच कशें संस्कारमय.

बापूंचो अंत्यविधी सासकून विरुस मनांन घरा आयलो. सांजेर डांगोरा..... कादंबरी हातांत घेतली. पानां भरभरी उलटून पळयलीं. खंयचेंय पांन उगडलें की, माका बापू दिसूं लागले. पुस्तकाच्या पानांत तांचो चेरो दिसूंक लागलो. पयल्या पानांर सरांन सय करुन ती कादंबरी माका 'सप्रेम' अशें बरोवन भेट म्हणून दिल्ली. सरांली ती सय पळोवन मागेलें दोळे भरुन आयले.

निवृत्त जावन माका आता चारेक वर्सां जावन गेल्लीं. माका आता मागेलें एकटेंपण जाणवंक लागिल्लें. आयुश्याची सांजवेळ अशींच एकाकी आनी अस्वस्थ करपी आसता काय?

घरांत सगळें वेवस्थित चलिल्लें. भुरगीं आपापल्या कामांत व्यस्त आशिल्लीं. व्हडलो श्रीनंद पूर्ण वेळ शेती करतालो. हांवय केन्ना केन्ना शेतांत वतालो. वांगडा बायलय आसताली. थंयच्या निसर्गरम्य वातावरणांत आनी शुद्ध वाऱ्यांत खूब बरें दिसतालें. दुसरो पूत किरण एम. एस. ई. बी. हांगा ज्युनिअर इंजिनिअर म्हणून सोलापुरांतच नोकरेक आशिल्लो. तर धाकलो राहुल एका डी. एड. कॉलेजांत क्लार्क आशिल्लो. धूव अनुराधा घोवागेर, तिज्या भुरग्यां बरोबर सुखी आसली. देखून आतां हांव एका अर्थान सुखासीन आशिल्लो. पेन्शनय व्यवस्थित आशिल्ल्यान अर्थिक स्थैर्य आशिल्लें. इंजिनिअर सायबांन पोन्नी जायना एक कार विकत घेतिल्ली. सी. एल. ओ. कंपनीची. त्या कारीतल्यान आमी केन्ना केन्ना भोंवन येतालीं.

आता आमी रावतात तो संतोश नगर वाठार दलितेतरांचो आसा. आमच्या बी. टाईप बगल्यांत आमी फकत दलित, भोंवतणी हेर सगळे बामण आनी एखाद

दुसरो लिंगायत. देखून आमचो बी. ब्लॉक वाठार तसो एकदम निवांत आनी कलहमुक्त आशिल्लो. घरगुती अस्तित्वाच्यो खुणो आमच्याच ब्लॉकाच्या गोंदळांतल्यान कळताल्यो. बाकी सगळे शांत शांत. भवतेक सुवातेर सेवानिवृत्त घोव-बायल, तेंगेलीं भुरगीं एक तर पुण्यामुंबयत वा अमेरिकेंत, तेका लागून ल्हान भुरग्यांचो गोंदळ रस्त्यार केन्ना दिसनाशिल्लो. वट्टार आमचे कडेन सगळे वचकूनच आसताले. अर्थात आमींय कोणाकडेन चडसो संबंध दवरपी न्ही. म्हणून कसली गडबड वा वादविवाद ना, तंटो ना.

एका फाल्गुनांतलो होळेचो दीस. मंगलालो एक भाव राजू ऐन दनपारां तीर्थ घेवन लकत लकत घरा आयलो. तो शुक्रार पेठेंतल्या मांगवाडयांत रावतालो. हांव जेवण करुन मात आड पडिल्लो. राजू महोदय अशा अवतारांत आयिल्लो माका खबरच नाशिल्ले मंगलान तेका बेगबेगीन पेगाऱ्या भितर घेतलें, भावोजी न्हिदला. बस बस हांगा कोनशांत. म्हणून तेका सांगले आनी बसयलें. तेका पोटभर वाडलेंय. राजूक एक पूत आनी एक धूव आशिल्ली. राजूली बायल बौद्ध समाजाची. असो हो प्रपंच. टिळक चौकांत कितेबांय काम करुन वा आयदनां पायदनां करुन रावपी हें कुटुंब. अर्थांत जल्मजात दरिद्र्यांत खिचपत आशिल्लेंच.

राजू पोटभर जेवन थंयच लवंडलो. सादारण चारपांच वरार घरांत गडबड सुरु जाली. होळेचो दीस आशिल्ल्यान पेगाऱ्याच्या भायर रस्त्यार हाळेचो कार्यक्रम आयोजीत केल्लो. राजू महाराजान होळेची धुरा सांबाळली. दोळे अजूनी तर्रर आशिल्लेच. जमनीर येंड्डेचो खांबो पुरिल्लो. शेण्यांची रास दाळिल्ली. हळद, कुकूम नाल्ल वाडोवन नैवेद्य दवरलो. मंगलान होळी पेटोवपाचें काम राजू कडेन सोपयलें. आमच्या भोंवतणी आख्खो बामण वाठार, कोणच असलो होलिकोत्सव मनयनाशिल्ले. होळेचो मक्तो जणू अस्पृश्यां कडेनच वारश्यान आयिल्लो. होळी पेटोवपाच्या कामांत आमी गुल्ल जाल्ले. आशीकुशींचे कांय लोक तेंच्या पेगाऱ्याच्या भायर रावन हो होलिकोत्सव पळयताले. होळी पेटयली. शेण्यांची रास भसाभस पेटली. मागीर नमस्कार केलो आनी होळेच्या भोंवतणी गोल गोल फिरत राजून आपल्या वस्तेंतल्या होळेचो 'हिस्को' दाखयलो. तेणे गोल गोल फिरत 'बोब मार नाकात रे' म्हणत बोब मारली. कोण बोंबलत नाही त्याच्या..... हेंवय तेणे सूनयलें. हे महोदय पयलींच हाफ ड्रंकर्ड तेका लागून ताजी धुंदी अजून देंवली नाशिल्ली. तो इतल्यारच रावलो ना. फुडें होळेच्यो घोशणो, ज्यो वस्तेंत फामाद आशिल्ल्यो त्यो बोंबलून आड्डून सांगू लागलो.

होळीच्या गोवऱ्या पाच...चल गं पोरी बनांत.

होळी रे होळी पुरणाची पोळी,

बामण मेला संध्याकाळी.

अशा रितीन राजू महोदयान बामणांचो उद्धार चालू केलो. आमचो होलिकोत्सव पळोवचे

परस बामणांनी आपापल्या घरा परतवप पसंत केलें. बामणांचो हो असो व्हड आवाजांत केल्लो उद्धार आवरप कठीण जालें. माका भायर येवन राजूक आडोवपय जमले ना. मंगलान राजूक तापयलें.

अरे, बास कर आता. हो कितें मांगवाडो? वस्तेंतल्या सारकें बोंबलूंक लागला. पूण राजूचेर कांयच परिणाम ना.

या प्रकारान शेजारचीं जेश्ट बामण सिटिझन मंडळी तासभर तरी भायर आयलीं नात. माका मंगलाक आनी मागेल्या भुरग्यांकय हो राजू होलिकोत्सव मानवलो ना. पूण परब तर मनोवप भाग आशिल्लें. होळी सोपली.

कांय दीस गेले.

मे चो म्हयनो उजो ओकतालो. सोलापूरचे तापमान ४२-४३ अंशार घुटमळतालें. प्रचंड गरमी. लोक हैराण जाल्ले. घरांतलो कूलरय धगशे वारें सोडू लागिल्लो.

एक दीस हांव, मंगल आनी श्रीनंद मेळून चाटी गल्लेंत कांय कामानिमित्त आमगेली कार घेवन गेल्ले. श्रीनंद कार चलयतालो. हांव आनी मंगल फाटल्यान बशिल्ले. चाटी गल्लेंतल्या भजनदास अँड सन्स दुकानांतल्यान एका लग्नाच्या आहेराचे सामान, म्हणल्यार राड्यो कपडे बी घेवचे आशिल्ले. चाटी गल्लेत पावले. गाडी फाव ते सुवातेर पार्क केली. मंगलान आहेराचे सामान घेतलें. काम जालें. आमी भायर सरले. 'आज सदचे परस वत चड आसा.' असो हवामानाचो शेरो गाडेंत बसताना मारुन हांवे दार बंद केलें. गाडी कुंभार वेस दिकेन काडली. गाडेंतलो ए. सी. चालूच आशिल्लो. आमी कमी ट्रेफिकच्या वाटेन वचूंक लागले. खर वतान रस्तो मेकळो आशिल्लो. दोनय वटेचीं दुकानांय वताक लागून झेमताली. रस्त्यार खंयच चडशी गर्दी नाशिल्ली.

आमची गाडी कुंभार वेस बलांटून समाचार चौकाच्या दिकेन धांवूक लागली. वत वाडिल्लेंच आशिल्लें. देखून गाडेतलो ए.सी. य बी थंडाय दिनाशिल्लो. मातर फुडें वतात तर आडवे रस्त्यान लोक एक मडे घेवन येताना दिसले. आता गाडी कुशीक घेवप गरजेचें आशिल्लें. ऐन रणरणत्या वतांत मडें चलिल्लें, हलग्यांचो कडकडाट चलिल्लो. वाटेवयले लोक मडे लागीं पावलें की नमस्कार करताले. आमचे मुखार सादारण देडशें फुटार मडें पाविल्लें. देखून मुखाल्ल्यान मडे सारखें दिसतालें.

मडें लागी येंवक लागलें. आनी आमकां धसकोच बसलो. मुखाल्ल्या काचींतल्यान मडें लागीं येता तें स्पश्ट दिसतालें. आमी मुखाल्लें दृश्य पळोवन थवकलेच. मंगलालो भाव राजू त्या भर वतांत मड्यां बरोबर हलगी वाजयत फुडें येतालो. तापिल्लो डांबरा रस्तो, वतान करगळिल्लो. पांय लासत आसतानाय मागेलो मेवणो राजू हेर वांगड्या बरोबर जोरजोरान हलगी वजोवपांत दंग आशिल्लो. सूर्य वयल्यान वताची धग ओतीतच आशिल्लो.

मडें लागीं पावलें. हलग्यांचो प्रचंड कडकडाट बंद केल्ल्या काजींतल्यान भितर भेदून आमच्या काळजार येवन धडकतालो. मंगलाल्या दोळ्यांतल्यान घळाधळा दुकां गळतालीं. प्रत्यक्ष अशा अवस्थेंत तिजो भाव मुखार दिसप तिका शरमेचें दिसूं लागलें. माका मंगलाली अगतिकता पळोवंक जाली ना. भयण भावाली अशींय भेट जांव येता? काळीज चिरचें अशे हें दृश्य आशिल्लें. गाडेच्यो काजीं सनग्लास गॉगलचे आशिल्ल्यान भितरले आमी कोणच भायर दिसनाशिल्ले. पूण भायले सगळें, आनी मडें वाजयत व्हरपी राजू आमकां स्पश्ट दिसतालो. राजूलो तो भकास चेरो, म्हेळके पिंजके कपडे, हलगेचेर चलपी बोटां जणू आम च्या काळजांरच आघात करतालीं! आमी हें सगळे चुपचाप पळयताले. कोणच कोणाकडेन उलयनाशिल्ले. भयण-भावाली ही अशीं ताटातूट आनी भेट प्रारब्धाचोच भाग आसत काय? फुलांच्या नशिबां सारखेंच मनशालें नशीब आसता काय? "काही फुलें देवास वाहिली जातात, कांही प्रेतास शृंगारतात. या कविते सारकीं. मागेल्या बायलेलें तोंड रडकुरें जाल्लें. हळूहळू मडें मुखार गेलें. परत रस्तो निर्जन दिसूं लागलो. आमी घरा कडेन आयले. राजूलें तें रुप आनी ती अवस्था आमच्या काळजार खोल घाव घालून गेली. मंगलान इतलेंच म्हणलें, कितें करु हांव हांगा एकटें सुखी आसून. मागेले भाव अशे वणवण हेडतात पोटासाठीर. माका अन्न कशें गोड लोगतलें?

मंगलालें म्हणणे बरोबर अशिल्लें. आमी आता सुखी, समाधानी आसात.पूण आमच्या नात्यांतल्या या भणंग जीवांचे कितें? मंगलालो भाव हो राजू, मागेली भयण विठाताई, मंगलालो मुंबयचो मामा, मावशी एक काय दोन; सगळेच अशे दळिद्र्यात पिचत, हुलपेवत, पोटाची खळगी कशीबशी भरपी प्राक्तनाचे भोगीं न्ही? माका माजीच लज दिसली. हो प्रसंग अनपेक्षित आशिल्लो. काळजाक तोपपी आशिल्लो.

माका राजू खातीर कितेंय करचें अशे दिसूंक लागले. ताका फळांची गाडी वा पायनेप्पल ज्युसाची गाडी घालून दिवची काय, असो विचार करतालो. पूण तेकाय तडव जाल्लो. आज फाल्या, आज फाल्या म्हणत म्हयनो जावन गेलो. आनी एक दीस कानार खबर येवन पडली, राजू लिव्हराच्या शीकपणान हें जग सोडून गेलो. आमकां तो शीक आशिल्ल्यांचे खबरय नाशिल्लें. तेज्या बायलेनय सांगले ना वा भुरग्यांनय. तीं भिडेतालीं.व्हडल्या बंगल्यांत कशें वचचें म्हण. पूण घडलें तें अशें आकस्मीक. राजू असो भयानक रितीन गेलो.

जगाचे वेवहार परत आपले गतेन चालू आशिल्ले. रुतुचक्र फिरत आशिल्ले. दिसांफाटल्यान दीस सरतच आशिल्ले.

उतारवयांत आमकां पोन्न्यो यादीं कासावीस करतात. आमी केन्ना सामकें नॉस्टेल्जिक आशिल्ले. आंगात रसिकता, भावुकता, तरल संवेदनशीलता, हळवेंपण आसत तर हो नॉस्टेल्जिया चड प्रबळ आनी प्रखर आसता. कोकणांतलीं दरी खोरी आनी निसर्गरम्य झाडांझोपांत भुरगेंपण वचूंक जाय अशे कांय ना. एकरुख तळ्याचो तो प्रदीर्घ आडवो

नळपाट आनी ताजे भोवतणचीं तीं दोनय वटेचीं विविध झाडां, शेतां आनी व्हांवतें उदक इतलें पसून याद करुन पळोवची, त्या वाठारांक भेट दिवची उमळशीक निर्माण जावप साजीकच आसता. दरेकाचे भुरगेपण काय राजवाडयांतच वता अशे ना. पूण गजबजिल्ल्या चाळींत रावनल्यांकय आपले ते दीस अशा वयांत रम्य दिसूंक लागतात. हालींसाराक मागेल्या भुरगेपणाचो सगळो वाठार ठळक पणान मागेल्या दोळे मुखार जीवंत उबो रावता. जसोच्या तसो. तें तन्ने वत, हळदुवें वत, दनपारचें कडक रणरणतें वत, सांजवेळेच्यो लांबच्यो लांब सावल्यो, भर दनपारा झाडेंतल्या शेवण्यांचे झेमेवप, तर सांजेर शेवण्यांचो रम्य चिवचिंवाट, दनपारा थंडगार सावलेंत शांत न्हिदप, वयर कडक वत आनी सकल आडव्या नळाचें थंडगार व्हांवतें उदक, गोड आमट चिगूर, तन्न्यो मधूर चिंचो, तुरट गोड कवठ, कितलीं कितलीं म्हणून जशींच्या तशीं याद करप. जिबेर रुचय घोळता. हें सगळें आपल्या मनांत खोलायेर रिगून बशिल्लें आसा. आमच्या खोपी मुखाल्ल्या आंगणांत चंद्रान सांडयिल्लो चांदेचो लखख उजवाड. आनी मळबांत ल्हवूच सरकत वचपी तो पूर्ण चंद्र. तर केन्ना मोडांआड लिपत लिपत वचपी चंद्र. तेजे वयलो काळोसो सोसो, आयजय जसोच्या तसो जाणवता. पूण तें आता खंय लुप्त पावलें, खंय गेलें सगळें हुडून, रानटी शेवण्यां सारके पयस पयस, कळना, मन व्याकूळ जाता.

पयर माका मागेल्या मुळावे शाळेचे दीस खरपणान जाणवले. ते दीस हांव प्रत्यक्ष अणभवता अशें दिसलें. हांवे मागेले मन उगडले. दोळे धांपले. आनी मनःचक्षून सगळें पळोवंक लागलो. माका भुरग्यांची लगबग, धावाधांव दिसूं लागली. प्रार्थनेक जमपी सगळे जशेच्या तशे दिसूं लागले. दनपारा बाराच्या सुमाराक भरपी शाळा, शाळेच्या मळार पडिल्लें वत जाणवंक लागले. मुळे, कुचेकर, परकाळे, कुलकर्णी, खाडेकर, हें सगळे शिक्षक, सगळेजाण तांच्या त्या भेसांतच मागेल्या दोळेमुखार उबे रावले. कुचेकर सरांचो पानांचो विडो माका अजूनय रंगल्लो दिसतालो. आमी सगळीं भुरगीं एकठांय जमिल्लीं, आता प्रार्थना म्हणूक लागतात काय कितें, अशें भासूं लागले. आमगेली प्रार्थना आशिल्ली, 'शुभ वर द्यावा आम्हांस, विनंती ही प्रभुपदास.' इतल्याच प्रार्थनेन मनांत घर केल्लें. फुडल्यो ओळीं विस्मृतीच्या रानांत विरुन गेल्ल्यो. खंय गेल्यो तें खबर ना. मागीर माका तो मुलोद्योगाचो तास याद जालो. वर्गाच्या व्हरांड्यांत फरशेर बसून कापूस विंचप सरकी काडप, धनुश्यान कापूस पिंजप, सगळे दोळे मुखार उबें रावंक लागलें. त्या धनुश्याच्या दोरेक आमी बाभळीचो तन्नो पालो चोळताले. ते मुळे तो दोर पांचवो, गुळगुळीत आनी मव जातालो. कापूस पिंजून जालो की मणयेचेर लोखंडा नळेच्या आदारान ताचे पेळू तयार करुन ते चोपडेंत एकठांय करप, धवे शुभ्र. पयली ते चौथी सूत कातचे खातीर पितळिची टकळी दिल्ली आसताली. पांचवी ते सातवी सूतकताईचो चरखो दिल्लो आसतालो. मागीर सूतकताई करची. इतलें सगळे शाळेंत शिकयिल्लें. आज टेरेकॉट, टेरेलिन, सिल्काच्या

'ओन्ली डायमंडच्या' काळांत हें सगळें खंय गायब जालें कोणाक खबर? तें सगळे असह्य यादींखातीरच आशिल्लें काय? काळ बदलता. बदलत रावतलो, बरे आसा पूण तो अखंड वेदनामयच कित्याक जावचो?

एक पावटी रावंक जाले ना. पुताली स्कूटी घेवन हांव तो भुरगेंपणांतलो आख्खो वाठार परत दोळे भरुन पळोवचे खातीर भायर सरलो. पयलीं आडव्या नळाकडेन, आडवो नळ तर आता पूर्ण पुरुन गेल्लो. थंय कांयच बाकी नाशिल्ले. नळा देंगेवयल्यां झाडांची प्रचंड मोड तोड केल्ल्यान तो वाठार भकास जाल्लो. शिवाय थंय मेजूं येना इतल्यो खोपीं बांदून लोकांनी नव्यो झोपडपट्ट्यो उबारिल्ल्यो. अतिक्रमणान कायदेशीर करुन घतिल्ल्यो थंय एक सुंदर, रमणीय निसर्गाचो वाठार आशिल्लो, हें आता कोणाक सांगूनय पटचें नाशिल्लें. खंय तरी एखाद दुसरें पोन्ने बापड्या तोंडाचे बारीक किडकिडीत झाड दिश्टी पडतालें. एखाद्या लाचार, भणंग भिकमाग्यां भशेन. एका झाडा कडेन वचून हांवे ताच्या खोडावयल्यान हात फिरयलो. तो स्पर्श आंगार रोमांच उबारुन गेलो. खरेंच झाड म्हातारें जाल्लें. झाडांय म्हातारीं जातात कांय?

मागीर हांव मांगवाड्यांच्या दिकेन गेलो. खंयच पावल दवरुंक सुवात ना, अशी परिस्थिती. चोयवटेन दाटेन, एकमेकांक तेकून खोपीं आशिल्ल्यो. तेन्नाचीं मेकळी मळां थंयच्यान केन्नाच गेल्लीं. आर्शी कुशिंच्या सुवातेंत उच्चवर्णीयांलीं उंची आपार्टमेंट्स आनी ओनरशीप बंगलो टायप घरां बांदिल्लीं. तीं मात आज्ञाधारक भुरग्यां प्रमाण शिस्तींत एका ओळींत उबीं आशिल्लीं. पोंन्या पांयवाटेन आपली कात उडोवन आता आंगार गरम काळो डांबर ओतून घेतिल्लो. तो चक्क गुळगुळीत रस्तो जावन आशिल्लो. हांव तें लुप्त जाल्लें जग पळोवन हताश जालो. मानवी संस्कृताय अशीच नश्ट जाता काय?

अखेर निदान आपली मुळावी शाळा तरी पळोवची, म्हण हांव मांग वाड्याकडेन गेलो. सांजवेळेचें देंवतें वत विरुस, अभद्र दिसूंक लागलें. हांव शाळेकडेन पावलो. न. पा. मराठी शाळा नंबर-११. एका काळार नांवाजिल्ली शाळा. भुरग्यांच्या चिवचिवाटान गजबजिल्ली. जिवंत, रमणीय दिसपी ती शाळा उद्ध्वस्त जाल्ली. थंय आता भयानक काळोख वस्तेक आयिल्लो. उरिल्ली फकत शाळेची पडकी, पोंन्नी कळकट इमारत. पडक्या पेगाऱ्या भितर स्वतःक कशेबशें सावरपी. नळे हुडून गेल्ले. चिमण्यांच्या सुवातेर पाख्यार एखाद दुसरो घुगूम बशिल्लो. नजर लावन पळोवपी.

पडक्या वण्टी बरोबर कांय वण्टिचो गिलावोय गेल्लो. जमनी वयल्यो गुळगुळीत फरशो वयर आयिल्ल्यो आनी कांय चोरेकय गेल्ल्यो. कैक भुरग्यांच्या मव पावलांनी या फरशांचे आंग लुसलुशीत करुन दिल्लें. भुरग्यांच्या पावलांनी फरशोय शिरशिताल्यो. आता तें सगळें खंय हुडून गेलें? तर अशी ही सगळी दैनावस्ता आशिल्ली.

मरणा धडेवयली ही खचिल्ली इमारत आता बापडी दिसताली. तिजेकडेन पळोवंक जायनाशिल्लें. एखादो झरिल्लो फातोर, वा करगल्लो पिडेस्त दिसचो तसो.
इमारतींतल्या वर्गाच्यो व्हरांड्यांतल्यो खाणोखुणो मात इमारतीन अजूनय तशोच तिगोवन दवरिल्ल्यो. हांव ल्हवूच वर्ग फिरुन आयलो. खरजेन त्रस्त जाल्लीं हळशीक सुणीं एक दोन कोनशांत पडून आशिल्लीं. मागेली सुलूस लागतकच तीं पळून गेली. हांव मागेलो पयलेचो वर्ग पळोवपाक गेलो. हो दुसरेचो, हो तिसरेचो अशें करत करत सगळे वर्ग भोवन आयलो. परत पयलेच्या वर्गाकडेन आयलो. वर्गभर दोळे भोवंडायले. पळयताना खूब वायट दिसताले. वण्टिंचो रंग गेल्लो, घाय उक्तो पडचो तशो, वण्टींतल्यो विटो दिसताल्यो. हांव मागेल्या सदां बसपाच्या सुवातेर गेलो. पयलीं बसपाक लांबलचक लाकडाचें बाक आसतालें. एका वण्टी कडेन हांव तेकून बसतालो. थंय ताटकळ्ळो. एक खवलो वयर आयिल्लो, माका तो घाया भशेन दिसलो. हांवे ताजेर ल्हवूच हात भोवंडायलो. तसो तो धप्पकन्न सकल पडलो. वण्टीक कळो आयल्यो आसतल्यो अशे दिसून मनांत चर्रर जालें. हांव खूबच भावूक जालो. दोळ्यांत उदाक आयलें. तसो वर्गमाका धूसर दिसूं लागलो. हांवे तुवाल्यान दोळे पुसले. खरेंच हांव भावूक जाल्लो काय? इतलो भावूक जावपी हांव? पूण माका बरेंच दिसलें. हांव गतकाळांत गुंगून तर गेलो.
कांय वेळ थंय रावन मागीर हांव भायर आयलो, आनी नीट घराकडेन सुटलो. पांजरपोळ चौक, नवी पेठ, सात रस्तो, विजापूर रोड, हें सगळें प्रचंड वाहनांन आनी मनशांन फुलून गेल्लें. हांव मात या प्रचंड कल्लेवांत एकलोच आशिल्लो. गतकाळांत शेंडिल्लो.
या नॉस्टेल्जियाक लागून आमी कमालींचे अस्वस्थ जातात. आमीय खंयच्याय तरी कारवाँतले प्रवासी. आनी मजल दर मजल करीत एका अज्ञात ऊर्मीळपरीलेप ना कडेन वचत आसात. आमी कोण, खंयच्यान आयलांत. आनी आमगेली अंतीम सुवात खंयची, ह्यो सगळ्यो गजालीं अनुत्तरीत आसतात, अनाकलनीय असात. 'ये जिंदगी के मेले' हेंच मनशालें जीवनगाणें. माका कोंऽहं ची जाप हांगा सांपडली. इतल्या जाण्टे पणांत. 'अहं' च्यां, व्यक्तिगत अस्तित्वाचें स्फुरण, आपल्यांतल्या जीवशक्तीची निशाणी. तेच चेतना केंद्र आख्ख्या मनुश्य मात्रांत आशिल्ल्याची मूलभूत जाण, मनशाक एकात्मतेची आनी समभावाची गवाय दीत आसता. 'अहं' चें मूलस्फुरण क्रियाशील आसता, अशें कितेंशे त्र्यं. वि. सर, 'अहं' च्या संदर्भांत सांगताले.
आमी सामकें भावूक जातात. मन तरल, संवेदनक्षम जाता. पोन्न्या यादींन आमी व्याकूळ जातात. मनाची ही भावनीक स्थिती इतली तरल कशी जाता कळना. खंयच्या जल्माची आनुवंशिकता आमकां इतली अस्वस्थ करता समजना. माका मागेल्या जुंवान पणाचे ते रोमँटिक दीस याद जातात. तरनाटेपण भर दनपारची कातरवेळच आसता. अनामीक

हुरहुरीन आमचें अंतर्मन बेचैन करपी हें विरुसपण आसता. 'काय बोचते ते समजेना हृदयाच्या अंतर हृदयाला.' अशें कितेशें व्यक्त करपी कविते सारकें.

हांव या उतार वयात शांतचित्त जावन तें तरनाटेंपण याद करता. त्या वयांत हांवे खूब चित्रपट पळयले. चित्रपटांन मागेल्या व्यक्तित्वार भूलच घाल्ली. चित्रपट ही दुनिया म्हणल्यार एक आगळें वेगळें, स्वतंत्र जगच. आमच्या भोवतणीं वावुरपी, आमच्या जिणेंतल्यो घडणुको, प्रसंग सहानुभावान जगपी. चित्रपट हो आमच्या जिणेचोच जणूं पट आसता. हांव माकाच त्या चंदेरी पडद्यार वेगवेगळया भूमिकेंत पळयत आसता. अणभवता. कितले खोलायेर रुतून बशिल्ले आसात ते चित्रपट, तीं पदां आनी ते अभिनयसंपन्न नट.

जुवांन पणांत हांवे जायते इंग्लीश, हिंदी, मराठी चित्रपट पळयले. दनपारचे मॅटिनी शो ही पोन्न्या चित्रपटांची मेजवानीच आसताली. भर दनपारा चित्रपटगृहांत वचप. तीन तास त्या काळख्या जगांत, काळात, जीणेंत, सामील जावप, भरसूवन वचप. आनी परत जागे जावन भायर येवप. एक्झीटांतल्यान भायर आयले बराबर दोळ्यांचेर लखख उजवाड पडतालो. त्या खर उजवाडां कडेन दोळे रोखडेंच जमोवन घेनाशिल्ले. चित्रपटाची एक धूंद अनुभूती त्या तन्न्या मनार ल्हवूच तेंवत रावताली. त्या पळयिल्ल्या चित्रपटांच्या यादींनी आज मन हुळहुळून वता. हिंदी चित्रपटांत, 'बहूत दिन हुये,' 'देवता,' 'इन्सानियत,' 'झनक झनक पायल बाजे,' 'सती अनसुया,' 'नागीन,' 'अनारकली,' होमी वाडियालो 'पवनपुत्र हनुमान,' हे चडकन्न ते वेळार खूब गाजिल्ले चित्रपट हांवे पळयले. 'इन्सानियत' चित्रपटांत चिम्पाझी माकडान ते वेळार धमाल केल्ली. कपडे घातिल्लो चिम्पाझी अजूनय दोळे मुखार तसोच उबो रावता. 'नागिनिच्या' पुंगेन महाराष्ट्र पिसो केल्लो. पुंगेची धून अजून मनार राज्य करता. 'रुस्तम सोहराब' तली पृथ्वीराज आनी प्रेमनाथ हांणी प्रत्यक्ष उबें केल्लें बापूय-पुतालें द्वंद्व चित्त थरारुन उडयतालें. 'बैजू बावरा,' 'शबाब,' 'आवारा,' 'बरसात,' 'श्री ४२०,' 'मेला,' 'दिदार,' 'अलबेला,' 'काला पानी,' आदीं चित्रपटांच्या पदांनी आत्मो तृप्त केलो.

मराठी चित्रपटांतले 'शेजारी,' 'कुंकु' 'भाऊबीज,' 'प्रिती संगम,' 'वहिनिच्या बांगड्या,' 'जगाच्या पाठीवर,' आदीं चित्रपटांची कथा, पदां, संवाद आजय मनांत घर करुन आसात. 'गुंज उठी शहनाई' तली बिस्मिल्ला खानाली शहनाई आनी 'दील का खिलोना हाय टूट गया' या पदांन रसिकांक घायाळ केल्लें. 'अल हिलाल' तली एक कव्वाली ते काळार खूब गाजिल्ली. 'हमें तो लूट लिया मिलके हुस्नवालोंने, काले काले बालों ने, गोरे गोरे गालों ने,' त्या आवाजांतली कव्वाली आजय तश्शी याद जाता. भारतभूशणालो 'सोहनी महिवाल,' 'शिरी फरहाद,' शम्मी कपूर-नुतनालो 'लैला मजनू' या प्रेम चित्रपटांनी मनांत प्रेमाचो अंगार भरिल्लो. नादिया जॉन कॉवेस, हंटरवाली, भगवान बाबूरावांवे स्टंट चित्रपट निखळ करमणूक दिताले. त्या काळच्या नर्गीस, मधुबाला, बिना रॉय, वैजयंतीमाला, निम्मी,

नूतन, मीनाकुमारी, वहिदा, आदीं नट्यांनी अभिनय आनी सौंदर्याची भूलच घातिल्ली. दिलीप, राज, देव या तिगांनी तर जुंवानपण फुलयिल्लें, रोमांचित केल्लें.

कित्याक कोणाक खबर त्या काळार, माका इंग्लीश चित्रपटांचेय भन्नाट पिशें आशिल्लें. इंग्लीश चडशे कळनाशिल्लें. पूण चित्रपटाचें कथानक, अभिनय सगळें कांय झपाटून उडयताले. 'सॅमसन्स अँड डिलायला' पळयताना, तशेंच ग्रेट चार्ली-चाप्लीन आनी लॉरेल हार्डी पळयताना कित्याक इंग्लीश भास कळूंक जाय आशिल्ली. एलिझाबेथ टेलरालो 'क्लिओपात्रा' पळयलो. मर्लिन मनरो चो 'नायगारा' पळयलो. सोफिया लॉरेन्सचेंय चित्रपट पळयले. ग्रेटा गार्बो, गोल्डी हान, हांकाय चित्रपटांत पळयलें.

स्टीव मॅकीन लो 'द ग्रेट एस्केप,' चार्ल्स ब्रॉन्सनालो 'रेड सन,' डस्टीन हाफसनालो 'पॉपीलॉन', तशेंच बेन किंग्जलेलो 'शिन्डलर्स लिस्ट' आनी 'गांधी' चित्रपट पळयले. कितले भव्य आनी सुंदर चित्रपट ते. फ्रेन्को नीरो हांगेलो 'जेंगो' चित्रपट तर अजरामरच आशिल्लो. टेरेन्स हील, बड्स स्पेन्सर या जोडेन धमाल केल्ली. ग्रीक रोमन संस्कृतीचें भव्य चित्रपट पिशे लायताले. 'धिटेन कमांडमेंटस', 'ग्लॅडिएटर्स ', रॉबीनहूड' कितले चित्रपट सांगचे? इयान लेमिंग, रॉजर मूर हाणी सजयिल्लो जेम्स बाँड चित्रपट म्हणल्यार पर्वणीच आशिल्ली. 'सायको', हिचकॉकचे भुताटकिचे आनी रहस्यमय पिक्चर थरारुन सोडताले. ख्रिस्तोफर ली चे दोन सूळे दात, तेगेलो मानगुटे भोवतणचो फास आनी क्रॉस दाखयले नंतर तेंगेले करगळप हें कशे विसरपाक येतले.

या पिक्चराच्या जगानय मनाची सांस्कृतीक जडणघडण, भावनीक विश्व, आनी रसिकता समृद्धच केल्ली. या सिनेजगताची आवड आनी रसिकता निखळच आशिल्ली. सोलापूरांतले भागवत थिएटर आनी ताजो वाठार म्हणल्यार एक रसिकतेचो मेळावोच. थिएटरा मुखार सिनेमाच्या पदांची पुस्तकां विकताले. पुसतकां कसली, ल्हान पानांची पोस्ट कार्डाच्या आकारांची चार घडी करुन तांतूत छापिल्लीं पदां एक आण्याक मेळतालीं. कुशीन रस्त्या कडेक ईस्माईल लस्सीवालो आसतालो. तो दिलीपकुमारालो मोगी आशिल्लो, हे आख्ख्या सोलापूराक खबर आशिल्लें. श्री आनी लक्ष्मी टॉकिजांत पोन्ने गिन्नी, गिन्नीचे चित्रपट चलताले. चित्रपटांची रीळ तुटली की, श्री टॉकिजांत ऑपरेटराचेर गाळ्यांचो शींवर जातालो. श्री टॉकिजा मुखारल्या गाड्या वयलो धंयवडो आजूनय याद जाता. लक्ष्मी टॉकिजांत सरळ धांवत स्टेजीरच वचचें आनी न्हिदून चित्रपट पळोवचो. चित्रा टॉकिजाचो एक सुंदर वाठार आशिल्लो. हांगा धार्मिक चित्रपट आनी मराठीय लागताले. हांगचो वाठार सामकोच सोबीत आशिल्लो. एक मोनो मनीस दनपारा चार उपरांत चित्रा टॉकिजाच्या आख्ख्या आंगणांत उदाक मारतालो. सदांच. असो हो चित्रपटांचो काळ आठयत रावप हीवय एक खाशेली खोशीच न्हय?

***





22

माका सदांच दया, अनुकंपा आनी दोळ्यांतल्या दुकां बद्दल आकर्शण आशिल्लें. मनशाच्या मनाची ही स्थिती म्हणच हालोवन उडोवपी आसता, हाचे हांव सदांच चिंतन करीत आयला. विचार करीत आयला. दुकां बद्दल माका सदांच उमळशीक दिसत आयला.

मनांतल्या हळव्या, तरल संवेदनांचो आनी उत्कट भावनांचो अत्यंत सुंदर आनी पवित्र अविश्कार म्हणल्यार दोळ्यांत टचकन्न येवपी दुकां. निखटे दोळे डबडबले तरी मनशाच्या अंतःकरणांतल्या भावुकतेचे, दुःखाचे कड तोंडार ल्हवूच उदेतात. गळो दाटून येता. हुंडको भितर खंय तरी शिरकून आसता. काळीज गलबलून येता. भावनांचो उगम, उद्रेग आनी दुकांचो लोट, दुकांचो थेंब हांचे भितर एक अतूट नातेंच आसता.

कोणाली असहायता, अगतिकता, एखाद्याचें उद्ध्वस्त जावप, एखाद्याचो विश्वासघात, कोणाचीय जीवघेणी प्रतिक्षा, आनी तरीय अखेरच्या खिणांपर्यंत ताजी वाट पळोवन आयिल्लें विरुसपण, मनशाचें एकटेंपण, कोणेंय मुद्दम केल्ली उपेक्षा, अखेरचो श्वास, करुणा आनी अनुकंपेची केल्ली कुचेश्टा, भलेपणाची केल्ली कठोर

मस्करी, ह्या सगळयांची अभिव्यक्ती. फकत आनी फकत दुकांच अत्यंत प्रांजळपणान आनी उत्कटतेन करुं शकतात.

दुकां म्हणल्यार जणूं मोतीच. पाचव्या पांचव्या तणाच्या काळजांवयलो दंवांचो सुंदर थेंब, कितलो ल्हवसार जपचो पडता तो. कोणालीय जावपी जीवघेणी घुस्मट पळयताना, काळजांत भितर खंयतरी जावपी डंख सोसताना, तोंडावयलो बापडो, अगतीक भाव पळयतना फकत दोळ्यांतल्यान खळकन्न अश्रू घरगळता. सहृदयाक अश्रू लिपोवपाकच येनात. दुकां ही स्वाभाविकता आसता, मनाची. माका हे अनमोल अश्रू आपसूकच लाभले हाची माका सदांच धन्यताय दिसता. जिणेंतल्या तरेकवार सहकंप भावविश्वाकडेन हांव सहज समरस जाता. माका खंयूय मागेलीं दुकां आडखळलात, आटलात, अशें केन्ना जाणवलें ना. दोळ्यांन दुकांक सदैव मेकळी वाट करुन दिली. निरभ्र मळबां सारखी उदंड. देखून अश्रूंक आवरप केन्ना माका जमलेंच ना. अश्रू ही पवित्र भावना आसा. उलट ती उदात्तपणान जपूंकच जाय. लहान भुरग्यांच्या पोल्यावयलो अश्रूंचो थेंबय माका विधात्याचें निश्पाप दर्शनच दिसता! तो अश्रू हलवार बोटार उखलून सूर्याच्या वतांत तो पळया. ताच्या विकिरीणांत तुकां देवाचे उत्कट दर्शनच जातलें.

रडप, अश्रू ढाळप हें पावसाचेंच एक रुप आसा. केन्ना केन्ना मळब भरुन येता. वाठार काळवंडून वता. वारे ल्हवूच पावसाची सुलूस दिवन वता. मागीर सगळें स्तब्ध जावन वता. आनी खिणांभितर पावसाच्यो सरी गळूंक लागतात. केन्ना केन्ना मनय अशेंच काळवटून वता. भरुन येतात दुःखाचें काळे कड, तेका ल्हवूच वाट मेळ्ळी की, अश्रूय अशेच व्हांवूक लागतात. मागीर खिणांतच मन मेकळें जावन वता. निवळ मळबा सारकें. अश्रू मनाचे शुद्धीकरण करतात, म्हणच अश्रू केन्नाच आडोव नये. तेंका सदैव मुक्त दवरचें. निर्मळ झऱ्याभशेन. नाजाल्यार मागीर मनाचो घुस्मट जाता जिवाची तगमग जाता. अश्रू ही जिणेंतली मुक्त गंगाच आसूंक जाय. मागीर मन, आत्मो, कूड निरोगी निरागसच उरतली. अखंडपणान.

अश्रूंच्या धनान हांव गिरेस्तच. अश्रूंचे पवित्र खीण हांवे आयजवेर मनाच्या कप्प्यांत जतनायेन दवरल्यात. तांच्यो स्मृतीय माका सतेज, सचेत करतात. नॉस्टेल्जिक यादींनी गलबलून, दाटून आयलें की, गतस्मृतीबद्दल कृतज्ञताय दिसता. हळूच दोळ्यांच्यो कडो ओलसर जातात. अश्रूंत त्यो यादीं चिंब भिजून वतात. अश्रू बद्दल लतालीं पदां विव्हळ करतात. अश्रूंचे कांय प्रसंग कायम मनार कोरांतून गेल्ले आसात.

राजकपूरालो 'बुटपॉलिश' चित्रपट हांवे एकदा पळयिल्लो. अत्यंत कारुण्यमय असो, सुंदर चित्रपट. भयण भावांच्या अतूट प्रेमाची अतूट काणी. केन्नाच भीक म ागप ना हो तांचो निर्धार आसता. तीं भावंडा बुट पॉलिश करतात. पावसाळो सुरु जाता. पावसाळ्यांत खंय आसता बुटपॉलिश. त्या माणकुल्यांची उपासमार जाता.

पावस सुरु आसता. तीं एका हॉटेलाच्या आडसराक बशिल्लीं आसतात. रस्त्यार धो धो पावस पडत आसता. तेंका फकत लोकांले पावसाचें बूटच दिसतात. सानुल्या भयणीक भूक लागता. भूकेन ती कासावीस जाता. हॉटेल वाल्या मुखार पावाखातीर हात फुडें करता. तेन्ना भाव तिज्या कानपटार मारता. भीक 'माँगती हो, मर क्यों नही जाती.' अशें वैतागून म्हणता. भयण हिरमुसता. फुडें तांची ताटातूट जाता.
असोच एक दीस उदेता. त्या भावाकय खूब भूक लागता. भूक ही एक विलक्षण चीज आसा. हे राजकपूरान या चित्रपटांत इतलें सुंदर, भेदक चित्रण करुन तो प्रसंग दाखयला की, तो काळजांत थेट आरपार घुसता. तो भुरगो पयलीं भीक मागना. पॉलिश करचे खातीर रस्त्यावयल्या लोकांक विनयता. लोकांच्या पायांत पावसाचें बूट आसतात. कोण पॉलिश करतलो. पूण तरीय तो भुकेन एका पैशाखातीर विनवणी करीत आसता. 'साब पालिश, साब पालिश,' अशें म्हणत पॉलिशा खातीर तेणे हात पातळिल्लो आसता. मागीर कोण तरी तेगेल्या हातार भिकेचो एक आणो दवरता. याच वेळार एका व्हड दारांतल्यान तेगेली भयणय येता, ताज्या हातार तीवय एक आणो दवरता, आनी पळयता तर तो आपलो भावच आसता. भूकेन व्याकूळ जाल्लो. हांवय भूकेन व्याकूळ जाल्लें आसताना पावाचो तुकडो मागिल्लो तेन्ना याच भावान माज्या कानसुलार मारिल्लें. 'भीक माँगती हो, मर क्यों नही जाती.' अशें वैतागून तेणे म्हणिल्लें आसता. तिजे दोळे मुखार तो कानसुलार मारिल्लो प्रसंग फ्लॅश बॅक रुपान पडद्यार दिसता. कसलो हो जीवघेणो प्रसंग राज कपूरान चित्रित केल्लो आसा. याच वेळार दिस्त मिरवणुकींतली अनाथ भुरगीं भीक मागताना म्हणपी पदांचे, 'तुम्हारे है तुमको दुवा माँगते है।' हें पार्श्वसंगीत सुरु आसता. त्या समूह बासरेंतली तीं अनाथालयाची धून काळीज चिरुन वता. कितें सांगप, हो प्रसंग पळयताना दोळ्यांतल्यान अश्रूंच्यो धारो व्हांवतात. पिक्चरांतल्या पावसाच्या देखाव्या बरोबर आमच्याय दोळ्यांतल्यान घळाघळा दुकां व्हांवतात. काळजार कोरांतिलो हो प्रसंग, आज माका हें बरयतानाय दोळे भरुन येतात. गळो दाटून येता.
राज, शतशः धन्यवाद! तुमीय मन समृद्ध केलें. या अनमोल दुकांनी.
सदांसर्वकाळ गरिबी देखून अपेक्षांचो केन्नाच मनार भार नाशिल्लो. कशी बशी पोटाची खण भरचे खातीर अखंड कश्ट उपसप हातूंतच जीव घुस्पल्लो. तेजेन आवयक वा बायलेक भांगराचो, कपड्या-लत्त्याचो सोस नाशिल्लो. तो विचारय मनांत येवप शक्य नाशिल्लो. मंगळसूत्राची झरिल्ली एक गुळगुळीत वाटी आनी ताजे कुशीक कच खाल्ले दोन-दोन भांगराचे मणी. घरभर भांगराचे इतलेंच साम्राज्य. उरिल्लो सगळो काळ्या मण्यांचो पोत. कपडे बेताचेच, गरजेपुरतेच. बापायल्या पायांत फकत जाडजूड जोत्यांचो जोड. तेल पाजयिल्लो. फकत आंगठ्याची डागडूजी करप गरजेंचे. आमी हालांखीत वा चणचणिच्या स्थितिंत जगतात ही अपूर्णतायेची, अडचणीची भावना मनांतय

येनाशिल्ली. ताका लागून प्राप्त परिस्थितीं विशीं तक्रार नाशिल्लीच. आपलें पुर्वायुश्य हें हलाखिचेंच सामकें गरिबिचें अशें सगळ्यांकच दिसता. आनी मागीर तेजें आवेग पूर्ण वर्णन झरयत बसतात. मागेल्या भयणिचें-विठाताईचें अत्यंत दीनवाणे आनी लाचार तोंड पळयलें, अशे तोंड माका खंयच दिसलें ना. यल्लमा आईली बुटी घेवन ती शारभर वतांत अनवाणी हेडताली आनी जोगवो मागताली. तें मागताना 'जोगवा वाढा वं माऽऽय' असो आर्त आनी मन घायाळ करपी आवाज ती काडताली. माका आजय याद जाली की, कळवळून येता. दाटून येता.

उतरांच्या उच्चारांतय दैन्य उप्पाट भरुन ओतत आसता काय?

बुधवार पेठेंतल्या आडव्या नळाच्या भोंवतणी पोशिल्ली मातंग वस्ती, थंयचें आम गेलें माते पत्र्यांचें, चिमणेल तेलाच्या दिव्यांत उजळपी वेंतभर घर, नोकरे निमित्तान केल्ली भटकंती. मुंबयतलें वास्तव्य. आनी नीट जुळे सोलापूरांतल्या आपले घरांत येवप. या घडामोडींत चडकन्न पन्नासेक वर्साचो कालावधी गेल्लो आसत. पूण या इतल्या काळांतय आमच्या रावपाच्या पद्धतींत कितलो तरी बदल जालो. हो बदल महात्मा जोतिबा फुले, महर्शी विठ्ठलरामजी शिंदे, राजर्शी शाहू महाराज, डॉ. बाबासायब आंबेडकर, अण्णाभाऊ साठे, हांच्या कृतिशील यत्नांनच न्ही? मागीर तांचेबद्दलची कृतज्ञता कशी व्यक्त करची. उतरांय उणी पडतात.

फकत पन्नासेक वर्सांत हें इतलें बदलून वचप, हें प्रारब्ध कांय कर्तृत्वाची सफलता, कांय सामाजिक बदल? हांव जेन्ना हाचो विचार करता, तेन्ना मागेलें काळीज. कृतज्ञतेन भरुन येता. हें आमी आज जें मनीस म्हणून आसात, तें फकत त्या महामानवाच्या क्रांतिकारक उठावा लागून. डॉ. बाबासायब आंबेडकरांनी जे हक्क मेळोवन दिले तेका लागून आमी आज शिकूंक शकले. तांचेमुळेच तर आमी शब्दांकडेन इश्टागत करुंक शकले. आमी शिकले पूण एकवटींत जालेच नात. ती गद्दारी जाली. मागीर संघर्शाचो प्रस्नच उरलो ना. आमी आमचे पुरतेच व्हड जाले. इतलीच दिक्षा घेतली काय? देशाच्या उदारीकरणा बरोबर मनशाच्या व्यक्तिगत जीवन कार्यांचेंय उदारीकरण जायत आसा?

हांव आयुश्यभर पोटा साठीर लागपी शिधो मेळयत भोंवलो. हें तर सगळेच करतात. पूण तेच बराबर चार आण्याच्या कमायेंतलो निदान एक आणो तरी नित्यनेमान हांव पुस्तकां खातीर खर्च करत गेलो. देखून आज माका खेरीत समाधान मेळता. कॉलेजांतलें ग्रॅज्युएशन आनी एम. ए. करताना गिरगांव खटाववाडेंतल्या मौज प्रकाशनांचे 'सत्यकथा' मासीक, तें बंद जायमेरेन हांव घेत रावलो. विकतीं घेतिल्लीं पुस्तकां ल्हेंवट्यां भशेन वाचून हातावेगळीं करतालो. 'सत्यकथा', 'नवयूग', 'ललित', हीं मासिकां नेमान वाचून पूर्ण केले बगर चैन पडनाशिल्ली. दिवाळी लागीं आयली की, दिवाळी अंकाची उमळशीक लागताली. 'मौज', 'म. टा', 'सकाळ', 'अक्षर',

'लोकसत्ता', 'ललित', 'हंस' आदी दिवाळी अंकानीं परब समृद्ध जावन वताली. माजे कडेन पुस्तकांचो भरपूर संग्रह आसा. हेंच मागेलें उर्बा केंद्र आसा. वाचनाचो अखंड सोस लागप हे हांव मागेलें भाग्य समजता.

मागेल्या भुरग्यांक मात वाचनाची अजिबात आवड ना. तिगांपैकी एकानय आजवेर पुस्तकाक हात लायलो ना. माका हें वायट दिसता. वाचनप्रियतेचो गूण एकाय भुरग्यांत कित्याक येवनये? हेंच माका कळना. हांवे वाचना खातीर मागेली स्वतंत्र कूड केल्ली आसा. थंय पुस्तकांचे रॅक्स करुन अतिशय शिस्तबद्ध रितीन पुस्तकां लावन दवरिल्लीं आसात. मागेल्या वाचपा कूडींत ते येतात, मुखार बसतात. आमी कांय विशयार भसाभास करतात, वेळ वता. पूण पुस्तकांचेर केन्नाच उलयनात. ही पूतमंडळी पुस्तकां कडेन मख्खपणान पळयत रावतात. तांचो हो नीरस भाव माज्या मनाक तोपता. तेंका पुस्तकाची आवड लागची, तेंणी रुच घेवची; म्हणून हांव यत्नय केलो, पूण उपेग जायना. अशावेळार ते एकमेकां कडेन पळोवन औपचारिक हास्य करतात. माका वायट दिसता. जन्मभर हांव पुस्तकां बरोबर रावलो, रमलो, जगलो पूण पुस्तकांची संगत केन्नाच सोडली ना.

पुस्तकाचो सांगात हो जिवलग इश्टांपरस चड लागिंचो दिसत आयला. आता कांय पुस्तकांय जीर्ण जालात. पुस्तकांचेय वय वाडत आसता. ह. ना. आपट्यांच्यो 'स्फूट गोश्टी', 'यमुना पर्यटन', 'झपुर्झा', वि. ल. भाव्यांचे 'मराठी सारस्वत', 'सत्यकथेचे, नवयुगाचे पोन्ने अंक, आता विटून गेल्ले आसात. या पुस्तकांची दैना पळोवंक जायना. वाळटी लागनये म्हणून हांव मर्दी मर्दी तेंचेर वखदपाणी करता, जतनाय घेता; पूण माका केन्ना केन्ना भावूक पणान अशें दिसता की मनीस जाण्टे जातात, थकतात, तशें मोठ मोठी झाडां, वड पिंपळ, वृद्ध जावन जर्जर जातात काय? पुस्तकांचेय अशेंच जाता काय? एक अशेंच खंयचें तरी शिरवळकरांले पयलींच पोन्ने जाल्ले पुस्तक हांवे रस्त्यार विकत घेतिल्लें. एक दीस उगडून पानां चाळूं लागलो. तर हाताच्या स्पर्शागणीक पानांचे जीर्ण तुकडे जावन पडूं लागले. पानां अक्षरश: विरुन गेल्लीं. पिटो जावन गेल्लीं. फुलपाक्यांच्या पांखांक हात लायले नंतर जसो हळदुवो पिटो लागचो तशेंच कांयशें या पानांच्या स्पर्शान जांवक लागले. पुस्तक ना जावन गेल्लें. तें हातांत धरपांत कांयच अर्थ नाशिल्लो. याच दोळ्यांन हांवे पुस्तकांचे मरण पळयलें. कोणें तरी सांगलें, अशा पुस्तकांक कसर लागिल्ली आसता. वाळटीच ती, ती दोळ्यांक दिसना. पूण ती पोखरिता, पातळता. हेर पुस्तकांकय ती ओडून घेता. तेन्ना तें पुस्तक जळोवन उडया. माका हें कशेंशेंच दिसलें. पूण नाइलाज आशिल्लो. तशें करप गरजेचें आशिल्लें. तें पुस्तक घराच्या फाटले वटेन व्हरुन तेका भडाग्नी दिलो. पुस्तक पुराय जळमेरेन रावलो. मनार कसलें तरी अशूभ मळब आयिल्ल्या भशेन दिसतालें.

विणा गवाणकरालें 'एक होता कार्व्हर' जेन्ना वाचले. तेन्ना मोझेस कार्व्हरान सातशीं डॉलर्साक मेरीक विकत घेतिल्ल्याचें तेंतूत नमूद केल्लें आशिल्लें. जॉर्ज कार्व्हर मेरीलो पूत आसता. मनशान मनशाक विकत घेवप ही अश्लाध्य प्रथा कितली हीन पातळेची आनी स्वार्थलंपट आसतली अशे म्हणिल्लें. 'बोर्न टू रिबेल' या पुस्तकांत P.E. Mays जेन्ना निग्रोविशी इतलो फटकिरो विकृत दृश्टीकोन मांडता तेन्ना मन सुन्न जाता. The Negro is a different breed. He is unferior to the white man. At any cost he must be kept down.

जगाक आता हातूंतले तथ्य आनी फोलपण कळ्ळून चुकिल्लें आसा. जागतीक फुटबॉल 'फिफा' सर्तीत स्टेडियम खचाखच भरता ते गोऱ्या आनी काळ्या मनशांच्या चोम्यांनी. आता तितलो खर भेद उरलो ना. नाजाल्यार पेले वा झिधान, ऱ्होनाल्डो, रिवॉल्डो हे एकठांय खेळच नाशिल्ले. या फुटबॉल ग्रावंडार अत्यंत मनभुलावणे अक्षरांत जायरात केल्ली आसता Say no to racism हो बदल स्वागतार्ह आसा. बराक ओबामा म्हणून तर 'I will' अशें अभिमानान, आत्मविश्वासान जगाक सांगतात.

भारतांतल्यान इंग्रज गेले. पेशवे काळांतल्या नीच पातळी गाठिल्ल्या जातीय स्पृश्यास्पृश प्रथेचे आता जरुर धिंडवडे काडिल्ले आसात. आत्ताचो मनीस चड चौकस, चड नॉलेजेबल जाल्लो आसा, हें उघडच आसा. नव्या पिळगेक तर आता ह्या प्रथा, रुढींच्या कर्मठ कर्मकांडांत कसली रुचय ना. पोन्नी जातीयता पाळत बसूंक तेंका सवडय ना. जागतीक सर्तीक लागून आनी उदारीकरणाक लागून जग इतले लागीं येवन पाविल्लें आसा कीं, या नवतरनाट्यांक प्रगत जिणेचो फकत वेध घेवचो आसा.

आता आमी जतीयतेची दवंडी वृथा बडोव नये. जाले झरोवन कोळशे, जाले फुकून शिटे, (उकिरडे) आता नव्या युगाची वाट चलूंक जाय. आता द्रोह झटकून उडोवंक जाय. हें खरें की, अस्पृश्यांक शंभरेक वर्सां पयलीं पिवचे उदाक पसून वयल्यान ओतलें नंतरं पोशान पिवचे पडताले. पूण आतां भवतेक प्रत्येक शारांत, शारांक उदाक सोडपी चावीवाले कर्मचारी म्हारा-मांगाचेंच आसात. आता खंय आयलें भशटपण आनी आपडसपड. कैक हॉटेलांत केटर्स रेसिपीवाले, कितल्या विविध जातींची भुरगीं काम करताना दिसतात. एकवटींतपणान.

जग आता खऱ्या अर्थान शाणे जायत आसा. हो प्रस्न संभ्रमीत करपा सारखो आसलो तरी अजून पूर्ण जाप दिवपा जातली अशें ना. अजून कांय कालावधीं वचूं दी. बदलतलें आख्खें जग. हांव आशावादी आसा. जगपाचे निकश, जीवन पद्धती विचार नक्कीच बदलतात. Hundred thousands candles can end the war या विचारसरणे प्रमाण.





२३

ना म्हणलें तरी बुधवार पेठ ते संतोशनगर हो तसो प्रदीर्घ प्रवास. तो सादो, सरळ, विनासायास नक्कीच नाशिल्लो. आनी चड खडतर, जीवघेणो असोय नाशिल्लो. या प्रवासांत जायते मनीस मेळ्ळें. वृक्षवल्ली आनी शेवण्यांच्यो भिरिंच्यो भिरी, सतत व्हांवपी उदाक, वादळवारें, वतपावस, चान्न्यांचो लख्ख उजवाड, पोटभर अन्न, पैसो आडको, पुस्तकांचे ऐश्वर्य, उतरांच्यो माळो, काळजांतलो उमाळो हें सगळें आपसूकच लाभलें. जिणेकडेन उबो दावो केन्नाच नाशिल्लो. तेणे दिल्ल्या फुलांर भरभरुन प्रेम केलें. तितलेंच जीवघेण्या काट्यांरय केले. तेका जें वाटयाक दिवचें तें तो दीत गेलो, आनी आमी ते बिदिक्कत आंपणायत गेले. ताच्या कृतीबद्दल तक्रार, आक्रोश, विद्रोह केन्नाच नाशिल्लो. ताचे इतले मन:पूर्वक उपकार मानेत की, तेणे जिणेंत बेबस आनी आकांताची भूक केन्ना वांट्यांक येंवकच दिली ना. पोटाचो उजो न्हिवोवचे खातीर अस्मिता आनी मुल्यांवरवी निश्टा जळोवची वेळ केन्नाच येवंक दिली ना. वेंतभर पोट नितीतत्वांक निर्विकार पणान पायांमुळांत मस्तियता. भल्यांभल्यांचे आयुश्य उद्ध्वस्त करता. आपल्या वाट्याक हो कसलोच द्रोह आयलो ना. अंगार ना. मागीर हांवे खूब भोगलें, काळजार फातोर दवरुन आयुश्याची वाटचाल केली असो खोटो अभिनिवेश

कित्याक बाळगूं.? मागेलो श्वासय प्रांजळ आशिल्लो. हांव केन्नाच घुस्मटलो ना. सदां डायरी बरोवपा सारकें माका आयुश्य लाभलेंच नाशिल्लें. तांतूतली अनेक पानां कोरीच उरलीं. जाय ते वेळा. कित्याक म्हणून तक्रार करची कोणाकडेन?

पिशे, विश्वासघातकी लोकांपरस विद्वान आनी बुद्धिवादी लोकांचो सांगात तेणे घडयलो. इश्टांच्या पंगडांत कोण अंभी वा कोणी ब्रुटस नाशिल्लोच. रगताच्या नात्यांतय कोणी कैकया वा शकुनीमामा नाशिल्ले. ते मुळे आयुश्यांत कसलें युद्ध ना, ना तह.

सं गच्छध्वम्, सं वदध्वम्, सं वो मनांसी जानताम्।

(आमी सगळे मेळून वचूया, सुसंवाद सादुया, आनी एकामेकांक समजून घेवन एका मनान एका दिलान वागुया.)

अशींच आयुश्याची त्रिसुत्री आसूंक जाय.

ही अशी जगपाची ऊर्बा आमकां खंयच्यान मेळ्ळी. 'ययाती', 'मृत्युंजय', 'शापित', 'युगान्त', 'महाभारत-एक सूडाचा प्रवास', 'नटसम्राट', 'सांध्य पर्वांतली वैशणवी', 'जिप्सी', 'जी. ए. च्यो कथा', अण्णा भाऊ साठे हांगेली 'फकिरा', 'दयाचं बलुतं', त्र्यं. वि. सरांले 'समग्र साहित्य', या ग्रंथानी मन समृद्ध केलें. गुरुवर्य त्र्यं. वि. सरदेशमुखां सारख्या प्रतिभावानान माका आपल्या देवाकुडीं मेरेन व्हरुन सरस्वती पूजनांतले फूल हातांत तर दिलेंच; पूण माजेर अखंड प्रेमाची, शारदीय चंद्रकळेची बरसात केली. हें मागेलें भाग्यच न्ही?

मागेलो व्हडलो पूत श्रीनंद आनी सून कविता हांका पयलो भुरगो जालो. घराण्याचो तो वंशाचो दिवो. सामको गोरो, सुंदर, देखणो. बुद्धीनय तल्लख. तेंणी तेगेलें नांव 'ओंकार' दवरलें. जन्मदाते आवय-बापूय ते. देखून नांवांचो अधिकार तेंचो. अशें हांव मानता. वंश, अनुवंशान चलता हें खरेंच आसा. मागेल्या बापायची, बापायल्या बापायची म्हणल्यार मागेल्या आज्याकडेन, चडच जाल्यार मागेलो पणजो, खापर पणज्या पर्यंत वळख असूंक शकता. त्या पलतडीन काळोखच. पिळग्यांन पिळगीं चलत आयिल्या जाधवांली ही ओंकारमेरेन पिळगीं आयली. हांव आजो जालो. त्या भाग्याचो आनंद ओंकारान माका नक्कीच दिलो.

मागेल्या धुवेकय म्हणल्यार अनुराधाकय याच दरम्यान पूत जालो. तेगेलें नांव 'प्रणव'. बनसोडे कुटुंबियांची वंशपरंपरा तो चलयतलो. प्रणवाक आवडीन सोनू म्हणतात. खूब हुशार आनी गोड भुरगो. हो सोनू आनी ओंकार तशेंच धुवेल्यो आनी दोन धुवो. सोनाली आनी मोनू. नंतर व्हडल्याक आनी एक धूव जाली. तिचें नांव सुवर्णकांता ऊर्फ छकुली. आनी मागेलो सगळ्यांत ल्हान पूत राहूल आनी तेगेली बायल स्नेहा हेंका एक अत्यंत गोड पूत जालो. तो प्रियदर्शन ऊर्फ छकुलो. किरण आनी मनिशा हेंगेलो सानुलो प्रियरंजन-'पियू' या नांतवांलो रगाडो इतलें पिशार घालता की कोणाचेर कितलो मोग

करचो हेंच कळना मायेची ही रास उर्वरीत आयुश्यभर माका पावन उरतली इतली खोशी आनी सूख दिवपी आसा. मागेली बायल मंगल या सगळ्यांची आजी जाली तरी हो गोतावळो तिका व्हडली आई म्हणच आपयता.

या अशा साखरेच्या घोणिनींय हांव गिरेस्त जालो. नातवांले आज्यावयलें प्रेम कितलें निखळ आनी ओत मेरेन भरिल्लें आसता, हें अणभवा शिवाय कळचेंच ना. आज्या सुवातेर छकुल्या या नातवान आजो या नांवाचे आबुजा अशें सोपें उच्चारण केलें. आनी जालें, हांव आज्याचो आबुजा म्हणच वळखलो गेलो. कसली मजा ही. सगळ्यां नातवांनी सामुहीक पणान मागेल्या आंगा खांद्यार लोळून माका कृतार्थतेचो अणभव दिलो. सौख्य दिलें. खरेंच कितली धन्यताय ही. ही कृतज्ञता बरोबर घेवनच वचचें!

तरीय देव सुखांत खंयतरी विरजण घालताच. हें अशे तो कित्याक करता कळना. ताजी लिला अगाध आसा. ताजीं कुवाडी तेकाच खबर. फुलपाक्यां भशेन नाजूक मवसार सुख मनशा कडेन सदा सर्वकाळ केन्नाच नासता, तरी पूण दुडूदुडू धांवत येवन नातवान गळ्यांत पडप आनी मिठी मारप हें सुख आगळेंच. तें शब्दांत सांगपाक येना. मुन्ना भायच्या जादुई झप्पीच्या चमत्कारा परसय श्रेश्ट आसता ही गोड नाजूक मिठी. हें स्पर्श सुख माका तर सर्वश्रेश्ट दिसता. परमोच्च सुखांचे दिसता.

धाकट्या राहुलालो पूत, व्हडल्या श्रीनंदाली धूव हांच्यात फकत स दिसांचो फरक आसा. दोनय भुरगीं गोरी गोमटीं आनी सुंदर. आतां तेंगेली पिराय दोन वर्सांची. जल्मां नंतर पंदरा वीस दीस जावन गेल्ले आसत. श्रीनंदाल्या धुवेच्या म्हणल्यार छकुलिच्या दोळ्यांत फरक दिसू लागलो. राहुलाच्या भुरग्याचे दोळे सामके नॉर्मल दिसताले. स्थिर आशिल्ले. आवाजाच्या दिकेन फिरप, कोण वता ते दिकेन दोळे घुंवडावप बी सगळे व्यवस्थिंत आशिल्लें, पूण श्रीनंदाल्या धुवेचें मात अजिबात तशें नाशिल्लें. मागेल्या बायलेन म ाका भुरगें हाडून दाखयलें. छकुलिचे दोळे सतत गोल गरगर फिरताले. थांबचे नांवच घेनाशिल्लें. तेका खाणोखुणो करुन दाखयल्यो पूण थंय तेगेले लक्षच वचनाशिल्ले. मागीर आमी दोगांकय टी. व्ही. मुकार दवरुन पळयलें. राहुलालो पूत आवाजानुसार टी. व्ही च्या दिकेन पळवपा खातीर घुंवपाचो यत्न करतालो. पूण छकुलींत कांयच फरक ना. तें मखख पणान फकत दोळे गरगर फिरयतालें. माका कच्च जालें. मनांत दुबाव येंवक लागलो. एकएकी काळखी येवची तशी, मळब काळ्या किट्ट कुपांनी भरुन येवचें अशें दिसूं लागलें. आमी सगळेच चिंतेत पडले. रोखडेंच आमी तेका दोळ्यांचे दोतोर श्री. तोश्णीवाल हांका दाखवपाचें थारायलें.

ते प्रमाण दोतोराकडेन गेले. तांणी भुरग्याचे दोळे तपासले आनी आमकां भितर कॅबिनांत आपोवन सांगलें.

हें पळया, भुरग्याचे दोळे नॉर्मल नात. आमी कांय यत्न करया. ही सगळी देवाली करणी आसता. आमी कांय करुंक शकनात एक म्हयन्या नंतर कितें फरक पडता तें पळोवया.
दोतोर उलोवन गेलो, आनी आमी थबकलेच. सगळे घरा एकठांय जमले. कोणच कांय उलयनाशिल्लें. एक तेरेचे सांवट मनार पातळिल्लें. घरभर दाट काळोख पातळिल्ल्या भशेन दिसतालें.
भुरगें कुड्डें ना मूं? या विचारान मागेलें काळीज भरुन आयलें. जल्मताच कुड्डेंपण आसा कांय कितें? कळूंक मार्ग नाशिल्लो. कसलें हें दुर्दैव, नाना विचार तकलेंत येताले. उबें आयुश्य हें भुरगें दृश्टीविना कशें काडतलें? तिजी जतनाय संगोपन कशें करचें? मन त्रस्त जावन गेलें. अन्न गोड लागना जालें. घरांत कित्यांतच मन लागना. प्रचंड चिंतेन अकस्मात घेराव घातिल्ल्या भशेन जालें. घरांतलो हांसो खंयचे खंय ना जालो..
नव्या पेठेंतल्या व्यकंटेश हॉस्पिटलांतल्या डॉक्टर कुलकर्णी मॅडमीक एक पावट दाखोवन पळोवचें अशें दिसलें. आमी मॅडमीक मेळ्ळें. सगळें सविस्तर सांगलें. तांणीय भुरग्याले दोळे तपासले. कांय खाणोखुणो करुन पळयल्यो. पूण कांयच उपेग जालो ना. डॉ. कुलकर्णी मॅडमीन पुण्याच्या एका डॉक्टरणीक दाखया अशें सांगले आनी त्या डॉक्टर मॅडमीचें नांव, पत्तो आनी ते बराबर एक चीट दिली.
आमी दुसऱ्याच दिसा पुण्याक गेले. अपॉईटमेंट घेतली. पुण्यांत सौ. कविताचे आवय बापूय रावताले. थारिल्ल्या प्रमाण डॉक्टरणीन छकुलीक तपासलें. आनी तांका किते जाणवलें खबर ना. तांणी आमकां सांगलें. हें पळया, हुसको करनाकात. भुरगें अजिबात कुड्डें ना. दोळ्यांचो प्रोब्लेम आसा. आमी उपचार करतात. प्रत्येक म्हयन्याक हांगा येवन दाखया. भुरग्याक चश्मो मात कायमचो लागतलो अशें दिसता. खात्रेन दोळ्यांत फरक पडतलो. जालेंच जाल्यार तिरशेंपण, पूण तेंवय आमी पयस करुया. अशें बी सांगलें.
कितेंय आसलें तरी तें आयकून आमी सामकें खोशी जाले. चश्मो लागलो जाल्यार लागलो. पूण निदान दोळ्यांनी ती अधू तर ना, मागीर जाले. आमकां समाधान जालें. पुण्याच्या डॉक्टर मॅडमीन आनीक एक सांगले. भुरग्यां भितर मेलॅनीन द्रव्य जल्मताच कमी आसा. तेका लागून अशें जाता. दोळे बरे जातले ऑपरेशन बी करचे पडचे ना. कदाचीत दोळे तिरशे जायत.पूण तें कुड्डें खचीतच आसचे ना. पूण चश्मो मात कायम लावचो पडतलो.
आमी समाधानान सोलापुराक परतले.
परत म्हयन्यान भुरग्याक पुण्याक व्हरुन दाखयले. खूब प्रगती आशिल्ल्यांचे डॉक्टर मॅडमीन सांगून समाधान उक्तायलें. पूण हे वेळार मात तिका वतापसून कायमचे पयस

दवरपाक सांगले. मेलॅनीन द्रव्याच्या उणाक पणाक लागून भुरग्याची अशी जतनाय घेवप गरजेचे आसता.

कितें आसा हो मेलॅनीन प्रकार, म्हण हांवे, Oxford Reference Dictoneary त मेलॅनीन या उतराचो अर्थ सोदलो. तांतूत दिल्लें,

Melanin: A dark pigment in hair and skin, resposible for the tanning of skin exposed to sunlight.

छकुलीक सतत चश्मो आसता. चश्मो काडलो की, तें मातशीं मान हालयत आसता. दोळ्यांत आता तरी खूब फरक पडिल्लो आसा. तशें तेका सगळें व्यवस्थित दिसता. आता दोळे भवतेक स्थीर असात. तूलनेन छकुलो स्पश्ट आनी सारकें उलयता. तेगेली वाड सार्वांगीण आनी जोमांत आसा. छकुलिची मात काळजी लागून आसा. सुदैवान बुद्धीन तें खंयच कमी ना.

***



24

सांजेर हांव माजेभितरच असो शांतचित्त विचार करता.

ही पूराय सांज न्ही. सांज जावपाक अजून बरोच वेळ आसा. कातरवेळ तर पयसच आसा. एखादे गोरज वेळेची सुलूसय आसत. सूर्यास्ताकय वेळ आसा. सूर्याचीं किरणां भायर फिकट हळदुवीं आनी निस्तेज मात जालात. आता तीं पराभूत सैनिकां सारखी हळूहळू परतीची पावलां उडयत आसात. एके सुवातेर कार्लाईल म्हणता:

When small men falt long shadows

It is the time for sun to set.

'जेन्ना ल्हान मनशाली सावली व्हड जावंक लागता तेन्ना सूर्याच्या अस्ताचो वेळ लागी आयिल्ली आसता.' अशें म्हणून कार्लाईलान जीवनांचें कितलें मोठें सत्य सांगून दवरिल्लें आसा? आतां हांव बशिल्लो आसा. मागेल्या चार वण्टीच्या घरांत. नीरव शांततेंत. या घराच्या खिडकेंतल्यान आता मळब दिसना. सदैव खिडकेच्यो बंद काजीं आनी मुखार पाख्यांवयलो, आपल्याच विचारांत सदैव गर्क जावन सतत घुंवत रावपी पंखो. तेजे सकल आरामखुर्चेत धोलत बाशिल्लों हांव. आपल्याच तंद्रेंत. सूर्यास्ताक अजून बरोच वगत आसा. सारकें कळना.

हांव असो दोळे धांपून पडिल्लो. गत समृतींक हलवार नियाळत, व्याकूळत. यादीं केन्ना प्रसंगोपात तर केन्ना चोम्यान धांवून येतात. मागीर मन धास्तावता. विरुसता अंतर्मनाक घायाळ करता. निश्पर्ण पिंपळ दोळ्यांफुडें सताड उबो रावता. झाडां सकयलो जीर्ण पालो आपलो दिसूं लागता. नकळत दोळ्यांच्यो पार्ती परतपरत ओलीं जातात. भूतकाळ तर आता परको जाल्लो तो थोडोच आमचो सांगाती आसता! आता ह्यो गजालींच आमच्यो जिवाभावाच्यो सांगातिणी. सांज सोबोवपी.

गतकाळ आठयता. आयुश्यांत केन्ना केन्ना चुकिल्लोय आसन. पूण जाणूनबुजून केन्नाच ना. प्रत्येक पावल चतरायेन आनी जतनायेन उडयिल्लें. आयुश्य खरें तर खडतर (तशें सगळयांचेंच आसता.) सादूरसाणेन जगतानाय दमछाक जावपी; पूण निभावलें. अशा खूब प्रसंगाची दाटीच आसा. नियतीन थारोवन वेंचून दिल्ली, असंख्य प्रसंग आमच्याच वाट्यांक. झूजतानां सदैव हुलपोवन गेलो.

आमी तर सर्वसामान्य आशिल्ले. प्रसंगार मात करपाची पराक्रमी जिद्द वा अंगभूत प्रतिभा अशें कांय दैवान आमकां दिल्लें नाशिल्लें. फकत भूक भागोवपा खातीर आयुश्यभर तोंड दीत झगडत रावचें इतलेंच जीवन. हैराण करपी. सर्वसामान्य जगणें. हेर कांय नदरेमुखार नाशिल्लेंच; पूण हें जगताना प्रामाणीकपणाची आनी इमानदारेची शिदोरी मात आयुश्यभर बरोबर आशिल्ली. हावेसाक केन्नाच आमी भुलले नात. कशेंय करुन कितलेंय मेळोवचें अशें केन्ना दिसलेंच ना. जीवनमूल्यां वयलीं निश्टा ढासळली ना. हें कितलें भाग्य म्हणचें. आयुश्यांत जें कितें मेळयलें, तें निश्टेनच मेळयलें. म्हणच तें आमकां मोलादीक आशिल्लें.

खचून वचचें अशें प्रसंग जायते पावटी आयले. पूण आमी प्राप्त परिस्थितीची केन्ना अवहेलना कली ना. ते मुळेच तर आमी तरुन गेले. तिचे आमी उपकृतच. कित्याक कोणाक दोश दिवचो. कांय सुहृदांनी प्रतिकूल वेळार आदाराचे हात फुडें केले. या मायबापांनी फकत आमच्या उतरांक घाण दवरुन कित्येक प्रसंग निभावन व्हलें. म्हणून तर भलेपणावयलो विश्वास आमी कायम राखूंक शकले. झोकून दिवप, झुगारुन दिवप हें आमकां केन्नाच जमलें ना! आमच्या आळशी शरिरा बरोबर मनानय खोल मेरेन थकाय घट्ट पांगुरिल्ली आसा. अभेद्य जाल्लें आसा सगळें, आनी आता आमी तर कितले पैस आयिल्ले आसात, नियतीचें बोट धरुन. आता हांगच्यान रस्तो बदलप शक्य ना. परतूवप तर कठीणच.

या सांजेर तो गतकाळ याद जांवक लागता. दबो धरुन बशिल्ल्या सोशा भशेनच आशिल्लें कांय आमचें जिणें? कांय हरणां भशेन निखटें धांवताधांवताच गतप्राण जावपी. पूण आमी आयुश्यभर भयांकूळ आशिल्ले हें मात खरें. आजय, या सांजवेळार अजून दिसता 'भय इथले संपत नाही, मी मला कसें शोधावे?'या मराठी कविते भशेन.

प्रत्येक मनीस हो षड्रिपूंन त्रस्त जाल्लो आसता हें खरें. आमीय या दोशांनी म्हेळें जाल्लें आशिल्ले. जाणवतालें. पूण तरीय एका भलेपणाचो सतत ध्यास आनी सोद आसतालो. अमंगल, अपवित्र हे सतत उडोवपां सारकें दिसतालें. नित्याच्या उलोवण्यांतय केन्ना कोणाविशीं अनादर, आकस आसनाशिल्लो. फटिंगपण मुळांतच नाशिल्लें. म्हणच कोडू सत् स्वीकारपाक केन्नाच उणाकपण दिसलें ना. स्वभाव मितभाशी. उलोवपांत सदांच मेजकेच शब्द आसताले. देखून आयुश्यांत झगड्यांचे प्रसंग चडशें आयले नात. वांकडेपण आशिल्लेंच खंय आमचेकडेन? पूण तरीय केन्ना केन्ना आमचे विशीं अकारण गैरसमज जायत रावताले. चलचेंच. आमी एखाद्याच्या सहवासांत वा चडशा परिचयांत नासतानाय आमचे विशीं वर्गींच वायट मत आसतालें. कोणाच्या कागाळ्यां लागूनय आमी विनाकारण एखाद्याक अप्रिय जाताले. हो अणभव खूब पटीं आयलो. कांयच कारण नासतना.

पूण जांका हांव कळतालो ते केन्नाच पयसावले नात. तांच्या मनांत हांव सदांच मानान तिगून उरलो. माजेविशीं तांचे मनांत खूब प्रेम, माया, आदर, मान आसा हाजो अणभव येतालो. तेन्ना मन सुखावताले. आनी मागीर आपल्या खऱ्या 'हांव' चो सोद सुरु जातालो. आज या सांजवेळारय माका अशेंच दिसता. आमी सदांच एका अनामिक काळखांत दडून आशिल्ले. कदाचित स्वभावानुसार. बुजरेपणाक लागून. प्रसिद्धीचो झोत केन्नाच मानवनाशिल्लो. स्टेजीर वा मुखाल्ल्या रांकेत बसप केन्ना आमच्या स्वभावांतच नाशिल्लें. म्हणच जमावा पसून पयस पयस रावपांत, खरें म्हणल्यार एकोडेपणांत आमी धन्यताय मानत गेले. आज आमीच आमच्या सांजवेळार आमचें हें स्वगत आळयतात, आठयतात आमचेंच खातीर.

मागेल्या घराच्या फाटल्यान रानखात्याचे स्मृती वन आसा. सुमार आठ्ठेचाळीस एकर शासकीय सुवातेर हें तरेकवार झाडांचे रान उबारिल्लें आसा. चंपक वन, आम्र वन, कदंब वन, अशोक वन अशीं रानां तयार केल्यांत. आपल्या प्रिय मनशांच्या यादस्तेंक देणगीं दिवन तांच्या नांवान एक एक झाड लावचें आनी थंय त्या नांवाचो बोर्ड लावन झाडांची जतनाय आनी देखभाल शासनान घेवची अशी ही येवजण. शारांतल्या नामवंताच्या नांवान हांगा वड, पंपळ, निंब, गुलमोहोर, आम्र अशीं झाडां लायिल्लीं आसतात. झाडां बऱ्यांपैकी वाडलांत. फावो त्या नियोजन पूर्वक रचनेन आनी अंतर्गत बरे रस्ते, ल्हान मळां हाका लागून वाठार रमणीय जाल्लो आसा. नानाविध शेवण्यांनी आतां थंय यो वच सुरु केला. कंबर तळ्या लागूनच हें स्मृती वन आशिल्ल्यान तेका आनीक निसर्गरम्यता आयिल्ली आसा.

सकाळ सांज लोक भोंवडेक येतात. अंतर्गत रस्ते आनी निवळ मेकळो शुद्ध वारो हाका लागून हांगा भोंवपाक प्रफुल्लित दिसता. थोंडेभव तरनाटे आनी बरींच जाण्टीं

मनशां हांगा नेमान येतात. जणू मागेल्या पोरसांतलेंच हें रान आशिल्ल्यान माका भोंवपाची ही पर्वणीच प्राप्त जाल्ली. हांव सकाळ सांज भोंवपाक वता. वरभर भोंवता. बसता. शांतचित्त ध्यान करता. खूब बरें दिसता. या स्मृती वनाक लागून आता हांव हार्लीसराक मागेल्या बंदिस्त कुडींतल्यान निदान भायर तरी येंवक लागलो. हें बरेंच जाले.

सांजेर काळखी मात बेगीनच येवची आसली की, हांव चड वेळ थंय रावना. स्मृती वनाच्या खूब सकल तळें आसा. खरें तर तें कमळतळेंच. सदैव उदकान थरारपी. पश्चिमे वटेन आता इमारतीं, घरां जाल्ल्यान तळ्या कडलो सूर्यास्त सारको दिसना. पूण जितलो सूर्य अस्तमता, तळ्यांतल्यान तो आपली छटा उडयता. तितलें तरी सूर्यास्ताचें दर्शन जावंक शकता. तळ्यांत बुडिल्लो सूर्य पळोवन मागीर घरा येवचे हो एक नवो दिनक्रम.

या कमळ तळ्याक लागून वसणूकेंक येवपी खूब नवीं शेवणीं मात पळोवंक मेळतात. घरचे मात माका सदां स्मृती वनांत वच नाकात, निदान सांजवेळार तरी वचू नाकात अशे सांगतात. कारण हांगा प्रत्येकाच्या नांवान यादस्तीक फलक लायिल्ले आसात. मेंल्ल्या लोकांची नांवां सदां वतना, भोंवतना वाचत रावचें आनी तांच्या स्मरणार्थ किल्लर्ली झाडां कित्या खातीर पळोवचीं? अशें बायलेचें सांगणे.

बायलेलेंय केन्ना केन्ना खरें आसता. रातीन अशींच कांयशी विचित्र सपनां पडतालीं कोणी कोणी मेल्ली मनशां सपनांत येवन वताली. हार्लीसराक आवय, बापूय, भाव, भयण, मामा, मागेली आत्या, मेवणे सपनांत येतात. तांच्या अशाय भेटेन माका बरें दिसता. सपनां ही खरीखरी प्रति दुनियाच. अतृप्तांची इत्सा पूर्ण करपी.

आमकां शिशीर रुतूच चड कित्याक आवडता खबर ना. शिशिरांतली पानगळती. निश्पर्ण जावंक लागिल्ली झाडां, अशा झाडाभोंवतणी पडिल्लो सुकिल्ल्या पानांचो खच, मनाक वेंगळेंच, विरुस सावलेचे भावविश्व दिवन वता. घरां फाटलें स्मृती वन शिशिरांत सामके विरुस दिसता. हांव एकाद्या बाकार बसून सकल पडिल्लें पिंपळाचें सुकिल्लें पान उखलून नियाळत बसता. आपलेंपण दिसता. माका वगीच बोधीवृक्षाच्या पिंपळापानांची याद जाता. दरेक पान वतांत तळपता आनी सूर्याचो जीवनरोस आपल्या झाडाक पुरयत आसता अखंडपणान. खोडा भोवतणी घनदाट सावलीय तेमी हातुंळिल्ली आसता. आता तांचो कार्यकाळ सरता आनी तांची गळती सुरु जाता. शांतपणान, विनातक्रार तीं टपटप गळत आसतात.

आता या पिंपळा पानांचे कितें करचें? भरकटून मातेंत भरसूवन वचचें, इतलेंच काय आता तेगेलें उरिल्लें काम? तें सुकिल्लें पान सकल उडोवन हांव घरा परतलो.

पूण आज माका कशेशेंच दिसतालें. सदचे प्रमाण हांव सांजेर आमचे फेमिली डॉक्टर श्री. अरुण बाकळे हांचे कडेन नेमाचें बी. पी. चेक करुन घेवंक गेलो. चडसो तो सारको आसता. पूण आज तो तसो नाशिल्लो. डॉक्टर बी. पी. तपासून पळयता, मागीर नाडेर हात दवरुन हातांतल्या घड्याळी कडेन पळयत नाडेचो अंदाज घेता. नाडी पळयता पळयता माका विचारता,

''किर्ते टेन्शन बी?''

''कांयच ना!''

''मागीर कसलो विचार बी करीत बसता?''

''ना हो...आता कसलो आयला विचार?''

''बरें आसा. सध्या खंयच्यो गुळ्यो घेता?''

''मिनीप्रेस ५ एम. जी. नेबीकार्ड एस. एम सदां सकाळी घेता.''

''नेबीकार्ड एक गुळी रार्ती न्हिदतना घे. बाकी हुसको करपा सारकें कांय ना. थोडो बी. पी. वाडला. गुळ्यो घे. जातलो कमी. फाल्यां ए.सी.जी बेठोच काडून पळय. धा दिसा नंतर परत यो. बी. पी. तपासया.''

डॉक्टर ते प्रमाण प्रिस्क्रिप्शन दिता. कोनशांत बी. पी. ची नोंद करुन दवरता. कागद घेवन हांव वचूंक लागता. परत माका डॉक्टर थांबोवन विचारता,

''बरें न्हिद कशी लागता? भोवंपाक वता काय ना?''

हांव येवजिल्ल्या भशेन करता. सांगता,

''हाली सरांक न्हीद सारकी येना. अर्दकूटी जाता. खूब उसरां न्हीद लागता.''

मागेल्या हातांतलो कागद परत घेत तेजेर सकल परत बरयता.

''झोलफ्रेश घे एक गुळी रातीन न्हदतना. थोडे दीस घे आनी मागीर बंद कर.''

हांव मोन्यान घरा येता.

हांव तसो चडसो डॉक्टरा कडेन वचना. फकत रेग्युलर तपासणे खातीरच वता. पूण हें कालचें तपासप वेगळेंच दिसलें. सदच्यो गुळ्यो घेवन रातीन एक झोलफ्रेश गुळी घेतली आनी मागीर हांव केन्ना न्हिदलो तें कळ्ळेंच ना. शांत गडद न्हीद सुखदिणी आशिल्ली.

मागीर सपनां पडूंक लागलीं.

खूब प्रचंड रान मागेल्या दोळे मुखार उबे रावता. आपल्या भक्षाच्या सोदांत भायर सरिल्ली शिंवाची झूंड. विस्तीर्ण जमिनीवयलो पांचवोचार लुसलुशीत चरव चरत आशिल्लो हरणांचो निश्पाप कळप. सतत भयभीत नदरेन चोयवटेन पळोवपी. एकाग्र, निश्चींत, सुखान चरप तांच्या नशिबांतच नासता. शिंवाची तेळणी करपी झूंड. दोळे लावन येवजण केल्ले भशेन थारोवन सावजार झडप घालचे खातीर

शींव एकदम चौफेर उधळतात. जीव मुठींत घेवन हरणांचो कळप जंयथंय धांवूक लागता. तीक्ष्ण बाणां सारखे तिरकस घूसत शींव एका घटमूट मेरवार झडप घालता.

आनीक एक देखावो दोळे मुखार येवंक लागता. जंगलांतल्या त्या वझऱ्याच्या खळखळपी उदका भोवतणी फातरार वास्वेलां एकठांय जाल्ली आसतात. फातरार आपटत, खळाळत, फेसाळत झऱ्याचें उदक फुडे फुडें व्हांवत रावता. उदकार फडफडीत नुस्तीं उसळी मारीत खोशेन खेळ मांडीत आसतात. वास्वेलांक ही नुस्त्यांची मेजवानीच आसता. उदकार पेंवपी नूत्स्त्यांचेर तीं झडप घालतात. एक वास्वेल एका नुस्त्याक तेळता. झडप घालून खिणां भितर तेका धरता. उदका भायर नुस्तें फडफडूं लागता. वास्वेल आपल्या तीक्ष्ण दातांन तें आख्खें नुस्तें तडफडतानाच कातरुन उडयता. दोन तीन घासांत सोपोवनय उडयता. वास्वलाचें पोट शांत जाता.

सपन सोपता. हांव मर्दींच जागो जाता. अस्वस्थ.

गुंतो वाडत आसा. गोंदळ वाडत वता. मागेल्या प्रस्नांची हीच तर जाप नासत? हें जर अशेंच आसत तर हांव या व्यवस्थेचो बळी तर जावचो ना मूं? हांवच कित्याक, माजे भशेन जाय ते. वास्वेलान आपल्या तीक्ष्ण चपक्यान कातरिल्लें तें जीवंत फडफडपी नुस्तें हांवच तर नी मूं? चोयवटेन चिरफाड केल्लों तों शिंवाच्या तावडेंतलो मेरु हांवच तर नी मूं? हीं मागेलींच पडबिंबा नासत कित्यावयल्यान?

न्हय न्हय तें दिसूंक लागता.

न्हीद हुडून वता.

सदचे भशेन सांजेर घराफाटल्या स्मृती वनांत गेलो. अजून एकट्यान भोंवची ऊर्बा आसा. केंसांनी फकत दगो दिला. तेंका चांदेचो धवो फुल्ल, चकचकपी रंग आवडलो, तो तेणीं घेतलो. आमी तेंका विरोध करुन कित्याक काळखांत दवरचे? तेंची मर्जी. दातांची मात अजून अतूट इश्टागत आसा. तोंडान जेश्टतेचें रुपडें धारण केला, पूण अजून म्हातारपण ना. हें बरेंच न्ही.?

या साठ पासस्ट वर्सांत कितलो तरी गोतावळो सोडून गेलो. वतलोच तो. आमच्याय निर्गमनाची एक खंयचीय तरी अज्ञात तारीख नक्कीच थारिल्ली आसा. ती खंयचें, कसलें रूप घेवन येता कोणाक खबर? हलवार दंवा भशेन येता काय यांतनांच्या काट्यांचो सापळो घेवन येता? खबर ना. तिचें स्वागत तर करचेंच पडतलें.

स्मृती वनांतल्या एका सदच्या बाकार हांव बशिल्लो आसा. सूर्य केसरी रंगात आपल्यांतच गूंग आसा. अस्तूवपाचें तो विसरून गेलो काय? पूण अशें जावचे ना. क्षितिजांतल्यान तो आत्ता आपसूक सकल वतलो. अजून ताजी प्रभा मात चोंयवटेन आकाशमग्न जाल्ली आसा. वेगवेगळें रंग उधळत. आपल्या आनंद यात्रेंत.

आता माका माज्यांतल्यान भायर येवप कठीण जायत आसा. हांव तर सादो बापूडवाणो जीव. अस्वस्थ जाता हो विचार करता करता.
अजूनय हें हिंसाकांड जगभर विविध रूपान चालूच आसा. रक्तपात, कत्तलीं, हत्याकांड हो मनशालो स्थायीभाव तर न्ही? झुजांखातीर धनुश्यबाण, तलवारीं, भाले या अस्त्रांची गरज कित्याक निर्माण जाली? मरण तात्काळ जावचें म्हणून या अस्त्रांच्या तोंकार विशिश्ट तरेचें वीख लायताले. इतली उदरगत कित्या खातीर आशिल्ली. मनीस काळा नुसार चड हुशार जायत गेलो. म्हण तेणे हातूंतय नवी तकली लढयली. तोफो, बंदुको, ए.के. ४७, मिसाईल, बॉम्ब, अणुबॉम्ब, नायट्रोजन बॉम्ब, स्फोटकां, सायनाईड, म नीस बॉम्ब अशा कितल्या तरी नव्या अतिरेकी डायनामिक सोदांत मनशान खाशेली उदरगतच केल्ली आसा. आनी मागीर ताचो प्रत्यक्ष वापरय आजतागायत चालू दवरला. हें कित्याचें निदर्शक आसा? आयचो आधुनीक मनीस फकत आपलोच न्ही तर आपलेबराबर आख्खी सृश्टीय विनाशाची अंतीम आकडी घेवचे खातीर सज्ज दवरत आसा. हो अट्टाहास कित्या खातीर. हेंच काय तें कोऽहं? याच मनीस प्रवृत्तीचें अंतरंग जाणून घेवचें?
पयरचें तें पिंपळाचें सुकिल्लें पान अजूनय कशें हांगाच आसा? एखाद्या वाऱ्याच्या झोतान कशें हुबून गेलें ना अजून? एखादीं तशें वारें अजून आयलें नासत. हांवे तें पान परत हातांत घेतलें. खरेंच तें सामकें जीर्ण जाल्लें. अशाच पिंपळा रूखा सकल गौतम बुद्धांक बुद्धत्व प्राप्त जाल्लें, ज्ञानप्राप्ती जाल्ली. न्ही? मागीर कितलें मोलाचें हें पान? हांवे त पान परत कपलाक लायलें आनी हातांतच दवरलें.
आता मात सूर्य अस्ताक गेल्लो. आता काळोख जातलो, दाट. हांवे आता आपले घरा परत वचूंक जाय.
कवी 'Landor'ची एक कविता हांव गुणगुणत वता.

I strove with none, for none was worth may strife.
Nature, I loved and next to nature, Art;
I warmed both hands before the fire of life.
It sinks and I am ready to depart!

***



२५

ते राती डब्ल्यू. एस्. लॅण्डोराच्या कवितांनी फाट कांय सोडली ना. मनांत कवितेचें एक अनाहूत संमेलनच भरलें. रेंदाळकरांन 'अजुनी चालतोचि वाट! माळ हा सरेना!' अशा आपल्या कवितेन सुरवात केली. मागीर कवी गोपिनाथ आयले आनी माका तांणी नीट तिसरेच्या वर्गांत व्हरुन बसयलें. ते गांवक लागले.

'बाळ वता पयस गांवा,
मन गेले पिसावन,
आज सकाळच्यान,
आज सकाळच्यान।'

सुंदर चालींत म्हणू लागले. सामके कवितेच्या शेवटाच्या ओळीं मेरेन,

'मनां येवन उमाळो,
लायी पदर दोळ्याक
लायी पदर दोळ्याक.'

कवितेच्या शेवटाक दलालांचे चित्र आशिल्लें. भुरगें बैलगाडेंत बसून पैस वता आसतानाचे आनी आवय दोळ्याक पदर लावन अश्रू पुसत आशिल्ली...

मागीर मागेलो चौथेचो वर्ग दोळे मुखार उबो रावलो. सांजेची वेळ. आतां इतल्यांत घांट घणघणू लागतली आनी शाळा सुटतली अशी. आमी सगळीं भुरगीं शाळा सुटच्या या वेळार एकाच आवाजांत उमळशिकेन तरीय मोठमोठयान आड्डत एका सुरांत कविता म्हणतालीं...

'दिसता सानुली मंद झुळूक हांवे जावचें
ओड घेता मन थंय स्वैर झुकचें ।'

आनी...

'पूण वता वता सुगंध सांगाता व्हरचो
तो दशदिकांतल्यान फिरता उधळुनी दिवचो।'

शाळेची घांट घणघणू लागताली आनी आमी स्वैर उधळत घरा कडेन धांवत सुट्टालीं. सदां शाळा सुटताना दीस्त हीच कविता शिक्षक म्हणूंक कित्याक सांगताले तें त्या वेळार कळ नाशिल्लें. पूण आज ती अर्थ सोडोवन दाखयता. कितले गोड आशिल्लें ते शाळेचे दीस.

कवी गोपिनाथ सकल बसले. ग. ह. पाटील आपल्या हातांत कवितेचो कागद घेवन उबे रावले. आनी तांगेली सामकीं गाजिल्ली 'श्रावणबाळ' ही कारुण्यमय कविता गावंक लागले. हांव गुंगून गेलो. त्या गतकाळांत. मागेली आवय जणूं माज्या कुशीक हळूच येवन कविता आयकत बशिल्ल्याचो भास जालो. हांव चौथेंत आशिल्लो ते वेळची ही याद. श्रावणबाळ ही कविता मागेल्या निरक्षर आवयक खूब आवडताली. पुस्तकांत चित्रकार दलालांन कविते खातीर दोन पानांर चितारिल्लें चित्रय ती बारीकसाणेन पळयताली. अप्रतिम चित्र आशिल्लें तें. एका पानांर श्रावणबाळाचें चित्र आशिल्लें. दाट झाडांझोपांत बशिल्ल्या आपल्या तानेल्ल्या कुड्डया आवयबापायक, तो तळ्यांतले उदक चेंबू बुडोवन भरता आनी दुसऱ्या पानांवयल्या चित्रांत तळ्यांत उदक पिवपाक सावज आयला अशें समजून धनुश्याची दोरी ओडून क्षणाधार्त बाण सोडीत आशिल्लो राजा दशरथ आसा. कविता तशीच त्याच चालींर, सुरांत कानांर पडता...

'शर आला तो, धावुनि आला काळ
विव्हळला श्रावणबाळ
'हा! आई गे!' दीर्घ फोडुनी हाक,
ते पडला जाऊन झोक'

राजा दशरथाक हें जेन्ना कळता आनी श्रावणबाळ तांका दुःखान बापुडवाणें विनयता...

'जा, बघतिल ते, वाट पांखरावाणी
द्या नेऊन आधी पाणी

मज माघारी, करा तुम्ही सांभाळ
होऊनिया श्रावणबाळ'
आनी मागीर...
'सोडिला श्वास शेवटला
ते जीव-विहग फडफडला
दशरथ राजा, रडला धायी धायी
अडखळला ठायी ठायी'

रातीन घरा आवय मुखार ही कविता हांव म्हणून दाखयतालो आनी मागीर या शेवटाच्या ओळींक मागेली आवय हळहळत पदरान, तिगेले भरिल्ले दोळे पुसताली. माकाय त्या बालमनांत किर्ते तरी काळजांत गलबलून वता हें जाणवतालें.

कितेंय आसूं, कवितेन माका खूब कितें दिलें. तन्ने मन, नाजूक भावुकता आनी तरल संवेदनशीलते सयत मोलादीक अश्रू.

रातींच्या या काव्यमैफलींत हांव बेधूंद जालो. बेभान जालो. कॉलेजांत अभ्यासाक वर्डस्वर्थ, कीटस, शेले, बायरन आशिल्लें. दरएकलो एकएक कविता मांडू लागलें. शेले तर कीटसालो मोगी. कॉलेजिंतले इंग्लीशिचे आमचे सर डॉ. राव, प्रो. वैद्य, मॅडम डॉ. मंगोली कविते सयत दोळे मुखार दिसूं लागले. कीटस् कविल्यो इसाबेला, फ्रेडरिगो-लिसा दोळे आड जातात न जातात तोच, आपल्या दोन निरागस भुरग्यांच्या अपघाती मरणाक आकांतान वेंगायत आनी आपलें उद्वस्त काळीज उगडून दाखयत इसाडोर आक्रोश करीत उबी रावली. तिजी त्या काव्यपंक्तितलीं एक ओळ अजूनय मागेल्या मनांत मात रुतून बसला, कायमची. इसाडोर म्हणता...

'I danced the death of my children!' पूण या इल्ल्याशा ओळीन मागेलें मन सदांच व्याकूळ जायत आयलें. इसाडोर माका पयल्या भुरग्याची 'आनंदा' ची सतत अस्वस्थ स्मरण दित आयला. आनंद सात वर्साचो आसताना अचानक न्युमोनियान शीक पडून गेलो. तेका डॉ. कासलीवाल्यांच्या बालरुग्णालयांत दाखल केल्लें. सकाळी उपचार सुरु केले. वखदां, इंजेक्शनां केली. पूण कांयच उपेग जालो ना. सगळे तासांभरात आटापलें. भुरगो असो अचानक वचप हो धक्को त्या वयांत आमकां भयांकूर आशिल्लो. हांसत, खेळत, बडबडपी भुरगो दोळे मुखार तडफडत मरप हें भयानक आशिल्लें. असह्य आशिल्ले. जीवघेणे आशिल्ले. मागेल्या आनंदालें हें दुःखद, दारुण मरण हांवे प्रत्यक्ष पळयलें. इसाडोरल्या कवितेपरस विदारक.

डॉक्टरांन सांत्वन करीत हॉस्पिटलाच्या खर्चाचें बील हातांत दिलें. बिलाचो उघड उघड अर्थ आशिल्लो बील भरुन भुरग्यालें मडें व्हरपाचो. म्हन्यांत कांयच पैशे नाशिल्ले. आयताराचो दीस. आतां खंय वचप? कोणाकडेन हात पातळावप? सगळेंच जीवघेणे

आशिल्लें. बिलाच्या पैशां खातीर दोन तास वणवण करीत इश्टांच्या घरांचे हुंबरे झरयतालो. पूण मेळ बसनाशिल्लो. तरीय अशा वेळार नियतीच अडचण सोडयता. वस्तेंतलो मागेलो एक इश्ट मल्हारी पाटोळे अचानक मुखार दिसलो. आमराईत तेगेली मावळण रावताली. उलोवणे जालें. हांवे वस्तुस्थिती सांगली. आनी पाटोळेन तात्काळ 'चल हॉस्पिटला कडेन' अशे म्हणत माका व्हेले. ताच्या मावळणीन ताका पैशे दिल्लें. मागीर पाटोळेनच फुडाकार घेवन सगळें बील भरलें आनी सगळे सोपस्कार ताणींच साकशिले.

इसाडोर आजय मागेली फाट कित्याक सोडना. मरणा मुखार ती तो विकट नाच कित्याक करता?

मागेल्या या वेंतभर सामान्य जिणेंत अशें जायते वियोग, कित्येकांच्या मरणाची माळ परतपरत कित्याक फेर धरताली? आत्ताच याद जाल्ली श्रावणबाळाची कविता, मागेल्या पाचवेंतल्या 'श्रावण गोपाळ सुरवसे' या वर्गंश्टाची याद कित्याक करुन दिता? तो लाचारेन पचपचिलो, 'भाकरी वाडा ऽ मांय' अशें म्हणत आशिल्लो, सांजवेळच्या काळखांतलें ताजें धूसर तोंड आजय दोळे मुखार स्पश्ट कित्याक उबें रावता? मागेली पयली बायल सुधा, अपशकुनी पायाची म्हणून अपमानीत जावन तिका कित्याक जगचें पडलें? इतली प्रदीर्घ वर्सां मनीस अशे कशें अदृश्य जातात. हे सगळे व्यवस्तेचे बळी काय नियतीचे! ताटातूटय कायमची आसता!

कितली रात जाल्ली हें कळलेंच ना. त्या रातीं यादींतल्या कवितांनी माका पार झपाटून उडयले. हें अशें कित्याक घडतालें? खांदेवयल्या शेवण्यांनी उच्छाद मांडिल्ल्या भशेन. जशें 'कळा ज्या लागल्या जिवा। मला की ईश्वरा ठाव्या। कुणाला काय हो त्याचे? कुणाला काय सांगाव्या?' मागेल्या त्या फुलत्या तरणाटें पणांत गुरुदत्तांचे 'बिछडे सभी बारी ऽ बा ऽ री' हें पद कायमचे मनांत रुतून बसलें. या प्रवासांत कितले तरी जीवलगांनी सांगात सोडलो. कितलेशे आप्तेश्ट सोडून गेले पूण जगाचे वेवहार चालूच आसात. आसतलेच. हें खरेंच की, 'सूर्य उदेतलो, चंद्र झळकतलो । नखेत्रां अपलो मार्ग पाळतलीं। अशेच वारे फुडें व्हांवतले... (कुणी) जाता राहिल काय? जन पळभर म्हणतील 'हाय हाय'! भा. रा. तांब्यांच्या कवितेंतले कटू सत्य मनार हुबता ना हुबता तोमेरेन, 'ऐसा गा मी ब्रह्म' चें नवें जीवन गाणे घेवन नारायण सूर्वे आयलो. तेगेल्या विद्यापिठांतल्यो कांय कविता सादर करुंक लागलो. 'ना घर आशिल्ले ना गणगोत, चलता तितली पायासकल्ली जमीन आशिल्ली.' अशी वळख करुन दीत, हताशपणान आपलें वैफल्य मांडूक लागले.

'कविते बदला रद्दी विकिल्ली जाल्यार बरें जातालें
निदान देणेकऱ्यांचे तगादे तरी चुकोवंक येतालें.'

या कविते सारखेंच आमच्याय आयुश्याचें अशेंच सार जाता काय? कविता ह्यो खरेंतर व्यक्तिगत आसूनय व्यक्तिगत नासतात. जेन्ना त्यो मनोसंवेदनाची सर्वव्यापी अनुभूती प्रतिबिंबीत करतात तेन्ना त्यो व्यक्तिगत उरच नात.

अखेर कवी लॅण्डोर आयलो आनी ताणेच या स्मृतीगंधांत बुडिल्ल्या रातीचो समारोप केलो, कवितारती ताणेच केली.

'My House is of sandal-wood
Never under the fear of fire!
Although it burned, will spread out
A perfume for all and forever!'

आनी रात सरली.

कित्याक कोणाक खबर माका केन्ना केन्ना दिसत आयला. आमी कांय कर्तव्यपूर्तिच्या उत्तरदायित्वा खातीर बंधकच आसतात. आपल्या आयुश्यांतल्या जाय त्या घटनांचे हयकार वा न्हयकार हें सर्वस्वी मन:पूर्वक वा स्वेच्छा अशें नासतात. आमी म्हणतात मनस्वी, पूण खरेंच तशें नासता. अधीनतेसंबंधान सुद्धा आमी जायते पावटीं अनभिज्ञ आसतात. कर्तव्यपूर्तेचे उत्तरदायित्व हें बंधकच आसता. इच्छा आसूं वा नासू आयुश्याचो विशिश्ट काळ पराधीन आसता. असो काळ कोणाखातीर तरी एका अर्थान आहूती दिल्लो आसता.

दीस अशेच सरत आसतात.

आयुश्य हो प्रवाहच. जलौधच तो. केन्ना संथ, तर केन्ना खळाळपी, केन्ना फेसाळत, तर केन्ना चिर्ळीखर्ळीतल्यान, केन्ना माळरानांतल्यान व्हांवपी. केन्ना शुश्क-सुको अगतीक तर केन्ना रौद्ररुप धारण करुन म्हापूराच्या रुपान उध्वस्त करपी. या जलौधाची रुपां चड-उणें स्वरुपांत माज्याय आयुश्यांत हांवे अणभवलीं, भोगलीं. अशे तर सगळ्यांच्याच वाट्याक येता?

हें कितेंय आसूं प्राप्त आयुश्यांतल्या फुकट वचपी किंबहुना फुकट गेल्ल्या दिसांची माका सदांच खंत दिसता. 'कोई लौटा दे मेरे बिते हुए दिन' अशें आयुश्याच्या अखेरेक, उत्तरार्धात म्हणून उपेग कितें? पूण अशा काळांत हळवें, भावूक मन आसत तर तेंका अस्वस्थ जायत आसता. गतकाळांतल्या यादिंनी हळहळत रावता अशें मन. मागीर या वयांतच कवितांचे अर्थ दीस्त कळपाक लागतात, बेचैन करतात, सतयतात. हालींसराक माजें मन जायते खेपे अशें जाता. पयलीं पदां, गितां तांच्या गोड-उदास चालीन आवडतालीं, अर्थाकडेन चडशें लक्ष नासतालें. आता मात अर्थ नीट काळजांत वचून भिडता. केन्ना कोणे आमकां समजून घेतलें ना, हाची याद जावन अशी गझल आयकूंवक आयली की, हें आमच्याच मनांतले पद आसा अशे दिसूंक लागता. अशे

अणभव प्रेमभंगाचेंच आसतात अशे न्ही.
'जब भी हमने कुछ कहा । उसका असर उलटा हुआ ।
हम तो अपनों में थे । मगर ये बडा धोका हुआ ।
आपकी लब्जो में ये शिकायतें। कहाँ से आ गयी...मगर ।
तुमने दिलकी बात कह दी... चलो ये अच्छा हुआ..।
अब किसी से क्या कहे । बस खुदा का शुक्र है ।
जो भी हुआ अच्छा हुआ..।'
ही गझल आपल्या दर्दभरीत आवाजांत जगजीत गायता, तेन्ना आमीय मनांत अशीच खंयची तरी अनुभूती आठयत आसतात आनी खूब अस्वस्थ जातात. वा मागेले भुरगपणाचें विस्कटिल्लें सगळे सगळे प्रसंग अशेच या फुडल्या गझलींतय आसपावलात; ते आयकतना जीव आजय कासावीस जाता, काळीज गलबलून वता आनी दोळे भरुन येतात. तोच दर्दभरीत आवाज... भुरगेंपण याद करपी हें पद.
'कडी धूँप में अपने घरसे निकलना। वो चिडियाँ, वो बुलबुल, वो तितली पकडना। वो झुलोंसे गिरना.... के गिरके सँभलना....वो टुटी हुअी चुडियों की निशाणी...। वो कागज की कश्ती, वो बारिश का पानी। मगर मुझको लौटा दो वो बचपनका सावन....'
'वो छोटीशी यादें वो लम्बी कहानी' आजय याद जाता...
या निवृत्तीच्या एकमुळ्या वयांत आता अशे खूब जावंक लागता. भोवतर्णी सगळे आसात, आसूनय आमी जायते पावटीं एकटे आसतात. हें एकटेंपण विरुसय करता आनी मीठा-दर्दय दिता. हालींसराक हांव माज्याच आत्मसोदांत आसता. हेवय जगणेच आसता. वास्तवातले आनी यादींतल्या वास्तवविस्मृतितलेंय. हेंच खरें आम च्या मालकेचे आसता. उरिल्लें सगळे पराधीन.
ती सांज तर येतलीच. आमी निदान तिज्या कक्षेंत तरी आयले. हेवय खूब जालें. तिज्या वेळार ती नक्कीच येतली. हांव येवकाराक तयार आसा. सांज थोपोवन धरपी असो कोण आसा? आसत, नासत! हांव कोण सोद घेवपी? 'हांव माकाच उमगना, आदार कसो सोदचो' असो भ्रमग्रस्त. कवी लॅण्डोर भले म्हणता आसत 'May House is of sandal-wood! Never under the fear of fire!' हांव तर हुलपोवच्या वाटेवयलो प्रवासी. चंदन ज्वालाग्रही आसत, अग्निप्रेमीय आसत म्हणून ते अग्नीक भियेय नासत. चंदनाचो जल्मच जळतानाय सुगंध पातळावपाचो. आमचें कितें? निसतें हुलपेवत रावचें. निर्गंध.
अलौकीक, अद्धितिय, अतुलनीय अशें जगणे कांय मागून मेळना. निसर्गांतच विशमता आसा तशीच विविधताय आसा. ध्येयासक्त झोकून दिवप सगळेच कशें करुंक

शकतले? मुळांतच ती अंकूरत आसता. हांगा अक्रोडय आसा आनी बाभळय. नाजूक जायजूय बी आसा, आनी काटेरी निवडुंग. जो तो आपल्या सुवातेर आपले वैशिश्ट्य धारण करुन जगत आसता. आमचेंय तशेंच आसा.
आमच्या जगण्याचो अन्वयार्थ कितें आशिल्लो कोणाक खबर. हांव तर जगपाची विशिश्ट भूमिका केन्नाच घेतली नाशिल्ली. जगणे पूर्वनियोजित नासताच नासता. तें घडत आसता. आमी आयुश्याची वाटचाल फकत करत आसतात. केन्ना तांतूतय कोसळप आसता वा उसळप.
हेंच सगळे हांवे 'हुलपोवणी' त मांडत आयला. तांतूत कृत्रिम, उसणे रंग हांवे केन्नाच भरले नात. प्रांजळपणा खातीर खंयच तडजोड केली ना. तोंच तर दाह सोसत बरोवचें आशिल्लें; आनी तशेंच प्रामाणिकपणान बरयलें.
या 'हुलपोवणी' च्या खोशेंत हांव कैक दीस जणूं हूबत आशिल्लो. पुस्तक आवडिल्ल्याचें फोन येवंक लागले. पत्रां येंवक लागली. माका हो अणभव नवो आशिल्लो, मन तृप्त करपी आशिल्लो. तोखणायेच्या पत्रांत भाऊ पन्नालाल सुराणांचे पयलें पत्र आशिल्लें. दुसरें पत्र आशिल्लें नरेंद्र दाभोळकरांचे, डॉ. चंद्रशेखर शिंदे हाणी तर एक विस्तृत परीक्षण-पत्रच धाडलें. अरुण साधूलो उजवो हात दुखाविल्लो. तरीय तांणी दाव्या हातान 'पुस्तक खूब आवडिलल्याचे' बरोवन कळयले. आंबिवलीचे विठ्ठलराय भट हाणी पत्र बरयलें. अशे कितले तरी. मागेले स्नेही आनी साहित्तिक कवी लक्ष्मीनारायण बोल्ली आनी शरद एकबोटे हाणी वाचून जाले बराबर उमळशिकेन लेखन आवडिल्ल्याचें कळयले. एका रातीं एक वरार डॉ राजन गवस हाणी फोन केलो. न्हिदेंतल्यान उठून 'पुस्तक आताच सोपयलें, खूब सुंदर बरयला' अशें म्हणून सांगले. अरुण खोरेंचोय असोच तोखणायेचो फोन आशिल्लो. अरुण शेवंतेचोय. रजनीश जोशींन सकाळ दिसाळ्यांत परीक्षण बरयलें. ललितच्या सुहासिनी कीर्तिकरांन 'दृश्टिक्षेपा' तर उद्धव कानडे हाणी म. सा. प. पत्रिकेंत समिक्षापर बरयले. बाबा भांड, नागनाथ कोत्तापल्ले, फादर फ्रान्सिस दिब्रेटो, रॉकी लोपीस या सगळ्यांनी तोखणाय केली.
'हुलपोवणीच्या' गौरवात आनीक एक नवीन खाशेली भर पडली. सोलापूर आकाशवाणीचें कार्यक्रम अधिकारी श्री. सुनील शिनखेडे हाणी 'हुलपोवणी' या मागेल्या आत्मकथनाचें आकाशवाणीचेर सदां सकाळी क्रमशः वाचन करचे खातीर वेंचून काडिल्ल्याचें सांगले. अर्थांत खोशेचीच गजाल ही, आनी बेगीनच आकाशवाणीचेर हुलपोवणी पुस्तकाचें सदां सकाळी क्रमशः वाचन सुरु जालें. हें वाचन सदां स्वतः श्री. सुनील शिनखेडे हे तांच्या भारदस्त आवाजांत करताले. तांचे वाचन खरेंच खूब प्रभावी आशिल्लें. सोलापूरकरांक हें क्रमशः वाचन खूबच आवडलें. श्री. सुनील शिनखेडे हाणी

तांच्या अस्खलीत आनी अप्रतिम अशा मंत्रमुग्ध करपी वाचनांतल्यान 'हुलपोवणी' आनीक उंचायेर व्हरुन दवरली.

एक दीस अचानक दनपारा प्रा. डॉ. रणधीर शिंदे हाणी फोन करुन सांगले, 'जाधव काका, तुमगेल्या हुलपोवणी आत्मकथनाक महाराष्ट्र शासनाचो उत्कृश्ट वाङ्मय निमि 'तीचो लक्ष्मीबाई टिळक पुरस्कार जाहीर जाला. नेटार पळया, अभिनंदन' कितल्या अल्पावधींत हें घडून गेलें.

हो आनंद मागेलो नाशिल्लो, माका बरोवपाक लायिल्ल्या मागेल्या परमइश्ट आयु. दत्ता गायकवाड हांगेलो आशिल्लो. मोगान आनी प्रांजळपणान मागेल्या लेखनाची तोखणाय करपी आनी मन:पूर्वक उमेद आशिर्वाद दिवपी आदरणीय गो. म. पवार आनी माईंचो आशिल्लो. माका अर्दे आयूश्यभर आंगाखांद्यार खेळयिल्ल्या मागेल्या मातंग वस्तेच्या झोपडपट्टेचो आशिल्लो. गो. मा. पवार सर मागेल्या लिखाणा विशीं अपूरबायेन म्हणतात 'एखाद्या सुकिल्ल्या पोन्न्या झाडाक अचानक फुलांचो भार येवचो तशें हें आसा. आता झाडाक फळांय लागतलीं.

दीस तर बरे आयले. भरगच्च पीक भरिल्ल्या हंगामां सारखे. आमचे लागसारय केन्ना फिरकलें नाशिल्लें 'प्रतिभा' हें उतर वगीच तकलेंत घोळूं लागले. असलीं उतरां मायावी आसतात. आमकां भ्रमांत दवरुन फसयतात. आमी तेंका भुलप ना हें हांये मनांत ठाम केल्लें, देखून हांव आत्मवंचने पसून सदांच सुरक्षित अंतरार आसता. प्रतिभा ही भांगराची कांडी आसता. ती अप्राप्य आसता आमचे सारख्या सामान्यांक. हजारो वर्सां प्रतिभेच्या पावंड्या मेरेनय पावंक दिलें नाशिल्ल्या व्यवस्थेच्या काळांत आमी प्रतिभेच्या कळसांचे पयसुल्ल्यानच दर्शन घेतलें. आता शाहू फुले-आंबेडकर आनी साठे हाणी तो कळसच आमच्या हातांत हाडून दिलो. बरे आसा. तरीय प्रतिभेचे प्रकरण हांव कुशिकच दवरता. माका खबर आसा, प्रतिभा ही बुद्धींतल्यान-मेंदवांतल्यान, विचार प्रक्रियेंतल्यान अंकुरता. स्वयंभू आनी निसर्गदत्तय आसूं शकता. मागीर दाहक जगण्याच्या अणभवाचे कितें? तें उमळशिकेन, उत्स्फूर्तपणान मांडले गेलें तर तांतूत जीवंत पण येवचे ना? आमी तर आमचे जें विदारक जगणे आशिल्लें तें नीट काळजांत उतरां बुडोवन मांडले. तें उज्या इतलें सत्य आसा अशें दिसता. हाची 'अक्षरवाङ्मय', 'अभिजात वाङ्मय', 'लालित्यपूर्ण वाङ्मय' वा प्रासादीक वाङ्मय हांतूतल्या खंयच्या ऐतिहासीक वा वाङ्मयीन सौंदर्यांतल्या 'शास्त्रांत' वर्गवारी करतले? पूण कितेंय आसूं, आमकां 'अंध-मूक-बधिरांक' आमची 'ब्रेल लिपी' गवसल्ली आसा. आमी बरोवंक लागलात; आनी हेवय मान्यच करचेंच पडतलें, मराठी साहित्याच्या मंदिरांत आतां आमकां सन्मानपूर्वक सुवातय मेळिल्ली आसा. पूण याय मंदिर प्रवेशा खातीर विद्रोही पावंडे चडून येवचे तर पडतलेच न्ही!

एक पावटीं सहज म्हण भायर सरलो. तर एका मोण्णार हांव स्कूटरी वयल्यान निसरुन पडलो. रेवेंच्या कणान गाडी निसरली. अपघात सादोच आशिल्लो. खीणभर दोळे मुखार काळोख आयलो. परत उठलो, स्कूटी आपली आपूणच सावरली. आनी मागीर परत घराकडेन आयलो. खंयूय, कांयच खरचटले पसून नाशिल्लें. पूण फाटींत मात अचानक एक सरसरुन सणक आयली.

सदचे प्रमाण रातीं न्हिदलो. खंय कांयच जाले नाशिल्ल्या भशेन. सकाळीं जागो जालो पूण उटचें अशे दिसना. आंगात कणकणय आशिल्ली. उठूंक गेलो जाल्यार फाटींतल्यान जीवघेणी कळ चमकून गेली. परत परवंत हांतुळणार पडलो. 'आवय गेऽ' म्हणत कमरार हात धरुन कळ सांसपू लागलो. फाटल्यान दाव्या कमराच्या बाजून भितर सणसणताले. खूबच जळजळताले. फाट आखडून गेल्ली. धड बावगोवंकय येना, ना धड उबें रावंकय जायना. उठचें तर पयसच. भिवन गेलों. घरचींय भिलीं. 'कितें जालें अशें अचानक, कसलोय त्रास जाता? डॉक्टरा कडेन वच्या?' हांवे समजायलें आनी कालचो स्कूटरीचो प्रकार सांगलो. बायल म्हज्यांकच बसून रावली. दुखत्या जाग्यार मलम लायलें. फरक पडना.

लागींच आर्थो. चे संबंधीत डॉ. वच्चे आशिल्ले. तांगेल्या दवाखान्यांत गेलो. डॉक्टरान तपासणी केली. एक्सरे काडलो. पळोवन दोन दिसाच्यो गुळ्यो दिल्यो. तरीय कांयच फरक पडना वेदनेन त्रस्त आशिल्लो. परत डॉक्टराकडेन गेलो. मागीर तेणे सरळ एम्‌आरआय काडूंक सांगलें. एम्‌आयआर म्हणल्यार एक अग्निदिव्यच. तासभर आख्खी कूड यंत्राच्या हवाली करप. सामकें निश्चल जावन रावप. हे कठीण आशिल्लें. पूण इलाज ना. मिनिट आनी मिनिट कितलें प्रदीर्घ आसता तें कळतालें. वेळ सरुन सरना. अखेर एम्‌आरआय च्या घोलींतल्यान भायर आयलो. सांजेर रिपोर्ट मेळचो आशिल्लो. रिपोर्ट हाडूंक श्रीनंद, किरण, राहूल, आनी जांवय प्रमोद गेले. रिपोर्ट घेवन डॉ. वच्चेक दाखयलो तांणी तो पळोवन डॉ. प्रभाकर एस. न्युरोसर्जना कडेन रेफर केलें. भुरगीं तशींच थंय गेली. वस्तूस्थिती सांगून रिपोर्ट दिलो. डॉ. कामांत आशिल्ले, दुसरे दिसा सकाळची वेळ दिली. तोमेरेन रिपोर्ट पळोवन सांगता म्हणून सांगलें.

कळो वाडतच आशिल्ल्यो. परत सकाळी श्रीनंद, किरण आनी प्रमोद डॉ. प्रभाकर एस्. हांचे कडेन गेले. डॉक्टराली भेट जाली. माजे कडेन राहूल आशिल्लो. तो सारको फोना वयल्यान संपर्क करतालो. पूण रिपोर्टाचे कांयच समजनाशिल्लें. दपनपार गेली. दीसय ढळू लागलो. 'कसलीं हीं भुरगीं बेदरकार, कांयच कशें सांगनात' अशे येवजून रागय येवंक लागलो.

पाच वरार भुरगीं घरा आयलीं. आनी ताकतीक करीत म्हणूक लागलीं, 'पपा, चला डॉ. कार्टीकरांली अपॉइन्टमेंट मेळ्ला, तुम्कां घेवन या म्हणला.' कांय एक आयकनास्तना

गाडी काडली आनी माका नीट डॉ. दत्तप्रसाद काटीकर हांच्या हॉस्पिटलांत व्हेले. हांव परवंतालो. कळो सोसूंक जायनाशिल्ल्यो. फाटीचो विशिश्ट भाग प्रचंड दुखतालो. भितरल्यान सामको भगभगतालो.
डॉ. काटीकरांन माका तपासून पळयलें. एम्आयआर पळयत सांगूक लागले,
जाधव काका, भिवचें कारण ना. दोन तीन म्हयने स्वस्थ पडून रावात. हालूंधोलूं जावचे ना तमुकां. तुमचे दोन मणके दुखावल्यात. थंय रशी जाला. हांव वखद दिता. चुकनासतना घेवचे. सामकें वेळचे वेळार. चड विचार करचो ना. स्वस्थ न्हिदून रावा. म्हयन्या उपरांत इम्प्रुव्हमेंट पळोवया. हळूहळू फरक पडतलो. हांव एक चीट दिता. ते तुमच्या मापाचो कमराचो आनी मणक्याक आदार दिवपी एक बेल्ट तयार करुन दितले. फकत गरजे प्रमाण वापरा. पूण वखदां अजिबात चुकोवप ना. नाजाल्यार ऑपरेशन करचें पडतलें.
हें आयकूवन हांव हादरलोच. माज्या तोंडावयलो भियेल्लो भाव पळोवन परत तेच माका समजावंक लागले,
जाधव काका, तुमी लेखक आसात. तुमचें पुस्तक हांवे वाचला. कितलें सुंदर बरयला?
डॉक्टर वातावरण हगूर करताले. पूण मागेलें मन असंख्य प्रस्नांच्या गर्तेत घुस्पटून गेल्लें.
घरा आयलो ते पडिल्ल्या विरुस तोंडान. घरारच मळब कोसळिल्लें. हांतुळण धरलें. आता तीन म्हयने वयलें पाखें आनी गरगरपी पंखो पळयत रावचें. हें कितें जावन बसलें. मागेलीं उतरांय आता मोनीं जालीं. हांव गप्प गप्प जालो. रातींचे जेवण जालें. ताटांत कुस्करिल्ल्या दूद-भाकरेचो कालो मंगलान चमच्यान माका भरयलो. न्हिदूनच जेवचें आनी तशेंच उदकय पिवचें. माका कशेशेंच दिसलें. ही अशी अपंग पिडेस्ताची अवस्था फाटीच्या वेदने परसय चड अस्वस्थ करुं लागली. जेवण जालें; श्रीनंदान गुळ्यो दिल्यो.
सदां नेमान श्रीनंद गुळ्यो दितालो. किरण आनी राहूलय सदां 'पप्पा गुळ्यो घेतल्यो? म्हण विचारताले. चुकनासताना. आट दीस जावन गेले. वेदनो जायतच आशिल्ल्यो, ठाण मांडून बशिल्ल्यो. दीस-रात पडून आशिल्लो. हांतुळणार खिळून रावपाचो अणभव सोसत. मन स्थिर जावंक दिनाशिल्लें. नाना अनिश्ट विचारांत तें गुसपटून वतालें. नाका असलो भोग अशें जावन गेल्लें. अजून अडेच पावणे तीन म्हयने काडचे आसात. इतल्यांतच हांव त्रस्त जावन गेल्लो. मागेलें मोनेपण आनी अस्वस्थता घरांत जाणवताली. कोणी ना कोणी म्हज्यांत रावताले. धूव अनुराधा आनी तीनय सुनो जतनायेन जाय नाका पळयताल्यो. एक गजाल आपसूक ध्यानांत आयली. मागेल्या

आशिकुशीक खंयच्याच गुळ्यांचो बॉक्स, वा खंयर्चीय हेर वखदां किर्तेच आसनये हाची निक्षून काळजी घेतली वताली. श्रीनंद त्या त्या वेळच्यो तितल्योच गुळ्यो हाडून दितालो.

पंदरा दिसा नंतर कांय प्रमाणांत सणसण कमी जाले. हांव थंयच्या थंय हालूं लागलो पूण हांतुळणार न्हिदूनच. न्हीद न्हीद आनी न्हीद. दिसानय आनी रातीनय. सगळे विधी थंयच. बायलेक कसलीच हळशीक दिसनाशिल्ली. ती सगळें कांय मनांपसून करताली. नि:संकोच. अशी सेवा करप म्हणल्यार मनाचें कितलें मोठेंपण आसता. आवयच्या रुपांतलीच ही सेवा! विरुस, वैफल्यग्रस्त मनाक मागीर उभारी येताली. आयुश्य सोपोवपी आमी कोण? हाचो धनी कोणय दुसरोच आसता. ताजें 'आपोवणें' कोणाक खबर आसता? अशेंय मागीर स्वत:चे सांत्वन करतालो. विचार चक्र चालू आसताले. वयलो पंखो गरगर फिरत आसतालो.

शीकपण आंगवळणी पडता. ताचीय सवय जाता. आपले बराबर घरच्यांकय. या काळांत जायते जाण मेळून गेले. कांय सोयरे आपल्याचेर बोल येवचो न्हय म्हण मुजरत मेळपाक आयिल्ल्याची जाणीवय करुन दिताले. माका अशे पडून उलयतना कशे तरीच दिसताले.

फरक पडत गेलो. हांव अर्दी मर्दी कमराचो बेल्ट आता लावंक शकतालो. पांचेक मिनटां बसपाक येंवक लागले. तीन म्हयने जायत आयले. एकपटी रातींची जेवणां जाल्लीं घरचे सगळे मेळून उलयत बसले. विशय मागेल्या सुरवातेच्या एमआरआय रिपोर्टाचो आयलो. हांव सोफ्यारच न्हिदतालो. आता बेल्ट लावन सोफ्याक मातसो तेकून बशिल्लो. श्रीरंग सांगतालो....

"पप्पा, आमी सुरवातेचे पंदरा दीस खुब तणावाखाला आशिल्ले. तुजो एम्‌आरआय रिपोर्ट डॉ. प्रभाकर हांचे कडेन दिल्लो. सकाळी गेलो. रिपोर्ट पळोवन ते सांगताले, 'पेशंट खंय आसा, घेवन या तेका, तपासून सांगता. पूण रिपोर्टांत मणक्याक इजा जावन रशी जाल्ली दिसता. अशा पेशंटाच्या कमरा सकल्ल्या भागाक इजा जावंक शकता. वखदां दीत बसची रिस्क घेवचे परस रोखडेंच ऑपरेशन करप बरें. खर्चिक आसा, पूण वेळ व्हगडाय नाकात. घेवन या तेंका.' किरण आनी प्रमोद तर भिवन भायर येवन घटाघट उदकच पिंवक लागले. ताळो सुकून गेल्लो आमगेलो. किर्ते उलोवचे कळना. तेंतूत रिपोर्टा खातीर राहूलालो सारखो फोन. अजून डॉक्टराली भेट जाली ना अशेंच हांव सांगत आशिल्लो बरे आसा म्हण थंयच्यान भायर सरले. मागेल्या मनांत डॉ. बाकळेक रिपोर्ट दाखोवचो अशें आयलें. थंयच्यान नीट डॉ. बाकळे सरांकडेन आयले. तेंका सगळें सांगलें."

श्रीनंदान पिवंक उदक मागलें. उदक पीता पीता तो माजे कडेन पळयतालो. हांवे म्हणलें, ''अरे, इतले दीस तुमी माका हें सगळें कशें सांगले ना.'' श्रीनंद फुडे सांगू लागलो, 'आयका तर'

''मागीर पप्पा, बाकळेन डॉ. काटीकराक दाखया म्हणून चीट दिली. आनी रोखडेंच तांणी डॉ. काटीकराक फोन करुन सांगलेंय. मागीर थंयच्यान डॉ. काटीकरां कडेन गेले. थंय पळयत जाल्यार ही गर्दी. डॉक्टराली भेट कठीण दिसताली. दनपार जावन गेल्ली. आमकां कसलेंच भान नाशिल्लें. जेवणाचें पसून. डॉ. बाकळे हांची चीट नर्सीन भितर व्हरुन दाखयली. आनी रोखडेंच पाचेक मिनटांत आमकां भितर आपयलें. तुजो रिपोर्ट दाखयलो, पूण डॉ. प्रभाकरा कडेन आमी गेल्लें हें मात सांगलें ना. डॉ. काटीकरांनी एम्‌आरआय चे फोटो पारखून पळयले रिपोर्ट पळयलो आनी 'कोण आसा पेशंट' म्हणून विचारलें. आमी 'पेशंट घरा आसा' म्हण सांगलें. मागीर मातशें बेजान्नच तांणी म्हणलें, 'आरे पेशंटाक पळयले शिवाय हांव कितें उलयतलो? चला पेशंटाक घेवन या.' मागीर आमी घरा आयले आनी गडबडेन तुमका घेवन गेले.''

इतलें सगळें घडिल्लें तुमी आता माका सांगतात हांव.

पप्पा, आमी भिल्ले. तुमका कशें सांगतले. हांव तर सदां तुमच्या पायांच्या हालचालीं कडेन पळयत आसतालो.

''पूण श्रीनंद माका तपासले नंतर डॉक्टरान परत तुका भितर एकट्याक कित्याक आपयिल्लें ?''

''आता सांगूक हरकत ना पप्पा. डॉक्टरान स्पश्ट बजायिल्लें की, पेशंटाली मनस्थिती अशा त्रासान इबाडता. वेदनेन तो पयलींच त्रस्त आसता. तेंतूत हे तीन म्हयने बिगर हालचालीन न्हिदून रावप. पेशंट अशा अवस्थेन कंटाळून वता. नाका ते विचार येवंक शकतात. जीणच नाकाशीं जाता. तेन्ना या ट्रेसच्या काळांत चड लक्ष दियात म्हणून सांगिल्लें.''

श्रीनंदालें खरेंच आशिल्लें.

''तर पप्पा येवच्या मंगळाराक तीन म्हयने पुराय जातात. डॉक्टरान बुधवारची अपॉइन्टमेंट दिला. पप्पा आता कांय त्रास ना न्ही.''

''ना, खूब खूब सुधारणा आसा. हो पुनर्जन्मच न्ही मागेलो. तुमच्या सगळ्यांक लागून जाल्लो, तुमी झटिल्ल्यान तर हांव वांचलो बाबा.''

''अशें कशें, बाबा, तुमी तर आमचो आदारस्थंब.''

बरोच वेळ उलयत बसले. घरांवयलें सावट सोपिल्लें अशा मनमेकळ्या वातावरणांत. थरिल्ल्या प्रमाण डॉ. काटीकरा कडेन गेले. तांणी परत एम्‌आरआय काडूंक सांगलें. पॅथॉलॉजिकल टेस्ट-रगत मूत बी परत तांच्या पद्धती प्रमाण तपासले. रिपोर्ट येता मेरेन

थंयच बसले. रिपोर्ट नीट डॉक्टरा कडेन गेले. सगळीं सोय थंयच आशिल्ल्यान विलंब जावचो प्रस्नच नाशिल्लो. तरीय दरम्यानच्या काळांत आमी चिंतातूर जाल्लेच. रिपोर्ट कशे आसतले काय म्हणून. आमकां तासाभरान भितर आपयलें.
''या जाधव काका, बसा. आता हुस्क्याचें कांयच कारण ना. रिपोर्ट बरें आसात. एम्‌आरआय त आता कांय दोश दिसना. दत्तकृपेन आता तुमी बरे जाले. नशीबवान आसात तुमी काका. आनी पंदरा दिसांच्यो गुळ्यो दिता. त्यो घेवन बंद करा. परत येवची गरज ना. ओ. के.! ''
डॉक्टरान सगळें एका दमांत सांगून उडयलें. तांका प्रस्न विचारिल्लें चडशें आवडनात, हें आमकां खबर आशिल्ले. पूण आयकूवन खूब आनंद जालो. तरी डॉक्टरान कांय प्रिकॉशन्स घेवंक सांगिल्ले. 'इतल्यांतच भोवपाक बी वचू नाकात: आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार वाहन टाळचें. बेल्ट वर्सभर वापरचो' अशें किते किते.
कांटेरी यातनांच्या रानांतल्यान जणूं हांव भायर सरिल्लो. परत नवो जोम वाडूं लागलो: नवी उर्बा, नवी उर्मी मनांत निर्माण जाली. तरीय या भोगिल्ल्या तीन म्हयन्यांतल्या वेदनेन मन खूब व्याकूळ जाल्लें, हाची याद जायतच रावताली. मन विरुस जांवक लागले. एकाएकी सगळे निरर्थक अशेंय दिसू लागले. मनाच्या दुर्बलतेन खचून गेल्लो. दीस दीस फकत बसून रावतालो. भायर खंयूय पडचो प्रस्नच नाशिल्लो. निसतें बसपय असह्य जातालें. अनेक विचार येताले. मन भरकटताले. उदासिनतेचें आनी खिन्नतेचे प्रमाण वाडूंकच लागले. एक दीस परत डॉ. बाकळे हांका वचून मेळ्ळो. सविस्तर सांगलें. ते मागेले इश्टच. मागेलो स्वभाव जाणून आशिल्ले. मनाच्या खंबीरपणासंबंधी आनी मन:शक्ती कितली प्रभावकारी आसता हाचेर तांणी सविस्तर भाशणच दिलें. मनाच्या शक्तीचे अणभव सप्रमाण सांगले, ''कांय नासता हो. घडचें तें घडताच. बी स्ट्राँग ॲण्ड बी हेप्पी. तुमी ओशो वाचा. रावात तुमका माजेकडल्या ओशो टाईम्स या मॅगझिन्सचे अंक दिता.'' तांणी कुशिच्या कपाटांतले कांय अंक काडून माका दिले. एक अंक उगडून पानां चाळ्ळीं आनी वाचून दाखोवंक लागले. हे पळया, 'तुम क्षण-क्षण आनंदसे जीना शुरु करो। अच्छे से खाओ और इसका आनंद लो: नृत्य करो और प्रेम करो-इसका खूब आनंद लो। भविश्य की चिंता मत करो। वो वैसेही आएगा जैसे उसे आना है। आंसू बहते है तो बहने दो। आंसू भी बहूत सुंदर-चीजों में से एक है। ये तुम्हारा हृदय हलका कर देते है। कभी उदासी शुभ है, कभी आनंद में, शुभ है। आंसू हृदय की भाशा है.....जब तुम गहरी पीडा में होते हो। इसका अर्थ है कि तुम प्रसन्नता का आयाम भूल गए-इतना प्रसन्न हो जाना कि हृदय का प्याला पुरी तरह से भर निकला...

डॉ. बाकळे सामके तल्लीन जावन माका सांगताले. इतले आत्मीयतेन की, माका तांचो तो गुरुपदेशच दिसलो. हांव शांतपणान आयकतालो. अशें विचार माका नवीन नाशिल्ले, या आध्यात्मिक विचारांची माकाय सखोल वळख आशिल्ली. पूण धुक्यांत आपलीच वाट शेंडता तशें माजें जाल्लें. माका डॉक्टरांन खूब आपलेपणान समजायलें. खूब बरें दिसलें. भायर पेशंटाची चुळबूळ चलिल्ली. कंपावंडरान भितर येवन सांगले, 'सर भायर पेशंट खूब आसात, ताटकळलात'

डॉक्टराचें उपकार मानून हांव रोखडोच भायर सरलो. तकलेंत आध्यात्मिक विशय घोळूंक लागले. धर्मपर वाचन बरेंच आशिल्लें. आवडय आशिल्ली आनी चिंतनय. मागीर धर्म या विशया वयर्ली एखादी कादंबरी बरोवची अशे खरपणान दिसूं लागले. 'पराभूत धर्म' या मागेल्या पुस्तकाचो जणू आयचो आरंभदिन आशिल्लो.

सर्वधर्मसमभाव हो कादंबरीचो मूलाधार मनांत आशिल्लो. देखून रोखडेंच लेखन करची गडबड नाशिल्ली. निकतोच शीकपणांतल्यान भायर आयिल्लो. आराम तर गरजेचो आशिल्लो. मागीर या वेळांत सर्वधर्माचो बारकायेन अभ्यास करप, धर्मांविशिंची पुस्तकां चाळप, विचार जाणून घेवप, भासाभास करप हें सगळें करुंक येतलें. मनय रमतलें. ह्या खातीर गरजेची आशिल्लीं अध्यात्म-धर्म-वैश्विक विचार हे संबंधाची आपली एक चिंतनपर मुलभूत भूमिकाय तयार जातली अशें दिसलें. आनी ते प्रमाण नव्या उमेदीन कामांक सुरवात केली. वाचन, शांतचित्त-चिंतन, टिपण करत गेलो. हो अणभव तर उदात्त तर आशिल्लोच पूण आपलेंच शुद्धिकरण करपी आशिल्लो. सर्वव्यापी प्रेम होच खरो, सर्वधर्माचो प्रमूख आविश्कार. प्रयोजन आसा हो निश्कर्श ध्यानांत आयलो. हें सगळें चिंतन कादंबरीच्या कलान्मक पातळेर आविश्कृत करप अतिशय कठीण काम आशिल्लें. पूण धाडस केलें आनी 'पराभूत धर्म' या नांवान कादंबरी आकाराक हाडली. लेखन-वाचन होवय जगण्याचोच भाग आसता. हें सलग केल्लें लेखन. लेखन कालावधी मेजून पळयलो. ४०० पानांची ही कादंबरी बरोबर ५२ दिसांत बरोवन जाली. हेवय लेखनाचें दीस जणू मागेल्या आत्मशुद्धिचेंच आशिल्ले. ही एक वेगळी जीवनाभूती आशिल्ली. आपल्या कोऽहं सोदाची ही परिणती आशिल्ली. एक परिक्रमा आशिल्ली. या दरम्यान हांव नेमान कांय वेळ ओशोय वाचतालो. हें लेखन सोंपलें ते दिसा ओशो टाईम्साचो मार्च २००९ चो पोन्नो अंक हातांत आशिल्लो. अंक चाळत गेलो आनी पान ४१ वयलें दि सीक्रेटस् ऑफ सीक्रेटस् या ओशोंच्या उदधृत परिच्छेदाकडेन थांबलो.

'अब तुम्हारा हृदय अधिक सजग, सचेत, प्रेमपूर्ण, संवेदनशील होगा। तुम वे चीजें देखना शुरु कर दोगे जो तुमने पहले नही देखी। तुम्हे अपने अंतधर्म में नये स्थलों का पता लगने लगेगा। हर दिन, हर क्षण कुछ नया घटेगा।'

जणूं ओशो साक्षात माकाच सांगतालो.
मागीर बरयतरेच गेलो. सोलापूरांतल्या मनोरमा साहित्य सेंलनाचे अध्यक्ष म्हण औरंगाबाद साकेत प्रकाशनाचे फामाद प्रकाशक आनी प्रतिथयश लेखक श्री. बाबा भांड आमंत्रित आशिल्ले. संमेलनाच्या समारोपाच्या दिसा सांजेर तांचो फोन आयलो. ते थंय रातीन वसती करुन सकाळी परत गांवाक वचपाचे आसले. तेन्ना सकाळी मेळूंक यो. माका खूब खोशी जाली. मागेली हुलपोवणी वाचून ती आवडिल्ल्याचो तांणी फोनय केल्लो.
सकाळी ते आयले. बरोबर तांची बायलय आशिल्ली. सौ. आशाताई. आमी दोगांकय यथोचीत येवकार दिलो. अत्यंत प्रेमळ, मनमिळावू आनी अनौपचारिक आशिल्लें दोगांयचेय वागणे. साहित्यविशयक थोडें उलोवणे जाले. बडोद्याचे राजा गायकवाड हांच्या समग्र कर्तृत्वा विशीं खूब मोठें काम बाबांन केल्लें आसा. उलयताना विशय आयलो. सध्या मागेल्या लेखनाचो विशय कितें आसा म्हण, 'सुंभ आनी पीळ' या कादंबरीचें लेखन पूर्णजाल्ले. आपसूकच आयिल्लो विशय माका फायद्याचो आशिल्लो. हांवे हस्तलिखीत दाखयलें. लागलीच बाबा पानां चाळूं लागले. शांतपणान तांणी मनोगत वाचलें आनी हें हस्तलिखीत बरोबर घेवन वता, अशे निर्धारान उलोवनय दाखयलें. हो मागेलो सन्मानच आशिल्लो. आना भायलीं प्रकाशना, लेख स्वीकारतात म्हणून.
सव्या दिसा 'सुंभ आनी पीळ' ही कादंबरी साकेता कडल्यान स्वीकारिल्ल्याचो तांगेलो फोन आयलो. ही खोशी हांव कशी वर्णू?
कांय दिसांत 'सुंभ आनी पीळ' छापून पुस्तकांच्यो प्रतीय हातांत आयल्यो. आता आनंद संवकळीचो जावंक लागलो. जंयथंय पुस्तक गेलें. तोखणाय जावंक लागली. एक दीस पुण्याचे श्री. पुरुषोत्तम सदाफुले हांणी अभिनंदनाचो फोन केलो. 'सुंभ आनी पीळ' या कादंबरीक मृत्युंजयकार शिवाजी सावंत हो पुरस्कार जाहीर जाला म्हण. बरे दिसलें. 'सुंभ आनी पीळ' चे मुखपृश्ट पुण्याचे संतुक गोलेगांवकर हाणीं केल्ले. अतिशय वेधक आनी कलापूर्ण. पुस्तकाचो सगळो सार मुखपृश्टा वयल्यान प्रतीत जावपी आसा. एकूणच ह्या पुस्तकाच्या निर्मिती संबंधात बाबा भांड हांणी खास लक्ष दिल्ले: आनी ताची फलश्रुती म्हणून दि फेडरेशन ऑफ इंडियन पब्लिशर्स न्यू दिल्ली वतीन भारतीय भाशांतलो उत्कृश्ट ग्रंथ निर्मितिचो राष्ट्रीय पातळेवयलो द्वितीय पुरस्कार 'सुंभ आनी पीळ' पुस्तक निर्मितीक, साकेत प्रकाशन हांका मेळ्ळो. श्री. बाबा भांड हांच्या आनंदात माकाय वाटेकार जावपाक मेळ्ळें.
मागेल्या 'हुलपोवणी' आत्मचरित्राच्या दुसऱ्या आवृत्तीचें काम श्री. बाबूराव मैंदर्गीकरांनी खोशेन आपणायलें. आनी काम अल्पावधींत पुर्णय केलें. हांव या सुधारीत आवृत्तीच्या मुद्रित सोद प्रक्रियेचें काम करतालो. वेळ दनपारची. महाराष्ट्र राज्य

साहित्य आनी संस्कृतीमंडळ, मुंबय कार्यालयांतल्यान फोन आयलो. 'प्रौढ वाङमय, दलित साहित्य, वाङमय प्रकारातलो लोकशाहीर अण्णाभाऊ साठे हो उत्कृश्ट वाङमय निर्मितीचो ह्या वर्साचो पुरस्कार मागेल्या 'सुंभ आनी पीळ' या कादंबरीक जाहीर जाला म्हण. राजशासनाचो हो दुसरो पुरस्कार. दूरदर्शन, नेमाळ्यांतल्यान अभिनंदनाचे वृत्त प्रसारीत जालें. सोलापूर आकाशवाणीर श्री. पद्माकर कुलकर्णी हांणीय वृत्त प्रसारीत केलें. दिव्य मराठीचे संजीव पिंपरकर, हयात पठाण, श्रीकांत कांबळे तशेंच लोकमताचे रवी देशमुख खास मुलाखतीक घरा आयले. संपादक राजा माने हांणी फोनार अभिनंदन केलें. हो गौरव सुवाळो मागेल्या घरा आयोजीत केल्लो. तेन्ना गुरुवर्य गो. मा. पवार सर, दत्ता गायकवाड, राजशेखर शिंदे, संतोश कोंटी मुजरत हाजीर आशिल्ले. या पुरस्कारान मागेलें खूबच कौतुक जालें. शुभेच्छांचो पावस पडलो.

माजेसारख्याक हे आनंदाचे भांगरा खीण मोलादीकच. सतत वाचन आनी लेखन चालूच आसता. हें एक मागेले अभियानच. विशय, आशय, संदर्भ, विचार, भावोत्कटता हांचो विस्तृत स्त्रोतच मनांत आता व्हांवता. हें निर्मितीच्या आनंदाचे सुखद अणभव आसात. शांतचित्त जालो की, सृजनांचे कल्लोळ धांवून येतात. उतरांची सळसळ कासावीस करता. दाटिल्ल्या कोंडिल्ल्या, आकसिल्ल्या आनी घुस्मटिल्ल्या उतरांचे ओघ बांद फुटून सैरभैर जातले काय अशे दिसूं लागता.

एक पटीं मध्य रात उलटून गेल्ली. मर्दीच न्हीद हुडली आनी मागेल्याच जाण्टेपणाच्या दशेची अगतिकता अस्वस्थ करुं लागली. ती रात तशीच सोपली. दीसय उदेलो. पूण अस्वस्थतेचो अस्त जायनाशिल्लो. वोगीच एकसुरे पणाचें सांवट, थकाय मनार तरंगू लागलें. कातरवेळ सदांच बेचैन करता. हे वेळार दोळ्यांत किट्ट काळोख दाटून येताच. असोच विशय मागीर थैमान घालूं लागता. मागीर अस्तकालीन एकटेपणाची अगतिका भोगपी जाणट्यांक अर्पण केल्ली, 'अस्तमतेचें वत' ही कादंबरी उगम पावली. ११२ पानांची ही संहिता सलग बसून चौदा दिसांत पूर्ण केली. दोन तीन इश्टांक दाखयली. अभिप्राय बरें आशिल्ले. हें हातबरप मॅजेस्टिक प्रकाशन संस्थेचे धनी अशोकराव कोठावळे कडेन धाडलें. नवल म्हणल्यार सहसंपादिका शुंभांगी पांगे हाणीं देडच म्हयन्यांत ही संहिता उत्त्म आशिल्ल्याचें आनी ती स्वीकारिल्ल्याचे पत्रय धाडलें. हें चौथे पुस्तक. माज्याच मनाचें, चिंतनाचें पडबिंब. अतिशय तन्मयतेन वयस्क अवस्थेंतल्या एकलेंपणाची तगमग हांवे उतरांत बांदून दवरिल्ली. आयुश्या बद्दल जायत्यो व्याख्या, सिद्धांत मांडलात पूण आयुश्याचो थांग आजवेर कोणाकच लागिल्लो ना. अशें माका तरी दिसता. हांव तें सदांच प्रवाह प्रतित मानता. प्रकाशनाच्या सोदांत वचपी काळरातच. खूब खूब पयसुल्लो धूंसर प्रवास. संधीप्रकाशांतलोय. म्हणच माका पटता, 'Life is a long long walk, a journey

in a cosmic twilight...' होच आशय या कादंबरीभर व्यापून आसा.
कितेंय आसूं दुःखाचें वैशम्य माका केन्नाच दिसलें ना. विवंचना, विरुसता ह्यो तर सदैव सांगाताक. सुखोपभोगाच्या फाटल्यान केन्ना धांवलो ना. पैसो मेळोवप आयुश्याचे उद्‌दिश्ट नाशिल्लें. पैशाची हाव तर केन्नाच नाशिल्ली. पूण पैशाचो तोरो कोणाक आवडचो ना. पैसो गरजे पुरतो लागता. पैसो आवश्यक आसता पूण तें जीवनाचे अपरिहार्य, एकमेव आंग आसा हें पटपा सारखें ना.
आयूश्य ही हुलपोवणी आसा आनी हिरवळय आसा. दोनय चड उणेपणान दरेकाच्या वाट्यांक येतात. हांव जायते पावटी विचारांत आसता. मनशां आठयत बसता, मनशां पळयत बसता, मनशां नियाळत बसता. अजबच रसायन आसा हें केन्नाच थांग न लागपी. मनीस फट उलयतात. सराईतपणान, अकारण पसून, नाईलाज म्हण सुद्धां, पूण माका मनशांची सगळ्यांत एक वर्तणूक केन्नाच आवडली ना ती म्हणल्यार 'विश्वासघात' विश्वासघात केन्नाच समर्थनीय आसूं शकना. श्वापदां, हिंस्, क्रूर आसूं शकतात पूण केन्नाच विश्वासधातकी आसूं शकनात.
हांव सतत विचार करीत रावता. अनेक विचार, कसलेंय, कितेंय. हीवय एक सवयच. हेजेन भंय निर्माण जाता. आनी नैराश्यय. हातूत लख्ख उजवाडय दिसता आनी कच्च काळोकय. ठहरपवर ह्रोंडा बर्न हिजें 'द सिक्रेट' हें पुस्तक अचानक हातांत पडलें. हापापापिल्ल्या भशेन जेन्ना हांवे तें वाचून काडलें तेन्ना वेगळ्याच उमळशिकेन स्तब्ध जालो. हेच ते विचार याच विचाराच्या सोदांत हांव हेडतालो. हीच ती घोल. हेंच तें ओॲसीस.
स्वत:बद्‌दल लेखिका सांगता, 'जेन्ना आयुश्यच उध्वस्त जावन गेल्ले, दारुण जाल्लें तेन्ना मागेल्या धुवेन-हेलीन एक सामर्के पोन्ने पुस्तक वाचपाक दिलें आनी तांतूतल्या अद्‌भूत विचारान नवो साक्षातकारच जालो. मागीर तांतूतल्यान नवी वाट दिसली. जीवनाचे सिक्रेट-गुपित कळ्ळें. ऱ्होण्डा बर्न हिणे जायते सुवातेर भोवंडी करुन तत्वज्ञ, कायदेपंडित, डॉक्टर, अनेक तज्ञ प्रोफेसर्स हांका मेळून या सिक्रेटा संदर्भांत मोलादीक विचार, तत्वज्ञान, वैश्विक विचार एकठांय केल्ले आसात आनी ते संकलीत रुपान स्पश्टिकरणा सयत दिल्लें आसात. या पूस्तकांतले विचार धन पयस मेरेन पावचे म्हणून हाची फिल्म, वेबसाईट, ग्राफिक्स, तयार केल्ले आसात. या पुस्तकांतले मतां, विचार थक्क करपी आसात. जॉन ॲसाराफ, बॉब प्रॉक्टर, जेम्स रे, डॉ. जो विटाल, बॉब डायल, लिसा निकोल्स, मायकेल बर्नाड बेकविथ आदीं तत्व चिंतकाचें विचार हातूंत आस्पाविल्ले आसात.
वैज्ञानिक भूमिकेंतल्यान भारतीय आध्यात्म विचार नवे वैश्विक विचार म्हणून मांडपाचो या पूस्तकांत बरो यत्न जाल्लो आसा. आजतागायत विश्वनिर्मिती बाबत अनेक सोद

विचार, चिंतन आनी तत्वज्ञान मांडलें गेलें. या 'द्हश झ्शलीर्शी' पुस्तकांत, 'विचाराक एक फ्रीक्वेन्सी आसप, आकर्शणाचो युनिव्हर्सल नेम आसप, विचारांतल्यान ब्रह्मांडाची निर्मिती जाल्ली आशिल्ल्याचें सांगप, सजातीय आनी सकारात्मक विचाराचें बळगें आसप, आनी हें सगळें क्वान्टम फिजिक्सांतल्यानय सिद्ध जावप, न्हयकारा परस सकारात्मक विचार शतपटीन व्हड आसा हें पटोवन दिवप आनी शेवटाक प्रेम हेंच सर्वशक्तिमान आसा हो सिद्धांत मांडप,' हेंच सार आसा. In short, it is nothing but an old yellowish brass metal put-forth as if it is a new bright, glossy and glittering one, by scrubbing it again.

या पुस्तकान माका परत विचाराच्या नव्या गर्तेत ओडून व्हेलें. अशी असंख्य सुंदर सुंदर पुस्तकां माका सुखद भूल घालूं लागलात. आयुश्याच्या उरिल्ल्या कवडश्यांत लाभतात तितलीं मनसोक्त वाचून घेवप. मनमुराद खोशी घेत रावची. जमता तितलें बरयत रावचें. वेळ जालो आनी सांज ढळ्ळी तरी...

...दोन दिसां पयलीं वसई, सांडोरचे फादर फ्रान्सिस दिब्रिटो हांगेलो फोन आयिल्लो. तेंका उमरगे हांगा एका कार्यावळीकं वचचें आशिल्लें, तेन्ना सोलापूराक सिद्धेश्वर एक्स्प्रेसीन येवन थंय वचचें पयलीं हांगा येवन मागेली भेट घेवची आशिल्ली. अर्थांत माका आनंदच जालो.

७ आक्टोबर २०१४. थारल्या प्रमाण स्टेशनार हांव आनी दत्ता गायकवाड गेले आनी तेंका येवकार दिलो. उपरांत बरोबर सकाळी ९ वरार संतोशनगरच्या मागेल्या घरा फादर फ्रान्सिस दिब्रेटो सर, उमरग्याच्या कार्यक्रमांतले मुखेल प्राध्यापक आनी सचीव हांचे वांगडा आयले. आमी आत्मीयतेन आनी प्रेमान तांचे स्वागत केलें. एका फामाद साहित्यिकांचे आनी फाटली ४० वर्सां तन्मयतेन एका चर्चाचें गुरुपद सांभाळपी फादरालें आमचे घरा आगमन जालें ही माका खेरीत खोशी आशिल्ली. तांच्या तोंडार झळकूवपी अखंड सृजनमय तेज आनी मंदस्मित आमी पळयतच रावले. अशा भेटेचो 'योगसंदर्भ' कितें आसता? आमी सगळ्यांनी आदरपूर्वक तांका नमस्कार करुन पदस्पर्श केलो. फादरान यगळ्यांक 'गॉड ब्लेस यू' म्हणत आशिर्वाद दिले. थोडे थांबून फादर अत्यंत म्होवाळ आवाजांत उलोवंक लागले.

ल. सी. जाधव, तुमची तीनय पुस्तकां हांवे वाचलीं. तीनय पुस्तकां वेगळी आसात आनी अतिशय रसाळ, वेधक शैली आसा. तुलची वर्णन शैली व्हांवती तर आसाच पूण वाचकांक ती अखेर मेरेन सामकी खिळोवन दवरता. माका खूब आवडलीं पुस्तकां. म्हणलें उमरग्याचो योग आयला तुमची मुजरत भेट घेवची अशें मनांत थारायिल्लें. फादराल्या उलोवण्यान हांव भारावन गेलो. 'सर, हो मागेलोच खूब व्हड सन्मान आसा' अशें नमळायेन म्हणलें.

मागीर आमी साहित्य आनी लेखन हाचेर उलयले. फादर सुमार पाऊण वर आशिल्ले. माजे कडेन आशिल्ल्या तांच्या बृहद् बायबल ह्या अणकारीत दोन प्रतीचेर हांवे तांची सय घेतली. फादर दिब्रेटो सरांन माका बायबलाची डिव्हिडी भेट म्हण दिली आनी ते इटलींत आसतना, व्हेनीस चर्चिंतल्या मरिया मायच्या सन्मानार्थ, सुहृदांक, भक्तांक प्रेमपूर्वक दिवपी भांगरा पदकांतलें एक पदक तांणी माका अगत्यान दिलें. माका हें अपूर्व आशिल्लें. दितानां तांणी सांगले 'जाधव, धिस इज फॉर यू. यू डिझर्व्ह फॉर धिस, गॉड ब्लेस यू.'

हांवे धर्मपर बरयिल्ल्या कादंबरी खातीर माका हें जणू आगळेंच भांगरा पदक आशिल्ले.

दीसभर हांव एका पवित्र निर्मळ आनंदांत वावुरतालो. घर मंगलमय दिसतालें. अशा वेळार हमखास पोन्न्यो यादीं मनार ताल धरतात. माका मागेलें जल्मस्थळ दिसूं लागलें. ती झोपडपट्टी-मातंगाची वस्ती. हातार पोट आशिल्ल्या बांधवांची वस्ती. जांका गरिबीचो हुलोपय कळनाशिल्लो. हेंच तर आमच्या जगण्यांचे प्राक्तन. जें सटीआवयन कपलार बरोवन दवरला. हातूंत कागाळेचे कसलें कारण? अशीच समजण आसली. अशा दीनदलितांच्या आसऱ्याक जगाचे खातीर येवपी आनी सतत भोंवत हेडत रावपी डक्कलवार जमात, जंय ते देंवताले तें वडाचें झाड, तो व्हांवत्या उदकाचो आडवो नळ, असंख्य झाडांरानां, अगणीत शेवर्णी, वश्या, रेवण्या, कबऱ्या, हे मागेले बालपणाचे इश्ट. आमी केल्लीं ती मस्तीपणां, भटकंती, आमचीं दुबळीं घरां-खोपटां, गळकी, अशा घरांतल्या चिमणेच्या उजवाडांत शिकपी आमी कांय थोडींच भुरगीं. जांतूत एन्. टी.रास्ते, सिद्राम वायदांडे, शाम जाधव, केरु कसबे, शिंदे आदी आमी मुखेली. आमचे भितरलो एन्. टी. रास्ते तर अधिक्षक इंजिनियर आनी उपसचीव, पाटबंधारे विभाग महाराष्ट्र राज्य या मोठ्या पदावयल्यान निवृत्त जाले, सिद्राम वायदांडे ए.जी.चे ऑडिटर जावन निवृत्त जाले, शाम जाधव लोकल फंड अकावंटस ॲण्ड ऑडिटाच्या प्रमूख पदामेरेन पावले. हांव स्टेट बँकेंत सहाय्यक प्रबंधक म्हण निवृत्त जालो. हें इतलें आमच्या अपेक्षे परस चड आशिल्लें. माका तर सरस्वतीन मुक्तहस्तान अनमोल उतरांकळ्यो बहाल केल्ल्यो. जायते साहित्यिकांच्या मांदियाळींत सुवात मेळ्ळी. आनी किते जाय आसता? आनी आज तर 'हुलपोवणी' च्या माज्या सारख्या मूलनिवासीच्या घरा फादर फ्रान्सिस दिब्रेटो हांव 'लेखक' म्हण माका मेळपाक आयिल्ले.

हेंच प्रेम दिग्गज, प्रतिथयश साहित्यकार गो. मा. पवार सर आनी सुजाता माई हांणी जायते पावट घरा येवन दिलें. भाऊ पन्नालाल सुराणा घरा येवन मुजरत मेळून गेले. याद आयली की अरुण साधू सर फोनार उलयतात. विलास खोलेसर, नागनाथ कोत्तापल्ले

सर, चंद्रकांत भोंजाळ, दीपक घारे, मुकुंद टाकसाळे, रविप्रसाद कुलकर्णी, उद्धव कानडे सामके आपले पणान संपर्कांत आसात. सतीश काळेसरांनी तोखणाय केली आनी सिंधुदुर्गाच्यान खास मेळूक येवपाची इत्सा आशिल्ल्याचें सांगलें. उचल्याकार लक्ष्मण गायकवाडय मुद्दम मेळून गेले. अनेक दिग्गज साहित्यिक आज बरोबरीन उलयतात. हें इतलें माका खूब आसा. मनशाच्या जीणेच्या 'फलद्रूप' यशाचें गुपीत आनीक कितें आसा? हांव आता स्वतःक भरुन पावलो अशेंच समजता. परिपूर्ण आयुश्य आसताच कोणालें? विवंचना, कमीपण, हावेस, हे खातीर सततचो संघर्श हें तर आयुश्यभर चलतच आसतले. अखेरच्या निरोप सुवाळ्या मेरेन.

तरीय आता सत्तरे कडेन पावलो.

परची रात हांवे तृप्त निद्रामय अणभवली. फांतोडेरच पावस संथ रिमझिमत आशिल्लो. पोरसांतली रातराणी चिंबचिंब भिजून फुलिल्ली... तिजो धूंद-सुगंध दरवळता झुळूझुळू वाऱ्यार, ल्हवूच गळपी इल्ल्या इल्ल्या थेंबांत. हांव जागो जाला. परत रातराणीच्या ओल्या गंधमय झुळकेंत भरसून वता. समर्पित जाता त्या काव्यमय गंधांत. माजेंच कोऽहं... रातराणीचीं अखेरचीं फुलां आता मंदमंद टपटप जातात... अनामिक समृद्ध उतरांच्या रुपांत माज्या मनांतय अशीं...

***

अनागम
जिज्ञासेच्या अथांग, असीम
अंतराळांत
हेडता ‘कोऽ हं’
अलख जाणविकायेची
सुलूस लागची तर...
गिळंकृत करता
धूंसर अनंत काळ
अव्याहत
अगम्य भोंवपी
असंख्य आकाशगंगा
अगणीत सूर्य मंडळांतले
अब्जअब्ज ग्रहगोल...
आदिअंताची नेणीव
कोणाच्या कवेंत?
आत्तांच तर ‘मीपणांक’
आकळिल्ले अर्धोन्मीलित
वैश्वीक ‘कोऽ हं’
कृष्ण, बुद्ध, जीझस आनी
अनाम परवरदिगार... अल्ला
प्रेम प्रेम आनी प्रेम.

# मनोगत

'हूलपोवणी' ही म्हजी आत्मकथा,
आफडीसपडीच्या संघर्शाचो काळ आता बरोच निवळ्ळा.परिवर्तनान आता सपशेल नामशेश जाल्लो आसा अशे अजून म्हणूक येवचे ना पूण जे बदल संभवतात आनी जी या धावते सर्तेच्या जगात बदलिल्ली जीवनशैली आमी पळयतात. अणभवतात ताचेवयल्यान आता खूब बदलून गेल्ले आसा हे मान्य करुकच जाय. तरी अजूनय मेट्रोमनी वा लग्नसंबंध आनी जायरातीतल्या आंतरजातीय चलत पूण S.C./S.T. क्षमस्व अशी जायरात येतच आसा. थेट लग्न जमयतना अजूनय आमकां जातीपातीचो आदार घेवचो पडता. वंशावळ तपासची पडता. कूळ पळोवचे पडता. लग्न जमोवचे खातीर कोणीय खंयच्याय जातीत नीट वचून मागणी घालूंक शकनात. ते दीस आजून तरी नदरेच्या टप्प्यात नात पूण बदल जातलो अशी आस्त बाळगुवया.
हांव आयुश्यातल्या सगळया प्रसंगात आनी प्रसंगोत्पात उद्भविल्ल्या परिस्थिती कडेन प्रामाणिक रावलो. जीवन प्रसंगात इमान राखले. म्हणच हांव धगधगते वास्तव मांडू शकलो. वाचकांक ते नक्कीच मानवतले. म्हजे व्यक्तीगत जीवन, जीवन प्रसंगातले इश्ट मित्र, म्हज्या समाजाची स्थिती, आनुशंगिक हेर समाज जीवन आनी रूढी परंपरा या सगळ्यांचो परिपोश हांवे म्हज्या या आत्मचरित्रात मांडला. नानाविध प्रसंग आसात. तेचबराबर समाजातले जीवन आनी निसर्ग

परिसर, तशेंच तांचे दर्शन, तांचो अन्योन संबंध हांगा उकलून दाखयला. जीणेत माका साहित्तिकांचो सहवास लाभलो. तांतूत मान्यवर प्राध्यापक मंडळी आनी ईश्ट आशिल्ले. जाय ते पुस्तकांनी माका आयुश्य भर साथ तर दिलीच, पूण आयुश्याच्या वाटेर नेटान चलपाक आदारय दिलों..

चरित्र मांडताना माका कोणाच्याच विशी आकस नासलो, द्रोह, विद्रोह, प्रस्थापिता विरूद्ध बंड ह्यो गजाली माका अनाठायी दिसतात. ही अभिव्यक्ती व्यक्तीसाक्षेप आसता. माका स्वत:क तरी केन्नाच विचित्र अणभव आयले नात. कदाचीत हांव जातीयतेच्या संदर्भात प्रगत आनी विकसीत काळाच्या पल्ल्यात आयिल्लो आसत. पूण अकारण कांय ज्वलनशीर विचार मांडप हे हांव गैर मानता.

तरीय जीण जगताना सदोनीत एक तरेची अस्वस्थता, भय, काळजी आनी असुरक्षितताय जाणवता, हे मात खरे. आयुश्यभर चंदनाच्या धडयार पडून आशिल्ले; मागीर शांतचित्त कशे दिसतले? जे जशें ओघान आयले, ते तशें उत्स्फूर्त पणान मांडले, भिडेनास्तना. उतर हेच आमचे सर्वस्व .ताका लागून तांचेकडेन केन्नाच प्रतारणा केली ना. उतर हे जिवाचे जीवन म्हणतात ते म्हणच खरे.

म्हणच ही सल हांगा हांव उतरबद्ध करूक शकलो.

या पुस्तकाची खरी प्रेरणा म्हजे इश्ट आयु. दत्ता गायकवाड हे आसात.ताणी माका सतत 'किते तरी बरय' म्हण आग्रो केला आनी हांवे हातात लेखणी घेतली. ताचे श्रेय दत्ताक. हांव सगळ्यांचो उपकारी आसां.

**– ल. सि. जाधव**

# दुसऱ्या सुधारीत आवृत्तीच्या निमित्तान

'हुलपोवणी 'हे म्हजे आत्मकथना वयले पयले पुस्तक. आता दुसरी आवृत्ती भायर सरता हाचो माका खूब आनंद जाता. रसीक वाचकांच्या प्रेमळ प्रतिसादान हें शक्य जाले.

म्हज्या हया 'हुलपोवणी 'पुस्तकाक प्रौढ वाड.मय 'आत्मचरित्र 'ह्या विभागांतले सन 2012 चो महाराष्ट्र शासन उत्कृश्ट वाड.मय निर्मिती-लक्ष्मीबाई टिळक पुरस्कार 'मेळळो. माज्यासारख्याक कितले अप्रूप आशिल्ले हे? हाका लागून म्हजी तोखणायच जाली. लेखन कसदार आसत जाल्यार ताचे मोलय जाता, हे कळले. 'हुलपोवणी 'हे फकत म्हजे व्यक्तीगत आत्मकथन नाशिल्ले, ताच्या परिघात म्हजो गोतावळो, समाज, सैम वाटचालीचो आवाठ सगळे सगळे आासा. हे कथन ह्या सगळयांचे.

स्वभावत: हांव सदांच विचार मग्न आसता. माका सदांच दिसत आयला, आमी सगळे एका अमर्याद शक्ती वरवी कार्यरत आसतात, एकाच तरेची तत्वां आामचें मार्गदर्शन करतात. अंतस्थ प्रेरणेन हें समजू शकता, बरें वायट कितेंय. विश्वप्रेरणेचे अबोध सैमीक नेम निश्चित स्वरुपाचे आसतात. थंय बेरेपण नासता. पूण मनशान निर्माण केल्ली जीवनशैली, निर्माण केल्ले निर्बंध हाका लागून चाली आनी रिती-रिवाजाची जी वेवस्था प्रस्थापीत जायत गेली ताका लागून संघर्श, शोशण, वर्गवर्णन लढे निर्माण जाले. मनशा भीतरच उच्चस्तर निम्नस्तर भेद निर्माण

जाले. परिणामत: तथाकथीत नियतीच्या भोगा बरोबर मनुश्य निर्मित वेवस्थतेय दुश्परिणाम मनशाक भोगचे पडले, पडतात. हया वट्टाचे पडसाद, प्रतिबिंब मागीर साहित्यातय आपसूक उमटवप स्वाभावीकच. 'हुलपोवणी 'हे मागेले आत्मकथन अशीच व्यथा अभिव्यक्त करता.

जगप तर अनभिज्ञ संकेतानुसार अव्याहत चालूच आसता. 'हुलोवणी 'ची ही दुसरी सुधारीत आवृत्ती. ती आपल्या सारख्या सूज्ञ, चोखंदळ, जाणकार आनी रसीक वाचकांच्या मुखार सादर करता. स्वागत जावचे ही अपेक्षा.

**– ल. सि. जाधव**

सोलापूरच्या मातंग वस्तेंत भुरगेंपण व्यतीत केल्ले आनी खर बुद्धिमत्तेच्या बळार पदव्युत्तर पातळेवयले शिक्षण घेवन भारतीय स्टेट बँकेतल्यान अधिकारी म्हणून सेवानिवृत्त जाल्ले ल. सि. जाधव हांचे हें आत्मकथन वाचकांच्यो सामाजिक जाणिवो समृद्ध करपी तशेंच साहिकृतीचो आल्हाददायक अणभव दिवपी आसा.

श्री जाधव हाणीं आपल्या आत्मकथनांत मातंग समाजाचे वेवसायीक आनी सामाजिक जीवन, तांच्यो अंधश्रृद्धा आनी दैन्य, अत्यंत तणावग्रस्त स्थितींतय मनीसपण जपची तांची धडपड या सगळ्यांचे पूर्वग्रहरहीत नदरेन तशेंच सहृदयतेन चित्रण केल्लें आसा. सैमांतल्या विविधतेचें तें तरल संवेदन शीलतेन अणभव घेतात. हें तांचे असाधारण खाशेलेपण म्हणचे पडतलें. हीच संवेदनशीलता ते समाजांतली घडणूक वा व्यक्तिजीवनांतली दारुणता चित्रित करतानाय प्रकट करतात.

श्री.ल.सि. जाधव हांची व्यापक जीवनदृश्टी, सामाजिकतेची प्रगल्भ समजण, प्रसंग वा भावस्थितींचे प्रत्ययकारी चित्रण करपाचें बळगें, प्रसादपूर्ण व्हांवती भाशाशैली आनी सैमाचो अणभव दिवपी तरल संवेदनशीलता ह्या सगळ्यां गुणालागून तांचे हें आत्मकथन फकत दलित आत्मकथनच न्ही, तर एकंदरीत मराठी आत्मकथनपर वाङमयात मोलादीक भर घालपी आसा.

**– गो.मा.पवार**